# आमोरेर

(आप-उक्तावणेचीं कांय बरपां)

रवीन्द्र केळेकार



जाग प्रकाशन

अस्मिताय वर्स उजवाडावणी

**AMORER**
*Collection of Essays*

प्रकाशन क्र. ६८



पयली उजवाडावणी : कोंकणी दीस, ९ एप्रिल २००३

उजवाडावपी :
सुमन्त केळेकार
जाग प्रकाशन
प्रियोळ, म्हाड्डोळ - गोंय ४०३ ४०४

अक्षर जुळणी :
तन्वी ग्राफिक्स
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१

छापपी :
हिरू नारायण नायक
रुतू ऑफसेट्
वळवय, फोंडें - गोंय ४०३ ४०१

भायलें चित्र : इनेज कुरैय, पुर्तुगाल

मोल : १०० रु.

# सुरवेचीं उतरां

'शणै गोंयबाबांनी पेटोवन दवरिल्ली दिवली पालवची ना हाची जतनाय घे... दिवलेंत सद्दां इल्लें इल्लें तेल घालीत राव आनी वात फुडें सारीत राव. हें एकूच काम करीत रावशीत जाल्यार एक दीस थंय कोंकणी सरस्वतीचें देवूळ उबें जाल्लें तूं पळेतलो' अशें काकासाहेब कालेलकरांनी रवीन्द्रबाबांक आरंभाच्या दिसांनी सांगिल्लें आनी ही गुरुची आज्ञा अशें धरून रवीन्द्रबाब हो वेळ मेरेन हो वावर निष्ठेन करीत रावले.

आयज कोंकणीचें केदें दिव्य भव्य देवूळ आमी उबें जाल्लें पळेतात ! केदया केदया प्रतिभावंत, निष्ठावंत, बुदवंत, कर्तुत्वी कोंकणी भक्तांनी एका फाटल्यान एक मुखार सरून तें - फकत पांच दसकां भितर - बांदून काडलां !

उवेखणेक लागून फाटीं उरिल्ल्यो जायत्यो भासो संवसारांत आशिल्ल्यो. आयजूय आसात. हांचे भितल्ल्यो हातांच्या बोटांर मेजपा इतल्यो कांय थोड्योच तांच्या धुवां-पुतांच्या कर्तुत्वाक लागून थोड्याच काळा भितर व्हडल्या भासांचे पंगतीक बसूंक पावल्यात. हांतली कोंकणी एक. हें कशें कितें घडूंक पावलें तें जाणा जावन घेवपाची भाशेच्या समाजशास्त्राच्या जाणकारांक इत्सा जाली जाल्यार अजाप कसलें? येवरोप अमेरिकेंतल्या विद्यापिठांतले आयनर हॉगनां सारकेले भाशेच्या समाजशास्त्राचे कांय विद्वान गोंयांत मुजरत येवन जाणकारांक मेळुनूय गेल्यात.

शणै गोंयबाबांलो वावर मुखार व्हरपी तांगेल्या उत्तराधिकाऱ्यां मजगतचे एक रवीन्द्रबाब. अंदूं 'अस्मिताय वर्सा'च्या निमित्तान रवीन्द्रबाबांलें एक तरी पुस्तक उजवाडा येवचें अशें दिसतालें. हे विशीं तांचे लागीं उलयलें तेन्ना तांणी म्हळें, 'पुस्तक म्हजे कडेन तयार ना. तयार करचें पडटलें. आतां मेरेन बरयलां तें हांगा थंय छापून आयलां. तांतलीं बरपां वेंचून काडपाचीं, तीं परतीं वाचपाचीं, तांचे वयल्यान हात ओडपाचो... हें काम म्हजे कडल्यान आतां जायतशें दिसना...'

'हांव करूं हें काम?' हांवें विचारलें.

'खूब बरें दिसतलें... ताचे वयल्यान मागीर हांव एक नदर भोंवडायन.' तांणी खुशालभरीत जावन जाप दिली.

'उजवाडाचे सूर' पुस्तकाचे पंगतीक बसोवं येत असलें एक पुस्तक हांवें तयार केलें आनी तांच्या हातांत दवरून विचारलें, 'हाका आप-उकतावणेच्या बरपांचें पुस्तक म्हणूं येत?'

रवीन्द्रबाबान म्हळें, 'म्हजीं सगळींच बरपां आप-उकतावणेचीं. 'ब्रह्मांडांतलें तांडव' पुस्तक लेगीत. तें नक्षत्रविद्ये वयलें आसलें तरी तांतुंतल्यान हांवें म्हाकाच चड उकतायला...'

पुस्तक वाचप्यांच्या हातांत आसा. पुस्तकाक 'आमोरेर' नांव रवीन्द्रबाबानूच दिलां. 'उजवाडाचे सूर' पुस्तकाची दुसरी उजवाडावणी चलता. हाचीय येवं. वाचप्यांनी मनार घेतलें जाल्यार ह्या वर्सांतूच ती येवं येता.

९ एप्रिल २००३ **माधवी सरदेसाय**
(कोंकणी दीस)

# मांडावळ





# १.

# देश भोंवन पळोवंक जाय

एका आयतारा सत्तावीस अठ्ठावीस वर्सांचे पिरायेचो एकलो तरणाटो मेळपाक आयलो. 'म्हजी वळख आसची ना तुमकां, रवीन्द्रबाब', ताणें भितर सरतनाच म्हळें. 'तरी आसतना, मुजरत मेळपाक आयलां. अंदू गिमांत हांव हिमालय पळोवपाक गेल्लों. जम्नोत्री, गंगोत्री, केदार, बद्री, चारूय धामां पळेलीं... हालिंसराक खूबशे जाण मोटारीन हीं थळां पळोवन येतात. हांव पांयांनी भोंवलों. ह्रषिकेशा सावन चलत जम्नोत्रीक गेलों आनी थंयच्यान चलत गंगोत्री, केदार, बद्री करून चलत ह्रषिकेशाक आयलों. तुमी तुमच्या पुस्तकांत ज्या हिमालयाचें चित्र रंगयलां तो आयज थंय उरूंक ना. रानां सगळीं फुडाऱ्यांनी, कॉन्ट्रॅक्टरांनी, रियल इस्टेटवाल्यांनी कातरून उडयलीं. तरी आसतना, हिमालय कितलोय जाल्यार हिमालय. ताचें दिव्य भव्य रूप ना जायना. ताचो प्रभावूय उणो पडना. हिमालय पळोवपाची प्रेरणा म्हाका तुमचेच कडल्यान मेळिल्ली. म्हूण, घरा येतकूच, म्हळें, सगळ्यांत पयलीं तुमची भेट घेतलों.'

आयकून बरेंऽ दिसलें.

कांय वर्सां आदली गजाल -

हांव ताचे शाळेंत पाविल्लों. हो भुरगो त्या वेळार धावेंत आशिल्लो. हांव भुरग्यां मुखार उलोवंक उबो रावतां तेन्ना सदांच नर्व्हस जातां. तांकां कितें सांगचें तेंच म्हाका समजना. कांय जाण 'ज्ञान म्हणजे काय' बी असलीं भाशणां तांकां दितात तें पळेलां. असलीं सुकीं, अरसीक भाशणां दिवपा इतलो 'विद्वान' हांव जावंक ना. म्हळें, हांवें उलोवचे परस तांकांच उलोवंक लायिल्लें बरें. म्हूण तांकां हांवें आरंभाकूच विचारलें, 'तुमचो देश खंयचो, सांगशात व्हय?'

'भारत', सगळ्यांनी एका ताळ्यान जाप दिली.

रोखडोच हांवें दुसरो प्रस्न केलो. 'भारत तुमी भोंवन पळेला?'

भुरगे म्हज्या तोंडा कडेन पळेत रावले. 'अजंठा, वेरूळ पळेलां? ताजमहाल, कुतुबमिनार पळेला?' भुरग्यांनी हांतलें कितेंच पळोवंक नाशिल्लें. परतें विचारलें, 'कितें पळेलां? दिल्ली पळेल्या? मुम्बय पळेल्या?'

एकल्यानूच मुम्बय पळेल्ली. बाकिचे गोंया भायर खंयच पावूंक नाशिल्ले. हांवें हेडमास्तराक विचारलें, हांकां तुमी खंयच भोंवडावन हाडिनात? हाडूंक जाय. हांकां 'भारत म्हजो देश' म्हणूंक लायलें म्हूण उपकारना. भारत तांकां दाखोवन हाडूंक जाय. कुडक्या कुडक्यांनी दाखोवचो. देश केदो, कितले विविधतायेन भरिल्लो हें भोंवन पळेले बगर कळना आनी 'देश म्हजो' अशें दिसना.

हांवें एकल्या भुरग्याक उबो केलो आनी विचारलें, धर, हांव तुगेर आयलों... तुज्या घरांत कितलिंशीं मनशां आसतलीं. तीं तुजीं कोण हें तुका सांगूंक येवंक जाय काय ना? ही म्हजी आवय, हो बापूय, हो भाव, ही भयण अशी तुका तांची वळख करून दिवंक येवंक जाय, हय मरे? ज्या घरांत आमी रावतात तें घर केदें, ताका कितल्यो माळयो आसात, कितल्यो कुडी आसात, खंयचे कुडींत कोण रावता, खंयची माळी कोणाची, ते आमचे कोण, हें आमकां सांगूंक येवंक जाय. जाल्यारूच 'हें घर आमचें' अशें म्हणपाचो अधिकार आमकां मेळटलो. तशें, 'भारत आमचो देश' अशें म्हणपाचो अधिकार जोडपाक देशांत कोण कोण रावतात, ते खंयच्यो खंयच्यो भासो उलयतात, खंयच्या धर्मांक पाळो दितात, आमकां खबर आसूंक जाय. तांच्यो चाली-रिती खबर आसूंक जाय. आमकां हें खबर नासलें जाल्यार खंयच्या तोंडान आमी हो देश आमचो म्हणटले? चडशेंच जाल्यार, 'आमी ह्या देशाचे' इतलेंच आमच्यांनी म्हणूंक जातलें. आमी भारत देशाचे, कित्याक, आमी ह्या देशांत जल्माक आयल्यात, आमकां तो पोसता, आमचे कडेन जें कितें आसा - भास, धर्म, परंपरा, संस्कृताय, सगळें - ताचे कडल्यान आमकां मेळ्ळां. इतलेंच हें 'भारत आमचो देश' म्हणपाक पावना. भारत आमी भोंवन पळोवंक जाय. भारतांत जें कितें आसा ताचे कडेन आमकां एकरूप, एकजीव जावंक येवंक जाय. भारतांत रावतात ते सगळे लोक आमकां आमचेशे दिसूंक जाय.

आनी हांवें तांकां म्हजे भोंवडेच्यो कांय खबरी सांगल्यो. म्हळें, हालींच हांव नागालँडांत पाविल्लों. भारतांत खंयूय भोंवात, लोक न्हंयांचे तडीर, दोंगरांच्या मुळसांत घरां बांदून राविल्ले दिश्टी पडटले. नागालँडांतले लोक दोंगरांच्या माथ्यार घरां बांदून रावतात. पुराय वाटार दोंगरांचो. ह्या दोंगरांचेर हांचीं घरां, हांचे गांव. एका गांवांतल्यान दुसऱ्या गांवांत वचचें जालें जाल्यार एक दोंगर देंवूंक जाय, दुसरो चडूंक जाय. अशें कित्या खातीर आसचें हाची वासपूस करतकूच हे लोक दुसऱ्या जमातिंच्या लोकांक भियेतात म्हणपाचें कळ्ळें. नागालँडांत सुमार सतरा जमातिंचे लोक रावतात. सतरा वंशांचे. सतरा वेगळ्यो वेगळ्यो भासो उलोवपी. कदीम काळा सावन हे लोक एकामेकांक आपणाले दुस्मान मानीत आयल्यात. कोणूय दुस्मान गांवांत आयलो जाल्यार तो दोंगर चडटा आसतनाच वयल्यान गुंडे, रोबोल शेंवटून ताका धांवडावन घालपाक वा तीर कामठ्यांनी

मारपाक सोंपो. म्हूण हांचे गांव दोंगरांच्या माथ्यार. नागालँड ह्या पन्नास पाउणशें वर्सांतच सुधारलां. पुणून काल पयर मेरेन तें देशा पसून पयस, संवसारा पसून सामकें पयस आशिल्लें. हिन्दुस्तानांत आर्य आयले. सगळे कडेन पातळ्ळे. नागालँडांत पावले नात. वेगळे वेगळे कडले मुसलमान हांगा आयले. तेवूय सगळे कडेन पातळ्ळे. नागालँडांत गेले नात. इंग्रज आयले. अख्ख्या देशाचेर आपणालो शेक चलोवपाक लागले. नागालँड नकशाचेरूच तांच्या राज्यांत आशिल्लें. तांचें राज्य थंय केन्नाच चल्लें ना. हिन्दुस्तानांतल्यान वचपाचो इंग्रजांनी बेत केलो आनी तें कोणा हातांत दिवन वचचें हें थारावपा खातीर वायस्रॉय हिन्दी फुडाऱ्यां कडेन भासाभास करपाक लागलो तेन्ना नागालँडांतलो फिझो नांवाचो एक नागा फुडारी दिल्लीक वचून वायस्रॉयाक मेळ्ळो आनी ताका सांगलें, 'आमकां भायले भायर कोणाय सुवादीन करून वचूं नाकात. आमी भारतांत केन्नाच नाशिल्ले, सदांच वेगळे आशिल्ले. तुमचो इंग्रजांचोय शेक आमचेर केन्ना चलनाशिल्लो.' असलो मनान सुद्दां आमचे पसून पयस राविल्लो वाटार हो. तो भारतांत दवरपाक भारत सरकाराक थंय सैन्य दवरचें पडलां... हो वाटार भारताचोच एक वांटो, खबर आसा व्हय तुमकां? म्हजो एक इश्ट थंय फाटल्या तीन दसकां पसून एक आश्रम चलयता. ह्या लोकांक भारता विशीं दिसता तो भंय तांच्या मनांतलो पयस करपा खातीर. असल्या कितल्याशा जाणांनी थंय वचून असलेच तरेचें काम करूंक जाय. तेन्नाच हे लोक देशा कडेन एकरूप जावंक पावतले.

हे भाशेन, कांय गजाली सांगून जातकूच हांवें तांकां म्हजे हिमालयांतले भोंवडेच्यो खबरी सांगल्यो. म्हळें, सद्दां सकाळीं पांचांक उठून साडेपांच संक चलपाक लागचें. पर्वत चडचे, पर्वत देंवचे. पांच पांच मैलांच्या अंतरार 'चट्ट्यो' आसात. चट्ट्यो म्हळ्यार कोणा कोणाल्यो पडव्यो. थंय पीठ, तांदूळ, दाळ, मीठ घेवचें. थंयच रांदचें, जेवचें, मात्सो विसव घेवचो. परतें तिनांक चलपाक लागचें. स वरां मेरेन चलचें. हे भाशेन, दोन म्हयने हिमालयांत हांव भोंवलां. हांव एकलो नाशिल्लों. घरकान्न वांगडा आशिल्ली. भाव आशिल्लो आनी दोग इश्ट आशिल्ले. आमी दाट रानां पळेलीं, ऊंच धवींफुल्ल हिमशिखरां पळेलीं, घसघशा भाशेन 'पडपी' न्हंयो पळेल्यो. धा धा, पंदरा पंदरा हजार फूट पर्वतांच्या माथ्यार आमी चडिल्ले.

सुरवातेक हांव भुरग्यांक कितें सांगचें ह्या घुटमळ्यांत पडिल्लों. पूण भाशणा बदला तांचे कडेन संभाषण सुरू केलें आनी भुरगीं रुचीन आयकतात तीं दिसलीं तसो तसो हांव रंगार आयलों.

आयज म्हाका मेळूंक आयिल्लो तरणाटो ह्या भुरग्यां मजगतीं आशिल्लो. ह्या संभाषणाचो ताचेर परिणाम जाल्लो आनी तो अंदूं हिमालय पळोवन आयिल्लो.

हांवें ताका म्हळें, हांवें तुमकां जम्नोत्री, गंगोत्री, केदार बद्रीच्योच खबरी सांगिल्ल्यो.

पुणून हिमालय म्हळ्यार इतलोच हो वाटार न्हय. हिमालय काश्मिरा सावन अरुणाचल मेरेन दोन अडेच हजार मैल शेकानशेक पातळ्ळा. काश्मिराक खूब जाण पावतात. हांवूय पावलां. पहलगांव मेरेनचो वाटार पळोवन आयलां. उसरपत मेळिल्ली जाल्यार पहलगांवच्यान अमरनाथाचीय यात्रा करून येतलों आशिल्लों. पुणून हे यात्रेंत हांव एकलो नाशिल्लों. वांगडा साहित्य अकादेमींतले कांय सांगाती आशिल्ले. तांकां कोणाक वेळ नाशिल्लो. म्हूण फुडें केन्नाय वचून येवं येत अशें येवजून परतलों. लद्दाखूय त्या वेळार पळोवन येवं येतालें. जमलें ना. भीमताल, नैनिताल, आल्मोडा, कौसानी, देहरादून, मसुरी, शिमला, कुल्लू, मनाली ह्याय वाटारांनी लोक पावतात. पर्यटकांच्यो सुवातो जाल्यात ह्यो. हांतल्या कांय सुवातांनी पावलां. दार्जिलींग, सिक्कीमाकूय पावलां. दार्जिलींगाक 'टायगर हिला' वयल्यान एवरेस्ट पळेल्लो तेन्ना आंगार कांटो फुलून आयिल्लो. ताचो उगडास काडटां तेन्ना अजुनूय कांटो येता... तूं तरणे पिरायेचो उमेदिचो भुरगो. हो सगळो वाटार पळोवन यो. एकेच फावटीन जावचोना. कुडक्या कुडक्यांनी पळोवन यो. टुरिस्टां भाशेन न्हय, आतां भोंवन आयला ते भाशेन. असल्यो कठीण दुर्गम यात्रा पिरायेक पन्नास जावचे पयलींच पदरांत घालून घेवंक जाय. मागीर त्यो जायनात.

आनी हांवें ताका सांगलें, हिन्दुस्तानांत आमकां हिमालयाचो फुडो दिश्टी पडटा. ताची फाट पळोवची शी दिसना केन्ना तुका? हांवें तीय पळेल्या. चिनांत गेल्लों तेन्ना. आमकां हांगा दिश्टी पडटा तितलो भव्य देखाव न्हय हो. पुणून दिव्यत्वांत मातूय उणो न्हय.

जमिल्लें जाल्यार अख्खो संवसार माड्डून येतलों आशिल्लों. पुणून असलो सुयोग सपसप कोणाच्या वांट्याक येना. वर्ध्याक पावलां तेन्ना राहुल सांकृत्त्यायनाचें 'घुमक्कड शास्त्र' हातांत पडलें. वाचतां वाचतां बशिल्ले कडेन पांय चलपाक लागिल्ले. राहुलजी एक अणभवी यात्रीक. मार्को पोलो, इब्न बतूता, फाहियान, युवानच्यांग हांच्याच पांवड्याचे. खंय पावूंक नात, खासा तांकां लेगीत सांगूंक येवपाचें ना. चडशे पांयांनी भोंवल्यात. जंय पांयांनी भोंवंक येना थंय खेंचराचे फाटीर बसून गेल्यात. तिबेट, मोंगोलिया, चीन सगळें माड्डून आयल्यात. येतना कितल्याश्या खेचरांचे फाटीर घालून बौद्ध बरपावळिचीं पोरणीं हातबरपां घेवन आयल्यात. तांगेल्या ह्या पुस्तकांत एक 'शेर' मेळ्ळो-

*दुनिया की सैर कर, ओ गाफिल / जिन्दगानी फिर कहाँ*
*जिन्दगी गर कुछ रही तो / नवजवानी फिर कहाँ*

कोणेंय तीर सोडचो आनी तो नीट काळजाक वचून रोमचो तशें-शें कितें जालें.

म्हळें, जी येता आनी आरे आरे म्हणटासर सोडून वता ती *नवजवानी* वचचे पयलीं, पळोवन घेवपा सारकें सगळें पळोवन घेतिल्लें बरें. नाजाल्यार, जें येवन कशीच फाट सोडपाचें ना तें जाणटेपण येतलें आनी कितेंच पळोवन जावचें ना. बिसेनजी म्हजे एक इश्ट वर्ध्याच्या आश्रमांतले. हांवें तांकां म्हळें, बिसेनजी, अंदू नर्मदेची परिक्रमा करून येवंया? नर्मदेची परिक्रमा म्हळ्यार, नर्मदा जंय समुद्राक मेळटा थंय वचप. थंयच्यान तिका उजव्यान घालून चलत चलत ती जंयच्यान भायर सरता थंय, अमरकंटका मेरेन वचप. थंयच्यान तिका परती उजव्यान घालून आशिल्ले तशे समुद्रा कडले दुसरे तडीर येवप. आमगेल्या म्हालगड्यांनी ज्यो कांय यात्रा जण एकल्यान करून येवंक जाय म्हळ्यात तांतली एक ही. बिसेनजी फुरफुरून आयले. तांणी परिक्रमा खंयच्यान सुरू करपाची, मागीर खंयचे वाटेन चलपाचें, वाटेर खंय खंय रावपाचें, सगळी बारीक सारीक जाणकारी एकठांय केली. 'दोन म्हयने लागतले आनी बोल्सांत दोनशें अडेजशें रुपये आसचे पडटले', तांणी सांगलें. जावं, म्हळें. कोणाय कडल्यान पयशे मागून घेतलों. आनी बेत पक्को केलो. केन्ना भायर सरचें इतलेंच थारावपाचें उरिल्लें. जिस्त ह्या वेळार गोदूबायन एकले कडेन दाट इश्टागत जोडली, अनिमिया कडेन. अनिमिया एकली केन्ना येना. ती आपणा वांगडा आनीक एकलेक घेवन येता, निर्शेणेक (डिप्रॅशनाक). बिसेनजी म्हणपाक लागले, हाका अशें सोडून हांव तुका म्हजे वांगडा व्हरपाचो ना. ते भायर, गिरीशाचो प्रस्न आसा. देड दोन वर्सांचो भुरगो. ताका पळोवपी हांगा दुसरो कोण ना.

बिसेनजी गेले. हांव 'फुडें पळोवया' अशें थारावन रावलों. फुडें केन्ना थारावंकूच पावलों ना. एक फावट होगडायल्ली संद परती केन्ना कोणाक मेळ्ळ्या व्हय?

ते उपरांत, एका एका कामांत इतलो घुसपून उरलों की ओपिनियन पोल जायसर निखालूस उसरपत जाली ना. तितले म्हणसर जें एक फावट येतकूच कशीच फाट सोडिना त्या जाणटेपणान येवन ल्हवूच म्हाका आपणा हातांत घेतलो. आतां खंय भोवंक वतलों? ब्राझील पळोवन येतलों म्हणटालों. आफ्रिका सगळी पळोवपाची आशिल्ली. दक्षिण उदेंत आशिया नदरे खाला घालतलों म्हणटालों. आतां हे देश फकत सपनांतूच केन्ना केन्ना पळेतां. तितल्यान धादोसभरीत रावचें पडटा. ना म्हळ्यार, मदीं जपानांत दोन म्हयने भोंवन येवपाची संद मेळ्ळी. धा वर्सां उपरांत चीन पळोवंक मेळ्ळें. तीन सप्तकां त्या देशांत भोंवन आयलों. पुणून सपनांत पळेल्ल्या देशांत मात पावलों ना तो पावलोंच ना.

आमच्या देशांत मात खूब कडेन पावलां. पळोवपा सारकें ह्या देशांत आसा ताच्या शंबराव्या वांट्या इतलेंय पळोवंक पाविल्लों नासलों तरूय जें कितें पळेलां ताच्यो खबरी सांगपाक बसलों जाल्यार एक, दोन, तीन न्हय, कितलीं पुस्तकां बरोवन जातीत, सांगूं येना. भारत म्हळ्यार एक पुराय खंड. संवसारांत जितल्या वंशांचे लोक आसात तितलेय

ह्या देशांत आसात. संवसारांत जितल्यो धर्म परंपरा चलतात तितल्योय ह्या देशांत चलतात. कितल्यो चाली-रिती, कितल्यो भासो, कोंत आनी हिशोब ना. संवसारभर जितल्याय प्रस्नांनी लोकांक बेजार केल्यात तितलेय प्रस्न हांगा आसात. जें पळेलां तितल्यान म्हजें काळीज भारत-भक्तीन उपाट भरून आयलां आनी तितलेंच खंतीन भरून आयलां. इतिहासान केदी व्हडली एक संद आमचे मुखार उबी करून दिल्ली ! तुमचे प्रस्न सोडोवन दाखयात, संवसाराचे सगळे प्रस्न सोडोवपाची कुशलताय तुमच्या आंगांत येतली, अशें सांगिल्लें. आमच्या पांच हजार वर्सांच्या इतिहासांत आमी आमचो एकूय प्रस्न सोडोवंक पावले नात. सोडोवपाचे यत्न केल्यात तितले तितले आमी ते घुसपावन दवरल्यात.

कितलो सुंदर देश हो आमचो आनी कितलो गिरेस्त! तो आयचे सारको मोटवे नदरेचो कसो जालो? कित्याक लागून ताची अवनत जाली? असले प्रस्न एका फाटल्यान एक उपरासून आयल्यात आनी म्हजी न्हीद खळ्ळ्या. एकूय प्रस्न सोडोवपाक म्हजो हातभार लागूंक ना.

सद्दां उठून तींच तींच कामां करीत राविल्ल्यान मन उबगता, विट्टा. नाका पुरो जाता. तें नवें ताल्ल करचें आसत जाल्यार मनशान मदीं मदीं खंय तरी वचून येवंक जाय. देशा भायरूच वचूंक जाय अशें ना. देशूच सारको भोंवन पळोवंक जाय. मनीस भितरल्यान गिरेस्त जावन परततलो. कितलिंशीं अनवळखी मनशां वळखिचीं जातलीं. कितलेशे परकी घरचे जातले. एकामेकां विशिंचे अपसमज ना जावन वतले. सगळे आमचे सारकेच मायेस्त, दयेस्त, गुणेस्त, आमचे सारकेच शाणे आनी पिशे दिसूंक लागतले. आनी सगळ्यां कडेन आमचें काळीज आपलेपणाच्या सुतान आपणाक बांदून घेतलें. सगळ्यांच्यो चाली-रिती, सगळ्यांच्यो भासो, आमच्या चाली-रितीं सारक्योच, आमच्या भासां सारक्योच दिसपाक लागतल्यो. सगळ्यां भितरली सुंदरकाय आमी पारखूंक पावतले.

प्रवास आमकां विविधतायेची कदरूय करूंक शिकयता आनी विविधतायेंत एकचाराचें तत्त्वूय सोदून काडपाची नदर दिता. ही नदर जोडूंक येवंक जाय. मागीर आमची भारत-भक्ती कुड्डी उरची ना. ती आमचे अवगूण ना करपाक आमकां मुखार काडटली. आमची संस्कृताय तिगून उरल्या ती आमच्या म्हालगड्यांक विविधतायेची कदर करूंक आयली म्हूण. जण एकल्याच्या आगळे-वेगळेपणाक ते मना पसून मान्यताय दिवंक पावले म्हूण. अडेज हजार वर्सां पयलिंचो बुद्ध, धरुंया, परतो आयलो जाल्यार ताका हो देश परकी दिसपाचो ना. भायल्यान बदलूं, भितरल्यान तो आपूण आशिल्लों त्याच काळांतल्या मुल्यांची जपणूक करीत आयला म्हणटलो. ग्रीस देशांतल्या सॉक्रतिशाक हें

भाग्य मेळपाचें ना. संवसाराक दिवपा सारकें आमचे कडेन कितेंय तरी आसा अशें विवेकानंद, रवीन्द्रनाथ, गांधी म्हणटाले तो फकत अध्यात्म न्हय. अध्यात्म सगळ्यां कडेन आसा. ना तें एकूच, जण एकल्याच्या आगळे-वेगळेपणाची कदर करूंक जाणा आशिल्लें मन तांचे कडेन ना. आगळे-वेगळेपणाचो भौमान राखपाची नदर तांकां ना.

ही नदर आमी हालिंसाराक होगडावपाक लागल्यात. संवसाराचे सगळे प्रस्न सोडोवपाची योग्यताय, फिशालकाय आमच्यांत येवंक जाय. ते खातीर देश भोंवन पळोवंक जाय. खूब भोंवंक जाय.

कोंकण टायम्स, दिवाळी १९९९

## २.

# सारे जहाँ से अच्छा

'पयलेच खेपे येता तूं ह्या देशांत?' हांवें तिका विचारलें.

'गोंयांत पयलेच खेपे... भारतांतली म्हजी ही आठवी खेप.' तिणें जाप दिली.

जपानी चली. सव्वीस सत्तावीस वर्सांचे पिरायेची. संस्कृत शिकता. गोंय पळोवपाक आयिल्ली. स-सात दीस आमगेरूच राविल्ली. कोंब्या सादार उठ्ठाली. कॅमेरो, टेपरिकॉर्डर, दुर्बीण बी घेवन भायर सरताली. फाटले वटेनच्या दोंगरार वताली. आनी 'बर्ड वॉचिंग' करताली - शेवणीं पळेताली. तांचे फोटे काडटाली. तांचे आवाज टेप करताली. आठ सवाय आठांक परतताली. च्या बी घेवन परती भायर सरताली. वीस पंचवीस मिनटांचे वाटेर आशिल्ल्या बेताळा देवळा कडेन वताली. वाटेर कोणूय भरेकान्न, जाणटेली, देंटलेकान्न, तोंडाक सुरकुत्यो पडिल्ली म्हातारी दिश्टी पडली जाल्यार तिका थांबयताली. 'तुजो फोटो काडूं' काय म्हूण विचारताली आनी फोटो काडटाली. ह्या स-सात दिसांत तिणें कितले फोटे काडल्यात जातले, कोंत आनी हिशोब ना. मनशांचे, शेवण्यांचे, झाडां-पेडांचे. देवळां, इगर्जो, वेळो पळोवपाक गेली. थंयचेय शेंकड्यांनी फोटे घेवन आयली.

म्हळें, 'येदो व्हडलो संवसार मुखार पातळ्ळा. तो पळोवन घेवचो सो दिसलो ना तुका? ह्याच एका देशांत भौन भौन कित्याक येता?'

'ह्या एकाच देशांत जी विविधताय पळोवंक मेळटा, जें तरेकतरा वेगळेपण पळोवंक मेळटा, तें म्हाका दिसना संवसारांतल्या दुसऱ्या खंयच्याय देशांत पळोवंक मेळत म्हूण', तिणें जाप दिली आनी म्हळें, 'I have fallen in love with this country.'

खरेंच, ह्या देशांत बर्फ पांगुरिल्ले व्हडले व्हडले पर्वत आसात तशे धर्तरे वयल्या सगळ्या न्हंयांचें उदक पोटांत घेवन तुडूंब भरिल्ले म्हालसागरूय आसात. व्हडले व्हडले शेकानशेक रेंवे सडेय आसात, तशीं एका फुडलीं एक दाट अरण्यांय आसात. गंगा, यमुना नर्मदा, गोदावरी, कृष्णा, कावेरी सारक्यो न्हंयोय आसात तशे जोग, भेडाघाट,

सहस्रधारा, दूदसागरा सारकेले सुंदरांतले सुंदर घोंगे-घसघशेय आसात. तरेकवार झाडां-पेडां, सुकणीं सावदां, जीव जिवाणीं, तशे तरेकवार मनीस-कुळयांचे लोकूय आसात. येवरोपेवां सारके गोरे कातिचे, घारश्या दोळ्यांचे, पिंगश्या केंसांचे लोक आसात, तशे काळे कातिचे, मुदयाळ्या केंसांचे, बाबऱ्या वोंठांचे, फेंच्या नाकांचेय लोक आसात. तेच बरोबर ह्या दोन रंगां मदले जितलेय रंग आसूं येतात तितल्याय रंगांचे लोक हांगा पळोवंक मेळटात. ह्या देशांत जितली विविधताय पळोवंक मेळटा तितली सैम सोडून दुसरे कडेन खंयच पळोवंक मेळची ना. इतली विविधताय आसुनूय तिच्यांत जो घट्ट बरो सुमेळ पळोवंक मेळटा तोवूय सैम सोडून दुसरे कडेन खंयच पळोवंक मेळचो ना. धर्तरे वयल्या दुसऱ्या खंयच्याय देशा परस आगळो वेगळो देश हो.

रवीन्द्रनाथांनी म्हळ्ळें -

*केहो नाहि जाने, कार आह्वाने / कत मानुषेर धारा*

*दुर्वार स्रोते एलो, कोथा हते / समुद्र हलो हारा -*

- कोणाचो उलो आयकून कोण जाणा, खंयच्या खंयच्यान, संवसाराच्या खांची कोनशांतल्यान, इतिहासाच्या आरंभा सावन ह्या देशांत तरेकवार मनीस कुळयांचे लोक येत रावले; येतना ते आपणा वांगडा आपणाल्यो तरेकवार काती, नाकां, दोळे, केंस घेवन आयले, तशे आपणाल्यो तरेकवार चाली-रितीय घेवन आयले; तरेकवार धर्म-परंपरा घेवन आयले, तरेकवार भासोय घेवन आयले. देश व्हडलो, विस्तारान लांब-दिग्ग आशिल्लो. सगळ्यांचें पोट भरीत इतलो पिकाळ आशिल्लो. कोणाक कांयच उणें पडचें ना हाची जतनाय घेवपा इतलो साधन-संपन्नूय आशिल्लो. सगळ्यांक ताणें 'येयात, सुशेगाद बरे रावात, देश तुमचोच' अशें म्हणून येवकार दिलो. आनी आयिल्ले सगळे हांगाच सदांकाळा खातीर रावले. परते वचपा खातीर ते येवंकूच नाशिल्ले.

आतां, तरातरांचे लोक एके कडेन येवन रावतकूच तांचे मजगतीं झगडीं-झुजां जाले बगर रावतलीं आशिल्लीं व्हय? सुरवाते सुरवातेक तीं खूब जाल्यांत जावंक जाय. कांय बळिश्ट जातिंनी कांय दुबळ्या जातींक तांतीं-पिलां सयत ना करपाचो यत्न केला आसूंक जाय, अमेरिकेंत येवरोपेवांनी केल्लो तसो. महाभारतांतलें सर्पसत्र असल्याच एका सत्राची कथा सांगता. कांय बळिश्ट जातिंनी कांय दुबळ्या जातींक सदांकाळ चिड्डून दवरपाचोय यत्न केला आसूंक जाय. येवरोपेवांनी दक्षिण आफ्रिकेंत केल्लो तसो. हिन्दू समाजांतली आफूड-भश्टाची चाल हाची बेस बरी एक गवाय म्हणूं येता.

पुणून, ह्या देशाचे मातयेंत एक तत्त्व आसा, तें कोणाक चड काळ झुजूंक दिना. ह्या तत्त्वान, झुजतल्या सगळ्या पंगडांक आपोवन सांगलें - इतिहास-विधात्यान तरेकवार मनीस कुळयांच्या लोकांक ह्या देशांत एके कडेन हाडल्यात ते बेश्टे न्हय. ह्या लोकांनी

एकामेकांक ना करचे म्हूण न्हय, एकामेकांक चिड्डुचे म्हूण तर निखालूस न्हय. धर्तरे वयल्या वेगळ्या वेगळ्या लोकांक तांकां मानवत अश्या वेगळ्या वेगळ्या हवामानांत वसयले उपरांत ताच्या मनांत आयलें, आतां असो एक देश निर्माण करुंया की जो सगळ्यांक आपलो दिसचो. सगळ्यांक आपणालोच घोंटेर कसो दिसचो. *यत्र विश्वम् भवति एक नीडम्.* आनी तो सगळ्यां मुखार 'मॉडेल' म्हूण दवरचो. ते खातीर ताणें हो देश वेंचून काडलो आनी आमकां सगल्यांक हांगा एकामेकां शेजरा हाडून वसयले. आमचो आतां ताका आधार जाय. तो म्हणटा, तरेकवार लोक तुमी एकठांय रावात आनी अशे तरेची जियेवपाची एक तरा विकसावन काडात जी सगळ्यांच्या वेगळेपणाक प्रश्रय दितली आनी तेच बरोबर सगळ्यां मजगतीं एके तरेचो सुमेळ घडोवन हाडटली.

ह्या देशांत येवन वसत सावन ही भारतभूंय सगळ्यांची मायभूंय जाल्ली. मायभुंयेचें हें म्हणणें सगळ्यांनी काळजा सावन झेलून धरलें आनी इल्लें इल्लें करून सगळ्यांनी ह्या देशाक अशें एक रूप दिलें जाका लागून तो एके खंयचे मनीस-कुळयेचो जावंक पावलो ना. एका खंयच्या वंशाचो जावन उरलो ना. तो भौवंशीक multiracial देश जालो. आयज हो देश जितलो आर्यांचो, तितलोच द्रविडांचो जाला. तितलोच निषादांचोय जाला. ज्यो ज्यो मनीस-कुळयो ह्या देशांत येवन रावल्यो तांचो सगळ्यांचो जाला. हो देश खंयचेय एके मनीस-कुळयेचो उरूंक ना, तसो खंयचेय एके धर्म परंपरेचोय उरूंक नां. जितल्योय धर्म परंपरा ह्या देशांत जल्माक आयल्यो आनी वाडल्यो, ते भायर, जितल्योय धर्म परंपरा भायल्यान हांगा आयल्यो आनी हांगच्यो जावन रावल्यो तांचो सगळ्यांचो जाला. हो देश जितलो हिन्दुंचो, तितलोच बौद्धांचो, तितलोच शीखांचो, तितलोच पारशांचो, मुसलमानांचो, किरिस्तांवांचो, ज्यूंचो जाला. संवसाराचे फाटी वयलो एक भौ-धर्मी multireligious देश हो. हो देश खंयचेय एके मनीस-कुळयेचो न्हय, खंयचेय एके धर्म परंपरेचो न्हय, तसो खंयचेय एके भाशेचो न्हय. देशांत जितल्यो भासो चलतात तितल्यांचोय देश हो, कितल्योय आसूंत मागीर त्यो. हो देश भौ-वंशीक, भौ-धर्मीक, तसो भौ-भाशिकूय multilingualय जाला.

ह्या देशांत रावतल्या कोणाकूच आयज आपणाली भास, आपणाली धर्म-परंपरा, आपणाल्यो चाली-रिती सोडपाची गरज उरूंक ना. सगळ्यो भासो, सगळ्यो धर्म-परंपरा, सगळ्यो चाली-रिती 'आमच्यो', सगळ्यांच्यो, ह्या देशाच्यो जाल्यात.

कितली विविधताय भरल्या आमच्या ह्या देशांत ! कितलें तरेकवार वेगळेपण ! हो देश पळोवन ती जपानी चली भुल्ली, ताच्या मोगांत पडली हाचें अजाप जायना. अजाप जाता तें हे गजालिचें की ह्याच देशांत जल्माक आयिल्लो, ह्याच देशांत ल्हानाचो व्हड जाल्लो, ह्या देशांत खूब कडेन भोंविल्लो हांव, अजून भोंवन जें कितें पळेतां तें पळोवन

पिशें लागिल्ले वरी करतां. नवें कितें पळेतां आनी अप्रूप कितें पळेल्ले वरी करतां. पळेल्लेंच पर्थून एक फावट पळेतां आनी नव्यानूच हें पळेतां अशें म्हणटां. सगळेंच सदां नवें ताल्ल जाल्ले वरी पळेतां. देश कितलोय भोंवन पळे, म्हाका पुरो जावपाचें ना. कोणें तरी म्हळां, भारतांत जल्म घेवंक मेळप कठीण. पूर्वपुण्याय आसले बगर हांगा जल्म घेवंक मेळना. पयलीं अतिताय दिसताली. आतां निखालूस दिसना. ह्या देशांत जल्माक येवपाक पूर्वपुण्याय लागता अशेंच दिसता. ह्या देशांत कुसकें नश्टें पाडें बुरशें पोजडें खूब भरलां, जाणां हांव. पुणून ह्या देशा सारको संवसाराचे फाटीर दुसरो देश ना हेंवूय जाणां हांव.

खऱ्यांनीच आगळो वेगळो देश हो.

म्हुणणूच म्हाका ह्या देशाचो हालिंसाराक हुसको जावपाक लागला. ह्या देशा सारके आगळे वेगळे दुसरे देश आशिल्ले धर्तरेचे फाटीर. देखीक, ग्रीस देश आशिल्लो. आमच्या देशा इतलोच पोरणो, एके आगळे वेगळे संस्कृतायेंत वाडिल्लो. सॉक्रतिश, प्लेटो, ॲरिस्टोटल सारके व्हड लोक निर्माण केल्लो देश हो. पार्थिनोनच्या व्हड कलाकारांचो. खंय आसा तो आयज? नकशार दिश्टी पडटा आनी पळोवपाचो आसत जाल्यार वचून पळोवंकूय मेळटा. पुणून येवरोपांतल्या हेर देशां सारकोच सरसमान जावन पडिल्लो, आगळीं वेगळीं सगळीं आंगां होगडावन बशिल्लो देश म्हूण पळोवंक मेळटा. सॉक्रतिशाच्या ग्रीस देशाचो आयच्या ग्रीस देशा कडेन कांयच संबंद उरूंक ना. तो ग्रीस देश सामको ना जावन गेला. कित्याक लागून तो ना जालो? ताणें आपणाल्या आगळ्या वेगळ्या आंगांक आपणालीं धोंगां-पोंगां लेखलीं, आपणाल्या वैशिष्ट्यांक आपणालीं वैगुण्यां मानलीं. 'आर्विल्लो' - मॉडर्न जावपाक तो आंवडेवंक लागलो म्हूण. ही एकूच जाप मेळटा.

आमचोय देश आयज हेच वाटेन चलपाक लागला. तोवूय आपणाल्या वैशिष्ट्यांक आपणालीं वैगुण्यां मानपाक लागला. आपणाल्या आगळ्या वेगळ्या आंगांक आपणालीं धोंगां-पोंगां लेखपाक लागला आनी केन्ना समतेच्या नांवान, तर केन्ना आधुनिकतायेच्या नांवान तीं कातरून उडोवपाचें चिंतूंक लागला. कातरून उडोवपा सारकें जायतें आसा ह्या देशांत. सान्न मारून भायर उडोवपा सारकेंय जायतें आसा. तें कित्याक, मुळा सावन हुमटावन उडोवपा सारकेंय जायतें भरलां आमचे संस्कृतायेंत. फाटल्या पांच हजार वर्सांच्या काळांत संस्कृतायेच्या आमच्या शेतांत कोणें नडणीच काडूंक ना. म्हूण तरातरांची नेर मातल्या. नेर काडून उडोवंकूच जाय. पुणून आयज कांय देशभक्त नेरी वांगडा थांब हुमटत म्हूण थांबा वांगडा नेरूय सांबाळून दवरपाक लागल्यात तर कांय सुधारक नेर हुमटायतां हुमटायतां थांबूय हुमटावन भायर मारपाक लागल्यात. प्रज्ञेचे नदरेन खंयचो

थांब आनी खंयची नेर म्हणपाचें आमकां वळखूंक येवंक जाय. ना जाल्यार -

ग्रीस, रोम, बाबिलोन, इजिप्ता भाशेन आमीय संवसाराचे फाटी वयले एक दीस ना जावन वचपाची भिरांत आसा.

नव्यांतलें सगळेंच घेवपा सारकें न्हय आनी पोरण्यांतलें सगळेंच भायर मारपा सारकें न्हय हो विवेक आमकां सांबाळूंक आयलो ना जाल्यार, आमकां देश 'घडोवंक' येवपाचो ना. आमकां आसा थंय रावपाचें ना. तशें पोरण्या काळांतूय वचपाचें ना. जी न्हंय दर्याक मेळना ती सुकता. न्हंय दर्याक मेळुंकूच जाय. खंयचीच न्हंय दर्याक मेळ्ळी म्हूण ना जायना. न्हंय आपणाल्या सगळ्या वैशिष्ट्यां सयत उरुंकूच जाय. आमकां आमच्या देशांत नवें भारतीयत्व विकसावन काडपाचें आसा. ह्या भारतीयत्वांत पंजाबी पंजाबीच उरतलो, बंगाली बंगालीच उरतलो. तेच बरोबर पंजाबी भारतीयूय जातलो, बंगालीय भारतीय जातलो. ह्या नव्या भारतीयत्वांत हिन्दू हिन्दूच उरतलो तसो मुसलमान मुसलमान उरतलो. पुणून तेच बरोबर हिन्दूय भारतीय जातलो, मुसलमानूय भारतीय जातलो. जें भारतीयत्व पंजाब्यांचें पंजाबीपण ना करता तें भारतीयत्व नवें भारतीयत्व न्हय. जें भारतीयत्व मुसलमानांचें मुसलमानपण ना जावंक जाय म्हणटा तें खरें भारतीयत्व न्हय.

आमकां एकचार जाय, एक सारकेपण नाका. Unity जाय, uniformity नाका अशें आमी म्हणीत आयिल्ले. हेंच आतां मात्शें दुसरे तरेन म्हणुंया - आमकां एकचार जाय. Unity जाय, पुणून unity त आमकां diversityय जाय. विविधतायेक पोसवण दिवपीच एकचार आमकां जाय. तरूच भारत भारत उरतलो. सदांकाळ उरतलो. सनातन उरतलो. सनातन म्हळ्यार पुरातन न्हय. सनातन म्हळ्यार सदां नवो ताल्ल. कालचे सारको आयज न्हय, आयचे सारको फाल्यां न्हय, असलो.

सदां बदलपी. तरूय सदां तोच कसो दिसपी.

असलोच देश हो म्हजो !

३.

# तुन-हुआंग

मनीस गायता, धादोसभरीत आसता तेन्ना, आनन्दीत आसता तेन्ना. सुकणीं शेवणीं दिसूयभर आनन्दीत आसतात. म्हूण तीं दिसूयभर गायतात. वारो व्हांवंक लागता तेन्ना झाडां खुशालभरीत जातात आनी तिंवूय गावपाक लागतात. रेंव गायता ती केन्ना आयकूंक नाशिल्ली. चिनांत अशे एके सुवातेर पावलों जंयची रेंव गायताली.

लांजो सावन आमकां तुन-हुआंगाक वचपाचें आशिल्लें. तीस पस्तीस यात्रिकांक घेवन वचपी एका ल्हानशा विमानांत बसले. खडऽ खडऽऽ खडऽ खडऽऽ करीत तें उडत रावलें. मदीं जियायुग्वानाक ताणें अर्द वराचो हॉल्ट घेतलो. स-सात वरांचो प्रवास हो, गोबी सड्या वयल्यान चलत राविल्लो. गोबीक 'डॅझर्ट' म्हणटात आनी डॅझर्ट म्हणिनाफुडें आमच्या दोळ्यां मुखार राजस्थानांतलो रेंवे सडो उबो रावता. धवे, मोव, नाजूक रेंवेचो. गोबीच्या सड्यार रेंवूच ना. आसा ती घट काळी भूंय. खवळां खवळांची. तीस तीस, चाळीस चाळीस मैलांचे वाटेर एक झिलकूट लेगीत पळोवंक मेळना. एक्क शेवणें ना, एक्क जिवाणें ना. जितो मूस ना. म्हुण्णूच हाका 'डॅझर्ट' म्हणटात जाल्यार, कोणाक खबर!

एकेच तरेचो देखाव भौन भौन पळोवन दोळे झेमेवपाक लागले. मात्सो न्हिदलों. दनपार जातासर तुन-हुआंगाक पावलों. 'सिल्क रोडा'र आशिल्लें थळ हें. एका काळार चीनाचो हिन्दुस्तान, पर्शिया, रोमा कडेन हेच वाटेन वेपार चलतालो. हेच वाटेन लोक येताले वताले. आनी चीनाचो वेपार चडसो सिल्काचो आशिल्ल्यान हे वाटेक 'सिल्क रोड' नांव पडिल्लें. त्या काळार हो वाटार झाडां-पेडांनी कुचकुचीत भरिल्लो आसतालो अशें म्हणटात. लोकांचेर अच्छेव आयलो. दया माया बाळगी नासतना तांणी झाडां कातरून उडयलीं. आयज तो फकत सडो जावन पडला.

जेवन मात्सो विसव घेतलो. तिनांक आमी भायर सरले. एक तळें पळोवंक वचपाचे आशिल्ले.

अर्द वराचे वाटेर शंबर शंबर देडशें देडशें मिटर उंचायेचे दोंगरूच दोंगर पळोवंक मेळ्ळे. फकत रेंवेचे. वारो सुटलो म्हणटकूच रेंव गावपाक लागता. गायत गायत नाचपाक लागता आनी नाचत नाचत पुराय तुन-हुआंग शारांत पातळटा. म्हूण हांकां 'गावपी रेंवेचे

दोंगर' - Singing Sand Mountains हें नांव पडलां.

ही सुवात पळोवपाक कितलेशे यात्रीक आयिल्ले. थोडे चिनी, थोडे जपानी, चडशे अमेरिकन. हिन्दुस्तानांतले आमी तिगूच - हांव, असमिया कवी राम गोगोय आनी साहित्य अकादेमीचे सेक्रेटरी इन्द्रनाथ चौधुरी. कांय जाण चलत वयर वताले आनी थंयच्यान 'घसरगुंडी' करून देंवताले. कांय जाण कन्यांचे (उंटांचे) फाटीर बसून वयर वताले. एका कऱ्याक दुसरें, दुसऱ्याक तिसरें जोडून धा बारा कऱ्यांची केल्ली 'गाडी' पळोवन मजाच दिसली. हांव आनी इन्द्रनाथ एका कऱ्यार चडले. राम गोगोयाक चडोवचो पडलो. सात आठ वर्सां पयलीं आसामांत काझिरंगा अभयारण्य पळोवपाक गेल्लों तेन्ना हतयाचे फाटीर चडिल्लों. दुसऱ्या दिसा म्हाका चलुंकूच येना जाल्लें.

दोन किलोमिटर मुखार एक ल्हान-शें बुद्ध-मंदीर मेळ्ळें. ताका तेंकून एक तळें आशिल्लें, जें पळोवपाक आमी हांगा आयिल्ले. तळें व्हडलेंशें न्हय, सुमाराचें. पुणून बर्फाळ पर्वतां मजगतीं हून उदकाचे वझरे आसचे, ज्वालामुखिच्या पोटांत बर्फाचीं शिवलिंगां आसचीं, तशें रेंवे सड्यार थंड गोड उदकाचें एक तळें आसप सैमाचो एक 'चमत्कार' कसो चिनी लोकांक दिसलो जावंक जाय आनी एक अप्रूप थळ जाल्ले वरी हे लोक तें लोकांक दाखयतात आसूंक जाय. आमीय तें अप्रूप थळ धरून पळेलें.

सकाळीं विमानांत प्रो. शान-हॉंग-शेन नांवाच्या एका चिनी मनशा कडेन वळख जाल्ली. विमानांत म्हजेच म्हऱ्यांत बशिल्लो. चिनी हरशीं मोटवे. हो म्हजे परस ऊंच आशिल्लो. कातीन मात्सो गोरो. फाटल्या बावीस वर्सां सावन तो अमेरिकेंत रावता. थंयच एके युनिव्हर्सिटींत सौंदर्यशास्त्र शिकयता. हांगा आमच्याच हॉटेलांत राविल्लो आनी आमचेच वांगडा तळें पळोवपाक आयिल्लो. ताणें एक गजाल सांगली -

माओ-त्से-तुंगाची राजवट सुरू जाली आनी ताणें खंय ह्या तळ्याचो कितेंय तरी 'उपेग' जावंक जाय अशें थारायलें. एक पंप हाडून बसयलो आनी तळ्यांतलें उदक पायपांतल्यान पयस खंय तरी शेतां शिंपपाक व्हेलें. परिणाम - तळें आटलें. आयज पंप थंय निरुपेगी जावन पडला. माओच्या पिशेपणाचें एक यादस्तीक म्हूण तो थंय आसा. तळ्याचें उदक तळ्या भोंवतणचीं फुलां-झाडां शिंपपाक लेगीत पावना. रेंवे सड्या वयलो सैमाचो हो 'चमत्कार' आपणाली व्हडवीक होगडावन बसला. आतां खंय हाचो एक 'टुरिस्ट स्पॉट' करपाचो सरकाराचो बेत आसा. पुणून भितरल्यो झरी रागार फुगार जावन बसल्यात.

मागीर म्हणपाक लागलो, माओच्या 'कल्चरल रेवोल्युशना'न (संस्कृतायेच्या मळा वयले क्रान्तीन) चिनी समाजाचें रूप बदलपाचो यत्न केलो खरो. पुणून जें लुकसान केलें तें ल्हाना-समानांतलें न्हय. ताणें चिनी लोकांचो कणोच मोडून उडयलो. कोन्फु-

त्सू, लाओ-त्सू आनी बुद्‌ध हांच्या संस्कारांत चीन वाडिल्लें. माओन हे संस्काराूच पुसून उडोवपाचो यत्न केलो. मार्क्स हांगासल्ल्या लोकांक परकी. ताका हांगा 'ट्रान्सप्लान्ट' करप हीं माओचीं पिशेपणां आशिल्लीं. ओगीच कितेंय व्हरून खंयूय रोयलें म्हूण जाता व्हय? पुणून हुकूमशायेंत कोण कोणाचें आयकता? आयज चीनांत विचारवंत कोण नात. जांकां चीन विचारवंत म्हूण वळखता ते सगळे किरकोळ - mediocre लोक. तांगेलीं पुस्तकां इंग्रजींत हाडात आनी इंग्लंड अमेरिकेंतल्या लोकांक दियात. लोक हांसतले. चीनान आयज वेपारा खातीर आपणालीं दारां भायल्या कंपन्यांक उकतीं केल्यांत. पुणून तकलेचीं दारां सगळीं अजून तश्शीं धांपून दवरल्यांत. कोण स्वतंत्र विचार करिना... सगळे सरकाराक भियेतात. चीनाच्या पुर्विल्ल्या वैभवाची धूळदशा जाल्या. म्हज्या भुरगेपणांत हांवें पळेल्लो तो सादो, सरळ, उजू चलणुकेचो चिनी आयज ह्या देशांत वखदाक लेगीत पळोवंक मेळना.'

म्हजी आनी ताची तार जुळपाक इतलें हें पुरो जालें.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं भायर सरले. दक्षीण-उदेंत दिकेन एक आड वाट फुटिल्ली. हे वाटेन गाडयो धांवपाक लागल्यो. पंदरा वीस किलोमिटरां मेरेन खंयच मनीस राविल्लो पळोवंक मेळ्ळो ना. हो वाटार मनीस-वसती पसून पयस पडिल्लो दिसलो. तुन-हुआंग शारांत कसलेच उद्देग-धंदे चलनात. वेपारूय चलना. हे वाटे कुशीक दुसरी एक समान्तर वाट चलताली. न्हंयेच्या तळा सारकी दिसताली. हांगा एका काळार न्हंय व्हांवताली जावंक जाय, आयज ती आटल्या, अशें दिसलें. मात्शे मुखार मात पावल्यात -

काळ्या किट्ट 'मिंगशा' दोंगरांचे फाटीर मोगाओ-कू होंवऱ्यो उब्यो आशिल्ल्यो पळेल्यो. बद्द अजिंठ्या सारक्यो. शिल्प लेगीत अजिंठ्या सारकें. अजिंठ्याच्यो होंवऱ्यो भव्य. ह्यो भव्य न्हय. पुणून किरकोळूय न्हय. मध्यम आकाराच्यो. खाशेली अस्मिताय आशिल्ल्यो. चौदा शतमानां सावन त्यो हांगा भिडेन आनी मुरवतीन उब्यो आसात. अजिंठ्यांतल्यो होंवऱ्यो सव्वीस काय सत्तावीस. ह्यो पांचशीं सुमार पंचेचाळीस पन्नास किलोमिटरांच्या आयस पयस वाटारांत पातळ्ळेल्यो. अजिंठ्यांतली पयली होंवरी कोंरातून काडले उपरांत शें दोनशें वर्सांनी हांचें कोंरातप सुरू जाल्लें खंय. उपरांतच्या हजारभर वर्सांच्या काळांत त्यो तयार जायत रावल्यात. फाहियान,युवांग-च्यान (ह्यु-येनत्सान), इत्सींग सारकेल्या, हिन्दुस्तानांत आयिल्ल्या चिनी यात्रिकांनी हांगाच रावन खंय बौद्‌ध साहित्याचो अभ्यास केल्लो. हिन्दुस्तानांतल्यान जे बौद्‌ध पंडीत चीनांत आयले तांणीय खंय हांगाच रावन पाली आनी संस्कृत भाशेंतली बौद्‌ध बरपावळ चिनी भाशेंत हाडपाचो

वावर केल्लो. बौद्ध धर्माचो आनी बौद्ध साधनेचो अभ्यास करपी आशिया खंडांतलें हें एक म्हत्वाचें केन्द्र आशिल्लें. वेगळ्या वेगळ्या देशांतले बौद्ध हांगा येवन राञन आनी शिकून गेल्यात. हजारभर वर्सां हें केन्द्र गजबजिल्लें आशिल्लें. आपणाली खेरीत अस्मिताय सांबाळून तें इतलींय हीं वर्सां तिगून उरलां.

आमी सकाळीं आठांक थंय पाविल्ले. सांजेच्या साडे पांच मेरेन सपणां चडटाले, देंवताले. चडून देंवून पांयांक गुळे आयले. तरूय तिनूच होंवऱ्यो पळोवंक पावले. एका दिसान पळोवन वचपाचें थळ नाशिल्लें हें. एका म्हयन्यान लेगीत पळोवन जावपाचें नाशिल्लें. बुद्धाच्यो दोन हजार मुर्ती हांगा आसात. धा सेन्टीमिटरा येदी एक पळेली आनी वीस मिटर उंचूय एक पळेली. ते भायर, शेंकड्यांनी बोधिसत्त्वांच्यो मुर्ती पळेल्यो.

शिल्प तर अजिंठ्या सारकेंच. वणटीं वयलीं आनी पाख्यां वयलीं चित्रांय अजिंठ्या सारकीं. तेच परंपरेंतलीं. तेच शैलींतलीं. फरक एकूच - अजिंठ्यांतल्या चित्रांतल्यान हिन्दुस्तानांतलें जिवीत उक्ताडा आयलां. जाल्यार, तुन-हुआंगांतल्या चित्रांतल्यान चिनी जिवीत उक्ताडा आयलां. हे लोक शेतां कशे नांगरताले, बीं कशे रोयताले, नडणी कशी काडटाले, लुंवणी कशी करताले, भात कशे फांफुडटाले, कशे कांडटाले; तेच भाशेन, घरां कशे बांदताले, नुस्तीं कशे पागताले, चरखो कशे चलयताले, लुगटां कशे विणटाले - चिनी जिविताचीं सगळीं आंगां हांगा बारकायेन चित्रायल्लीं पळोवंक मेळटात. लग्नाचे, मरणाचे, स्मशानयात्रांचे, झुजांचे देखावूय हांगा पळोवंक मेळ्ळे. बुद्धाच्या जिवितांतले सगळे म्हत्वाचे प्रसंगूय अजिंठ्या भाशेन हांगाय पळोवंक मेळ्ळे.

सगळें फकत २४९, २८८ आनी २९६ नंबरांच्या तीन होंवऱ्यांनी.

वेगवेगळ्या काळांतलें चिनी लोकांचें जिवीत कशें कितें आशिल्लें हाचो अभ्यास करपाक हाचे सारकें दुसरें थळ घडये आनीक खंयच आसचें ना. लोकांचो भेस पळोवनूय खंयचें चित्र खंयच्या काळांतलें तेंवूय सांगूं येता म्हणटात. ह्या होंवऱ्यांक एक आगळी वेगळी संस्कारिताय आसा म्हणपाची जाणवीक जाले बगर राविना.

येदोय व्हडलो हो संवसार हांगा उबो करपी शिल्पकार आनी चित्रकार कोण आशिल्ले? माओ-त्से-तुंग म्हणटा, हें सगळें उबें करपाक गरीब दुबळ्या चिनी कलाकारांचें आनी कारागिरांचें रगत हांगां आटलां. पुण्याचें हांयस दाखोवन आनी दंडाचो भंय घालून खंय चिनी राजांनी हें सगळें तांचे कडल्यान करून घेतलां. शोषण, जबरदस्ती आनी गुलामी हांचोय इतिहास हांगा आसा.

प्रो. शान-हाँग-शेनांक हांवें विचारलें, 'खरें दिसता तुमकां हें?'

'Nonsense - अर्थ नाशिल्ली बडबड ही', इतलीच तांणी जाप दिली. आनी म्हळें, 'कलाकारांनी आनी शिल्पकारांनी हांगा आपणालो प्राण ओतला तो स्पस्ट बरो

दिश्टी पडटा. बुद्धा विशीं मनांत सुमारा भायर भक्ती-भाव आसले बगर असलीं चित्रां कोणाक काडूंक येवपाचीं नात, असलीं शिल्पांय कोणाक कोंरातूंक येवपाचीं नात.' आनी म्हाका चिनी कलाकारांचीं खाशेलीं आगळीं-वेगळीं आंगां तांणी समजावन सांगलीं -

'चिनी मनशाच्या भायल्या रुपा वयल्यान ताच्या अंतरंगाचो थाव लावंक येवपाचो ना. खंयचोय चिनी चित्रकार आयजवेर चित्रकला शिकपाक कोणाच्या स्टुडियोंत वचून बसूंक ना. मुखार विवस्त्र बायलमनशेक बसोवन ताणें तिचें एक्कूय चित्र काडूंक ना. तो कोणाचेंच आनी कित्याचेंच भायलें रूप पळेना. तो अंतरंगांत देंवता, अंतरंगाकूच म्हत्व दिता. म्हयन्याचे म्हयने फकत एकाच कोंड्या कडेन पळेत बशिल्ले, कोंड्या कडेन एकरूप जावपाचो यत्न करीत बशिल्ले चित्रकार हांगा जावन गेल्यात. ते स्वता कोंडे जाल्यात तेन्नाच तांणी कोंड्यांचीं चित्रां काडल्यांत. तशेच, झाडा कडेन एकरूप जाल्यात तेन्नाच एकाद्र्या झाडाचें चित्र काडूंक ते मुखार सरल्यात. खंयचेंय झाड तिनूय त्रिकाळ सारकें दिसना. सकाळचें ताचें रूप एके तरेचें आसता, दनपारचें वेगळें, सांजचें वेगळें, रातचें तर सामकेंच वेगळें. चिनी चित्रकार झाड फकत दोळ्यांनी पळेना, काळजांतल्यान पळेता. सैमाचे हजार मूड. ह्या सगळ्या मुडां कडेन आपणाक एकरूप एकजीव जावंक येवंक जाय अशें तो मानता. चडशीं चिनी चित्रां दोंगरांचीं पळोवंक मेळटलीं. कुपांनी वेंटाळो दिल्ले वा कुपांनी वेंग मारिल्ले दोंगर चित्रांनी आसतले. दोंगरांचेर चडून मुखावयल्या दोंगरांचीं तांणी हीं चित्रां काडल्यांत. दोंगरांचेर चडटकूच मनशाचें काळिजूय वयर सरता अशें चिनी चित्रकार मानीत आयला. बरो चित्रकार बरो मनिसूय आसूंक जाय हो चिनी चित्रकाराचो भावार्थ. तो रागा दुस्वासा मत्सरा पेल्यान गेल्लो आसूंक जाय, काळजान निर्मळ जाल्लो आसूंक जाय. ना जाल्यार, बरीं चित्रां चित्रावनूच जावचीं नात, अशें तो मानता.

'ताका चित्तशुद्धिची देख बुद्ध धर्मान दिल्या. चिनी चित्रकला बौद्ध चित्रकला. चिनान विज्ञानाचे व्हडलेशे सोद लावंक नात. ताचें तत्त्वज्ञानूय कोणाक व्हडलेंशें प्रभावीत करूंक पावूंक ना. पुणून चित्रकलेंत चिनाचो हात धरपी दुसरो देश मेळचो ना. कलेच्या मळार चिनी मनशाक बुद्ध धर्मान सृजनशील केला. माओ-त्से-तुंगाक चित्रकलेचें कांयच समजनाशिल्लें...'

तुन-हुआंगांतली चित्रकला पुराय चिनी. पुणून तिचे फाटल्यान आशिल्ली भारतीय प्रेरणा लिपून उरूंक पावूंक ना. आनी जाणकार म्हणटात, हे कलेचेर खंय इराणी संस्कारूय दिश्टी पडटात आनी खंय खंय तुर्कीय पळोवंक मेळटात. अजाप न्हय. तुन-हुआंग सुमार सात शतमानां एक आंतरराष्ट्रीय केंद्र आशिल्लें. बौद्ध संवसारांतले सगळे कडले चित्रकार भिक्षू हांगा रावताले.

एक प्रस्न कोणाकूय पडूंक जाय -

येदो व्हडलो हो विहार, येदया सृजनशील लोकांचें हें केन्द्र अवचीत बौद्धांनी सोडून कित्याक दिलें? उपरांतचीं कांय शतमानां तें उबंत कित्याक पडलें?

जाप मेळटा ती अशी -

धाव्या शतमानांत हिन्दुस्तानांत बौद्ध धर्म उरूकं नाशिल्लो. हाका लागून चिनी लोकांचें भारतांत वचप बंद जाल्लें. उपरांत काबूलचो वाटार इस्लामाच्या प्रभावांत आयलो. ह्या वाटारांतल्या बौद्धांचेर हावळ आयली. म्हणटासर, मध्य आशियांत मोंगलांचीं धुमशेणां सुरू जालीं. ते अख्खें जग जिखपाक भायर सरले. चीनाचेरूय घुरी घालपाचो बेत करपाक लागले. तुन-हुआंगच्या बौद्धांनी येवजिलें, मोंगल घुरी घालून आयले जाल्यार ते हेच वाटेन येतले. येतकूच तांकां सगळ्यांत पयलीं आमी दिश्टी पडटले. आमकां मारपाक तरसाद उखलचे पयलींच तांकां ह्यो होंवऱ्यो दिश्टी पडटल्यो. तांचो ते सगळ्यांत पयलीं विध्वंस करतले. ते परस आमीच हांगासल्ले आपापणाल्या गांवांत गेल्ले बरे. घडये, होंवऱ्यो विध्वंसा पसून वाटावतल्यो. आनी ते हें थळ सोडून गेले. तांकां हुस्को आशिल्लो तो तांच्या पुस्तकालयाचो. सुमार पन्नास हजार ग्रंथांचीं हातबरपां तांणी एकठांय केल्लीं. एकल्या युआंग-च्वांगान हिन्दुस्तानांतल्यान कितल्या-श्या खेंचरांचेर घालून कितलिंशीं पुस्तकां हाडिल्लीं. पुस्तकालय वाटावपाक तांणी तें एके होंवरेंत रेंवे पोंदा लिपोवन दवरलें.

उपरांत हें थळ निर्जनूच उरलें.

मर्दी मर्दी कांय जाण तुन-हुआंगाक पाविल्ले आसूंक जाय. मार्को पोलो पाविल्लो म्हणटात. उदेंत आशियेंतल्या एका व्हडल्या देशाचेर पीटर नांवाचो एक ख्रिस्ती सम्राट राज्य करता म्हणपाचें ताणें आयकल्लें. ताका सोदीत तो आयिल्लो. तो आयिल्लो ते वाटेर कितलेशे बौद्ध विहार आशिल्ले. एकाय विहाराचो ताच्या भोंवडेच्या पुस्तकांत उल्लेख मेळना. विहार नियाळून पळोवपाचीय इत्सा ताका जावंक पावली ना. बुद्धाचें नांव लेगीत ताणें आयकूंक नाशिल्लें आसूं येता.

पुणून विसाव्या शतमानाच्या आरंभाक सर ओरेल स्टेन नांवाचो एक इंग्रज हांगा पावलो. आनी तुन-हुआंग अकस्मात संवसारभर गाजपाक लागलें.

जालें अशें -

स्टेनाक पोरण्या पुस्तकांचीं हातबरपां एकठांय करपाचें पिशें आशिल्लें. (हालिंसाराक कांय जाणांक 'एन्टिक्स' एकठांय करपाचें आसा तशें.) हिन्दुस्तानांत येवन ताणें कांय पुस्तकां एकठांय केल्लीं. बरींचशीं पुस्तकां हिन्दुस्तानांतल्यान चीनांत पावल्यांत म्हणपाचें

ताणें हिन्दुस्तानांतूच आयकल्लें. तो चीनाक वचपाक भायर सरलो. युआंग-च्वांग जे वाटेन भारतांत आयिल्लो तेच वाटेन तो भारतांतल्यान चिनाक गेलो. सिंकियांग सावन तुन-हुआंग मेरेनचे वाटेर ताणें कितल्याश्या पडंग विहारांक भेटी दिल्यो. थंय मेळ्ळीं तीं पुस्तकां ताणें विकतीं घेतलीं. काबूलाक पाविल्लो थंय जहीद बेग नांवाचो एक मुसलमान ताचो इश्ट जालो. ताचे कडल्यान ताका तुन-हुआंगाची खबर कळ्ळी - 'एका काळार हें बौद्धांचें एक व्हड केन्द्र आशिल्लें... थंय एक व्हडलें पुस्तकालय आशिल्लें, तातूंत मेळूंक कठीण अशीं दुर्मीळ कितलिंशीं पुस्तकां आशिल्लीं... मोंगलांचे घुरयेक भियेवन त्या केन्द्रांतले बौद्ध भिक्षू पुस्तकालय थंयच उडोवन पळून गेल्ले' असलें कितें कितें ताणें बेगा कडल्यान आयकलें. तो तुन-हुआंग सोदीत सोदीत हांगा पावलो.

पुस्तकालय आसा आनी तें वांग-ताओ-शी नांवाच्या एका ताओ पंथी साधुच्या हातांत आसा म्हणपाचें ताका कळ्ळें. हो साधू कांय वर्सां पयलीं हांगा पाविल्लो. आनी हांगासल्ली बुद्धाची वीस मिटर उंचायेची एक मूर्त वत वारो पावस झेलीत उबंत पडल्या हें पळोवन खंती जाल्लो. पैचींग, शांगाय, नानकिंग, केन्टोन सारक्या शारांनी वचून दारादारांनी भोंवन ताणें दुडू एकठांय केलो. आनी तुन-हुआंगाचे उबंत पडिल्ले हे भव्य मुर्तीक आसरो दिवपी एक भव्य मंदीर ताणें हांगा उबें केलें आनी हांगाच तो रावपाक लागलो.

मनीस सादो-भोळो, छक्के पंजे वळखूंक येनात असलो. स्टेनान ताका भुलोवपाचो यत्न सुरू केलो. आपूण युआंग-च्वांगाचो एक भक्त. ताणें हिन्दुस्तानांतल्यान हाडिल्लीं पुस्तकां हांगा आसात आनी तीं हांगा उबंत पडल्यांत म्हणपाचें आयकलां. तीं अशींच उबंत पडून उरलीं जाल्यार एक दीस ना जावन वतलीं आनी युआंग-च्वांगाचे सगळे कश्ट फुकट वतले... आपणाक मात्शीं तीं पळोवंक दी म्हूण स्टेनान ताका विनयलो. साधू विरगळ्ळो. ताणें भितरलें एक बाड हाडून स्टेनाक दाखयलें. खासा युआंग-च्वांगान अणकारिल्लीं तीं बौद्ध पुस्तकां आशिल्लीं.

'आरे! केदें व्हड एक भांडार आसा तुजे कडेन, खबर आसा तुका? हीं युआंग-च्वांगाचीं पुस्तकां! आनीक कितें आसा तुजे कडेन तें दाखय !'

साधून दार उकतें केलें आनी आपणा कडेन आशिल्लें भांडार स्टेनाक दाखयलें. सुमार पन्नास हजार पुस्तकां आशिल्लीं. णवेक हजार चिनी भाशेंतलीं, तितलींच तिबेटी भाशेंतलीं. पांचेक हजार संस्कृत आनी पाली भाशेंतलीं; उरिल्लीं कुची, खोतानी, तुर्की बी वेगळ्या वेगळ्या भासांतलीं. पुस्तकां भायर ताका इतिहासीक म्हत्वाचे कांय दस्तावेज, कांय वेपारी कबलाती, कांय देण्याघेण्याचे हिशोब, सिल्का वयलीं चित्रां, असलेंय कितें कितें मेळ्ळें. सगळें अस्ताव्यस्त पडिल्लें. स्टेनान तें मांडणेर घालपाचो वावर हातांत

घेतलो. एक दीस ताणें साधूक म्हळें, ‘हालिंसाराक युआंग-च्वांग म्हज्या सपनांत येता आनी ह्या पुस्तकांचो उद्धार कर म्हूण सांगता; तुका समजावन सांगल्यार तूं समजतलो म्हणटा... हांगा हीं पुस्तकां इबाडपाचीं आसात... म्हाका दी तीं.’ साधूक ताणें तरातरांचीं हांयसां दाखयलीं आनी सुमार एकोणतीस ट्रंक भरून खूबशें म्हत्वाचें बरप ताणें इंग्लंडाक व्हेलें. फकत पांचशें रुपये साधूक दिवन. ही खबर फ्रांसांतल्या पोलियोक कळ्ळी, रशियेंतल्या ऑल्डनबर्गाक कळ्ळी. जपानांतल्या ताइबाना जुइचोक कळ्ळी आनी अमेरिकेंतल्या वॉर्नराक कळ्ळी. आनी आर्विल्ल्या काळांतल्या ह्या लुटमाऱ्यांनी हांगा येवन पांचव्या शतमाना पसून धाव्या शतमाना मेरेनच्या काळांत तुन-हुआंगच्या विद्वानांनी एकठांय केल्लें हें भांडार पुराय लुटलें.

चीनांत ही खबर पातळ्ळी तेन्ना सगळे उसळ्ळे. चिनी सरकार रोखड्या रोखडें धांवन आयलें आनी तुन-हुआंग ताणें आपणा हातांत घेतलें. पूण ते मेरेन खूब कळाव जाल्लो. चीन पुराय नागवल्लें. अमेरिकेंतल्या वॉर्नरान तर लुगटांचेर कसलें तरी एक रसायन ओतून वणटीं वयल्या बऱ्यांतल्या बऱ्या चित्रांचे ‘प्रिन्ट्स’ काडले आनी मूळ चित्रां इबाडून उडयलीं. आयज खंय हें लुटून व्हेल्लें भांडार येवरोप-अमेरिकेंतल्या पोरणावळ शास्त्राच्या कांय केन्द्रांनी सांबाळून दवरिल्लें पळोवंक मेळटा.

प्रो. शांग-हॉन-शेनान ही खबर सांगिल्ली तेन्ना म्हजें मन खंतीन भरून आयिल्लें. तिडक मारिल्ली म्हाका ह्या गोरे कातिच्या लुटमाऱ्यांची.

एक म्यूझियम पळोवपाचो उरिल्लो. तो आमी दुसऱ्या दिसा सकाळीं पळेलो. सिल्क रोडार मेळिल्लीं आयदनां आवतां, भूर्जपत्रां वयलीं आनी ताडपत्रां वयलीं कांय बरपां थंय पळोवंक मेळ्ळीं. एक व्हडली घांट पळेली. तिचे फाटीर वेगळ्या वेगळ्या लिपयांनी कांय मंत्र कोंरातिल्ले आशिल्ले. पोरणे बंगाली लिपींत कोंरातिल्लो ‘ॐ मणिपद्मेहम्’ हो तिबेटी मंत्र म्हाका वाचूंक आयलो. ब्रोंझच्या एका घोड्यान लक्ष ओडलें. मेजार वा स्टुलार दवरपा येद्याच आकाराचो. पुणून तातूंत कलाकारान उबो केल्लो धांवपाचो वेग रॉकेटाच्या वेगाक लेगीत फाटीं घालीत असो आशिल्लो.

म्हत्वाचें म्हळ्यार, फाहियानाची यात्रा खंयच्यान खंय जाल्ली हाचो नकसो थंय पळोवंक मेळ्ळो.

बुद्ध धर्म चीनांत पावला तेन्ना चीन धर्माचे नदरेन फाटसार देश नाशिल्लो. चीनाची आपणाली अशी एक धर्मपरंपरा आशिल्ली, ती आमचे परंपरे इतलीच पोरणी, प्रौढ आनी शाणी आशिल्ली. कोन्फू-त्सू आनी लाओ-त्सूची परंपरा ही. हे परंपरेंत उणें कितें

आशिल्लें म्हूण चीनान बुद्धधर्म आपलोसो केलो ?

जाप सोदपा खातीर आमच्या देशाचे उत्तर-अस्तम शिमेचेर मात्शी नदर भोंवडावन पळोवंक जाय. म्हणटकूच, कितल्योश्यो गजाली लक्षांत येतल्यो. व्हडल्या व्हडल्या पर्वतांनी कुचकुचीत भरिल्लो वाटार हो. सोंपेपणान हांगासून थंय, थंयसून हांगा येवप वचप कोणाक जमचें ना हे तरेचो. तरी आसतना, ह्या पर्वतांतल्यान लोकांनी वाटो काडल्यात. कांय वाटो हिन्दुकुश पर्वतांतल्यान समरकंदा मेरन गेल्यात तर कांय पामीर आनी काराकोरम पर्वतांतल्यान कुनलून पर्वता मेरेन पावल्यात. सिंकियांगचे उत्तरे दिकेक तक्लमाकन नांवाचो एक व्हड सडो आसा, जो अस्तम उदेंत दिकेक हजारभर मैल पातळून अत्लाय आनी तियेनशान पर्वतांक तेंकला. थंयूय ह्यो वाटो पावल्यात. संवसारांतल्यो दुर्गमांतल्यो दुर्गम वाटो ह्यो.

आयज ह्या वाटारांत तुर्की मुसलमान रावतात. पुणून एक काळ असो आशिल्लो की जेन्ना ह्या पुराय वाटारांत बौद्धांचो शेक चलतालो. सुमार धा शतमानां हो वाटार बौद्ध उरला.

सिल्क रोडान हो वाटार चीना कडेन जोडला. सिल्क रोड फकत चीनांतलो माल भायर व्हरपी आनी भायलो माल चीनांत हाडपी मार्ग उरूंक नाशिल्लो. तो धर्मविचारांचें दिवप घेवप करपीय एक मार्ग जाल्लो.

कोण खंयच्यान खंय गेल्ले हाचो इतिहास काल पयर मेरेन कोणाक होलमूंक नाशिल्लो. एकुणिसाव्या शतमानाच्या निमाण्या दसकांत भूर्जपत्रांचेर आनी ताडपत्रांचेर बरयल्लीं दोन पुस्तकां ह्या वाटारांत मेळ्ळीं. एक खोतानाक, दुसरें कूचाक. खोतानाक मेळिल्लें खरोष्टी लिपींत बरयल्लें प्राकृत भाशेंतलें धम्मपद आशिल्लें. दुसऱ्या शतमानांतलें. निमाणें अर्दूच मेळिल्लें. (उरिल्लें अर्द आनीक कांय वर्सांनी दुसरे कडेन मेळ्ळां.) धम्मपद पाली भाशेंतलें पुस्तक म्हणपाचें सगळे जाणा आशिल्ले. ताचें संस्कृत जालां म्हणपाचीय खबर सगळ्यांक आशिल्ली. ताचो प्राकृत अणकार पळोवन जाणकारांक अजापांचो धसको बसलो. पयलेंच बौद्ध पुस्तक हें ह्या वाटारांतलें. कूचाक मेळिल्लें पुस्तक वैजकी शास्त्रा वयलें आशिल्लें. चौथ्या शतमानांतलें. संस्कृत भाशेंतलें. मदीं मदीं प्राकृत अर्थावणी आशिल्लें. चरक आनी सुश्रूत हांचींय कांय अवतरणां हातूंत घेतिल्लीं. म्हणटासर तुर्फानच्या एका उबंत विहारांत अश्वघोषाचें एक संस्कृत नाटक मेळ्ळें. पयल्या शतमानांतलें.

इतिहासकारां मुखार एक नवोच संवसार उकतो जाल्लो.

मध्य आशियांतल्या ह्या दुर्गम वाटारांत तेराशें चौदाशें वर्सां पयलीं हिन्दुस्तानी, कुचानी, सोगदियानी, चिनी बी वेगळ्या वेगळ्या वाटारांतले विद्वान येवन राविल्ले. आनी आपापणाले भाशेंत बौद्ध बरपावळ हाडपाचो वावर मोट्या नेटान करताले. हाचो

प्रभाव चीनाचेर पडुंकूच जाय आशिल्लो.

बुद्ध धर्म समजून घेवपाची ओड कांय चिनी विद्वानांक पयलींच जाल्ली. तातूंत मिंग-ती राजान भर घाली. ताका एक दीस एक सपन पडलें.अस्तमे दिकेंतल्यान भांगरा सारको लिकलिकीत एक दिव्य पुरूस आयला आनी आपणाल्या राज-म्हालांत भितर सरला, अशें ताणें सपनांत पळेलें. ताणें जाणकारांक आपोवन सपनाचो अर्थ विचारलो. 'तो भांगरा सारको लिकलिकीत दिव्य पुरूस भगवान बुद्ध... तांची शिकवण आमच्या देशांत येवची अशी सुचोवणी ह्या सपनांत आसा.' जाणकारांनी राजाक सांगलें. राजान रोखडेच आपले मनीस आपोवन हाडले. 'हिन्दुस्तानांत वचात आनी बुद्धधर्माचे जाणकार घेवन येयात', तांकां सांगलें.

ख्रिस्ताच्या पयल्या शतमानाच्या सव्या दसकांतली खबर ही. मनीस गेले. हिन्दुस्तानांत वचपाची तांकां गरजूच भासली ना. खोतानाकूच तांकां दोग जाणकार मेळ्ळे, हिन्दुस्तानांतलेच. एक कश्यप मातंग. दुसरो गौभरण. येतना ते एका धव्याफुल्ल घोड्याचे फाटीर कितलिंशीं बौद्ध पुस्तकां घेवन आयले. राजा खोश्शी जालो. तांचे खातीर ताणें लोयांगाक एक विहार बांदून दिलो. ह्या विहारांत बसून मातंगान बुद्धाचे बावेचाळीस धर्म-संवाद चिनी भाशेंत हाडले.

बुद्ध धर्मविचाराचें चिनी भाशेंतलें सगळ्यांत पयलें पुस्तक हें.

उपरांत पेंव फुटिल्ले वरी कितले-शे बौद्ध भिक्षू एका फाटल्यान एक चीनांत येत रावल्यात. तांच्यांतलो एक धर्मरक्ष. कूचाचो. ताका छत्तीस भासो येताल्यो. ख्रि.स. २८४ ह्या वर्सा तो चीनांत पाविल्लो. तीस वर्सां तो थंय उरलो. ह्या तीस वर्सांत खंय ताणें सुमार दोनशें ल्हान-व्हड बौद्ध ग्रंथ संस्कृत आनी पालींतल्यान चिनी भाशेंत हाडले. तांतले णव्वद मेळ्ळ्यात.

कांय काळान चौथ्या शतमानांत कुमारजीव नांवाचो आनीक एकलो बौद्ध चीनांत पावलो. तोवूय कूचाचो. बापूय हिन्दुस्तानी. आवय कूचाची. कोण म्हणटात तो अशोकाचो नातू (कुणालाचो पूत) आशिल्लो. आरंभाक ताणें हीनयानी पंथाची दीक्षा घेतिल्ली. संस्कृत शिकपाक काश्मिराक गेल्लो. थंयच्यान परतलो तेन्ना यारकंदाच्या राजकुंवरान ताका महायानाची दीक्षा दिली. तो महायानी ग्रंथ आपणाले कुची भाशेंत हाडपाच्या वावरांत गुल्ल आसतना अवचीत राज्यांत बंडाळी सुरू जाली. चिनी सैन्य भितर सरलें आनी चिनी सैनिकांनी ताका बंदी करून चीनाक व्हेलो. थंय तो चिनी भास शिकलो. धा वर्सांत ताणें सुमार णव्वद पंच्याण्णवद महायानी ग्रंथ चिनी भाशेंत हाडले.

सगळ्यांत चड गाजलो तो **सद्धर्म पुंडरीका**चो चिनी अणकार. ताचो हो अणकार चिनी जपानी बौद्धांचो प्रमाण धर्मग्रंथ म्हूण आयजूय चलता.

उपरांत परमार्थ नांवाचो एकलो आनी हरिवर्मा नांवाचो आनीक एकलो चीनांत गेला.

हाचेकूय म्हत्वाचें म्हळ्यार -

बुद्धाच्या जल्मस्थळांत - मूळ झरी कडेन - वचून बुद्धधर्म खोलायेन शिकपाचे खर इत्सेन कितले-शे चिनी विद्वान चीनांतल्यान हिन्दुस्तानांत आयल्यात. कितले जाण पावल्यात ह्याची नोंद इतिहासाक मेळ्ळूंक ना. सगळ्यांत पयली नोंद मेळ्ळ्या ती एकल्याची. फा-हियानाची. तो चौथ्या शतमानांत हिन्दुस्तानांत पाविल्लो.

ताणें आपणाले भोंवडेचीं वर्णनां बरोवन दवरल्यांत. खंय कितले विहार पळेले आनी ह्या विहारांनी कितले भिक्षू रावताले हाचीं बारीक बारीक वर्णनां ह्या पुस्तकांत आसात. खोतानांत तो गोमती नांवाच्या विहारांत कांय दीस उरिल्लो. थंयच्या भिक्षुंची चाल-चलणूक पळोवन तो बरोच प्रभावीत जाल्लो. तुन-हुआंगच्यान भायर सरून खोतानाच्या दक्षीण अस्तम वाटारांत पावतासर ताका स वर्सां लागिल्लीं. ह्या वाटाराक तो 'उत्तरे दिकेचें हिन्दुस्तान' म्हणटा. उपरांत तो मथुरेक पावला. 'खरेल्या हिन्दुस्तानांत' पाविल्ले वरी ताका तेन्ना दिसलां. उपरांतचीं स वर्सां तो ह्या 'खरेल्या हिन्दुस्तानांत' उरला. तांतलीं दोन वर्सां ताणें उडिसांत सारल्यांत. जंय जंय पावला थंय थंय ताणें बौद्ध ग्रंथांची वासपूस केल्या आनी कांय ग्रंथांच्यो ताणें आपणाल्या हातान प्रति-लिपीय तयार केल्यात. कितल्याश्या अडचणींतल्यान ताका वाट काडची पडल्या. कितलिंशीं संकश्टां झेलचीं पडल्यांत. निमाणीं दोन वर्सां तो श्रीलंकेंत रावला आनी तीन वर्सां उपरांत तो परतो चीनांत पावला.

सुमार सवाय दोनशें वर्सां उपरांत युआंग-च्वांग आयला. (युआंग-च्वांगाच्या नांवाचें उच्चारण कांय जाण ह्यु-एन-त्सांग म्हूण करतात.) त्या काळांत बुद्ध धर्म समुद्राचें एक व्हडलें ल्हार जाल्ले वरी पुराय आशिया खंडाचेर पातळिल्लो. ख्रि.स. ४५३च्या सुमाराक तो चीनाचो राजधर्मूय जाल्लो. कोन्फुत्सूच्या शिष्यांक हें आवडूंक नाशिल्लें. फू-ई नांवाचो एकलो कोन्फुत्सूचो शिष्य राजासरीं गेलो आनी म्हणपाक लागलो, 'कितलोय जाल्यार हो धर्म 'भायलो'. आमकां परकी. तो हांगा पातळ्ळो जाल्यार कुटुंबनिष्ठा, राजनिष्ठा बी मुल्यां लोकांच्या जिवितांतलीं गळून पडटलीं. हे लोक घरदार सोडून विहारांनी वचून रावतात. देशाचें कितेंच लावन घेनात. सगळ्यांत अळशिकावणें म्हळ्यार, हे लोक कांयच काम करिनात. भिक्षेचेर जियेतात... ह्या धर्माचेर बंदी हाडूंक जाय.'

पुणून राजाच बौद्ध जाल्लो. ताचेर हाचो कांयच परिणाम जालो ना.

राजाच्या दरबारांत युआंग-च्वांग आशिल्लो. बुद्ध धर्माचो तो जाणकार आशिल्लोच. पुणून ताका हो धर्म आनिकूय खोलायेंत देंवन शिकपाचो आशिल्लो. आपूण कांय काळा खातीर हिन्दुस्तानांत वतां आनी जाय आशिल्लें शिकून येतां अशें ताणें राजाक सांगलें. राजान म्हळें, 'च्ये च्ये च्ये... तूं आमकां हांगा जाय.' युआंग-च्वांग मात्सो निर्शेलो आनी एक दीस कोणाक सांगी नासतना पळ्ळो. तो मध्य एशियांत कांय दीस उरलो.तुर्फानच्या राजा कडेन ताची दाटी जाल्ली. राजाच्या मनांत ताका तुर्फानाकूच दवरपाचो आशिल्लो. युआंग-च्वांग हिन्दुस्तानांत वचपाक भायर सरलो तेन्ना राजान म्हळें, 'हांव तुका वचूंक दिवपाचों ना.'

'म्हाका वचूंक दिलो ना जाल्यार तुका हांगा म्हजीं फकत हाडांच मेळटलीं, हांव मेळचों ना.' ताणें राजाक सांगलें. तो उपास करपाक लागलो. अखेरेक राजान ताका वचूंक दिलो.

युआंग-च्वांग सोळा वर्सां हिन्दुस्तानांत उरला. नालंदा विश्वविद्यालयांतलो विद्यार्थी जावन शीलभद्रा सारकेल्या एका आचार्या कडल्यान तो विज्ञानवाद शिकला. हांगा रावन ताणें पंच्यास्तर महायानी ग्रंथ चिनी भाशेंत हाडल्यात. कनौजच्या हर्षवर्धनाची तशी कामरूपच्या भास्करवर्मनाची ताणें इश्टागत जोडिल्ली.

युआंग-च्वांगचे तीन ग्रंथ मेळटात. एक ताचे भोंवडेच्या वर्णनाचो. दुसरो, महायानी बुद्धमत्ताची फोडणिशी आशिल्लो. तिसरो, ताच्या शिष्यांनी बरयल्लो, ताच्या जिविता विशिंचो.

परतले उपरांत ताणें खोतानच्यान आपणाल्या राजाक एक चीट बरोवन धाडली. आपूण सांगी नासतना कित्याक गेलों आनी इतलीं वर्सां हिन्दुस्तानांत कित्याक रावलों हें सांगून. राजा ताचेर रागार जाल्लो. चीट वाचतकूच ताचो राग न्हिवलो. युआंग-च्वांग चिनांत पावला तेन्ना राजान ताका हुनहुनीत बरो येवकार दिला. इतलेंच न्हय, तर ताच्या पुस्तकाक ताणें प्रस्तावनाय बरयल्या.

इतले दाट संबंद वाडिल्ले आसुनूय चिनांतलो बुद्धधर्म अजून चिनी जावंक पावंक नाशिल्लो. तो 'भायलो'च, 'परकी'च उरिल्लो. तो पूर्ण रुपान चिनी जालो बोधिधर्म चीनांत पावलो तेन्ना.

बोधिधर्म कांजीवरमचो. एक ध्यान-मार्गी बौद्ध. तागेलो गुरू प्रज्ञान्तर. ताणें बोधिधर्माक चीनांत वच म्हूण सांगलें. एका तारवार बसून बोधिधर्म चीनांत गेलो. तीन

वर्सां लागलीं ताका चीनांत पावपाक. सव्या शतमानाच्या आरंभाची खबर ही. रूप उग्र. बिटबिटीत दोळे. तातूंत खाडामिशयांचें मालें वाडिल्लें. सभावानूय तुसडो. भीडभाडो नाशिल्लो. रुपा वयल्यान ताचे पिरायेचो अदमास येनाशिल्लो. 'तुजी पिराय कितली?' कोणें एकल्यान ताका विचारलें. 'देडशें वर्सां', ताणें जाप दिली. ताका सभ्य समाजाच्या शिष्टाचारांची पर्वा नाशिल्ली. बुद्धाचे जल्मभुंयेंतलो एक व्हड बौद्ध जाणकार आपणाल्या राज्यांत पावला म्हणपाची खबर राजाक कळ्ळी तेन्ना राजान ताका आमंत्रण दिवन राजम्हालांत आपोवन घेतलो. राजा बौद्ध. ताणें बोधिधर्माक म्हळें, 'भन्ते, हांवें इतले विहार बांदून बौद्धांक दिले. इतल्या बौद्ध ग्रंथांचे चिनी भाशेंत अणकार करून घेतले. इतल्या तरणाट्यांक भिक्षू जावपाची प्रेरणा दिली. म्हाका कसलें पुण्य मेळटलें?'

'कसलेंच ना', बोधिधर्मान जाप दिली.

'मागीर, पुण्य जोडपाक हांवें कितें करूंक जाय?'

'कितेंच करून पुण्य मेळपाचें ना...'

राजा घुटमळ्यांत पडलो. ताणें आनीक एक प्रस्न केलो - 'धर्म सिद्धांतांत खंयचो सिद्धांत सगळ्यांत म्हत्वाचो?'

'संवसारूच जंय शून्य थंय अमकें म्हत्वाचें, तमकें न्हय, अशें कशें म्हणूंक येतलें?'

राजा बेजारलो आनी ताणें विचारलें, 'म्हजे मुखार हांगा आसा तो कोण?'

'हांव नकळं' अशी जाप दिवन बोधिधर्म उठून गेलो. राजाक कसलोच उपदेस केलो ना, कसलेंच सूत्र शिकयलें ना, आपणा खातिरूय कितेंच मागलें ना. 'सामको विक्षिप्त मनीस', राजान म्हळें. 'विक्षिप्त मनीस' म्हुण्णूच लोक मागीर ताका वळखुपाक लागले.

बोधिधर्म राजम्हालांतल्यान भायर सरून चलत चलत वेई प्रान्तांत गेलो. थंयच्या 'शवालिन' विहारांत वचून रावलो. एका सारकीं णव वर्सां तो ह्या विहारांत ध्यानांत गुल्ल रावलो. ध्यानाची ताची तराय विक्षिप्त आशिल्ली. तो वणटी कडेन तोंड करून ध्यान करतालो. विहारांतले हेर भिक्षू ताका 'वणटीक तोंड तेंकोवन ध्यान करपी ब्राह्मण' म्हणटाले.

ताच्यो आख्यायिका कितल्यो-श्यो चलतात -

एक खेपे खंय ध्यान करतां करतां ताका न्हीद आयली. ताका आपणाली तिडक मारली. हे मुखार अशें घडचें न्हय म्हूण खंय ताणें आपणाल्या दोळ्यांच्यो मलप्योच कापून उडयल्यो. मलप्यो जमनीर पडल्यो. थंय दोन ल्हान झाडां जालीं. ह्या झाडांच्या पाल्याचो खंय मागीर च्या जालो. ध्यान संप्रदायांत च्याक खूब म्हत्व मेळ्ळें तें हे खातीर. च्या न्हीद येवंक दिना म्हूण. 'च्या आनी च्यान (ध्यान) हांची गोडी सारकीच' अशें हे ध्यानमार्गी म्हणपाक लागले.

आनीक एक आख्यायिका चलता -

आसनमांडी घालून ताणें णव वर्सां ध्यान केल्लें. हाका लागून ताची मांडी खंय घट जाल्ली. ताका उबो रावंक येना जाल्लें. हे आख्यायिकेचो लोकांक सदांकाळ उगडास उरचो म्हूण जपानी लोकांनी एक बावली तयार केल्या. ती कशीय मोखून मारली तरी, तिचें पोंद जड जाल्ल्यान, जमनीर पडटा तेन्ना नीट उबीच पडटा. हे बावलेचें जपानी नांव 'दारुमा'. बोधिधर्माचें जपानींत बोदि-दाऽरमा जालें. बोदि गळून पडलें आनी 'दाऽरमा'चें 'दारुमा' जालें.

एक दीस तो उठलो. जोतें हातांत घेवन भायर सरलो आनी कोणाक कांय सांगी नासतना विहार सोडून गेलो. खंय गेलो, कोणाक खबर ना. तो पर्वताचे दिकेन वता तो लोकांनी पळेल्लो. खंय वता, कोणाक कळ्ळें ना. कोण म्हणटात, तो आपणाल्या मायदेसांत परतो गेलो. कोण म्हणटात, तो वाटेरूच भायर पडलो.

ह्याच बोधिधर्मान चीनांतल्या बुद्धधर्माक पुराय चिनी केला. चीनाचे (आनी सशें वर्सां उपरांत जपानाचे) अध्यात्म साधनेक अशी एक गती दिल्या की जिचो प्रभाव दोनूय देशांचे संस्कृतायेचेर, कलेचेर, साहित्याचेर - पुराय जीवन-शैलिचेर - खोलायेन अंकीत जाला. 'झेन बुधिझम्' नांवाचो जो बौद्ध संप्रदाय आयज संवसाराचें ध्यान ओडूंक लागला तो हाणें सुरू केला.

वू-ची राजाक ताणें जी जाप दिल्ली ती तुसडी आशिल्ली असो राजाचोय समज जाल्लो, लोकांचोय जाल्लो. खरेपणानशीं ती राजाक जागोवपी जाप आशिल्ली. आपणें केल्ल्या पुण्यकार्याचो राजाक अभिमान जाल्लो. बोधिधर्मान तो मुळासयत हुमटावन काडिल्लो. राजाच्या लक्षांत हें आयलें तेन्ना खूब कळाव जाल्लो, बोधिधर्म चीन सोडून खूब पयस पाविल्लो.

णव वर्सां तो चिनी मन समजून घेवपाचो यत्न करीत राविल्लो. अखेरच्या वर्सा शेन-क्वांग नांवाचो एकलो ताओ-पंथी तरणाटो ताचे भेटेक आयलो. बोधिधर्मान ताका म्हऱ्यांत लेगीत येवंक दिलोना. शेन-क्वांग सात दीस विहारा भायर बसून रावलो. शिंयांचे दीस. बर्फ पडटालें. तरूय शेन-क्वांग रूख जाल्ले वरी तस्सो एकेच सुवातेर बसून रावलो. सातव्या दिसा ताणें आपणालो दावो हात कचक् करून कापलो. तो भितर धाडून ताणें 'तुमचे कडल्यान शिकपा सारकें आसा तें शिकपाक हांव म्हजी कूड लेगीत ओंपीन' अशें बोधिधर्माक सांगून धाडलें. बोधिधर्मान ताका भितर आपयलो. 'म्हजें मन कशेंच शान्त जायना... तें शान्त कशें करचें, सांग.' शेन-क्वांगान बोधिधर्माक म्हळें.

'तुजें मन हांगा म्हज्या हातार दवर... हांव तें शांत करतां', बोधिधर्मान सांगलें.

'पुणून म्हजें मन म्हाका म्हजे पसून वेगळावंक येना...'

'तशें जाल्यार हांवें तें शान्त केलें', बोधिधर्मान ताका म्हळें.

जाप आयकून खऱ्यांनीच खंय शेन-क्वांगाचें मन शान्त जालें.

शेन-क्वांगाक बोधिधर्मान आपणालो शिष्य म्हूण मानून घेतलो. ताका 'दुई के' म्हूण एक नवें नांव दिलें. उपरांत बोधिधर्मान ताका सांगलें, 'हांव हिन्दुस्तानांतल्यान हांगा आयिल्लों. सगळे कडेन भोंवलों. शारांनी भोंवलों तसो गांवांनी भोंवलों. रेंवे सड्यार भोंवलों. म्हजे अणभव सांगपा सारको कोणूय एक अधिकारी म्हाका जाय आशिल्लो. तो मेळ्ळो ना. ते मेरेन हांव तोंड धांपून रावलों. अखेरेक तूं मेळ्ळो. चिनी परंपरेक बाधा येवंक दिनासतना हांव दितां तें ज्ञान तूं लोकांक दी. चिनी मनशाच्या आधारानूच म्हाका ह्या ध्यान संप्रदायाचो हांगा प्रचार करपाचो आशिल्लो.' अशें म्हणून बोधिधर्मान ताका शिकोवपा सारकें सगळें शिकयलें. तो शिकून तयार जाला म्हणपाचें दिसून येतकूच तो चीन सोडून गेलो.

ह्या झेन संप्रदायान चीनांत पाविल्लो बुद्‌धधर्म पुराय चिनी करून उडयला. तो भायलो उरूंक ना. भितरलो, निजाचोच जाला.

सांजचो हॉटेलांत परतलों तेन्ना एके वाटेन म्हाका पुरो जाल्लें. दुसरे वाटेन एके नवेच उर्बेन मन भरून आयिल्लें. फळा वयल्यान रुखाची परिक्षा घेवची म्हणटात. तशें जाल्यार, म्हळें, चिनी कलाकारांच्या मनांत येदी सामान्या भायली सृजनशीळताय जो धर्मविचार जागोवंक पावलो त्या विचाराच्या मुळांतूच सृजनशीळ तत्त्वां भरिल्लीं आसूंक जाय.

बुद्‌ध विचार, म्हळें, आतां खोलायेन समजून घेवचो पडलो.

जाग, दिवाळी १९९८

## ४.

# हिन्दी म्हालसागराचो उलो

अमेरिकेक वचून येवचें म्हूण थारायनाफुडें आरमारींतलो 'वर्ल्ड ऍटलास' काडलो आनी रातचो न्हिदचे पयलीं अमेरिकेचो नकसो नियाळपाक बसलों. नदर ल्हवू ल्हवू संवसारांतल्या हेर देशां वयल्यानूय भोंवपाक लागली.

म्हाका संवंय आशिल्ली, हे भाशेन, मदीं मदीं 'ऍटलास' घेवन बसपाची आनी संवसारांतल्या वेगळ्या वेगळ्या देशां वयल्यान एक नदर भोंवडावपाची. हांगा वचूंक जाय, थंय भोंवन येवंक जाय, हो पर्वत चडूंक जाय, ती न्हंय हुपूंक जाय, अशीं शेख महम्मदी सपनां रंगोवपाची. साठ जातकूच थोडिशी अक्कल आयली. आनी शेख महम्मदी सपनां रंगोवपाचें हांवें सोडून दिलें. सत्तर जातकूच आतां मेरेन पळेलें ताचे परस जें पळोवंक पावलोंना ताची वळेरी मन तयार करपाक लागलें. आनी ही वळेरी सोंपून सोंपना येदी, मारुतीचे शेंपडे वरी वाडत गेली. म्हळें, हें सगळें पळेतलों जाल्यार उणें पुरें तीनशें वर्सांचें तरी आयुष्य मागून घेवंक जाय. ना जाल्यार, फुडल्या जल्मांत पळोवपा खातीर हें सगळें राखून दवरूंक जाय.

आनी 'ऍटलास' घेवन बसपाची संवंय आपशींच सुटली.

हे खेपेचें अमेरिकेक वचपाचें शेख महम्मदी सपन नाशिल्लें. पासपोर्ट तयार जाल्लो. व्हिझाय मेळिल्लो. येती वेती तिकेट 'बूक' केल्ली. केन्ना वचचें, केन्ना परतुचें हे विशिंच्यो तारकोय नित्शीत जाल्ल्यो. फकत खंयच्या वाटारांत पावतलों, थंय कितें पळोवंक मेळटलें, इतलेंच जाणा जावन घेवपाचें उरिल्लें. नकसो नियाळटकूच अमेरिका आमच्या देशा परस तिपेटीन तरी व्हड आनी हांव पावतलों तो वाटार - कालिफोर्निया, नेवाडा, आरिझोना - आसून आसून कोंकणा येदोच आसतलो म्हणपाचें लक्षांत आयलें. जावं, म्हळें, पळोवंक पावंक नाशिल्ल्या वाटारांचे वळेरेंतलो हो येदो वाटार तरी पुसून उडोवंक मेळ्ळो !

तरूय 'ऍटलास' चाळीत बसलों.

दुसऱ्या आनी तिसऱ्या पानांचेर पुराय संवसार दाखयल्लो मेळ्ळो. दाव्या पानार पुराय अमेरिका खंड, येवरोप आनी आफ्रिका खंडांचो थोडो वाटार आनी उजव्या पानार

उरिल्लें येवरोप, उरिल्ली आफ्रिका आनी ऑस्ट्रेलिया, न्यूझिलंड बी जुंव्या सयत पुराय आशिया खंड पळोवंक मेळ्ळो. नदरेंत भरले ते ह्या खंडां परस चड तांकां रेवडावन राविल्ले म्हालसागर. केदे व्हडले म्हालसागर हे ! धर्तरी जशी कितें तांचीच. मन आपशीं म्हालसागरांचें रूप नियाळपाक लागलें. म्हळें, ऍटलांटिक आनी पॅसिफिक म्हालसागरां परस हिन्दी म्हालसागर सामकोच वेगळो. ऍटलांटिक आनी पॅसिफिक म्हालसागरांक शिमो नात. हिन्दी म्हालसागराक शिमो आसात. एके वटेन आफ्रिकेची तर दुसरे वटेन मियान्मार आनी सुमात्रा, जावा बी जुंव्यांची. वयर अरबस्तान आनी पाकिस्तान ह्या देशांचें एक पाखेंय आसा. तातूंत आमचो देश शेकानशेक दोन अडेच हजार मैल (थोडो भोव चडूच आसूं येता) म्हालसागरांत भितर रिगला.

म्हळें, सैमान हिन्दी म्हालसागराक एक आगळें वेगळें रूप दिलां. आनी हिन्दुस्तानाक जशें कितें ह्या पुराय म्हालसागराची राखण करपाचें खाशेलें काम दिलां. इतलेंच न्हय, हिन्दुस्तानाक हुस्क्या मेकळें जियेवंक मेळचें हे खातीर हिन्दी म्हालसागराच्या ल्हारान ल्हाराची सारकी वळख करून घेयात म्हुण्णूय देशाच्या जाळवणदारांक जशी कितें ताणें शिटकावणीय दिल्या.

म्हज्यांतल्या देशभक्ताक केन्ना आनी कशी जाग आयली, लक्षांतूच आयलें ना. तो इतिहासांत भोंवपाक लागलो. म्हळें, हिन्दुस्तानाचेर भायल्यान जे आयजवेर घुरयो घालून आयले ते सगळे उत्तरे दिके कडल्यान आयिल्ले. मुदलांतले लुटमारे. हांगा येवन तांणी आपणालीं राज्यां आनी साम्राज्यां सुरू केलीं आनी आमी तीं मोन्यांनी मानून घेतलीं. ल्हवू ल्हवू ते हांगासल्लेच जावन रावले. ह्या देशाचे मातयेंत भरसले. सामके एकरूप जाले. आयज तांकां सोदून काडटले म्हळ्यारूय ह्या 'महामानवाच्या सागरां'त ते खंयच दिश्टी पडनात. जे दर्या वाटेन आयले तेवूय लुटमारेच आशिल्ले. तांणीय आपणालीं राज्यां साम्राज्यां हांगा उबीं केल्लीं. आनी आमी तिंवूय मोन्यांनी मानून घेतिल्लीं. यवन, शक, हूण, कुशाण, मोगलां भाशेन हांगासल्ले जावन मात ते केन्ना रावले नात. ह्या देशाचे मातयेंत केन्ना भरसले नात. केन्ना एकरूप जाले नात. सदां परकीच कशे रावले. परकीच उरले. परिणामीं, तांकां 'धांवडावन घालपाचो' वावर आमकां करचो पडलो.

आयज देश स्वतंत्र जाला. युगूय बदल्लां. आयज खंयच्याच देशाक घुरी घालून दुसरो देश जिखूंक मेळपाचो ना. कोण ताका जिखूंक दिवपाचोय ना. पुणून, केन्ना कोण झुजूंक येत आनी सगळें सकल वयर करून उडयत, सांगूं येता? आयजूय उत्तरे दिकेक चीन आनी पाकिस्तान हे दोन देश आमचे आड झुजाच्या मांडान उबे रावल्यात. काश्मीर आमच्या हातांत आसाय म्हणूंक येना, नाय म्हणूंक येना. आसामांत कोण केन्ना कसले उपद्रव करीत, सांगूं येता? नैऋत्य दिकेंतलीं नागालँड, नेफा बी सात राज्यां तर मदीं मदीं

देशाक शिंगां दाखयत आसात. बडोदें, ग्वाल्हेर, इन्दोर, म्हैसूर ह्या संस्थानां सारकें नेपाळूय एक देशी संस्थान आशिल्लें. तें आतां स्वतंत्र 'हिन्दू राष्ट्र' म्हूण जियेवपाक लागलां. हांकां सगळ्यांक आमचे करूंक जाय. काळजान आमचे करूंक जाय. ना जाल्यार देश हुस्क्या मेकळो स्वास घेवंक केन्ना पावचो ना.

तें कित्याक, हिन्दी म्हालसागराचे शिमे वयल्या सगळ्या देशां कडेनूय आमकां दाट इश्टागत करूंक येवंक जाय. फाल्यां, धरुंया, मलेशिया देश आमचे आड गेलो. 'हाका बुद्द शिकयतलों' म्हणून तेमाक पेटलो. जाल्यार, हजारांनी मैल पयस रावनूय ताच्यान आमची नाडी आवळूं येता. जपान, चीन देशांत आमचो माल घेवन वचपी आनी थंयचो माल हांगा घेवन येवपी तारवां ताणें मलेशियाचे तडीर आडायल्यारूच पुरो. आमकां नाका-पुरो जातलें. मलेशियाकूच कित्याक, गल्फांतल्या एडनाकूय आनी आफ्रिकेंतल्या मालागासीकूय आमकां नाका पुरो करून उडोवं येता.

हिन्दी म्हालसागरांतल्यान चलतल्या व्यापाराचेर आमची पुराय आस्पती-आर्थीक जीण निम्बून आसा.

ह्या सगळ्या देशां कडेन आमचे इश्टागतिचे संबंद दाट जावंक जाय हाची जाणवीक आमगेल्या म्हालगड्यांक आशिल्ली जावंक जाय. कित्याक, मौर्य साम्राज्यार्ची जीं कांय खातीं आशिल्लीं तांच्यांत हिन्दी म्हालसागरा विशिंचें एक आशिल्लें म्हणटात. आफ्रिकेचे उत्तर-उदेंत दिके कडलें एक तोंक जंय हिन्दी म्हालसागरांत भितर सरलां थंय सोकोत्रा नांवाचो एक जुंवो आसा. ह्या जुंव्यार कितलेशे हिन्दी व्यापारी रावताले. तांणीच हाका सुखधराद्वीप नांव दिल्लें. सुखधराचेंच सोकोत्रा जालां. दक्षिण भारतांतले मणिग्राम चेट्टी थंय आसताले. कितल्याशा देशांनी ते पातळ्ळेल्ले. तांचे वरी सौराष्ट्र कच्छ गुजरातांतले व्यापारीय सगळे कडेन पाविल्ले. वाश्कु द गाम उदेंत आफ्रिकेंतल्या मिलिन्द शारांत पावलो तेन्ना एका कच्छी व्यापाऱ्यान खंय ताका हिन्दुस्तानांत कशें वचचें तें दाखयल्लें. ख्रिस्ता आदल्या तिसऱ्या शतमाना पसून उपरांतच्या तेराव्या शतमाना मेरेन हिन्दुस्तानी तारवटी व्यापाऱ्यां वांगडा हिन्दी म्हालसागराचेर जसो कितें आपणालो शेक चलयत राविल्ले. तांगेलीं तारवांय हेरांच्या तारवां परस गडगंज आशिल्लीं. बौद्ध धर्म हिन्दुस्तानांत सगळे कडेन पातळना फुडें तो देशा भायरूय पातळपाक लागलो. तेन्ना व्यापाऱ्यां बरोबर बौद्ध भिक्षूय वेगळ्या वेगळ्या देशांनी वचपाक लागले. व्यापाऱ्यांनी त्या त्या देशांची आस्पती जीण गिरेस्त केल्ली, बौद्ध भिक्षुंनी तांगेली आंतरीक जीण समृद्ध केल्ली. सगळ्यांनी तांकां काळजां उकतीं करून येवकार दिल्लो.

लक्षांत दवरपा सारकी गजाल म्हळ्यार, हिन्दी म्हालसागराचे शिमे वयले हे सगळे देश हिन्दी लोकांनी फकत काळजान जिखिल्ले. कोणेंच हातांच तरसाद घेवंक नाशिल्ली. कोण्णा फाटल्यान राजकीय बळ नाशिल्लें. कोण सैन्य घेवन वचूंक नाशिल्ले.

उपरांत कित्याक लागून, खबर ना, जातिची चाल घट जाले उपरांत भायर गेल्यार जात बुडटली, धर्म बुडटलो ह्या भंयान शास्त्रान समुद्रयात्रा निषिद्ध मानली म्हूण जाल्यार देवाक खबर, हिन्दी म्हालसागरा वयलो आमचो संचार उणो जालो आनी पुराय म्हालसागर इल्लो इल्लो करून अरबां सुवादीन जालो.

येवरोपेव लोक पंदराव्या शतमानाचे अखेर मेरेन नावीक विद्येंत आमचे परस खूब म्हळ्यार खुबूच फाटीं आशिल्ले. तांचो थोडो भोव संचार चलतालो तो मेडिटरेनियन समुद्रांत. मादैर नांवाचो एक जुंवो पुर्तुगाला लागसार आसा म्हणपाचें खासा पुर्तुगालाक पंदराव्या शतमाना मेरेन खबर नाशिल्लें. पुर्तुगालांत इंफान्ति दाँ एंर्रिक नांवाचो एक द्रश्टो राजकुंवर सत्येर आयलो. ताणें पुर्तुगालांत नावीक विद्येची बुन्याद घाली. पुर्तुगेज प्रजेक कर्तुत्वाच्या हावेसान ताणें जागयली. परिणामीं, एक दीस बार्तुलुमेव दीयश दक्षिण आफ्रिकेच्या तोंकार पावलो. वाश्कु द गाम दक्षिण भारतांतल्या कालिकटाक पावलो. फाटोफाट आफोंसु द आल्बुकेर्क आयलो आनी ताणें १५०६त ऑक्टोबराचे २४ तारकेर होर्मुज बंदर घेतलें. आशिया खंडांतल्या येवरोपेव साम्राज्याची बुन्याद खरेपणानशीं ह्या दिसा पडल्या. प्लासीच्या झुजा परस हे तारकेक इतिहासाचे नदरेन चड म्हत्व आसा. आल्बुकेर्काचें मन समुद्री - oceanic आशिल्लें. हिन्दी म्हालसागरा वयलीं सगळीं नाकीं घेवंक जाय, म्हणटकूच, हिन्दुस्तानाकूय घेवंक मेळटलें, हिन्दी म्हालसागर जाच्या हातांत आसतलो ताच्याच हातांत हिन्दुस्तान उरतलें, अशें मानपी. म्हूण, ताणें पयलीं होर्मुज बंदर घेतलें. उपरांत उदेंते कडलें मलाका घेतलें. आफ्रिकेचें दक्षिण तोंक ताच्याच हातांत आशिल्लें. आल्बुकेर्काचें हें सपन सफळ जावंक पावलें ना हाचें कारण, जिस्त ह्या वेळार खासा पुर्तुगालूच स्पेनाच्या शेका तळा गेलें. परिणामीं, हिन्दी म्हालसागरा वयलो पुर्तुगेजांचो शेक दुबळो पडलो. उपरांत कांय काळ डच मुखार सरले, फ्रँचूय फुरफुरून आयले. अखेरेक इंग्रज ह्या मळार सफळ जाले. तांणी पुराय हिन्दी म्हालसागर आपल्या हातांत घेतलो. म्हळ्यार, आल्बुकेर्काचें सपन इंग्रजांनी खरें केल्लें. तेन्नाच्यान जग हिन्दी म्हालसागराक 'ब्रिटिश लेक' म्हणून वळखुपाक लागिल्लें.

खरेपणानशीं हिन्दी म्हालसागराचेर कसलेय तरेचो शेक जावं, हिन्दुस्तान सोडून दुसऱ्या कोणाक तो चलोवपाकच येवपाचो ना. कोणाक तो जमपाचो ना. 'ऍटलासू'च पळेल्यार पुरो, हो शेक चलोवपा खातिरूच हिन्दुस्तानाक सैमान ह्या म्हालसागरांत दोन अडेच हजार मैल भितर सोडलां. हिन्दुस्तान, 'नाका, म्हाका नाका ही कटकट' अशेंय

म्हणूंक पावपाचें ना. ताणें शेक चलयलो ना जाल्यार तो दुसरो कोण चलयतलो, आनी हिन्दुस्तानाक ताचे कृपेचेर जियेवचें पडटलें. आनी हें ताका खूब म्हारग पडटलें. आपणाली सारकी राखणूय तें करूंक पावपाचें ना.

एक खरें, साम्राज्यवादाचे दीस आतां उरूंक नात. साम्राज्यवादी नदरेन चिंतुंकूय जायना. पुणून हिन्दी म्हालसागराचे तडी वयल्या सगळ्या देशां कडेन दाट इश्टागतिचे संबंद वाडोवपाक आमकां कोणें आडायल्यात? आमचीं तारवां, आमच्यो बोटी पुराय म्हालसागराचे फाटीर भोंवत रावंक जाय. आमच्यो बोटी नात अशें एक बंदर हे तडीर आसूंक जायना. आमचे व्यापारी नात अशें एक शार तडी वयल्या ह्या देशांनी आसूंक जायना. संस्कृतायेच्या मळार विचारांचें दिवप घेवप चलना असो एक्क देश ह्या वाटारांत आसूंक जायना. आमच्या लेखकांनी ह्या वाटारांत भोंवंक जाय, थंयच्या लेखकांनी ह्या देशांत येवन वचून रावंक जाय. आयज हिन्दुस्तान स्वतंत्र जावन पन्नास वर्सां जाले उपरांतूय, आमकां ह्या देशांनी लेखक आसात म्हणपाची लेगीत खबर ना. एकल्याक लेगीत आमी वळखनात. आमकां हें सोबना.

असले हावेस मनांत जागे जाले म्हणटकूच मन एके वटेन फुरफुरून येता, आनी दुसरे वटेन निर्शेवनूय पडटा. दिसता, हें कोण करतलो? सरकार? सरकार नावीक दलाचो व्याप वाडयत. पुणून देशांतल्या सरसमान नागरिकां मजगतीं उमेदिचें वातावरण निर्माण जालें ना जाल्यार सरकाराचें हें नावीक दल वाडोवपाचें काम ओम् फस्स जातलें. टर्की आनी फ्रान्सान हें दाखोवन दिलां. टर्कीन आनी फ्रान्सान सगळें केलें. पुणून लोकां मजगतीं समुद्री मानस तयार केलें ना. सरकाराक असलीं कामां करुंकूय येनात. सरकाराचें काम न्हय हें. लोकांचेंच काम हें. लोकांनी तें हातांत घेवंक जाय. आमी दर्या देगेर रावतल्या लोकांनी फकत आर्टस्, सायन्स्, कॉमर्स शिकोवपी कॉलेजां काडलीं आनी चलयलीं म्हणून भागना. व्हडीं कशीं चलोवपाचीं, दर्या खुबिल्लो आसतना तातूंत उडी घेवन कशें पेंवचें असलें शिक्षणूय आमी शाळा कॉलेजांतल्यान आमच्यां भुरग्यांक दिवंक लागूंक जाय. दर्याच्या ल्हारान ल्हाराची वळख तांकां करून दिवंक जाय. आयज आमच्या गोंयांत समुद्रविद्येचें - oceanography चें एक व्हड केन्द्र चलता. तें आशिया खंडांतलें सगळ्यांत व्हडलें. आमच्या भुरग्यां भितरल्या कितल्यांनी ताचो लाव घेतला?! फाटल्या पांच दसकांच्या काळांत हे विद्येन दर्याच्या पोटांत वचून थंय कितें कितें भरलां तें पळोवन घेतलां. दर्याच्या पोटांत व्हडले व्हडले पर्वत आसात, भितर न्हंयोय आसात, धतरीर आसात ताचेकूय चड तरांचे ल्हान व्हड जीव आसात, कितले तरेची वनस्पत

आसा, ते भायर बुडिल्लीं शारांय आसात, हजार तरांचें ज्ञान हे विद्येन एकठांय केलां. खंयच्याय महाकाव्याक फाटीं उडयत असली एक विद्या ही. ती आमच्या तरणे पिरायेच्या भुरग्यांक मेळूंक जाय.

तारवां बांदपाचें काम आमचेंच आशिल्लें. पुर्तुगेज येवचे पयलीं आमचीं गडगंज तारवां हिन्दी म्हालसागरांत झांझिबारा पसून चंपा (सियाम) मेरेन भोंवतालीं. पुर्तुगेजांच्या तारवां परस तुरतुरीत चलतालीं. वाश्कु द गामाक झामोरीन आश्रय दिलो आनी तो आपणाली शीम हुपून मुखार वचपाक लागलो, तेन्ना ह्याच तारवांनी ताका धांवडावन घाल्लो. आयज तारवांक म्हत्व उरूंक ना, बोटींक आयलां. आमी बोटी बांदतात. ना अशें न्हय. पुणून कांय वर्सां पयलीं आमी युगोस्लाविया कडल्यान एक पॅसेंजर बोट विकती घेतिल्ली म्हणून वाचिल्लें तेन्ना म्हजी मान लजेन नमिल्ली. सुधारल्या जातली परिस्थिती आयज. खरेपणानशीं आमी बोटी बांदून अमेरिकेक दिल्यो म्हणून वाचूंक मेळूंक जाय आशिल्लें. हड्डें अभिमानान फुलून येतलें आशिल्लें.

देशाचे राखणेचो विचारूय आमी सारको करतात अशें दिसना. फकत सैन्य आनी हवाई दलूच घटमूट केलें म्हूण भागना, नावीक दला कडेनूय तितलेंच लक्ष दिवंक जाय. आमचेर समुद्राचे वाटेन अजून संकश्टां कोंसळूंक नात, खरीं. पुणून केन्नाय कोंसळूं येतात. वियेतनाम, धरुंया, आमचे आड गेलें जाल्यार आमचें नाक दांबपाचें काम ताच्यान करूंक जावचें ना व्हय? जपान खुबलें जाल्यार आमकां नाकापुरो करपाचें काम तें दर्याच्या आधारानूच करतलें. जपानाक एक नावीक परंपरा आसा. आशिया खंडांतलें एक महत्वाकांक्षी राष्ट्र हें. संकश्ट कोंसळचे पयलींच जतनाय घेवंक जाय आमी.

येवजितां येवजितां म्हज्यांतल्या गोंयकारान तकली वयर काडली. मुरगांवच्या बंदराचेर नदर गेली. मुरगांवचें बंदर व्यापारा खातीर उपकारताच, आरमारी दला खातिरूय उपकारता. कारवार आनी मुरगांव हांचे मदीं फकत चाळीस मैलांचें अंतर आसा. संवसारांत असलीं जुवळीं बंदरां - twin harbours - खूब थोडीं. एकाच राज्यांत दोनूय बंदरां आशिल्लीं जाल्यार अखख्या हिन्दी म्हालसागराचेर आमचो - गोंयकारांचो आनी कारवारकारांचो - शेक सोंपेपणान चलूं येतलो. दुर्दैवान आयज दोनूय बंदरां दोन राज्यां कडेन वचून पडल्यांत! कारवार आनी गोंय एका राज्यांत हाडुंया म्हळ्यार आमी 'विस्तारवादी' जातले अशें आमचेच म्हालगडे म्हणूंक लागल्यात.

हांवें 'ॲटलास' बंद केलो. म्हळें, हांगा वचूंक जाय, थंय वचूंक जाय करतालों तीं शेख महम्मदी सपनां आशिल्लीं. हीं जीं आतां तकलेंत घोळटात तीं खंयचे जातिचीं

सपनां काय? पंच्यास्तर वर्सांचे पिरायेर कोण शेख महम्मदी सपनां रंगयना. हीं एका देशभक्ताचीं दिसासपनां. दिसासपनां आसलीं म्हूण कितें जालें? तीं खरीं जायनात अशें न्हय. आयज मेरेन चिंतूंक नाशिल्लीं कामां संवसारांत घडून आयल्यांत तीं सुरवाते-सुरवातेक कोणाचीं-न्हय-कोणाचीं दिसासपनांच आशिल्लीं. खरीं जाल्यांत म्हूण तीं दिसासपनां कशीं दिसनात.

दिसासपनां खरीं जातात. मात्सो वेळ लागता. धीर धरूंक जाय.

हांवें दिवो पालयलो. पुणून न्हीद लागूंक नाका? दर्याचीं ल्हारां घस्स घस्स करून चिंतनांचे वेळेर सवन रात कोंसळत रावलीं. 'यो, यो' करून हिन्दी म्हालसागर एका सारको उलो मारीत राविल्लो.

कोंकण टायम्स, दिवाळी २०००

## ५.

# अमेरिकेच्यान कितें घेवन आयलों?

'अमेरिकेच्यान कितें हाडलें तुंवें?' मेळटा तो विचारता. आनी हांव ताका 'बदाम, पिस्ते आनी खिसमीस' हीच एक जाप दितां. 'थंय सवाय मेळटात त्यो ह्योच तीन वस्तू... हेर सगळें म्हारग, उजो... सिगरेट लेगीत कोंता येवपाची न्हय.'

खंयूय पावूं, येतना चार पुस्तकां घेवन येतां. चाल म्हजी ही, कितल्याश्या वर्सांची. एक दोन घेवन वतलों अशें येवजून कांय बुकस्टॉलांर गेल्लों. पुणून भितर एक भोंवडी मारून जातासर गोंदळांत पडलों. एक तर हजारांनी लेखक. एकूय वळखिचो न्हय. पुस्तक कोणाचें म्हूण घेतलों? आनी दुसरें म्हळ्यार, एका एका पुस्तकाचें मोल हजार हजार, देड देड हजार रुपये. म्हाका लेगीत विकूंक काडिल्लो जाल्यार इतलें मोल दिवन कोण घेवचो नाशिल्लो. म्हूण पुस्तकांक फकत हातूच लावन परतलों. तरी आसतना, अमेरिकेच्यान घरा येवपाक भायर सरलां तेन्ना बॅगांत कांय पुस्तकां जागो आडावन बशिल्लीं. विकतीं घेतिल्लीं न्हय. थंयच्या नव्या इश्टांनी भेट म्हूण दिल्लीं. तांतलें एक पळोवन मात्सो उचांबळीत जावन आयलों. आपणागेर पाविल्ल्याची याद म्हूण बालाजीबाब आंगल्यान तें दिल्लें - Autobiography of Martin Luther King Jr. नांवाचें.

एके नदरेन हांव एक भाग्यवंत गोंयकार. खूब व्हडले व्हडले लोक लागिंच्यान पळोवंक मेळ्ळ्यात म्हाका. कांय जाणांच्या म्हर्‍यांतूय पावलां. तांच्यांतलो मार्टिन ल्यूथर एक. १९५८-५९तली गजाल. काकासायब अमेरिकेची भोंवडी करून आयिल्ले. येतकूच अमेरिकेंत आपणें कितें पळेलें तें मेळूंक आयिल्ल्या आपल्या कांय विद्यार्थ्यांक तांणी सांगिल्लें, 'नायगराचो घसघसो एक पळेलो आनी तिर्शीं भितरलो एक निग्रो वीर पळेलो... दक्षिण आफ्रिकेंत बापू काम करताले तांचोच आर्विल्लो अवतार कसो दिसलो... तागेर वचून रावलों. बापूंचेच प्रेरणेन तो थंय निग्रों मजगतीं काम करता.'

काकासायबांनी ताची खबर जवाहरलालांक सांगली आनी गांधी निधिचे वतीन ताका, ताचे घरकान्नीक आनी ताच्या एका सांगात्याक येत्यो-वेत्यो तिकेटी धाडून दिल्यो. ते प्रमाण मार्टिन घरकान्नीक आनी सांगात्याक घेवन हिन्दुस्तानांत आयलो. खूब कडेन भोंवलो. खूब जाणांक मेळ्ळो. मुम्बयंत ताचो राबितो मणिभुवनाच्या गेस्ट हावसांत

आशिल्लो. म्हजें 'गोमंत भारती'चें ऑफीस थंयच. गेस्ट हावसाक तेंकून. हांव आनी म्हजो एक बंगाली इश्ट एस्. के. डे ताका घेवन मुम्बयंत भोंविल्ले.

अमेरिकेंतल्या निग्रोंनी गोऱ्यां कडल्यान खूब छळ सोंसल्यात. आमच्या दलितांनी सोंसल्यात तांच्याकूय इल्लेय उणे न्हय, चडूच म्हळ्यार जाता. आनी मार्टिन ल्युथराच्या नेतृत्वा खाला ह्या लोकांनी अन्यायाचो प्रतिकार गांधींच्या मार्गान केला. मार्टिनाचे आत्मकथेंत तांच्या ह्या छळांचीं वर्णनां आयल्यांत. आनी तांच्या प्रतिकारा खातीर तांणी केल्ल्या वावराची खबरूय आयल्या. आंगार कांटो फुलून येता वाचतकूच. इतलेंय आसून, अन्याय करतल्यां विशीं मार्टिनाचे लिखणेंतल्यान एक्क लेगीत वांकडें उतर येवंक पावूंक ना. गांधींचेच वाटेन तो आपणाल्या सांगात्यांक घेवन एका फुडलीं एक जैतां जोडीत मुखार गेला. आनी गांधीं भाशेनूच आंगार गुळी झेलून एक दीस ताणें मरणाक वेंग मारल्या.

पळेलें खूब. पंदरा दिसांनी पळोवंक येत तितलें. अमेरिका आमच्या देशा परस तिपेटीन व्हड देश. आनी हांव पावलां तो फकत कालिफोर्नियांत. थोडोसो नेवाडांत आनी मात्सो-सो आरिझोनांत. पंदरा दिसांचे भोंवडेंत इतलेंच हें पळोवन हांवें अमेरिका पळेली अशें म्हणपाचें काळीज म्हाका जावपाचें ना. सैमाचीं दोन विस्मितां पळेलीं, रॅड इन्डियन्सांच्या 'राज्यांत'लें एक, ग्रँड कॅनयन. आनी सान-फ्रान्सिस्को लागसारचें शिश्यांच्या रुखांचें रान एक - मुइर्स वुडस्. धर्तरे वयल्या पोरण्यांतल्या पोरण्या रानां मजगतचें एक हें.

आनीक एक 'नवल' पळेलें. आइन्स्टाइन रावतालो तें घर. फकत भायल्यान. पुणून एका पवित्र तीर्थांत न्हावन आयिल्ले वरी दिसलें. येदो व्हड मनीस हो, शिकोवंक युनिव्हर्सिटींत वतालो तेन्ना खंय सायकलीर बसून वतालो !

जें पळेलें ताचीं वर्णनां केन्नाय तरी बरोवंक जाय. अजून तीं तकलेंत सारकीं शिजून येवंक नात म्हूण बरोवंक पावूंक ना. पुणून ते पयलीं एक गजाल म्हज्यान सांगूं येता -

हांव विमानांतल्यान देंवलां तो लॉस-एँजल्साक. लॉस-एँजल्स अमेरिकेंतलें एक व्हड शार म्हूण आयकल्लें. आनी शार म्हणिनाफुडें म्हज्या दोळ्यां मुखार मुम्बय, कलकत्ता, दिल्ली हीं शारां उबीं राविल्लीं. मळबाक तेंकपी व्हडल्यो व्हडल्यो बिल्डिंगो आसतल्यो अशें दिशिल्लें. असल्यो बिल्डिंगो लॉस-एँजल्सांत आसात. फकत विमानतळा लागसारच्या वाटारांत. हांव रातचो पाविल्लों. म्हूण त्यो म्हाका दिश्टी पडूंक नाशिल्ल्यो. येतना दिश्टी पडल्यो. पुणून ह्या बिल्डिंगांनी कोण राविनात. थंय

आसात तीं व्हडल्या व्हडल्या कंपन्यांचीं फकत ऑफिसां. लोक रावतात तो वाटार ह्या वाटारा भायर.

ह्या वाटाराक शार म्हणचें काय गांव होच प्रस्न म्हाका पडलो. पुराय लॉस-एँजल्स ल्हान ल्हान बंगल्यांचें. एक एक बंगलो खेरीत अस्मिताय आशिल्लो. एका बंगल्या सारको दुसरो न्हय. एकान एक बंगल्या मुखार एक एक बगिचो. तशें, घरा फाटल्यान एक लॉन, एक बगिचो. मुखावयलो फुलांचो, तर फाटलो रुखांचो. फुलां गंध नाशिल्लीं. फकत रंगान नटिल्लीं; रूख कुचकुचीत पानांनी भरिल्ले. रस्ते रुंद. पुणून रस्त्यार पांयांनी चलपी एकलोय मनीस ह्या शारांत दिश्टी पडलो ना. सकाळच्या वेळार कांय वयस्क 'मॉर्निंग वॉका'क वतात, तशे कांय तरणाटे (आनी तरणाट्यो) 'जॉगिंगा'क वतात, इतले हे लोक सोडीत जाल्यार वाटसूर - पॅडेस्ट्रियन - कोणूच दिश्टी पडलो ना. म्हूण, क्रॉसिंग ना. कोण मोटारीक आपटून पडना, मरना. ऍक्सिडेंट ना. सगळे आपापल्यो गाडयो घेवन वतात. घरांत जितलीं मनशां तितल्यो गाडयो. पुणून खंयच 'ट्रॅफिक जॅम' जाल्लो पळोवंक मेळना. खंयच 'पाँक पाँक, पँक पँक' आयकूंक मेळना. कोण काळो धुंवर सोडिना. कोण कोणाक 'ओव्हरटेक' करिना. कोणूच थारायल्ले स्पिडी वयर गाडी चलयना. खंयच मोटार मोटारीक तेंकिल्ली पळेली ना. अंतर दवरुनूच सगळे चलयतात. 'पार्किंगू'य खंयूय करिनात. (पार्किंगाचे जागे थारायल्ले आसतात.)

लॉस-एँजल्स जितलें शांत तितलो शांत म्हजो पिरवळ गांव लेगीत उरूंक ना. गोंयचो खंयचोच गांव इतलो शांत पळोवंक मेळचो ना. थंय एकूच आवाज आयकूंक येता, दीसरात. झुळू झुळू करून व्हांवतल्या एकादऱ्या व्हाळा सारको. तो शिमिटाच्या रस्त्यां वयल्यान धांवतल्या गाडयांचो.

लॉस-एँजल्सच्या रस्त्यांक बावड्यांक एका खिणाचो लेगीत 'सुसेग' मेळना.

असलें 'शार' आसूं येता हाचो अदमासूच नाशिल्लो म्हाका. अमेरिका म्हळ्यार उद्देगीकरणाचे तेंगशेर पाविल्लो देश. व्हडले व्हडले उद्देग-धंदे थंय चलतात. पुणून जंय लोकांचीं रावपाचीं घरां आसात थंय एकूय फॅक्टरी ना. फॅक्टऱ्यांची कितलीय गरज आसूं देशाक, लोकांक स्वास घेवपाक नितळ हवा मेळूंक जाय हो दंडक. हाका लागून हवेचें प्रदूशण ना, उदकाचें ना, भुंयेचें ना. घरांत लेगीत कोण सिगरेट ओडिना. हवा सुकी. म्हजें नाक जें चोंदिल्लें उरतालें तें लॉस-एँजल्साक पावतकूच उकतें जालें. थंडी ना जाली, खांक आयली ना, खर्शेणीय आयली ना.

अमेरिकेंत सुमार दोन अडेच हजार गोंयकार राबितो करून आसात. तांगेली 'गोअन्स ऑर्गनायझेशन इन अमेरिका' (GOA) नांवाची एक संस्था थंय आसा. दोन दोन वर्सांनी

ती गोंयकारांचें एक संमेलन घडोवन हाडटा. ह्या संमेलनाचें पांचवें अधिवेशन ह्या वर्सा कालिफोर्नियांतल्या इरवीन शारांत भरिल्लें. १-२-३ जुलैक - तीन दीस. ह्या अधिवेशनाक गेल्लों. गोंयकार खंयूय वचून रावूं, आसता सदांच गोंयांत, हाची खोलायेन जाणवीक म्हाका हांगा जाली. सुमार तीनशें साडेतीनशें गोंयकार आयिल्ले. सगळे 'होम सिक्.' गोंयची आयज कितली धूळदशा जाल्या, बावड्यांक खबर ना. गोंयच्यान हांगा आयिल्ले त्या वेळार जें गोंय तांणी पळेल्लें तेंच तांच्या दोळ्यां मुखार आयजूय आसा. सुक्या सुंगटांची किसमोर, दाळचो कांद्या रोस आनी लसणिची कडी जेवणाक मेळत जाल्यार 'झक माल्ली आमरस-पुरी' अशें म्हणून हेंच जेवण जेवपाक मोटे उमेदीन येवपी लोक हो.

बाकीबाब पंदरा वर्सां पुण्यांत उरलो. पुणून, 'खंय आसतात तुमी' म्हूण विचारल्यार 'गोंयांत' म्हणटालो. आपूण परतो गोंयांत वतलों म्हणपाची ताका आस्त तरी आशिल्ली. अमेरिकेंतल्या गोंयकारां मजगतचो कोण्ण गोंयांत परतो येवपाची म्हाका तरी आस्त ना. जांच्या जिवितांत गोंय मुरलां तांची गोंयची ओड - 'होम सिकनेस' कितली खोल आसतली हाचो अदमासूच केल्लो बरो. जें गोंय गोंयांत आयज पळोवंक मेळना, सोदूंक गेल्यारूय मेळना, तें म्हाका अमेरिकेंत पळोवंक मेळ्ळें. हांवें म्हळें लेगीत, येवरोपाचे तडी वयल्यान कोलम्बस भायर सरिल्लो हिन्दुस्तानाक वतलो अशें येवजून, आनी पाविल्लो अमेरिकेंत. हांव मुम्बयंत विमानार बशिल्लों अमेरिका पळोवन येतलों अशें येवजून. पावलों म्हज्या भांगराच्या गोंयांत.

असलो कसलोय अणभव आयलो म्हणटकूच म्हजी तकली खंयचे खंय वता. अमेरिकेंत म्हाका पुर्तुगेजांची चडांत चड भिरभिरी मारपाक लागली. म्हळें, आमच्या वांट्याक हे अर्दुकुटे लोक राज्यकर्ते म्हूण कित्याक आयले काय, देवा! तांणी गोंय घेतलें. सगळें घेतलें ना. थोडेंच घेतलें. लोकांक किरिस्तांव केले. सगळ्यांक केले नात, थोड्यांकूच केले. आनी घुसपागोंदळाचे हजार प्रस्न आमकां दायजान दिवन गेले. पयलीं तांणी तिसवाडी, बार्देस, साश्ट आनी मुरगांव येदोच वाटार घेतिल्लो. गोंयच्या इकरा म्हालांतले फकत चार म्हाल हे. उरिल्ले सात दोनशीं वर्सां उपरांत आयच्या गोंयांत आयल्यात. त्याच वेळार सिंधुदुर्ग आनी कारवार हेवूय वाटार घेवन उडयल्ले जाल्यार आमच्या हक्काचें, खरें, निजाचें गोंय एकठांय उरतलें आशिल्लें. आंबोलेचो घाटूय ह्या गोंयांत येतलो आशिल्लो आनी जोगचो घसघसोय आसतलो आशिल्लो. दळडिऱ्यांनी अर्दकुटींच कामां केलीं. तांणी गोंयची भूंय खंडीत केली ती केली, गोंयकारपणूय खंडीत केलें. जें गोंय आपणा हातांत घेतलें तें तरी एक जावंक दिलें व्हय? ना. ताचींय दोन गोंयां केलीं. (मडगांवकारांक समजता ते भाशेंत सांगचें जाल्यार) एक बड्डेकारांलें, दुसरें

कोंबकारांलें. दोगांकूय वेगळावपी मदीं एकूच रस्तो - आबाद फारीय रोड. हरशीं, दोगांयची भूंय एक, फोफसांत दोगूय घेतात ती हवा एक, रगत एक, म्हालगडे एक, पुर्तुगेजां आदलो हजारांनी वर्सांचो इतिहास दोगांयचो एक. पुणून भेस वेगळे. जेवण-खाण वेगळें, चाली-रिती वेगळ्यो, धर्मसंस्कार वेगळे, एकामेकां कडेन पळोवपाच्यो नदरोय वेगळ्यो. येद्याश्या ह्या गोंयांत दोन स्वायत्त - autonomous गोंयां एकामेकां शेजरा, मदीं उदासीनतायेचो एक म्हालसागर घालून, एकामेकां पसून पयस जियेत आयल्यांत. हो म्हालसागर आटोवचो म्हूण कोंकणी भक्त अगस्ती भाशेन मुखार सरिल्ले. मराठीवादी आड आयले. 'ना, दोनूय गोंयां वेगळींच रावंक जाय. ना जाल्यार पुण्यांतलो शनिवारवाडो कोंसळटलो आमचो' हो तांकां भंय.

आयज आमची गत्त विचित्र जाल्या. गोंयांत गोंय खंयशें येता, कोणाक सारकें खबर ना. काणकोणचो कोणूय मडगांवां वता तेन्ना 'मात्सो गोंयां वचून येतां आं' अशें आयजूय घरकात्रीक सांगून वता. पेडणेचो कोणूय म्हापश्यां वचून येता तेन्ना 'गोंयां गेल्लों' म्हूण सांगता. हाचो अर्थ काणकोण गोंयांत ना, तशें पेडणेंय ना, असो धरपाचो? ना. काणकोणकारांचें गोंय काणकोणांतूच आसा आनी पेडणेकारांलें गोंय पेडण्यांतूच आसा. दोगांयच्यो अस्मितायो वेगळ्यो. मंगळुरी किरिस्तांव इंकिझिसांवाच्या छळांक भियेवन पळून गेल्ले मुदलांतले गोंयकार. तीन साडे तीन शतमानां जालीं, ते मंगळूरांत रावनूय आपणाक गोंयकार मानीत आयल्यात. बाटाबाटिच्या काळार जे हिन्दू पळून दक्षिण कॅनरांत पातळ्ळे तेवूय कुळदेवांक आनी मठांक दसून राविल्ल्यान गोंयकारूच उरल्यात. तें कित्याक, कोची पाविल्ल्या गोंयकारांच्या (लोकगितांत) भुरग्यांचो मामा आयजूय गोंयांतूच आसता.

गोंयकारां सारको कुडके कुडके जावन हजार कडेन शिंपडिल्लो विघटीत - disintegrated - समाज दुसरो खंयच पळोवंक मेळपाचो ना.

पुर्तुगेजांनी सगळ्यांत चड लुकसान केलें तें किरिस्तांव जाल्ल्या गोंयकारांचें. तांकां तांच्याच गोंयांत तांणी 'परकी' करून उडयले. कांय जाणांक तांणी संस्कृतायेची भास म्हूण पुर्तुगेज भास दिली. तांकां पुर्तुगेज करपाचो यत्न केलो. पुणून सगळ्या किरिस्तांवांक ते पुर्तुगेज करूंक पावले नात. परिणामीं, जे पुर्तुगेज जावंक पावले नात त्या किरिस्तांवांनी पोटाची भास म्हूण इंग्रजी घेतली आनी जॉब सोदीत सोदीत ते संवसारभर पातळ्ळे. तांणी आपणालें अशें एक वेगळें 'कल्चर' उबें केलें - emigrant culture. एका कुडक्याची वाड 'पुर्तुगेज कल्चरां'त जाली तर दुसऱ्या कुडक्याची ह्या 'एमिग्रंट कल्चरां'त जाली. हांचींय दोन वेगळीं जगां जालीं. एकामेकां कडेन संबंद नाशिल्लीं आनी संस्कृतायेचे नदरेन गोंया पसून पयस गेल्लीं. म्हत्वाची गजाल म्हळ्यार, गोंया विशिंची ओड दोगांयची

खोल. पुर्तुगेज कल्चरांत जांची वाड जाली तांकां पुर्तुगेज भाशेन पुर्तुगाला कडेन जोडल्यात. पुणून भावनीक नदरेन ती तांकां गोंया पसून इल्लीय तोडूंक पावूंक ना. तांकां भारताची ओड नासत (हिन्दूंक तरी ती कितली आसा, प्रस्नूच आसा) पुणून गोंयची तांकां ओड ना अशें मानप समा जावचें ना. आमचे इतलीच तांकांय ओड आसा. 'एमिग्रंट कल्चरां'त जांची वाड जाल्या तांचीय गोंया विशिंची ओड तेदीच. पोटा खातीर ते संवसाराचे फाटीर खंयूय वचून रावूं, आयुश्यांतले निमाणे दीस गोंयांत सारूंक मेळचे म्हूण आनी आपणाली कूड गोंयचे मातयेंत एकरूप जावची म्हूण ते सदांच आंवडेल्यात. गोंयांतले खंयचेय सिमितेरींतलीं थडीं नियाळून पळोवचीं. कोण मोंबासांत आयुश्य सारून, कोण केनियांत, कोण तांझानियांत, कोण कराचीक, कोण कुवेटाक तर कोण आनी खंय रावन आपणाल्या गांवांत आयला आनी गांवचे मातयेंत एकरूप जाला.

असल्या ह्या समाजाक 'एक भास, एक लिपी, एक साहित्य' ह्या सुतान गुंथून ताचो एक संघटीत 'कोंकणी समाज' घडोवन हाडचो म्हूण कोंकणी चळवळ आमी सुरू केल्ली.

कोंकणी चळवळिची ही फाटभूंय अधिवेशनाक जमिल्ल्या गोंयकारां मजगतच्या खूबश्या जाणांक खबर नाशिल्ली. कोंकणीचो वावर भावनीक पांवड्या वयल्यान - emotional level वयल्यान चलता असो तांचो समज आशिल्लो. ताका ते फकत साहित्यीक वावर धरताले. विघटीत कोंकणी समाजाक संघटीत करपाचो हो एक बुन्यादी - constructive वावर - तो दुसरे खंयचेच भाशेक जमपाचो ना. मराठीक, कन्नडाक आनी, 'आंतरराष्ट्रीय' इंग्रजीकूय जमपाचो ना हें पयलेच फावट तांच्या लक्षांत आयलां.

कोंकणींत कितें आसा हेंवूय खूब जाण नकळ आशिल्ले. हांवें म्हळें, हांव ह्या मळार देंवलां त्या वेळार थोडें भोव साहित्य रोमी लिपींत आशिल्लें. ज्योकीं आंतोन फेर्नान्दिसाचें **आमचो सोडवणदार** आनी असलींच एक दोन पुस्तकां सोडीत जाल्यार रोमी लिपींतलें बाकिचें चडशें साहित्य नवसाक्षरां खातीर बरयल्लें आशिल्लें. कन्नड लिपींत नांव घेवपा सारकें **आब्रांवाचें यज्ञदान** सारकें - थोडें भोव मेळटालें. पुणून तें कन्नड लिपिच्या कोटांत बंदिस्त उरिल्लें. नागरी लिपींत शणै गोंयबाबाचीं आठ-धा पुस्तकां, प्रो. राणू नायकालीं तीन चार नाटकुलीं, बयाभाव आनी शां.वि. कामत हांचे एक एक मेळून दोन कवितां झेले आनी **वोंवळां** नांवाचें एक कथेचें पुस्तक सोडून कितेंच नाशिल्लें. आयज? कविता, कथा, नवलकथा, नाटकां, समिक्षा, निबंध - वेगळ्या वेगळ्या साहित्य प्रकारांतलीं सुमार हजार बाराशीं पुस्तकां आसात. सगळीं फाटल्या

चार दसकांत उजवाडा आयिल्लीं. गीतेचे सात अणकार आसात, धम्मपदाचो एक आसा, महाभारताचें एक अनुसर्जन दोन भागांनी मेळटा. पुस्तकां उजवाडावपी सात आठ संस्था आसात. एक दिसाळें चलता, एक म्हयनाळें, एक सप्तकी नेमाळें, पांच स वर्सुकी नेमाळींय चलतात. कोश आसात, विश्वकोश आसा, एक 'शब्दसागर' तयार जावंक लागला. एक खंड आयला. भुरग्यांच्या मनाशास्त्राचेर, भासविज्ञानाचेर, काव्यशास्त्राचेर,. नक्षत्रविद्येचेर, लोकवेदाचेर पुस्तकां आसात. सोळाव्या सतराव्या शतमानांतली बरपावळ जी पुर्तुगालांत ब्राग्राच्या संग्रहालयांत बंदिस्त उरिल्ली तिवूय आतां देवनागरींत येवन लोकांच्या हातांत पडपाक लागल्या.

जिका काल पयर मेरेन कोण भासूच मानूंक तयार नाशिल्ले ती कोंकणी 'भारतांतली एक म्हत्वाची साहित्यीक भास' म्हूण साहित्य अकादेमीची मान्यताय जोडूंक पावल्या. भारतीय घटनेचे आठवे वळेरेंत हिन्दी, बंगाली, मराठी, तमीळ, तेलुगू सारकेल्या व्हड भासांचे पंगतीक वचून बसल्या. गोंयचे युनिव्हर्सिटींत एम्. ए. मेरेनचें शिक्षण दिवपाक लागल्या. रेडियोचें एक केन्द्र मुखेलपणान कोंकणी भाशेंतल्यान चलता. कोंकणी टेलिविजनारूय पावल्या. तिणें आपणालें अशें एक राज्यूय जोडलां आनी ह्या राज्याची ती राजभासूय जाल्या.

जीं हजार बाराशीं पुस्तकां कोंकणींत आयज मेळटात तांतलीं सातशीं आठशीं हजार पुस्तकां 'किरकोळ', 'रद्दी' म्हणून भायर उडयलीं जाल्यारूय उरिल्लीं शें दोनशीं पुस्तकां खंयचेय भाशेक अभिमान दिसचो हे तरेचीं तुमकां मेळटलीं.

ल्हाना-समानांतली सिद्धी न्हय ही.

हांवें हेंवूय सांगून उडयलें, जालां ताचे परस जायतें जावपाचें अजून उरलां हाची आनीक कोणाय परस चड जाणवीक आमकां - ह्या मळार वावुरतल्यांक - आसा. अजून आमी आमचे मजगतच्यो रुढी-दास्यतेच्यो बेडयो तोडूंक पावूंक नात. 'एक भास, एक लिपी, एक साहित्य' ह्या सुतान पुराय समाज अजून गुंथूंक पावूंक नात. लिपिंच्यो वणटी मोडूंक पावूंक नात. पुणून इतलें आत्मविस्वासान सांगूं येता, येता त्या वीस-पंचवीस वर्सां भितर आमी आयज आसात ताचे परस कितलेशे मुखार पाविल्ले तुमकां दिश्टी पडटले. शणै गोंयबाबां उपरांतच्यो पांच पिळग्यो तांणी पेटयल्ले दिवलेंत तेल घालपाचो आनी वात फुडें सारपाचो वावर करीत रावल्यो. नव्यो पिळग्यो मुखार येत आसात, येत रावतल्यो.

तांकां हेंवूय सगळें नवें.

हांवें म्हळें, भाशे कडेन फकत संपर्काचें एक साधन - a means of communication म्हूण पळोवप समा न्हय. भास खरेपणानशीं एक माध्यम, सांस्कृतीक

उक्तावणेचें - a medium of cultural expression. भास मनशाक identity दिता. ताचे ताकाच आनी संवसाराक ताची वळख करून दिता. हांव पंजाबी, बंगाली, मराठी असले कसलेच वेगळेचार मानिना, हांव भारतीय म्हूण हांवें कितल्याय मोट्यान आड्डून सांगूं, 'तूं कोंकणी' म्हूण म्हजी भास म्हाका सांगता आनी 'हो कोंकणी' म्हूण संवसाराकूय ती म्हजी वळख करून दिता. भाशेची identity धर्माचे identity परस अदीक खोल. फ्रांस, इटली आनी स्पेन धर्माचे नदरेन एक : रोमन कॅथलीक ख्रिस्ती. भाशेचे नदरेन एकामेकां पसून वेगळे. धर्माक लागून बंगाल प्रांताचो एक कुडको हिन्दुस्ताना पसून वेगळो सरलो आनी 'उदेंत पाकिस्तान' जालो. भाशेन ताका पाकिस्ताना पसून वेगळो काडलो आनी ताचो 'बांगला देश' केलो.

खंयचोय रोपो खंयूय व्हरून लायलो म्हूण तो मूळ धरूंक पावना. तशी खंयचीय भास खंयूय व्हरून रोयली म्हूण थंय ती मूळ धरूंक पावना. दर एके भाशेची एक भूंय आसता आनी ही भूंय मनशाच्या मेंदवांत आसता. हो मेंदू लाखांनी वर्सांच्या संस्कारांनी घडिल्लो आसता. खंयचीय भास लोकीक नदरेन कितलीय फाटीं पडिल्ली आसूं, ती उलयतल्याची वाड तेच भाशेंत सारकी जावंक पावता. गोंयकारांचो मेंदू कोंकणी. ह्या मेंदवांत इंग्रजी भास मुळां धरूंक केन्नाच पावपाची ना. ती मरूं नाका, पुणून वाडूंक पावपाचीं ना. ती transplanted भास. म्हूण कशी बशी 'जीव धरून' उरतली. फुलपाची फळपाची ना. तिका पाळां आसचीं नात.

पाळां मुळां कातरून झाडांक ल्हान आकार दिवपाची एक कला जपान्यांनी विकसावन दाखयल्या. येदो ऊंच माड एके कुंडेंत दवरपा येदो ल्हान करून ते दाखयतात. तो माड-सो दिसता. पुणून माड नासता. तो नाल्ल दिना. दिवाणखानो सोबोवपाकूच तो उपकारा पडटा. हाका बोन्साय माड म्हणटात. इंग्रजी भास 'घेवन' वाडिल्लो गोंयकार दिसतलो गोंयकार कसो. पुणून तो गोंयकार आसचो ना. तो **बोन्साय गोंयकार** जातलो. सभा संमेलनां परिसंवाद सोबोवपाकूच उपकारा पडटलो. इंग्रजींत बरोवन नांव जोडिल्ले कांय भारतीय लेखक आसात; खूब रॉयल्टी मेळटा तांकां. पुणून हांचे मजगतच्या एकल्याकूय प्रेमचंद, शरतचंद्र, ताराशंकर बंडोपाध्याय, तघळी शिवशंकर पिल्ले, वायकम मुहम्मद बशीर, शिवराम कारंथ हांच्या पांयां कडेन बसपाची योग्यताय ना. सगळे उखलापे.सगळे बोन्साय लेखक. गिड्डे. आपणाक केदेय व्हड मानूं मागीर ते.

हालिंसाराक बोन्साय गोंयकार खूब पळोवंक मेळटात. तांकां पळोवन म्हजें आंग सदां शिरशिरून आयलां. 'काकूळट बावड्यांची' अशेंच दिसत रावलां. म्हाका गोंयकार गोंयकारूच उरिल्लो जाय. तो गोंयकार कसो दिसुंकूय जाय, आसुंकूय जाय -माडा येदो ऊंच, म्होंवाळ नाल्ल दिवपी.

इंग्रजीची आमकां कितलीय गरज आसूं, ती केदीय 'आंतरराष्ट्रीय भास' आसूं, ग्रजी घेवन खंयचोच गोंयकार व्हड जावंक पावपाचो ना. Out of place everywhere, t home nowhere जावन उरतलो. गिड्डो केन्ना धिप्पाड जायना. आंतरराष्ट्रीय जावपाक आपणाली भास सोडून दिवंक जाय अशें ना. तॉलस्तॉयान ती सोडूंक नाशिल्ली, रॉमां ॉलांन सोडूंक नाशिल्ली. रवीन्द्रनाथांनी सोडूंक नाशिल्ली. हे सगळे आपणाले भाशेक व्हड करुनूच 'आंतरराष्ट्रीय' जाल्ले. फकत 'स्टेचरा'नूच न्हय, विचारानूय जाल्ले. गोंयकार जेन्ना आपणा वांगडा आपणाले भाशेक व्हड करतलो तेन्नाच तो आंतरराष्ट्रीय आकाराचो जावंक पावतलो.

अमेरिकेच्यान हांव कितें घेवन आयलों? बदाम, पिस्ते, खिसमीस तर खरेच. ते भायर, काल पयर मेरेन जांचें नांव लेगीत आयकूंक नाशिल्लें असल्या कितल्याश्या गोंयकारांची इश्टागत जोडून आयलों. अमेरिकेंत लोक वतात डॉलर जोडपाक. हांव मोग जोडून आयलां - डॉलरां परस लाख वांट्यांनी मोलाचो.

आनी, वांगडाच, एक हुस्कोय घेवन आयलां -

ज्या संमेलनाक हांव गेल्लों, तें गोंयांत जल्मा आयिल्ल्या, गोंयांत शिक्षण घेतिल्ल्या, पुणून जांचे बुद्दिचो, कुशलतायेचो, क्षमतेचो स्वतंत्र गोंय कसलोच उपेग करूंक पावलें ना त्या गोंयकारांचें आशिल्लें. 'गोंयांत आमकां फुडार ना' हें पळोवन फुडाराचो सोद घेत घेत हांगा येवन थीर जाल्ले गोंयकार हे. गोंयचे यादीन तळमळपी 'होमसिक्' लोक. पुणून, हांकां आसा ती गोंयची ओड तांच्या भुरग्यांक आसतली व्हय? खरेपण ना. पावल्यांत कांय भुरगीं आवय-बापाय सांगातांत गोंयांत. आजो आजी, सोयरे धायरे, घर कुळदेव, पळेलां तांणी सगळें. पुणून ह्या सगळ्या गजालीं विशीं तांकां आपलेपण दिसलां जातलें? म्हाका दिसना.

संमेलनांत सांजच्या आदेसाक दोन दीस सांस्कृतीक कार्यावळी जाल्यो त्यो पळोवन म्हजे तकलेंत हो दुबाव रिगलो. कांय चलयांनी भरत नाट्यम् करून दाखयलें, भांगडा नाच केलो. कांय मराठी हिन्दी पदां म्हळीं, कांय प्रहसनांय करून दाखयलीं. एकल्याचो एक मोनोलॉग आयकलो - आपूण विमानांतल्यान देंवलों तेन्ना टॅक्सीवाले कशे आपणा फाटल्यान लागले - भायल्यान आयिल्ल्यांक ते कशे फटयतात, नाडटात बी सगळें नकलां सयत सांगून जातकूच लोक परसाकडेक पायखिळ्यांत कशे बसतात, पायखिळ्याचो 'बुराक' कसो आसता, कुले कशे धुयतात, हेंवूय नक्कल करून ताणें सांगलें. पळोवपी हांसले. म्हजें मन खंतीन भरून आयलें. म्हळें, हो भुरगो मनान लेगीत गोंया पसून पयस

गेला. हो गोंयकार उरूंक ना. तो गोंयाक 'फिल्दी, डर्टी' मानता जालो जाल्यार म्हा
अजाप जावचें ना.

संमेलन घडोवन हाडपी 'होमसिक्' गोंयकारांची नवी पिळगी ह्या भुरग्या भाशेन गोंया पसून मनान पयस गेल्या, खूब खूब पयस गेल्या. गोंया पसून तुटल्या. एक दो पिळग्यां मेरेन हाची खंत तांकां जावची ना. पुणून उपरांत, आमच्यांत किर्ते तरी उ आसा... आमी हांगासर उपरेच उरल्यात आनी गोंयचे निखालूस उरूंक नात, आम पाळां-मुळां नात हाची जाणवीक तांकां जाले बगर रावपाची ना. ते उपरांत, धरुंय आपणालीं roots सोदीत ते गोंयांत आयले जाल्यार, ते वेळचें गोंय आयचे परस हज वांट्यांनी चड 'फिल्दी', 'डर्टी' जाल्लें तांकां दिश्टी पडटलें आनी ह्या गोंया कडेन कशेच एकजीव जावंक पावपाचे नात.

मनांत आयलें, ह्या 'होमसिक्' गोंयकारांनी धर्म सांबाळून दवरला तशी कोंकणी दवरूंक जाय आशिल्ली. ती तांगेल्या अमेरिकन प्रभावाक कसलीच आडखळ हाड नाशिल्ली. पुणून हांणी कोंकणी घरांतूच उरूंक दिली ना. भुरग्यांचो कोंकणी कडल संबंदूच तोडून उडयलो. परिणामीं, गोंया कडलो संबंदूय तोडून उडयलो.

म्हाका भंय जालो, ज्यूं सारकी एक दीस हांची गत्त जावची ना मू? कोणाच्या त स्रापाक लागून ज्यूंक आपणालो मायदेस सोंडून संवसारभर शिंपडचें पडलें. पुणून ज जंय पावले त्या त्या समाजाच्यो भासो तांणी घेतल्यो. त्या त्या समाजाचे जावन रावले, त्या त्या समाजाक किर्ते-न्हय-किर्ते दितूय रावले. पुणून सदांच थंय उपरे उरले. खंयच्याच समाजांतल्या लोकांक ते आपले कशे दिसले नात. परिणामीं, वच थंय तांचो छळ जालो. आनी तांकां तो तो समाज सोडून दिवचो पडलो. ल्हाना समानांतले लोक न्हय हो. जीझस्, मार्क्स, फ्रॉयड, आयन्स्टायना सारके युगप्रवर्तक लोक तांण संवसाराकय दिल्यात. पुणून वचत थंय तांकां मारूच खावचो पडला.

दोन तीन पिळग्यां उपरांत अमेरिकेंतल्या गोंयकारांची गत्त अशी जावची ना मू, हे हुस्को घेवन परतलां.

आनी हो हुस्को म्हजी न्हीद आतां खळोवपाक लागला.

जाग, दिवाळी २०००

६.

# सत्ययुगांतल्यान केदे बेगीन कलियुगांत!

१९५१त वर्ध्याक पावलों. गांधी सारको बरो समजून घेतलों अशें थारावन गेल्लों. आनी काकासायबांच्या सांगातांत रावपाक लागिल्लों. थंय पावतकूच पळेलें, हांव एकलोच नवो कोण हांगा पावलां अशें न्हय, देशाच्या वेगळ्या वेगळ्या वाटारांतले म्हजेच पिरायेचे आनिकूय कांय जाण पावल्यात. तेवूय गांधी समजून घेवपाचें थारावनूच आयल्यात. कोण पवनाराक वचून विनोबां सरीं रावल्यात, कोण मगनवाडींत कुमारप्पांच्या हाता खाला काम करूंक लागल्यात, तर कोण किशोरलालभाई मश्रूवालांचो सांगात मेळचो म्हूण बजाजवाडी लागसार हांगा थंय रावपाक लागल्यात, कोण सेवाग्रामांत, कोण चरखा संघांत तर कोण तालीमी संघांत 'तालीम' घेवपाक लागल्यात. काकावाडींत म्हजे पयलीं नरेश मंत्री येवन राविल्ले. हांव पावतकूच कांय म्हयन्यां उपरांत मंगेश पाडगांवकरूय पावले.

काकासायबांच्या आश्रमाक काकावाडी म्हणटाले. जमनालाल बजाजांनी ताका हें नांव दिल्लें.

ते मुस्तींत गांधींचे चडशे सगळे मुखेल सांगाती वर्ध्यांतूच आसताले आनी वेगळ्यो वेगळ्यो संस्था चलयताले. सगळ्यो संस्था आश्रमां भाशेन चलताल्यो.

आर्विल्ले मुस्तींतलीं हीं गुरुकुलां आशिल्लीं. तीं थोड्या थोड्या अंतराचेर आसलीं तरूय एकाच व्हड वावराचीं वेगळीं वेगळीं आंगां कशीं वावुरतालीं. देशांतलो कोणूय व्हड मनीस खंयच्याय आश्रमांत पावूं, ताचे लागीं बसून भासाभास करपाची कार्यावळ तो आश्रम आंखतालो आनी आमी सगळे थंय एकठांय जाताले. हाका लागून आमी सगळे एकामेकांच्या नात्यांतले जाल्ले वरी एकामेकां कडेन चलपाक लागिल्ले.

एक दोन म्हयन्यां भितर एक दुबाव म्हाका पिडूंक लागलो. म्हळें, हे सगळे गांधीजींचे सांगाती गांधीकार्यांतले दिग्गज आसले, आपापले तरेन गांधीकार्यूच मुखार व्हरतात जाले तरूय हांच्यांत मेळ आसा-सो दिसना. एक एकल्याचें प्रस्थान वेगळें, दिकाय वेगळी. हांचीं मुखपत्रांय वेगळीं वेगळीं. सगळ्यांचें एक अशें मुखपत्र ना. हांकां एकामेकांक पडना काय कितें? म्हज्या ह्या दुबावाक तेंको दिवपी एक घडणुकूय त्याच अदमासाक घडली. एका 'चर्चासत्रा'क हांव गोपुरींत गेल्लों. विशय आशिल्लो –

'नागरी लिपींत गरजेचे बदल.' काकासायब, विनोबा आनी किशोरलालभाई चर्चेंत वां
घेवपाक आयिल्ले. काकासायबांनी सुरवात केली. तांणी म्हळें -

'नागरी लिपी आयज चलता तशी ती सदां काळ चलत आयल्या हो समज ख
न्हय. आतां मेरेन तिच्यांत कितलेशे बदल घडून आयल्यात. धरुंया, दोनशीं वर्सां आदल
एका पुस्तकाचें हात-बरप कोणेंय तुमच्या हातांत दवरलें, जाल्यार तुमकां तें सारकें वाचूं
येवपाचें ना... आमची इत्सा आसूं वा नासूं, हे मुखारूय तिच्यांत बदल घडत रावतले.

'एक गजाल लक्षांत दवरूंक जाय, नागरीची वर्णमाला विज्ञानीक. पुणून ति
खातीर जीं अक्षरां - ज्यो कुरवो म्हालगड्यांनी नित्शीत केल्यो त्यो छापखाने येवं
नाशिल्ले त्या काळांतल्यो. छापखाने येवचे पयलीं लोक भूर्जपत्रांचेर, ताडपत्रांचेर
आनीक खंयच्या पानांचेर वा सालिंचेर हातांनी बरयताले. हाका लागून नागरी लिपी
वेगळे वेगळे कडेन वेगळीं वेगळीं रुपां घेतलीं. बंगालांत एक रूप घेतलें, तर उडिसां
दुसरेंच. गुजरातांत एक घेतलें, तर कर्नाटकांत वेगळेंच. बंगाली, उडिया, गुजराती, कन्न
ह्यो सगळ्यो एकेच नागरीच्यो प्रादेशीक मोडी. तें कित्याक, सिलोन, वियतनाम
काम्बोडिया बी दक्षीण-उदेंते कडल्या देशांनी वचात, शाळेंत भुरगीं **क ख ग घ ङ,**
**छ ज झ ञ** च शिकतात तें पळोवंक मेळटलें. पुणून तांगेल्या **क ख ग घ** चीं रुपां वेगळ
वेगळीं आसतलीं. भारत आनी दक्षीण-उदेंत आशिया नागरीचोच वाटार. हो वाट
बदल्लेले नागरीचे सत्रे खाला आमच्यांनी हाडूं येता. ते खातीर आयज चलता ते नागरी
कांय बदल घडोवन हाडूंक जाय... पयले सुवातेर **इ ई उ ऊ ए ऐ अि अी अु अू अे**
हे भाशेन बरोवंक जाय. **कि की कु कू के कै** बरयतात ते भाशेन. कांय अक्षरां उण
जातलीं.'

एकलो मर्दींच उठलो. तो राष्ट्रभाषा प्रचार समितींत काम करतालो. ताणें म्हळें, '
अधीक **इ** मेळून **कि** जाता तशी **अ** अधीक **इ** मेळून **अि** जाता व्हय? **इ उ ए** स्वतं
स्वर. तुमचो हो बदल शास्त्राक धरून जायना.'

काकासायबांनी ताका विचारलें, '**ओ** स्वतंत्र स्वर न्हय? **ओ** स्वरा खातीर वेग
अक्षर तुमी कित्याक घडोवंक ना? गुजरातींत तर **ए** खातीर लेगीत वेगळें अक्षर ना.
चेर मात्रा दिवन **ए** करतात.'

तो ओगी पडलो.

काकासायबांनी मुखार म्हळें, 'स्वराखडींत बदल करून जातकूच जोडगिरां कडे
लक्ष दिवंक जाय. खंयचेंच अक्षर दुसऱ्या खंयच्याच अक्षराच्या माथ्यार चडून बसचें
वा दुसऱ्या खंयच्या अक्षराच्या पांयां कडेन बसचें ना, अशें थारावंक जाय. **र** चीं जोडगि
तर सगळ्यांक रडयतात. '**प्रदेशां**'तलो **र** एके तरेचो, '**दुसऱ्यां**'तलो दुसरेच तरेचो. '**सर्वां**'तल

एके तरेचो, तर 'राष्ट्रां'तलो **ष्ट** सकयलो आनीक एके तरेचो. 'कात्स्र्नेय' उतरांत **र** चो उच्चार खंय जाता आनी बरयतना तो खंयच्या अक्षरा वयर येता?...'

असले कितलेशे बदल तांणी सुचयले आनी म्हळें, 'बापूजी म्हणटाले, असले बदल 'टक टक से नहीं होंगे, मम मम से होंगे.' आयज थोडे बदल करचे, कांय वर्सांनी आनीक थोडे करचे, हे भाशेन, पंदरा वीस वर्सां भितर गरजेचे सगळे बदल घडोवन हाडचे पडटले. जाल्यारूच नागरी तिगतली. ना जाल्यार काळाचे व्हांवतेंत फाटीं पडटली.'

काकासायबां उपरांत विनोबा उठले. म्हणपाक लागले, 'काकासायबांनी सांगलां तितलेंय म्हाका मान्य आसा. पुणून आयज इल्लें, फाल्यां इल्लें, परां इल्लें हें धोरण म्हाका मान्य ना. सगळे बदल एकेच फावटींत करून उडोवंक जाय.' अशें म्हणून तांणी आपणें विकसावन काडिल्ली **लोकनागरी** आमचे मुखार दवरली. 'सेवक' नांवाचें तांगेलें एक नेमाळें 'लोकनागरीं'त येतालें. ताचे आंक आमकां पळोवंक दिले.

किशोरलालभाई म्हणपाक लागले, 'तुमी ज्या प्रस्नाचेर भासाभास करतात तो वाचूंक बरोवंक जाणा जाल्ल्या लोकांचो प्रस्न. वाचूंक बरोवंक जाणा जाल्ले लोक देशांत आसून आसून शंबरांत वीस आसतले. चडांत चड पंचवीस. उरिल्ल्या पंच्यास्तर अंयशीं लोकांक वाचूंक बरोवंक येना. तांचे कडेन पळोवन आमी हो प्रस्न सोडोवंक जाय. तांकां सोंपी पडत अशी एकूच लिपी आसा – रोमी. तिच्यो सव्वीस कुरवो. तांतल्यो Q, W, X, Y, Z ह्यो पांच कुरवो सोडून दिवच्यो. उरतल्यो एकवीस. तांचे वांगडा अनुस्वाराच्या तिंबा सारकी एक कुरू, हायफना सारकी आनीक एक कुरू घेवपाची. इतल्याच भांडवलार देशी भासांतले सगळे उच्चार ऊकतावन दाखोवंक येतले. पुराय संस्कृत बरपावळ हे लिपींत बरयल्ली मेळटा. जोडगिरां बिडगिरां आपशींच कडेक पडटात. रोमीक रोमी म्हणिल्ल्यान आमचे देशभक्तीक बादा येता जाल्यार हे लिपीक **विश्वनागरी** म्हणची. ती शिकयता आसतना A B C D रितीन शिकोवची न्हय. **क ख ग घ** रितीनच शिकोवची. K क **के** म्हणचे बदला **क** म्हणचें. G क **जी** म्हणचे बदला **ग** म्हणचें. तशें P क **प**, R क **र**, H क **ह**, M क **म**, N क **न** म्हणचें.'

तिगांनीय दीस भर चर्चेंत वांटो घेतलो. पुणून एका मत्तार मात तिगूय आयले नात. दनपारचीं चार जालीं तेन्ना राधाकिशन बजाज उठून उबे रावले. म्हणपाक लागले, 'पयरचे बंदखणींत ह्या तिगूय गुरुजनांक हांवें एका सारकीं तीन वर्सां ह्याच एका प्रस्नाचेर एकामेकां कडेन वाद घालीत बशिल्ले पळेल्यात. तीन वर्सांच्या वादा उपरांतूय हांचे मजगतीं संवाद घडून आयलो ना जाल्यार एका दिसाच्या चर्चासत्रांत तो कसो घडून येतलो? तेन्ना... आयचें चर्चासत्र आमी हांगाच सोंपोवया...'

चर्चासत्र सोंपलें.

म्हाका हो विशय नवो आशिल्लो. रुचीक लागिल्लो. पुणून हांचे मजगतीं सूरमेळ ना म्हणपाचो म्हजो जो समज जाल्लो तो घट करपा पेल्यान ताणें म्हज्या पदरांत कांय घालें ना. हांव खंती जावन काकावाडींत परतलों.

कांय दिसांनी आचार्य कृपालानी वर्ध्याक पावले. तांगेलो चडसो वेळ राजकर्णांत खर्चतालो. तरी आसतना, गांधींच्या रचणुकी वावरांत ते तितलेच लक्ष घालताले. गांधी विचाराच्या व्हड भाष्यकारांत तांचोय आसपाव जातालो. तांगेली थोमणे मारून, चिमटे काडून, सगळ्यांचीं फकांडां मारून उलोवपा बरोवपाची तरा म्हाका खूब आवडटाली. बजाजवाडींत तांकां मेळपाक गेलों. म्हळें, 'वेगळ्याच एका संवसारांत रावंक मेळटलें हे उमेदीन हांगा आयिल्लों. पुणून हांगा म्हाका म्हजे वळखिच्या संवसारांतलेच सगळे अवगूण दिश्टी पडले. गांधींच्या मुखेल सांगात्यां मजगतीं आकांताचे मतभेद आसात. हांकां आपणाल्या सांगात्यां विशीं आपलेपण दिसता काय कितें हाचोच म्हाका दुबाव येवपाक लागला. एकामेकांचे दुस्मान जाल्ले वरी ते एकामेकां कडेन चलतात...'

कृपालानी हांसले. म्हणपाक लागले, 'बापूजीन आमकां सांगात्यांचेर मोग करात म्हूण शिकोवंक नाशिल्लें. दुस्मानांचेर करात म्हळ्ळें. म्हूण, आतां एकाद्र्या सांगात्याचेर मोग करूंक जाय अशें आमकां दिसता तेन्ना ताका पयलीं आमी आमचो दुस्मान करतात. मागीर ताचेर मोग करतात...'

हांव हांसलों. ओगी पडलों. पुणून मनांतली खंत पयस जावंक पावली ना.

काकासायब एके कडेन केन्ना बसून रावले नात. वर्ध्याक येताले तेन्ना चार स दिसूच काकावाडींत रावताले. उपरांत खंय तरी दौऱ्यार वताले. तांच्या पांयांक जशीं कितें चाकां आशिल्लीं. तीं तांकां एके कडेन खंयच बसूंक दिनाशिल्लीं. तांगेलो हो सभाव पळोवन गांधीजी तांकां incorrigible nomad म्हणटाले. चार स दिसां खातीर जावं, ते येताले तेन्ना मात हांव तांचे सरीं बसून जितलें घेवं येता तितलें घेतालों.

तांकां आपणाल्या हातान बरोवपाची संवंय नाशिल्ली. हातान बरोवचें म्हळ्यार तांच्या जिवार येतालें. एक सादें पोस्टकार्ड बरोवचें जालें जाल्यारूय केन्ना काय जागो सोंपल्यार पुरो अशें जातालें. बरोवन घेवपी कोणूय मेळ्ळो जाल्यार दिसूयभर ते वाजे नासतना ताका कितें न्हय कितें घालताले. आनी काकावाडींत तर बरोवन घेवपी हांव एकलोच न्हय, म्हजे भायर आनीक दोग तीग आशिल्ले.

तांचे कुडीक व्यायाम मेळटालो तो सकाळ सांजवेळ ते भोंवंक वताले तेन्नाच. वरा वराची तांगेली ही पासय. तेन्नाय, कोणाक तरी ते आपणा वांगडा घेवन वताले. म्हाकाय केन्ना केन्ना वांगडा व्हरताले. तांकां विचारपा सारके म्हजे कडेन हजार प्रस्न आसताले. ते

हांव हे पासयेंत तांकां विचारतालों.

एक दीस ते सर्किट रोडार पासयेक गेले. वर्ध्यांतलो हो वांटकुळोच बरो सुंदर मार्ग. दोनूय वशिंनी ऊंच ऊंच रूख आशिल्लो. भोंवत भोंवत आमी बजाजवाडी कडेन पावले तेन्ना ते म्हणपाक लागले, 'हांगा मेरेन पावल्यातूच... चल, किशोरलालभाईंक मेळून येवंया.' किशोरलालभाईंचे कुडींत एका कोनशाक बसून दोगूय कितें उलयतात तें हांव आयकुपाक लागलों. केदया भौमानान दोगूय एकामेकां कडेन उलयताले! आनी कितल्या आपलेपणान! काकासायब जशे कितें फाटल्या कांय दिसांनी आपणे केल्ल्या वावराचो अहवाल तांकां दिताले आनी किशोरलालभाई तांचे मुखार आयिल्ल्या कांय गडखळ प्रस्नांचेर तांचें 'मार्गदर्शन' सोदताले. असले तरेचो देखाव पळोवंक मेळत अशें हांवें मानुंकूच नाशिल्लें. उलयतां उलयतां काकासायबांनी म्हळें, 'हांव आतां खूबश्या कामांतल्यान कडेक सरतलों म्हणटां... बरोवपा सारकें कितलेंशें उरलां तें आतां बरोवन पुरें करतलों म्हणटां...'

'कसली भास उलयतात हो तुमी, काकासाहेब!' किशोरलालभाईंनी म्हळें. 'आमचे मजगतचे तुमीच एकले देशभर भोंवतात... म्हाका आनी विनोबांक जमपाचें ना हें. म्हूण आमी हुस्क्या मेकळे आसात. तुमच्या ह्या वावरांत मात पसून खंड पडूंक फावना. तुमी कितल्याश्या नव्या नव्या भुरग्यांक प्रेरणा दिवन गांधी कार्यांत हाडल्यात. होवूय तुमचो वावर असोच चलत रावंक जाय... बरोवप-बिरोवप जातलें, म्हाका ताचो हुस्को ना... आतां मेरेनचें तुमचें बरप अशेंच बरोवन जालां.'

बजाजवाडींतल्यान भायर येतकूच हांवें काकासायबांक म्हळें, 'घटमूट कुडींतूच घटमूट मेंदू आसता म्हणपाची धारणाच किशोरलालभाईंनी फट करून दाखयल्या. तांगेलें **समूळी क्रान्ति** पुस्तक हांवें वाचलें... एका सारकीं तीस वर्सां दम्या कडेन झूज दीत आयिल्ल्या कोणें तें बरयलां म्हणपाचें खरेंच दिसना...'

'तांचें **जीवन शोधन**य वाचून काड.' काकासायबांनी म्हळें. 'भारतीय तत्त्वविचाराक तांगेलें हें मुळावें योगदान म्हणूंक जाय. शंकराचार्य, मध्वाचार्य, वल्लभाचार्य, रामानुजाचार्य बी आचार्यां उपरांत भारतीय तत्त्वविचारांत नवी अशी भर कोणें घालुंकूच नाशिल्ली... किशोरलालभाईंनी घाल्या... ह्या पुस्तकान खूब जाणांक धसके दिवन चिंतूंक लायल्यात...'

थोडो वेळ थांबून म्हणपाक लागले, 'नाल्ल हरवो आसता तेन्ना ताची कातली कट्टेक दशिल्ली उरता. कट्टेर धपको मारल्यार तो कातलेकूय लागता... नाल्ल सुकत घाल. कातली कट्टे पसून वेगळी जातली. मागीर कट्टेर केदोय धपको घाल, गुडगुड्याक कांय जावपाचें ना. किशोरलालभाईंनी आपणालो मेंदू कुडी पसून वेगळो काडला. कूड

कितलीय दुबळी पडूं, तिका कितेंय जावं, तांच्या मेंदवाचेर ताचो परिणाम जायना... किशोरलालभाईंनी हे दुबळे रोगी जर्जर कुडींत रावन संवसाराक कितले तेजिश्ट आनी मुळावे विचार दिल्यात! आयज लेगीत ते केदया अधिकारान देशाक मार्गदर्शन करीत रावल्यात...!'

मनांत म्हळें, आरेच्या! हांकां पडना अशें हांवें कितें पळोवन म्हळें? हांचे संबंद इतले दाट आनी घट की मतभेदांनी ते तुटपाचे नात... जे मतभेद दिसतात ते वयले वयले... तातूंत तांचें खेरीतपण दिश्टी पडटा आनी ह्या खेरीतपणांतूच दोगांयचो गौरव जाता!

किशोरलालभाईंचें **कागडानी नजरे** – 'कावळ्याचे नदरेंतल्यान' नांवाचें एक पुस्तक ह्याच अदमासाक वाचलें. तातूंत काकासायबांचेर तांचो एक लेख आशिल्लो. 'असलो मनीस येवरोपाक जल्माक आयिल्लो जाल्यार थंयचीं सगळीं विश्वविद्यालयां तांकां 'डॉक्टरेटी' दिवन खासा आपलो भौमान करून घेतलीं आशिल्लीं' अशें तातूंत आशिल्लें. हांचे मजगतीं मेळ ना म्हणपाची ताकतीक हांवें करूंक जायनाशिल्ली, हांवें मनांत म्हळें.

हांवें म्हजो हो नवो सोद कुन्दर दिवाणांक सांगलो. विनोबांच्या विद्यार्थ्यां मदल्या कुंदरजीं कडेन म्हजी तार बरी जुळिल्ली. ते म्हणपाक लागले, 'म्हाका तर केन्नाच काकासायब, विनोबा, किशोरलालभाईं मजगतीं भेद जाणवलो ना. तांचे मजगतीं जे मतभेद आसात ते एकामेकांक पूरक, एकामेकांक पोषकूच म्हणूंक जाय... सुर्याचीं किरणां हीं. तीं एकेच दिकेन कशीं वतलीं? तीं धाय दिकांनी वतलीं आनी संवसारांतलो काळोख ना करतलीं. तिगांच्याय हातांत एक एक दिसाळें आसूंक जाय आशिल्लें... विचारांच्या आनी आचारांच्या मळार देश कितलोसो गिरेस्त जातलो आशिल्लो.'

कांय म्हयन्यां उपरांत विनोबांची भूदान चळवळ सुरू जाली. विनोबा म्हळ्यार वेदां पसून गांधी मेरेनचो पुराय भारतीय तत्त्व विचार कोळून पियेल्ले एक विद्वान... देशांतलें सगळें संत-साहित्य जिबेर आशिल्ले एकं संत... ते खंयचीय चळवळ हातांत घेतीत, तिवूय भूदाना सारकी आगळी वेगळी, अशें तांगेल्या सांगात्यां मजगतच्या कोणाक दिसुंकूच नाशिल्लें. हांवें एक दीस काकासायबांक म्हळें,

'आयज विनोबां कडेन पळेतां तेन्ना काल पयर मेरेन पळेल्ले विनोबा कशे ते दिसच नात. ताच्यांत गांधींनी प्रवेश केला काय कितें असो भास जाता. हालिंसाराक ते उलयतात लेगीत बद्द गांधीं भाशेन... म्हाका अजाप जाता तें एकेच गजालिचें, ते इतलीं वर्सां

कडेक कशे उरले ? फाटीं कशे पडले ?'

'विनोबा फाटीं पडल्यात ?' म्हज्या तोंडा कडेन अजापान पळोवन काकासायबांनी म्हळें. 'च्यॅ, तांणी बापूजींक पयलींच सांगिल्लें, हांव पंचवीस वर्सां फकत शिकतलों. पंचवीस वर्सां फकत रचणुकी कार्यावळ घेवन बसतलों... उपरांत रासवळ मळार देंवतलों... तांगेलें पुराय जिवीत 'प्री-प्लॅन्ड्' (पूर्वनियोजित)... ते प्रमाण ते आतां रासवळ मळार देंवल्यात... आयज बापूजी नात हो योगायोग म्हणूंक जाय. आशिल्ले जाल्यारूय ते असलें कितेंय तरी सुरू करतलेच आशिल्ले... तांगेली ही चळवळ पळोवन म्हाका मात लेगीत अजाप जायना.'

हांवें म्हळें, 'तुमी सांगलें म्हूण म्हाका तांगेल्या पूर्वनियोजित जिविता संबंदान कळ्ळें. ना जाल्यार कळचेंच नाशिल्लें. खूब जाणांक हें खबर आसचें ना... तांच्या जिवितार्चीं आनिकूय कांय आंगां आसतलीं, जीं जगाक खबर नात... तुमकां दिसना, तांचे संबंदान तुमी कितेंय बरोवंक जाय म्हूण ?...'

'बरोवचें जालें जाल्यार जायतें बरोवंक येतलें. आमी कितल्याश्या वर्सां सावन एकामेकांक लागिंच्यान वळखतात. विनोबां कडल्यान देशाची आनी जगाची खूब व्हडली सेवा जावपाची आसा...' तांणी म्हळें, 'पुणून आमी दोगूय गुरुभाव. एकामेकांची तुस्त तोखणाय करप आमकां सोबचें ना हे भिडेन अजून मेरेन हांवें तांचे संबंदान व्हडलेंशें कितेंच बरोवंक ना...'

काकासायब उलयताले तेन्ना तांच्या दोळ्यांतल्यान विनोबांचे तत्त्वनिष्ठेचो आनी संकल्पशक्तिचो आदर, तांचे विशिंचो मोग, आपलेपण असल्यो धारो व्हांविल्ले वरी म्हाका दिसल्यो.

तरूय हांवें म्हळें, 'तुमी भूदान चळवळीक थोडो वेळ कित्याक दिनात ?'

'म्हजे कडेन म्हजीं कामां आसात, बापूजीनूच दिल्लीं. तातुंतलो थोडो वेळ हांवें भूदानाक दिलो जाल्यार तो बापूजींच्या आत्म्याक मानवचो ना... तरूय हांव म्हजे पद्धतीन तांच्या वावराक हातभार लायतां. देश विदेशांत जंय जंय पावतां थंय थंय हांव लोकांचें लक्ष भूदान चळवळी कडेन ओडटां... हाचेकूय चड कितेंय करप म्हाका जमपाचें ना. खासा बापूजीन असलें कितेंय सुरू केल्लें जाल्यार म्हाका ते तातूंत ओडचे नाशिल्ले. नोआखालीचे यात्रेंत हांव तांचे सरीं रावन तांकां आधार दितलों म्हूण गेल्लों. बापूजीन म्हळें, तुजे कडेन हांवें भाषा-समन्वयाचें आनी धर्म-समन्वयाचें काम दिलां. तें सोडून तुंवें हांगा येवचें अशें म्हाका दिसना... आनी तांणी म्हाका परतो धाडून दिल्लो.'

वर्स सोंपचे पयलींच हांव विनोबा आनी काकासायब दोगांय कडेन अभेदाचे नदरेन पळोवपाक लागलों.

कांय दिसांनी किशोरलालभाई संवसार सोडून गेले.

विचारांच्या मळारूय विनोबा आनी काकासायब एकेच दिकेन चलत आयल्यात म्हणपाचें म्हाका एक दीस दिसून आयलें. अध्यात्म आनी विज्ञाना मजगतीं समन्वय घडोवन हाडूंक जाय म्हणपाचो विचार विनोबांनी मांडला ताच्या कितल्याश्या वर्सां पयलीं काकासायबांनी तो मांडिल्लो. सर्वधर्मसमभावांतल्यान सर्वधर्म**ममभावा** कडेन वचूंक जाय होवूय विचार विनोबां पयलीं काकासायबांनी मांडला. भाशेच्या प्रस्नाचेर तर दोगांयचे विचार सारके. इतलेंच न्हय, तर विचार समजावन सांगपाची दोगांयची तराय सारकी. 'सर्वोदया'च्या एका आंकांत विनोबांचें एक उलोवप वाचूंक मेळ्ळें. प्रकृतींतल्यान मनीस संस्कृती कडेन कसो वता, संस्कृतायेची उवेखणी केली जाल्यार प्रकृतिची विकृती कशी जाता हें ह्या उलोवपांत तांणी समजावन सांगिल्लें. वाचिनाफुडें हांवें म्हळें, 'आरेच्या! हो विचार काकासायबांचो... युक्तिवाद लेगीत जिस्त तांचेच सारके.' काकासायब बंदखणींत आसतना लेख डिक्टेट करताले, ते कांय पटयांनी आशिल्ले. ह्या पटयांक ते 'जेल डायरी' म्हणटाले. हांवें तांची ही डायरी काडली. प्रकृती, संस्कृती, विकृतिचो विचार तांणी धा वर्सां आदीं मांडिल्लो मेळ्ळो. हांवें तो वांटो **मंगल-प्रभातां**त छापूंक दिलो. हांवें ही गजाल काकासायबांक सांगली आनी विचारलें, 'तुमचे दोगांयचे विचार सारके कशे ?'

काकासायबांनी म्हळें, 'म्हाकाय केन्ना केन्ना हे गजालिचें अजाप जालां... एक तर आमी कितलिंशीं वर्सां एकठांय रावन वेगळ्या वेगळ्या प्रस्नांचेर खूब चर्चा केल्या आनी दुसरें म्हळ्यार, आमी दोगूय आयुष्यभर आमच्या विद्‌यार्थ्यांक शिकयत आयल्यात. हाका लागून प्रस्न समजावन सांगपाची आमची तराय सारकीच विकसावन आयल्या.' थोडो वेळ थांबून म्हणपाक लागले, 'पुणून आमचे मजगतीं एक व्हडलो फरक आसा. विनोबा खंयचोय विचार घेवन बसले जाल्यार ताचे फाटल्यान लागतात. हांव एकाद-दुकलो लेख बरोवन वा भाशण दिवन ओगी बसतां... एक जिवीत व्यवस्थीत. दुसरें मात्शें सदळ...'

विनोबांकूय एका कानान आयकूंक येना हें पळोवन हांवें एक खेपे विनोबांक म्हळें, 'तुमच्या दोगांयच्या विचारांत सारकेपण तर हांव सदांच पळेत आयलां, तुमच्या कुडींतूय साम्य आसा हें आतां पळेतां... काकासायबांकूय एका कानान आयकूंक येना.'

'आमी दोगूय समानशील समानधर्मा सांगाती.' विनोबांनी जाप दिली. 'ते भायर, आमचीं दोगांयचीं मनां आनी काळजां एक. पुणून आमचे मजगतीं एक मोट्टो फरक आसा. कांय विचार तांकां पयलीं येवजतात. म्हाका मागीर येवजतात. तांणी एक खेपे खादी फाटलो विचार एक दीस संवसाराक मानून घेवचो पडटलो अशें म्हळ्ळें. तेन्ना

म्हाका ते क्रान्तदर्शी रुशी सारके दिशिल्ले. हालींच तांणी 'अ-सरकारी कामूच असर-कारी जावं येता' म्हळ्ळें, तेंवूय म्हाका एक रुशीवचनूच कशें दिसलां...'

एक खेपे विनोबांच्या जल्मदिसा निमित्त्यान काकासायबांनी म्हळ्ळें, 'विनोबां परस पिरायेन हांव इकरा वर्सांनी जाणटों... म्हळ्यार, सिनियर... पुणून आयज गांधी कार्य मुखार व्हरपाच्या वावरांत विनोबा आमचे मजगतच्या कोणाय परस सिनियर-मोस्ट जाल्यात.'

काकासायबांच्या अंयशाव्या जल्मदिसा विनोबांनी म्हळ्ळें, 'काकासायब कितें, हाचे परस ते कितें न्हय हेंच सांगप कठीण. ते कितेंय आसूंत, उत्तमांतले उत्तम आसतले, उत्तमांतले उत्तम साहित्यकार, उत्तमांतले उत्तम शिक्षक आनी शिक्षणशास्त्री, उत्तमांतले उत्तम समाजशास्त्री...'

कितलें आपलेपण दिसतालें दोगांकूय एकामेकां विशीं!

दोगांय मजगतीं मतभेद सोदून काडपी आमची नदरूच मोटवी म्हणूंक जाय.

आयज किशोरलालभाई नात. काकासायब नात. विनोबाय नात. पुणून तांकां पळेल्ले, तांच्या पांयां कडेन बसून शिकिल्ले, तांच्या हाता खाला काम करून आयिल्ले आमी कांय जाण अजून आसात. आमचे मजगतचे संबंद पळेतां तेन्ना मन खंतीन भरून येता आनी तोंडांतल्यान उतरां फुट्टात –

'सत्ययुग पळेल्ले आमी, केदे बेगीन कलियुगांत पावले!'

जाग, डिसेंबर २०००

# ७.

# रब जागत है, तू सोवत है

ओश्पितालांत गेल्लों एकल्याचे खबरेक. थंयसून परततालों. इतल्यांत, इश्कादेरूच एकली वळखिची बायलमनीस मेळ्ळी.

'खंय गे तूं हांगा?' हांवें तिका विचारलें.

'अजयाक हांगा हाडला. ताका ऍक्सिडेंट जाला.' तिणें जाप दिली.

'खंय आसा तो?'

'यो, दाखयतां' अशें म्हणून ती म्हाका अजया सरीं घेवन गेली.

अजय धा बारा वर्सांचे पिरायेचो. हुशार, तितलोच मस्तो. सायकलिचें ताका पिशें. ताका सायकल सवका केन्ना चलोवंक आयली ना. बापायक दोन चार खेपे कांय जाणांनी म्हळ्ळें, 'हाका सांबाळूंक जाय आं' म्हूण. पुणून बापायक पुताची सुमारा भायर अपुर्बाय. ताणें ताका गियरांची एक नवी सायकल घेवन दिली. चिनी. पयर एका आंब्यारुखाक आदळ्ळो आनी पडलो. पांयांक फ्रॅक्चर जालां. पांय प्लास्टरांत घाला. व्हडलोसो हुसको करपा सारको ऍक्सिडेंट न्हय. आवयन दीसरात ओश्पितालांत रावपा सारकें फ्रॅक्चरूय न्हय. पुणून आवय ती. खंयच लक्ष लागना तिचें, म्हूण येता आनी ताची सेवा करतना आपणाक साप विसरता. नर्स म्हणपाक लागली, 'हिचे मायेनूच तो बरो जातलो... जीव झरयता ही दीसरात आपलो ताचे खातीर...'

'कितें करतलीं, पूत न्हय तर तो म्हजो?' आवयन म्हळें.

थोडो वेळ बसून परतलों.

वाटेर तकली खंय उठून वचची? बद्द वर्ध्याच्या आश्रमांत. पन्नास वर्सां आदल्या काळांत. काकासायबां सरीं बसून ते घालतात तें बरोवन घेतालों. अर्द पाऊण वर जाल्लें. बरप पुरें जावपाक आनीक अर्द पाऊण वर जाय आशिल्लें. इतल्यांत एकलो तरणाटो तांकां मेळपाक आयलो. येवरोपांतलो. काकासायबांक मेळपाक कोणाक 'अपॉइन्टमॅन्ट' बी घेवचो पडनाशिल्लो. अशेच उठून लोक येताले आनी काकासायब तांकां जाय तितलो वेळ दिताले. हो तरणाटो येवरोपांतले अण्वस्त्रां आडचे चळवळींत पडिल्लो. बंदखण भोगून आयिल्लो. एके साळेंत शिकयतालो. सरकाराक वेळार कर भरतालो. पुणून, सरकार आपणाल्या बजेटांतले जितले प्रतिशत संरक्षणा खातीर खर्च करता तितले प्रतिशत

करांतले उणे करून दितालो. 'हांव म्हजे जोडींतली एक पै लेगीत संरक्षणा खातीर दिवचों ना' असो सोपूत घेतिल्ल्या Conscientious Objectors मजगतचो तो एक आशिल्लो. ह्याय 'गुन्यांवा' खातीर ताणें आनीक एक फावट कांय म्हयन्यांची बंदखण भोगिल्ली. तीन म्हयने जाल्ले, तो सेवाग्रामांत येवन गांधी-विचार समजून घेवपाच्या यत्नांत गुल्ल राविल्लो. गांधींच्या Non-violence in Peace and War ग्रंथाच्या दोनूय खंडांचीं ताणें पारायणां केल्लीं. संवसारांतलीं झुजां सासणाचीं ना करपाची आनी समाजांतल्या सगळे तरेच्या संघर्शाक नवी मनीसपणाची आनी तेजस्वितायेची देख दिवपाची दुसरी वाट ना ह्या निर्णयार तो पाविल्लो. इतलेंच न्हय, तर संवसारांत सासणाची सवस्तकाय नंदोवपा खातीर चरख्या फाटलो विकेन्द्रीकरणाचो विचार घेतले बगर - ह्या विचाराचेर आधारिल्ली अर्थवेवस्था उबी केले बगर संवसारा मुखार दुसरो उपाय ना, अशेंय मानपाक लागिल्लो. असले कोणूय मेळपाक आयले म्हणटकूच काकासायब घालतात तें बरोवन घेवपाक तांचे सरीं बशिल्ले उठून वताले. हांव फकत ते घालतात तें बरोवन घेवपाक वर्ध्याक येवंक नाशिल्लों. नवें नवें कितें शिकपाक आयिल्लों. आनी काकासायबांचीं बरपां वाचून जें मेळ्ळां ताचे परस कितलेंशें चड म्हाका तरांतरांच्या लोकां कडेन तांच्यो जाताल्यो त्यो चर्चा भासाभासो आयकून मेळ्ळां. म्हूण, थंयच बसून रावलों. ह्या तरणाट्यान म्हळें, 'म्हाका सत्याग्रहाचो विचार बरो समजला, असो म्हजो समज आसा. ते भायर, जो सपसप आमकां येवरोपेवांक समजना तो चरख्या फाटलो विचारूय समजला, अशें मानतां. पुणून देवाचेर जिवो भावार्त - living faith - आसले बगर कोणूच खरो सत्याग्रही जावंक पावचो ना, अशें गांधीजी भौन भौन कित्याक म्हणटात तें अजून म्हाका सारकें समजूंक ना. 'I don't believe in God...'

'Never mind. He believes in you', काकासायबांनी फटक् करून ताका जाप दिली. 'तुजो देवाचेर भावार्त नासूं, देवाचो तुजेर आसा.'

असली जाप आपणाक मेळत अशें तरणाट्याक दिसूंक ना जातलें. तो काकासायबांच्या तोंडा कडेन अजापान पळेत रावलो. काकासायबांनी म्हळें-

मनीस म्हळ्यार फकत ताची कूड न्हय. मनशा संबंदान येवजिता आसतना ताचो आत्मोय हिसपाक धरचो पडटा. आत्मो आसा म्हूण मनीस आसा. आत्मो वता तेन्ना कुडूच उरता. मनीस उरना, तो मरता. मागीर, कुडीक व्हरून सिमितेरींत पुरची पडटा वा मसंडेंत व्हरून तिका उज्या सुवादीन करची पडटा... मनीस जितो आसता तेन्ना ताची कूड आनी आत्मो दोंय मजगतीं एका सारकें एक tug of war दीसरात चलिल्लें पळोवंक मेळटा. जिविताच्या राजवाचें एक तोंक कूड आपणा हातांत घेता तर दुसरें तोंक आत्मो आपणा हातांत घेता. आनी हीं दोनूय बळां मनशाक आपणा अर्दान ओडीत रावतात. ह्या

खेळांत दुबळो मनीस खूब फावटीं पडटा आनी कुडीक जैत मेळटा. हो खेळ देव पळेता. पुणून तो मर्दी पडना. निर्शेय ना. तो म्हणटा, जावं, आयज कुडीक जैत मेळूं, एक दीस आत्म्याक जैत मेळ्ळे बगर रावचें ना. तेन्ना मनीस वयर सरले बगर आनी म्हजे सरीं आयले बगर रावचो ना. मनशांतलो आत्मोच ताका म्हजे पसून पयस वचूंक दिवचो ना. तसो ताका म्हजो विसर पडूंक दिवचो ना. कर्तुम् अकर्तुम् अन्यथा कर्तुम तांक देवांत आसुनूय देव ती ह्या मळार वापरिना. मनशाक ताणें मेकळीक दिल्या तिका आपणा कडल्यान बादा येवंक तो दिना. मनीस आपूण जावन आपणा सरीं येतलो हे विशीं ताका इल्लोय दुबाव ना. ते मेरेन तो धीर धरून रावता. अनंत काळ मेरेन वाट पळोवपाचो धीर ताच्यांत आसा. तो जाणा, एक दीस मनीस भितरल्यान घट जातलो आनी आपणा दिकेन येवपाक लागतलो. मागीर, तो एक पावल मुखार घालून येतलो तेन्ना देव धा पावलां मुखार घालून ताचे भेटेक वतलो. आनी ताचो हात हातांत घेवन ताका आपणा गोपांत घेवन वतलो. उपरांत, मनीस वयले वयल्यान आदले सारकोच दिसलो, आदले सारकोच चल्लो तरूय तो आदलो उरना. नवो जाता. ताकाच आपलो नवो जल्म जाल्ले वरी दिसपाक लाग्ता. आनी ताचे हस्तुकीं जें घडटा तें सगळें 'ताणें' घडोवन हाडिल्लें आसता. तेन्ना, Don't worry. He will take care of you. Be faithful to your conscience. आवयक जितली भुरग्याची ओड तिचे परस लाख वांट्यानी चड देवाक तुजी ओड...'

काकासायब एक बऱ्यांतले बरे शिक्षक. आयुष्यभर तांणी एकूच काम केल्लें - शिकोवपाचें. तांगेली शिकोवपाची एक खाशेली रीत आशिल्ली. खंयचोय विशय शिकयताले तेन्ना ह्या विशया आशि-कुशिच्या आंगां कडेनूय ते विद्यार्थ्यांचें लक्ष ओडटाले. 'तुंवें रामायण वाचलां?' तांणी ह्या तरणाट्याक विचारलें. ताणें राजाजींचें वाचिल्लें. काकासायबांनी म्हळें, 'म्हणटकूच, रामायणाची कथा तूं जाणा म्हणचें पडलें... राम नांवाचो खरोच कोण जावन गेला काय कितें, खबर ना. जावन गेल्लो आसूंक जाय. ना जाल्यार वाल्मीकीन रामायण रचचे पयलीं रामाचें आख्यान लोकांचे जिबेर घोळचें नाशिल्लें. तें घोळटालें. महाभारतांत हें आख्यान आयलां. पुणून ज्या रुपान रामायण आयज आमचे मुखार आयलां तें वाल्मीकीचे प्रतिभेंतल्यान आयिल्लें एक काव्य... म्हणुंया, वाल्मीकीची एक कलाकृती - ताचें artistic creation. कांय जाण हे कथे कडेन mystic (गूढ) अणभवांचें एक रूपक म्हुण्णूय पळेतात. सीतेच्या काळजांत रामाविशीं उपाट मोग भरिल्लो, ती रामाकूच एकनिष्ठ राविल्ली, आपणालें जिवीत ताका ओंपून आपणाक सुखी मानताली. ती हांकां आत्म्याचें प्रतीक कशी दिसली. तिका आत्म्याचें प्रतीक लेखतकूच राम आपशींच परमात्म्याचें प्रतीक जालो. सीतेक रावण

उबारून लंकेक घेवन वता आनी व्हरून तिका आपणाले अशोकवाटिकेंत दवरता. तिचे भोंवतणीं राक्षस राक्षशिणींक हाडून दवरता. लंका कुडिचें प्रतीक. अशो वाटिका काळजाचें तर राक्षस राक्षशिणी विकारांचें (मनशांतल्या दुबळ्या आंगांचें) प्रतीक. सीता फकत रामाचो ध्यास घेवन बसल्या. दुसरें कांयच करिना. स्वासा कणकणीं फकत रामाचेंच नांव घेता. आनी राम तिका थंयच्यान सोडोवन हाडपाक हे वटेन तरांतरांचे यत्न करीत रावता... हिन्दू, ख्रिस्ती, सूफी परंपरेंतल्यान सगळ्या mystic (साक्षात्कारी) कविंनी आत्म्या परमात्म्याचे संबंद हेच तरेचे मानल्यात. सीतेंतले भक्ती, निष्ठा, समर्पण हे गूण तांकां आत्म्यांत दिश्टी पडल्यात तर रामाचे तांकां परमात्म्यांत मेळ्ळ्यात. सीता आठूय पार खिणान खीण जागरूक आशिल्ली. मनीस इतलो जागरूक चडसो केन्ना नासता, तो घाळूच चड आसता. ताका जाग हाडची पडटा. निर्शेण्यो, खर्शेण्यो, हारी, अपेसां, दुख्खां, अरिश्टां केन्ना केन्ना ताका जाग हाडपाचें काम करतात. तेन्ना ताका देवाचो हय-न्हयसो दिश्टावोय जाता. अंतर्मुख जावन तो काळीज नियाळून पळेता तेन्ना ताका कुरवांच्या रुपांनी कांय शिटकावण्यो मेळपाक लागतात. आनी मागीर आपूण दुबळो देखून वयर सरूंक पावना म्हूण खासा आपणाकूच तो खेत्सुपाक लागता. ही खेत्सणीच ताका इल्ली इल्ली करून मुखार पावल घालपाक बळ दिता. गांधी सकाळ सांजवेळ प्रार्थना करताले हें आंतरीक बळ मेळचें म्हूण. प्रार्थना तांगेलें आत्म्याचें अन्न आशिल्लें. केदीं आकांताचीं कामां केल्यांत तांणी ! फकत प्रार्थनेंत जोडिल्ल्या बळान...'

रैहानाबेन तय्यबजी बगलेक उबी रावन हो संवाद आयकताली. खासा ती (म्हजे नदरेन) एक साक्षात्कारी बायल. मुसलमान घराण्यांत जल्माक आयिल्ली. तरूय श्रीकृष्णाची भक्त. खासा भजनां रचताली आनी तीं प्रार्थनेंत म्हणटाली. बडोद्याक लोक तिका मीरेचो आर्विल्लो अवतार मानताले. बापायक - जस्टिस अब्बास तैयबजींक - तिगेले कृष्णभक्तिची अडचण जाल्ली. पुणून धुवेचेर उपाट मोग. म्हूण ते तिका दुखोवंक सोदी नाशिल्ले. काकासायब तांगेले जिवाभावाचे एक इश्ट. तांणी काकासायबां मुखार आपणाली अडचण दवरली. काकासायबांनी अब्बसमियांक विचारलें, 'रैहानाक हांव आश्रमांत घेवन वचूं?' खोश्शी जावन अब्बासमियांनी म्हळें, 'म्हजेर व्हडले उपकार जातले.' रैहाना दिश्टी पडटकूच काकासायबांनी तिका विचारलें, 'रैहाना, तुम मेरे साथ रहोगी?' 'जी, काकासाहब', ही जाप दिवन ती आपणालें बॅग घेवन भायर सरली. येतना आपणा वांगडा ती जस्टिस धीरजलाल नाणावटींचे धुवेक - सरोज नाणावटीकूय - घेवन आयली. तेन्ना सावन दोगीय काकासायबां सरीं रावपाक लागल्यो. गांधींचे आश्रमी प्रार्थनेंत कुराणांतली 'अल् फातेहा'आयात तिणेंच सुरू केल्या.

ह्या येवरोपी तरणाट्या कडेन काकासायबांचो संवाद चलतालो ते मजगतीं आमची

प्रार्थनेची घांट वाजली. आश्रमांतले आमी सगळे प्रार्थनेच्या थळार येवन बसले. तो तरणाटोय येवन बसलो. 'स्थितप्रज्ञा'चीं लक्षणां म्हणून जातकूच रैहानाबेनीन 'अल् फातेहा' म्हळो. उपरांत एक भजन म्हणपाची चाल आशिल्ली. रैहानाबेनीन त्या दिसा 'ऊठ जाग मुसाफिर भोर भई / अब रैन कहाँ जो सोवत है' भजन सुरू केलें. म्हणटां म्हणटां 'टुक नींद से अखियाँ खोल जरा / ओ गाफिल, रब से ध्यान लगा / यह प्रीत करन की रीत नहीं / रब जागत है, तूं सोवत है' हया कडव्या कडेन पावतकूच ती 'रब जागत है, तूं सोवत है...', 'रब जागत है, तूं सोवत है' करून टिपऱ्यो वाजोवन धोलपाक लागली. दीस पडपाचो वेळ. अस्तमे दिकेन तोंड करून बशिल्ली. पडट्या सुर्याचीं कंवळीं किरणां तिगेल्या उजळ्ळेल्या मुखामळार येवन पडलीं तेन्ना एक सूर्यफूल धोलता काय कितें, अशें दिसपाक लागलें. एक अद्‌भुत देखाव हांवें त्या दिसा पळेल्लो.

प्रार्थना सोंपतकूच 'ह्या गिताचो अर्थ कितें' म्हूण तरणाट्यान विचारलें तेन्ना 'यो, सांगतां' अशें म्हणून रैहानाबेनीन ताका अर्थ सांगलो.

'Kakasaheb, I have learnt something new today' अशें म्हणून तरणाट्यान बद्द भारतीय रितीन काकासायब आनी रैहानाबेन दोगांयच्या पांयांक हात लायलो.

हांवूय आयज कितें तरी नवें शिकिल्लों.

ओश्पितालांतल्यान प्रासार पावतासर इतलेंय हें दोळ्यां मुखार येवन उबें राविल्लें. अंतरमनांतलें लिपून राविल्लें वयर येवपाक कितेंय तरी एक निमित्त्य लागता. 'आवयचेच मायेन अजय बरो जातलो' ह्या नर्सिच्या वाक्यांत 'आवयक जितली भुरग्याची ओड तिचे परस लाख वांट्यांनी चड देवाक तुजी ओड' ह्या काकासायबांच्या वाक्याचो पडसाद म्हाका आयकूंक आयिल्लो. आनी हो उगडास वयर सरिल्लो.

जाणटेपणांत मनीस खूब-शें विसरता म्हणटात. ना, कितेंच विसरना. सगळें अंतरमनांत सांठोवन दवरता.

जाग, जून-जुलै २००२

## ८.

# डॉ. लोहिया

डॉ. लोहियांचो उगडास जायनाफुडें मन खेदान भरून येता. घुसमटिल्ले वरी जाता आनी 'लोकशाय बिकशाय सगळीं तड्डकां... ह्या देशांत लोकशाय ना... त्याग, विद्वत्ता, चारित्र्य कित्याक मोल ना' अशें (कांय लोकांचे नदरेन) 'कित्याय कितें' हांव उलोवपाक लागतां.

लोहिया ल्हाना-समानांतले नाशिल्ले. शूर, वीर, परिणामांची पर्वा नाशिल्ले, धीट, गंभीर, त्यागी, भायल्यान वज्रा परस कठोर आनी भितरल्यान फुला परस नाजूक, एक आगळें वेगळें व्यक्तित्व घेवन ते जल्माक आयिल्ले. पोरणें जग मोडून एक नवें जग उबें करपाची तांक तांच्यांत आशिल्ली. तांकां एकलेच सारके वळखल्ले ते महात्मा गांधी. Dr. Lohia is not a little man अशी तांची वळख तांणीच करून दिल्ली जगाक.

असल्या मनशाक, जंय कोणूय पावल्यात - देड दमडेचें मोल नाशिल्लेय पावल्यात थंय, लोकसभेंत, पावपाक स्वतंत्र हिन्दुस्तानांत पंदरा वर्सां लागचीं? कसली तुस्त तोखणाय करतात आमी आमचे लोकशायेची? कसली लोकशाय ही?

गोंयकारांक लोहियांची वळख जाल्या ती एकुणीसशें शेचाळीसांतल्या अठरा जुनाक. ते पयलीं तांचें नांव कोणें आयकल्लें, म्हाका खबर ना. पुणून ते गोंयांत पावल्यात म्हणपाची खबर लोकांच्या कानार पडल्या मात, 'आ, आतां गोंय पेट्टा' हींच उतरां सगळ्यांच्या तोंडांतल्यान फुटल्यांत. अकस्मात एक मोड येवचें, झूं झूं करून आकांताचो वाव सुटचो आनी चारशीं चारशीं वर्सांचे, खोल पाळां मुळां जमनींत रिगोवन उबे आशिल्ले म्हाल म्हातारे रूख धोल धोल धोलचे आनी घसायंच करून हुमटून पडचे तशें शें कितें त्या दिसा गोंयांत जालां. आनी त्या मोडांत लाचार, मेंगें, स्वत्त्व नाशिल्लें 'सुशेगाद' गोंय सांवरेचें बोंड जाल्ले वरी सासणाचें उबून गेल्लें लोकांनी पळेलां.

आयज लेगीत त्या दिसाचो उगडास काडटां तेन्ना म्हजी ल्हंवेन ल्हंव फुलून येता आनी मनोहररायां भाशेन हांवूय म्हणपाक लागतां,

*'भावा, तुका याद आसा अठरा जून?*
*त्या दिसा उदक जाल्लें रगत*
*आनी रगत जाल्लें हून.*
*याद आसा अठरा जून?*
*त्या दिसा उगडासान*
*हड्डें म्हजें पेट्टा अजून.'*

त्या दिसा लोहियांनी जी सुवात आमच्या काळजांत जोडिल्ली ती ते उपरांत कोणूच घेवंक पावूंक ना.

जवाहरलालांक लेगीत ती मेळूंक ना.

लोहियांच्या सभावाचें एक आगळें वेगळें आंग आशिल्लें. कोणूय तांचे म्हऱ्यांत पावूं, तो ल्हानांतलो ल्हान लेगीत आसूं, तो कोण आनी कितें करता इतलेंच कळ्ळ्यार पुरो, ताका ते केन्नाच विसरऽ नाशिल्ले. कितल्याय वर्सांनी तो तांकां खंयूय मेळूं, ताचें नांव घेवन 'तुम यहां कैसे?' म्हूण ताका विचारले बगर रावी नाशिल्ले. येवाग्रियु ज्यॉर्जीन म्हाका एक खबर सांगिल्ली. शेचाळीसांत लोहिया गोंयांत आयल्यात त्या वेळार येवाग्रियु चार दीस तांचे म्हऱ्यांत रावला. तांचे वांगडा सगळे कडेन भोंवला. उपरांत सत्याग्रह करून तो बंदखणींत गेला. वर्सभर आग्वादाक उरला. सुटून येतकूच तो बेळगांवां गेला. बेळगांवच्यान मुम्बय गेला आनी सुमार णव वर्सांनी दिल्लीक वचून 'आकाशवाणीं'त काम करपाक लागला. णव वर्सांच्या ह्या काळांत ताचो लोहिया कडेन कसलोच संबंद येवंक पावूंक नाशिल्लो. ताणें तांकां एक चीट लेगीत बरोवंक नाशिल्ली. एक दीस ताणें एका खबरे-पत्रांत लोहियांचें आयज भाशण आसा म्हूण वाचलें. येवाग्रियु तें भाशण आयकुपाक गेलो. हॉल गच्च भरिल्लो. हजारभर लोकांचे ते भुरावळींत तो निमाणे रांगेंत एका कोनशाक एका कदेलार बसलो. लोहिया आयले. वेदीर चडले. थंयच्यानूच तांणी लोकां वयल्यान एक नदर भोंवडायली ती जिस्त येवाग्रियाचेर वचून थिरावली. तांणी जमिल्ल्या लोकांक विचारलें, 'किस भाषा में बोलूं?' ते मुस्तींत लोहियांची 'अंग्रेजी हटाओ' चळवळ नेटान चलताली. लोकांनी 'हिन्दी... हिन्दी' म्हूण प्रतिसाद दिलो. वेदी वयल्यानूच लोहियांनी येवाग्रियाक विचारलें, 'Did you pick up enough Hindi, Evagrio?'

येवाग्रियाक कितें जालां जातलें, अदमासूच केल्लो बरो.

जवाहरलालां फाटल्यान लोक वताले. कित्याक, तांच्या हातांत सत्या आशिल्ली. कितेंय मेळू येतालें. कितेंय सादूं येतालें. विनोबां फाटल्यानूय लोक गेल्यात. वेगळेच एके ओडीन पावल्यात. लोहियां कडेन लोकांक दिवपा खातीर बंदखण आनी हाल उपाद्रे

सोडून कितेंच नाशिल्लें. 'पांच दस रुपये हो तो दो न, रास्ते में चाय पानी के लिये' म्हूण तेच वयल्यान आपणाल्या कार्यकर्त्यां कडेन पयशे मागताले. तरी आसतना तांकां जिवाक जीव दिवपी हजारांनी अनुयायी मेळ्ळ्यात! महात्मा गांधी सोडीत जाल्यार इतले एकनिष्ठ अनुयायी जोडूंक पाविल्लो दुसरो कोण फुडारी पळोवंक मेळचो ना. कित्याक लागून ते आपणा भोंवतणीं इतले लोक एकठांय करूंक पावले? म्हजे कडेन एकूच जाप आसा - लोकीक नदरेन तांचे परस जे व्हड आशिल्ले तांचे मुखार ते तांचेकूय व्हड जावन उबे रावताले - केन्ना केन्ना तांकां शिंगांरूय घेताले. तितलेच तांचे परस ल्हान तांच्या अनुयायां मुखार ते तांचेकूय ल्हान, नमळ जाताले. पिरायेन, विद्‌वत्तेन, तपस्येन व्हड खंयच्याच मनशा मुखार सिगरेट ओडपाचो धीर म्हाका केन्ना जालो ना. पुणून लोहियां मुखार, ते व्हडूच न्हय, तर व्हडां मजगतचे व्हड म्हणपाचें खबर आसून लेगीत सिगरेट ओडपाक हांव केन्ना अनमनलों ना. खासा तांणीच म्हजी भीड मोडल्या. निमाणें निमाणें तांणी सिगरेट सोडिल्ली. पुणून ओडटाले त्या काळांत म्हज्या बोल्सांत हात घालून 'निकालो तुम्हारी सिगरेट' म्हूण मागून घेताले. तांकां जाय म्हूण, ओडपाची तलफ आयल्या म्हूण न्हय, तर म्हजी भीड मोडची म्हूण. हांव तांकां लिपोवन सिगरेट ओडटां तें तांणी पळेल्लें.

दिल्लींत एक फावट समाजवादी पक्षाचे राष्ट्रीय कार्यकारिणिची बसका आशिल्ली. आचार्य नरेन्द्र देव, जयप्रकाश नारायण, अशोक मेहता, कमलादेवी चट्टोपाध्याय सगळीं हे बसकेक आयिल्लीं. हांव काम करतालों त्या वर्तुळांत लोहियांचे दोग तीग भक्त आशिल्ले. तांणी लोहियां कडेन वेळ मागून घेतलो. तांकां मेळपाक आमी तांची बसका चलिल्ली थंय गेले. आमचेर नदर पडनाफुडें ते बसका सोडून भायर आयले आनी आमकां घेवन नीट कॉनॉट प्लेसींतल्या 'टी कॉर्नरां'त गेले. आमच्यांतल्या एकल्यान तांकां म्हळें, 'डॉक्टर साहब, इतने बडे बडे लोगों को छोडकर आप हमारे साथ?'

'तुमको किसने कहा कि तुम बडे नहीं हो? तुम भी तो बडे हो!' तांणी जाप दिली.

असल्या मनशा भोंवतणी कोण जीव उंवाळचो ना?

मनाशास्त्रांत 'लॉ ऑफ असोसिएशन' नांवाचो एक नेम आसा. लग्न म्हणिनाफुडें माटव, शेनाय, भट, अंतरपाट, मंत्राक्षता, बोवाळ गोंदळ असल्यो सगळ्यो गजाली दोळ्यां मुखार उब्यो रावतात. राजा म्हणिनाफुडें मुकूट, शिंवासन, प्रधान, शिपायक उबे रावतात. एकाद्र्या गिताचे सूर कानार पडनाफुडें तें पयलेच खेपे आयकल्लें तो दीस, तें वातावरण उबें रावता. तसो, लोहिया म्हणिनाफुडें म्हज्या दोळ्यां मुखार कॉनॉट प्लेसींतलो 'टी कॉर्नर' उबो रावता. 'रिगल' सिनेमाच्या एका कोनशार तो आशिल्लो. आयज दिश्टी पडना तो थंय. लोहियांचें दिल्लींतलें ते मुस्तींतलें हेडक्वार्टर हो 'टी कॉर्नर' आशिल्लो. सांजच्या पांचांच्या अदमासाक ते थंय येताले. साडे सात आठ मेरेन थंयच कॉफी पियेत

बशिल्ले आसताले. सद्दां धा वीस तरणाटे तांचे भोंवतणीं थंय जमिल्ले आसताले. चडशे कवी, लेखक, पत्रकार ह्या मळां वयले. वरांचीं वरां लोहियांच्यो तांचे लागीं खबरो चलच्यो. आपणें हांसचें, तांकां हांसोवचें, आपणें तिडचें, तांकांय तिडावचे. पुणून सगळ्यांक चिंतूंक लायताले. लोहियां सारको कन्वर्सेशनलिस्ट - संभाषणचतुर - अजून दुसरो कोण हांवें पळोवंक ना. जितलेय खेपे हांवें तांकां थंय पळेल्यात तितलेय खेपे प्लेटोच्या 'डायलॉग्सां'तलो सोक्रतिश म्हज्या दोळ्यां मुखार उबो रावला. तोवूय असोच तरणे पिरायेच्या भुरग्यांक घेवन ॲथॅन्सांतल्या खंयच्याय पेडार वचून बसतालो आनी तांकां चिंतूंक शिकयतालो. लोहिया चिंतुंकूय शिकयताले आनी अन्याया आड उसळुंकूय शिकयताले. विद्रोहाची देख दिताले. कितल्या जाणांक तांणी ही देख दिल्या जातली, कोंत आनी हिशोब मेळपाचो ना. स्वराज्या खातीर देश झुजतालो ते मुस्तींत हजारांनी लोक बंदखणींत पावल्यात. पुणून ते मुस्तींत जे पाविल्ले ते स्वराज्यांत परते बंदखणींत पाविल्ल्याचें आयकूंक ना. लोहिया पन्नास खेपो तरी पावल्यात. तितलेय फावटीं तांगेले हे शिष्य, भक्त, अनुयायीय बंदखणींत पावल्यात. एक फावट जो लोहियां सरीं पावला तो सदांकाळ तांचोच जावन रावला. कोण्ण तांकां सोडून वचूंक ना. तांणी आपणाल्या अनुयायांक 'वयर चडोवपाचो' खूब यत्न केला. कोणूय फट उलयता सो दिसलो जाल्यार 'झूठ मत बोलो' म्हूण ते ताचेर उसळ्ळ्यात. कोणूय पद्मश्री बिद्मश्री मेळोवपाचो यत्न करता सो दिश्टी पडलो जाल्यार 'क्या इतने गिर गये हो तुम' अशें विचारून ताका तांणी दुखयला. इतलेंच न्हय, तर ताका आपणा पसून पयसूय केला. असमिया भाशेंतले एक नवलकथाकार वीरेन्द्र भट्टाचार्य तांगेले एक भक्त आशिल्ले. लोहियांनी तांकां पयस केल्ले. साहित्य अकादेमीचे ते उपाध्यक्ष जाल्यात तेन्ना तांची म्हजी वळख जाल्ली. 'तुमी कित्याक लागून पयस गेले?' म्हूण हांवें तांकां विचारलें तेन्ना तांणी म्हाका जाप दिल्ली, 'ते ज्या पांवड्यार म्हाका चडोवंक सोदताले त्या पांवड्यार चडपाची तांक म्हज्या आंगांत नाशिल्ली... एका वेगळ्याच संवसारांत जियेताले ते...'

हो 'वेगळो संवसारू'च म्हत्वाचो आशिल्लो.

महात्मा गांधींक लोहियां विशीं जें आपलेंपण दिसतालें तें तांगेल्या ह्या 'वेगळ्या संवसाराक' लागून. एक फावट तांणी लोहियांक म्हळें, 'तुम बहादूर हो.' मागीर थोडो वेळ थांबून म्हळें, बहादूर वागूय आसता, शिंवूय आसता. आनी तुज्या सांगात्यां मजगतीं दुसरे कांय बहादूर आसात. मागीर म्हळें, 'तुम बुद्‌धिमान हो.' परत थोडो वेळ थांबून म्हळें, बुद्‌धिमान वकिलूय आसतात. आनी तुज्या सांगात्यां मजगतीं दुसरेय जायते बुद्‌धिमान आसात. 'लेकिन तुममें एक चीज है, जो तुम्हारे साथियों से तुम्हें अलग करती है.' खंयची ती? शील - Integrity. तूं भितर तसो भायर. अखंड. सत्यनिष्ठ. प्रामाणीक.

तुज्यांत आसा तसलें शील दुसऱ्यांत कोणांत सपसप पळोवंक मेळना.

लोहिया ह्याच पांवड्यार आपणाल्या शिष्यांक चडोवंक सोदताले. कोणूय हो पांवडो सोडून सकयल देंवला तेन्ना ताका तांणी परतो लार्गी येवंक दिवंक ना. जवाहरलालांचे ते एका काळार भक्त आशिल्ले. सत्या हातांत येताशी दिसना फुडें जवाहरलाल तडजोडी करपाक लागले, तत्त्वांक मुरड घालपाक लागले आनी तीस तीस वर्सांच्या आपणाल्या पोरण्या सांगात्यांक कडेक दवरून आयुष्यभर इंग्रजांची सेवा करीत आयिल्ल्या अधिकाऱ्यांचेर चड चड पातयेवन रावपाक लागले तेन्ना लोहियांचे तकलेंतले ते पडले. 'पिछले कई दिनों से मैं देख रहा हूँ, आप लगातार गिरते जा रहे हैं' अशें जवाहरलालांक तोंडार सांगपाक ते अनमनूंक नाशिल्ले. एक दीस 'गांधी आतां उपकारा पडनात' अशें जवाहरलालांच्या तोंडांतल्यान भायर सरिल्लें तांणी आयकलें तेन्ना ते सामकेच उसळ्ळे. 'जे निसणेचो आधार घेवन तुमी इतले मेरेन चडल्यात ती निसण खोंट मारून सकयल उडयतात?... तुमी कृतघ्न, पडमूर. तुमचें तोंड लेगीत हांव केन्ना पळोवपाचों ना... तुमची जी प्रतिमा लोकांच्या मनांत उबी जाल्या ती तोडपाचेंच काम आतां हांव करीत रावतलों...' अशें म्हणून ते जे भायर उठून आयले ते परते केन्ना तांचे सरीं गेले नात. लोहियांचें उपरांतचें सगलें आयुष्य लोकांच्या मनांतली जवाहरलालांची प्रतिमा तोडपांतूच खर्चलां.

विचारांच्या मळार लोहिया एक मौलीक विचारक. एक original thinker. कितेंय मांडलां तें नवेंच मांडलां. पयलीं कोणें मांडूंक नाशिल्लें मांडलां. समाजवादी पक्षाच्या पंचमढीच्या अधिवेशनांत अध्यक्ष ह्या नात्यान तांणी जें उलोवप केल्लें तें शुमेकरांनी वाचलें. शुमेकर मार्क्सवाद्यां मजगतीं एक विचारवंत म्हूण नामना जोडिल्ले एक जर्मन मार्क्सवादी. 'मार्क्सा उपरांत समाजवादी विचारांत नवी भर घालपी हो पयलोच तत्त्वचिंतक' ह्या उतरांनी तांणी लोहियांची तुस्त केल्या.

लोहियांनी व्हडलेंशें कांय बरोवंक ना. तांचीं म्हूण जीं कांय पुस्तकां उजवाडा आयल्यांत तीं तांचीं उलोवपां गुंथून दुसऱ्यांनी तयार केल्लीं. **इतिहास चक्रा** सारकें पुस्तक लेगीत 'उलयल्लें', बरयल्लें न्हय. ह्या पुस्तकां वयल्यान हात ओडपाक तांकां केन्ना वेळूय मेळ्ळो ना. ना म्हळ्यार, मौलाना आझादांच्या India Wins Freedom पुस्तकाचें तांणी जें परीक्षण केल्लें ताचें एक पुस्तक जालां. Guilty Men of India's Partition ह्या नांवान तें उजवाडा आयलां. देशाची फाळणी जाल्या त्या वेळार जें कितें घडलां ताची खबर तांणी ह्या पुस्तकांत सांगल्या. फाळणेचेर इतलें सुंदर पुस्तक दुसरें अजून म्हाका वाचूंक मेळ्ळूंक ना.

तांणी हिन्दींत कांय निबंध बरयल्यात. फाटीं अशोक बाजपेयी गोंयांत आयिल्ले. ते म्हणटाले, 'वह अद्भूत आदमी था... हिन्दी का एकाध निबंध संग्रह संपादित करने का

मौका मिले तो मैं उनके कम से कम दो निबंध तो उसमें लूंगा... हिन्दी के एक बडे लेखक के रूप में वे मेरे साम्ने हैं.'

सांगल्यार कोणाक खरें दिसचें ना - लोहिया आपणाक गांधीवादी मानताले. पुणून कसले? सरदार पटेलां सारके, मोरारजीं सारके सत्ताधीश (रॉयल) न्हय. विनोबां सारके मठाधीश (प्रिस्टली) न्हय. तर हॅरॅटिक - जाती भायले. बुद्धाक गांधीं परस व्हड मानपी गांधीवादी पळेतकूच ते खंती जाताले. 'गांधींक ल्हान करपांत हांकां कसलें सूख मेळटा, तांकांच खबर!... बुद्धा उपरांत अडेज हजार वर्सांनी गांधी आयला. बुद्धा परस अडेज हजार वर्सां तो मुखार गेला... ताका ल्हान कित्याक करतात हे लोक? आमकां गांधी पेलना म्हूण सांगून मेकळे जायात' अशें म्हणटाले आनी दांत ओंठ चाबून उसळटाले. म्हणटाले, 'जांकां गांधी वळखूंक आयलो ना ते बुद्धाक कितें वळखतले, कपल?'

म्हाका खूब फावटी दिसलां, विद्रोहाक मनशाचें रूप घेवचें-शें दिसलें आनी तो लोहियांचें रूप घेवन जल्माक आयलो. आमच्या राजकी, आर्थीक, सामाजीक, जिवितांत जें जें कितें कुसकें पाडें नश्टें पळेलां तेन्ना तेन्ना लोहियाच म्हजे मुखार उबे रावल्यात. आनी हांवें मनांतल्या मनांत म्हळां, तांच्या सभावाचो लाखावो लेगीत वांटो तांच्या अनुयायांत उतरिल्लो जाल्यार हिन्दुस्तानाचें रुपूच बदलून वतलें आशिल्लें आनी तांच्याय जिविताचें भांगर जातलें आशिल्लें.

लोहियांनी केन्ना असत्या कडेन तडजोड केली ना. कोडू सत्य उलोवपाक ते केन्ना अनमनले नात. उवेखणेची, अवमानाची आनी अपसमज पातळावपी प्रचाराची तांणी केन्ना पर्वाय केली ना.

फकत अठ्ठावन वर्सांचे पिरायेर ते गेले. जिस्त देशाचें लक्ष तांचे कडेन वचपाक लागलां त्या वेळार गेले. आनीक पंदरा वीस वर्सां तांकां मेळूंक जाय आशिल्लीं. देश खंयचे खंय पावतलो आशिल्लो.

**कोंकणी**, दिवाळी १९९९

# ९.

# फादर

कोंकणी चळवळींत कितल्याशा फादरांचो सांगात मेळ्ळो. कांय फादर जिवाभावाचे इश्टूय जाले. पुणून कमर बागोवन पांयांक हात लावचोसो दिसलो तो एकाच फादराच्या - फादर एच्. ओ. माश्कारेन्यशांच्या. एच्.ओ. म्हळ्यार ह्यूबर्ट ओलीम्पस.

मुम्बयंत हांव म्हजें जग उबें करपाच्या वावराक लागिल्लों. नवोच आयिल्लों. सद्दां खंय-ना-खंय कोणा कोणाचीं भाशणां जातालीं. मोटे उमेदीन तीं आयकुपाक वतालों. गिरगांवांतले 'ब्राह्मण सभे'त जन्माष्टमिचो - कृष्ण जयंतिचो - उत्सव आशिल्लो. प्रो. न.र. फाटक थंय उलोवपाचे आसात म्हूण आयकलें. फाटकांचो धेंक मराठी बुदवंतांत आकांताचो. ते कितें म्हणटात तें आयकुपाक गेलों. दोग तीग जाण उलयल्ले. कृष्ण आनी राधा हांच्या संबंदानूच चडशे. अवचीत सभेंतल्यान एक पाद्री उठून उबो रावलो. 'मला थोडंसं बोलायचं आहे' अशें म्हणून मुखार गेलो आनी उलय म्हणिनाफुडें शुद्ध पुणेरी मराठींत सडसडीत उलयलो. पंदरा वीस मिणटां भितर ताणें साक्षात्कारशास्त्रांत - Mysticismत आत्म्या परमात्म्याचो संबंद कसो आसता, परमात्म्याक जोडपाक आत्मो कसो आकूळ-पिकूळ जाता आनी आत्म्याची तळमळ पळोवन परमात्मो कसो आनी कितलो मुखार येता, हें समजावन सांगलें. ह्या संदर्भांत राधा आनी कृष्ण हांचे संबंद नियाळून पळोवंक जाय म्हळें.

म्हजे म्हऱ्यांत एकलो जाणटो मनीस बशिल्लो. ताका हांवें ल्हवूच विचारलें, 'हो उलयता तो कोण?'

'फादर एच्. ओ. माश्कारेन्यश्', ताणें जाप दिली.

'गोंयकार?'

'आसूंक जाय.'

म्हाका अजापांचो धसको बसलो. गोंयकार पाद्री म्हळ्यार 'एकूच धर्म खरो, रोमन कॅथलिक चर्चान सांगला तो' अशें म्हणपी आसता, अशी मनाचेर छाप बशिल्ली. तांच्यांतलो एक कृष्ण आनी राधा हांचे संबंदान इतलो बरो उलयता? वचून वळख करून घेवची अशें दिसलें. पुणून, ते मुस्तींत हांव खूब भिडेस्त आशिल्लों. मुखार सरून वळख

करून घेवपाचो म्हाका धीर जालो ना. फादरांचें रूप पळोवनूच संतोस मानलो.

सप्तकभर जालां जातलें, गोमंतक छापखान्यांत तांची भेट जाली. शणै गोंयबाबांली सगळी बरपावळ छापपी हो छापखानो गिरगांवांतूच आशिल्लो आनी मुम्बंयतल्या सगळ्या कोंकणी-भक्तांचें तें करमळीचें तळें आशिल्लें. कोंकणी भक्त सगळे एकामेकांक चडशे थंयच मेळटाले आनी हांव तर थंय आत्र्या-पयऱ्यान वचून बशिल्लों आसतालों. त्या दिसा फादरां कडेन जी वळख जाली ती तांगेल्या निमाण्या खिणा मेरेन वाडत गेली.

इल्ल्यो इल्ल्यो करून तांगेल्या जिवितांतल्यो कितल्यो-श्यो गजाली कळ्ळ्यो-

फादर मडगांवच्या एका इश्कोलांत शिकयताले. लॉयोलांत काय? आसूं येता. महात्मा गांधींच्या प्रभावांत आयिल्ले. लोब खादीचो घालताले. चरखो चलयताले आनी तकलेर गांधी तोपी घालून भोंवताले. गांधी तोपी ते मुस्तींत परकी सत्ये आड बंडाची निशाणी जाल्ली. पात्रिआर्का कडेन फादरां आड कितल्योश्यो कागाळी पावल्यो. एक दीस पणजे बिश्पाचे पालासींत पाद्रिंचे एके सभेक फादर गेल्ले. थंय पात्रिआर्कान तांचे कडेन बोट दाखोवन म्हळें, 'एश्ति पाद्रि नाव तँ फोर्मासांव पुर्तुगेझा' - ह्या पाद्रिचेर पुर्तुगेज संस्कार कसलेच पडूंक नात. फादरान उठून रोखडीच जाप दिली, 'येव तॅन्यु फोर्मासांव रोमाना' - 'म्हजेर रोमाचे संस्कार आसात. हांव रोमांत शिकून आयलां.' आनी खरेंच, फादरांच्यो पीएच्.डी., डी.डी. (डॉक्टर इन डिविनिटी), लायसंसियेट इन कॅनन लॉ, सगळ्यो डिग्र्यो रोमी आशिल्ल्यो. रोमांत तांणी जोडिल्ल्यो. पुर्तुगालची एकूय डिग्री तांणी घेवंक नाशिल्ली.

तरी बरें, ते मुसतींत इंकिझिसांव नाशिल्लें. आशिल्लें जाल्यार, फादरांचो तो खादी लोब, ती गांधी तोपी, तो चरखो आनी पात्रिआर्काक दिल्ली तांगेली ही जाप इतलेंच पुरो जातलें आशिल्लें तांकां हुलपावन मारपाक.

पुणून इंकिझिसांव नाशिल्लें म्हूण पात्रिआर्क ओगी थोडेच रावतले आशिल्ले. तांणी फादराची बदली केली. तांकां गोंयांत रावंक दिले नात. मडगांवच्यान मुम्बय धाडून दिले. ठाकुरद्वाराक दाबुल चर्चांत ते 'प्रीच' करपाक लागले आनी त्याच चर्चान चलयल्ल्या सेंट सेबास्टियन हायस्कुलांत शिकोवपाक लागले.

मुम्बयंतलें वातावरण मेकळें. ते भायर, राष्ट्रवादाच्या संस्कारांनी भरिल्लें. फादरांचे इगर्जेंत येताले ते चडशे चिरा बाझार, धोबी तलाव ह्या वाटारांत रावपी गोंयकार. तांकां पुर्तुगेजांनी देशभश्टे - डिनॅशनलायझ्ड् - करून उडयिल्ले. फादर तांकां राष्ट्रवाद शिकोवपाक लागले. 'आमी सगळे किरिस्तांव, जेझूक मानपी. ताचे शिकवणेक धरून - नव्या तेश्तामेन्ताक धरून - चलपी... जेझू जल्मान ज्यू आशिल्लो. ताचीं पाळां-मुळां ज्यू भुंयेंत रिगिल्लीं. ताची फाटभूंय समजून घेवपा खातीर 'पोरणो तेश्तामेन्त'

आदरान वाचपाचो. पुणून आमचो 'पोरणो तेश्तामेन्त' तो न्हय, हें मात मतींत धरपाचें. आमचीं पाळां-मुळां हे भुंयेंत रिगल्यांत. आमची परंपरा भारतीय. आमी किरिस्तांव जाले म्हूण आमी आमंची परंपरा सोडून दिवंक जाय अशें ना. आमची परंपरा आमी सारकी समजून घेवंक जाय. आमची परंपरा हिन्दू. आमी आदले हिन्दू. आमचो पोरणो तेश्तामेन्त हिन्दू धर्म. परंपरेन आमी हिन्दू. फकत धर्मान किरिस्तांव. हिन्दूंत जशे शैव हिन्दू, वैष्णव हिन्दू, शाक्त हिन्दू आसात, तशे आमी 'कॅथलिक हिन्दू'. बरे किरिस्तांव जातले जाल्यार पयलीं बरे कोंकणे (हिन्दू) जावंक जाय . ना जाल्यार किरिस्तांवपणाच्या नांवा खाला आमी फकत गांवठी सायब जावन पडटले.'

फादरांच्या ह्या मत्ताचीं दोन आंगां आशिल्लीं. ते एके वटेन हिन्दूंक सांगताले, 'हिन्दू धर्म खंयच्याच एका प्रेषितान वा रुशीन सुरू करूंक ना. ताचे वाडीक खूब जाणांचो हातभार लागला. तशें, हिन्दू धर्म एका खंयच्या धर्म-पंथाचें नांव न्हय. कितलेशे धर्म पंथ ताणें आपणांत आसपावन घेतल्यात. किरिस्तांवांक आपणांत आसपावन घेवपाक हिन्दूंक अडचण दिसूंक जायना...' आनी दुसरे वटेन ते कॅथलिक इगर्जेक सांगताले, 'क्रिस्तांवपणाच्या नांवान आमी आयजवेर फिरंगीपणूच चलयत आयल्यात. हाका लागून हांगासल्लो किरिस्तांव आपणाल्याच देशांत परकी जावन पडला. ताका देशी करूंक जाय. हिन्दुस्तान आतां स्वतंत्र जावपाचे वाटेर आसा. स्वतंत्र हिन्दुस्तानांत लोकांक फिरंगी करपी धर्म चलपाचो ना. किरिस्तांव धर्मान देशी रूप घेवंक जाय. किरिस्तांवपणाक फिरंगीपणाच्या संस्कारांतल्यान मेकळें करूंक जाय. ना जाल्यार जेझूक किरिस्तांव-पणांतल्यान मेकळो करपाचो प्रसंग आमचेर येतलो. इगर्जेचें भारतीयकरण - Indianisation of Church - जावंक जाय.'

पुणून बऱें मुम्बयंत जालें म्हूण कितें जालें, फादरांचें हें मत्त इगर्जेच्या जाळवणदारांक उस्तऱ्यां गेलें. कार्डिनल ग्रॅशियसांनी तांच्या 'प्रिचिंगा'चेर पयलीं बंदी घाली. इगर्जेतले फादरांचे सेर्मांव बंद केले. 'फकत सेंट सेबास्टियन हायस्कुलांत शिकोवपाचें, आनीक कांयच करप ना' अशें फादरांक फर्मायलें. फादर फकत शिकोवपाक लागले. शिकतल्या भुरग्यांक राष्ट्रवादाची दीक्षा दिवपाक लागले. कितलेशे किरिस्तांव तरणाटे फादरां कडल्यान दीक्षा घेवन राष्ट्रवादी जाल्यात. एकूच नांव घेवचें जाल्यार स. टोनी डिसौझांचें घेवं येता. टोनी आमचे एक तेजिश्ट सुटके झुजारी आशिल्ले. ते भायर, मेकळ्या गोंयांत एक मंत्रीय जाल्ले. फादरांच्या उतरांनी सांगचें जाल्यार टोनी 'कॅथलिक हिन्दू' आशिल्ले.

मुम्बयंत फादरांनी आनीक एक काम हातांत घेतलें - फादर हॅरासांनी सुरू केल्लें काम मुखार व्हरपाचें. फादरांक संस्कृत, पाली, लॅटिन हांचे भायर हिब्रू आनी ग्रीक सारकेल्यो पोरण्यो भासो येताल्यो. ह्या भासांतलीं कांय म्हत्वाचीं पुस्तकां तांचे कडेन

आशिल्लीं. फादरांची लायब्ररी पंदरा वीस हजार पुस्तकांची. सगळीं तांणी विकतीं घेतिल्लीं. आयज ही लायब्ररी कोणा हातांत पडल्या जातली - उरल्या जातली काय ना जाल्या जातली - देव जाणा. निमाणें निमाणें पुर्विल्ल्या इतिहासा वयलींच चडशीं पुस्तकां तांणी जमयल्लीं. फादरांचो एक सोद जाणकारांनी अजून मानून घेवंक ना. पुणून मानून घेवपा सारको सोद हो, इतलें मात सगळ्यांनी मान्य केलां. सरदार के. एम्. पणिक्करांच्या तोंडांतल्यान हांवें हें आयकलां. सरदार पणिक्कर इतिहासाचे एक व्हड जाणकार. चीन, फ्रान्स, इजिप्त सारकेल्या देशांनी आमचे राजदूत म्हूण गेल्यात. मुम्बयंत येताले तेन्ना मुजरत फादरांक मेळूंक येताले आनी वर दोन वरां बसून खूब चर्चा करून वताले. एक खेपे तांची चर्चा आयकुपाचें भाग्य म्हाका मेळ्ळां. फादर म्हणटाले -

ख्रिस्ताची सुमूर्त ताच्या बलिदाना उपरांत कांय शतमानांनी रोमाक पावली. पुर्तुगालानूच ती भारतांत हाडली असो सगळ्यांचो समज. तो खरो न्हय. ख्रिस्ताच्या मुदल बारा शिष्यां मजगतचे दोग जाण - सेंट थॉमस आनी सेंट बार्थलम्यू - ख्रिस्ताच्या बलिदाना उपरांत रोखडेच हिन्दुस्तानांत ती घेवन आयिल्ले. थॉमस दक्षीण भारतांत वावर करतालो आनी बार्थलम्यू अस्तम भारतांत करतालो हाचे पुरावे हिब्रू भाशेंतल्या पुस्तकांनी मेळटात. थॉमसाचो ख्रिस्ती धर्म आयज सीरियन चर्चाच्या रुपांत दक्षीण भारतांत चलिल्लो पळोवंक मेळटा. ताणें पुराय देशी रूप घेतलां. ताचो हिन्दू धर्माचेर पडिल्लो प्रभावूय दाखोवन दिवं येता. देखीक, मध्वाचार्यांचें जिवीत आनी ताचो तत्त्वविचार घेयात. ल्हान आसतना देवळांतल्या पुजाऱ्यां कडेन वाद घालप, मूठभर अन्नान हजारांनी लोकांक जेवण घालप, उदका वयल्यान चलप, दर्यांत उठिल्लें मोड थांबोवप ह्यो मध्वाचार्यांच्या जिवितांतल्यो घडणुको ख्रिस्ताच्या जिवितांतल्या घडणुकां सारक्योच. थॉमसाच्या वावराचो प्रभाव हो. मध्वाचार्यांच्या तत्त्वविचारांतलो 'वायू' 'होली गोस्ट' आसूंक जाय. 'होली गोस्टा' खातीर हिब्रू भाशेंत जें उतर आसा ताचो अर्थ 'वायू' असोच जाता. दक्षिणे कडली कन्याकुमारी ही 'वर्जिन मेरी' आसूंक जाय. ए. एल्. भाशमा सारकेल्यांचेंय हेंच मत्त. थॉमसाच्या प्रभावा विशीं वाद ना. प्रस्न येता तो बार्थलम्यूचो. ताचो कांयच वावर जालो ना अशें कशें म्हणूं येतलें? फादरांचें म्हणणें, तो अस्तम भारतांतलो धर्मसमज तर्जून सोदून काडूंक येतलो. अस्तम भारतांत - चड करून कोंकणांत - बेताळाचीं देवळां गांवां गांवांनी पळोवंक मेळटात. भारतांत हेर खंयचेच कडेन बेताळाचीं देवळां नात. बेताळाक कोणें देव मानूंक ना. कोंकणांत मानला. दुसरें, बेताळाच्यो मुर्ती हिन्दू देवां सारक्यो दिसनात. वेगळ्यो दिसतात. तिसरें, बेताळाची पुजा 'गुरव' करतात. गुरव हें पाद्रिचें देशी रूप आसूंक जाय. बेताळा वांगडा सदांच रवळनाथ, भूतनाथ आनी बावकादेवता आसतात. ही ख्रिस्ती धर्मांतली 'ट्रिनिटी' आसूंक जाय.

घारापुरींतली त्रिमूर्ती ब्रह्मा विष्णू महेशाची मूर्त असो सगळ्यांचो समज. ही मूर्त बारकायेन पळेयात. हिचें दावें तोंड एके बायल-मनशेचें. ब्रह्मा, विष्णू, महेश हांचे मजगतच्या एकल्याचेंय रूप बायल-मनशे सारकें नाशिल्लें... ही ट्रिनिटीचीच मूर्त आसूंक जाय. बार्थलम्यूची ख्रिस्ती सुमूर्त बेताळाचे पुजेंत पळोवंक मेळटा.

थॉमस आनी बार्थलम्यू दोगांयचे ख्रिश्चियानिटीक फादर 'एपोस्टॉलिक ख्रिश्चियानिटी' म्हणटाले. पुर्तुगाल आपणें आमकां ख्रिश्चियानिटी दिल्या म्हूण मिरयता. खंयचें पुर्तुगाल हें? आमचे कडेन ख्रिश्चियानिटी पयलीं सावन आशिल्ली. देशी जावन राविल्ली. पुर्तुगालच्यान आयिल्ले ख्रिश्चियानिटीक आमी आतां देशी रूप दिवंक जाय. फिरंगी संस्कारांतल्यान तिका मेकळी करूंक जाय.

फादरांचीं असलीं मत्तां पचोवन घेवपाची तांक इगर्जेंत नाशिल्ली. इगर्जेन फादरांक पिशें लागलां अशें थारायलें आनी तांगेले सेंट सेबास्टियन हायस्कुलांतल्या शिकोवपाचेर लेगीत तिणें बंदी घाली.

तातूंत भर पडली ती फादराच्या सुटके झुजांतल्या वावराची. त्रिशतांव ब्रागांज कुन्यांक अवचीत ॲटॅक येवन ते भायर पडले. त्रिशतांव 'प्रॅक्टिसिंग कॅथलिक' नाशिल्ले. ते इगर्जेंत वचनाशिल्ले. इगर्जेची टिका करपी आशिल्ले. म्हूण कॅथलिक इगर्जेन तांकां आपणाले सिमितेरींत सुवात दिली ना. त्रिशतांवांची कूड तीन दीस तशीच उरली. कितें करचें, कोणाक समजना जालें. फादरांचें म्हणणें हिन्दू मसणभुंयेंत व्हरून तिचेर अग्निसंस्कार करचे अशें आशिल्लें. पुणून त्रिशतांवांचीं घरचीं मनशां हाका तयार नाशिल्लीं. अखेरेक 'सीरियन चर्चा'न आपणाले सिमितेरींत सुवात दिवन प्रस्न सोडयलो. त्रिशतांवांचे स्मशानयात्रेंत फादरांनी वचचें न्हय असो कार्डिनल ग्रेशियसांनी फतवो काडिल्लो. फादरांनी पर्वा केली ना. ते स्मशानयात्रेक गेले, इतलेंच न्हय तर 'हो आर्विल्ले मुस्तींतलो एक संत आशिल्लो... हाची कूड तीन दीस इबाडनासतना उरिल्ली... बुद्धाची उरिल्ली तशी. हो खरो किरिस्तांव आशिल्लो' हे तरेचें जळजळीत एक भाशणूय तांणी सिमितेरींत केलें.

इगर्जेन फादरांचो छळ सुरू केलो. 'हाची तकली जाग्यार ना' अशें म्हणून तांकां मुम्बयंतले पुण्यांत व्हरून दवरले. 'इगर्ज सोडून भायर येयात' म्हूण खूब जाणांनी तांकां सांगलें. काकासायबांनी जवाहरलालांक सांगून तांची राज्यसभेर नेमणूक करपाचें थारायल्लें. पुणून फादरांचें पुराय जिवीत इगर्जेंत सरिल्लें. इगर्जे भायर तांकां फकत काळोख दिश्टी पडटालो. ते सगळे छळ सोंशीत इगर्जेंतूच रावले. भायल्यान भितरल्यान निर्मळ शुचिर्भूत ह्या मनशाचेर इगर्जेन तरांतरांचे आळ घाले. तांचे कुडींत एक चोळी मेळ्ळी म्हुण्णूय एक आळ घाल्लो. फादरांक कितें भोगलां जातलें, फकत फादरूच

जाणात. जो आपणाल्या काळा पेल्यान वता ताच्या वांट्याक देव असलींच दुख्खां धाडटा काय कितें, देवूच जाणा.

अंत आनी पार नाशिल्ले छळ फादरांनी सोंसले. जिविताक उबगल्ले आसतना एक दीस अवचीत खासा इगर्जूच बदल्लेली फादरांक पळोवंक मेळ्ळी. इगर्जेन सगळ्या धर्मां कडेन संवाद (डायलॉग) सुरू केल्लो पळेलो. इगर्जेचें भारतीयकरण जावंक जाय म्हणपी विचार तिच्या जाळवणदारांचे तकलेंत घोळपाक लागिल्ले पळेले. ह्या विचाराचेर खोलायेन भासाभास करपा खातीर तिणें मद्रासाक एक 'कन्वेन्शन' आपयलें. तेन्ना तिका फादर मास्कारेन्यशांचो उगडास जालो. ह्या कन्वेन्शनाच्या अध्यक्षपदाची माळ तिणें तांच्या गळ्यांत घालची थारायली. फादरांक आमंत्रण गेलें तेन्ना तांचें काळीज भरून आयलें. सगळ्यांत पयलीं ते ठाकुरद्वाराक आयले. जे इगर्जेंत 'प्रीच' करपाक तांचेर बंदी हाडिल्ली तिच्या हुमऱ्यार बसून पोटभर रडले. मागीर मद्रासाक वचून आपणाले विचार अत्यंत नमळायेन परते एक फावट मांडले... आनी कांय दिसां उपरांत १९७३त ९ फेब्रुवारी दिसा कृतार्थतायेन भरिल्ल्या काळजान संवसार सोडून गेले.

चोवीस वर्सां जालीं हे खबरेक. ह्या चोवीस वर्सांत जेन्ना जेन्ना तांचो उगडास जाला तेन्ना तेन्ना म्हज्या दोळ्यांतल्यान भळऽ भळऽ करून दुकां व्हांवल्यांत. दोळ्यां मुखार तांची प्रतिमा उबी रावल्या. कमर बागोवन तांच्या पांयांक हांवें हात लायला. आनी तांच्या पांयां पोंदचो धुळी कण काडून कपलाक लायला.

जाग, ऑगस्ट १९९७

## १०.

# तांकां फाट केल्ल्यान

स्वराज्य आमकां कशें मेळ्ळें? एक आनी दोन न्हय, हजार मत्तां वाचूंक मेळटलीं. कोण म्हणटात, क्रांतिकारी लोकांनी बॉम्ब पिस्तोलां हातांत घेतलीं म्हूण मेळ्ळें. कोण म्हणटात, सुभाषबाबूंनी आझाद हिन्द फौज उबी केल्ली म्हूण मेळ्ळें. कोण म्हणटात, नावीक दलान बंड केलें म्हूण मेळ्ळें. सावरकरांच्या खंयच्याय भक्ताक विचारात, सावरकरांक लागुनूच तें मेळ्ळें अशें खासा तुमकांय दिसपाक लागतलें. कांय इंग्रज इतिहासकार म्हणटात, इंग्रजांनीच तें दिवचें केल्लें म्हूण मेळ्ळें. इंग्रज खंय ह्या देशांत 'इल्ली इल्ली करून हिन्दुस्तानी लोकांच्या हातांत सत्या दिवपाच्या' हावेसानूच आपणालो शेक चलयताले !

स्वराज्य जोडचें म्हूण लाखांनी लोक मेले, बंदखणींत पडले, गोळाक हुमकळ्ळे - तांचें हांकां कांयच पडूंक ना!

'इल्ली इल्ली करून आमी हिन्दुस्तानी लोकांच्या हातांत सत्या दितले' अशें इंग्रजांनी म्हळें ही गजाल खरी. पुणून 'इल्ली इल्ली करून' म्हळ्यार कशी, केन्ना, कितल्या वर्सांनी, हे विशीं तांणी कितेंच केन्नाच स्पस्ट करूंक नाशिल्लें. इंग्रजांनी तें म्हळ्ळें त्या वेळार इंग्लंडांत लॉइड जॉर्जाचें सरकार जुटयेर आशिल्लें. १९१७तली खबर ही. ह्या सरकारांत लॉर्ड कर्झन एक मंत्री आशिल्ले. एका बंगालाचे दोन कुडके करपाक भायर सरिल्ले आनी जांचे आड अख्खो देश उसळून उबो राविल्लो तेच हे हिन्दुस्तानाचे आदले वायसरॉय! इल्ली इल्ली करून सत्या हिन्दुस्तानी लोकांच्या हातांत दिवपाचो इंग्रजांचो हावेस उक्तावपी बील ह्याच लॉर्ड कर्झनांनी इंग्लंडच्या पार्लमॅन्टांत मांडिल्लें. पुणून ह्या बिलाचेर उलयतना तांणी एक म्हत्वाची गजाल सांगिल्ली - 'आमचो हो हावेस पूर्ण जावपाक कितलीं वर्सां लागतलीं, म्हाका सांगूंक येवपाचें ना. कांयच न्हय म्हळ्यार पांचशीं वर्सां तरी लागूंक जाय.' म्हळ्यार, 'इल्लें इल्लें करून' स्वराज्य आमकां पांचशीं वर्सांनी एक दीस मेळपाचें आशिल्लें.

पुणून तें तीस वर्सां भितर मेळ्ळें ! कशें?

हिन्दुस्तानाक स्वराज्याची भूक लागल्या म्हणपाची गजाल १८५७तल्या बंडा

वेळारूच स्पस्ट जाल्ली. १८८५त इन्डियन नॅशनल काँग्रेस सुरू जाली. तेन्ना हिन्दुस्तानी लोक स्वराज्य जोडपाचे दिकेन पावलां उखलपाक लागल्यात म्हणपाचें सगळ्यांक दिसून आयिल्लें. लोकमान्यांनी लोकांक जागोवन तांचीं काळजां पेटोवपाचें काम सुरू केलें तेन्ना हिन्दुस्तान स्वराज्य घेतले बगर रावचें ना म्हणपाचेंय कुड्ड्यां भेड्ड्यांक लेगीत बेस बरें समजल्लें. क्रान्तिकारी लोकांनी बॉम्ब-पिस्तोलां हातांत घेतलीं तेन्ना तर 'लोक आतां कशेच ओगी बसपाचे नात' म्हणपाचें अख्ख्या संवसाराक कळिल्लें. लॉर्ड कर्झनांनी पार्लामॅन्टांत बील हाडलां ताचे पयलीं इतल्योय ह्यो घडणुको देशांत घडून आयिल्ल्यो.

एक गजाल मान्य करूंक जाय, हिन्दुस्तान स्वराज्य घेवपाक मुखार सरिल्लें खरें. पुणून तें कशें मेळटलें, केन्ना मेळटलें तें मात कोणाक सारकें खबर नाशिल्लें. झुजूंक जाय, ते बगर तें मेळपाचें ना इतलेंच लोक जाणा आशिल्ले. ते झुजत आयिल्ले. पुणून चडशे गतानुगतीक मार्गांनीच झुजत राविल्ले.

जिस्त ह्या वेळार गांधी आफ्रिकेंतल्यान हिन्दुस्तानांत आयल्यात आनी देश तांचे फाटल्यान ओडत गेला. 'स्वराज्य मेळ्ळें जाल्यार होच तें मेळोवन दितलो' ह्या भावार्तान लोक तांचे फाटल्यान गेला.

अख्ख्या देशाक आपणा फाटल्यान ओडून व्हरपा सारकें गांधींत कितें आशिल्लें? कोण म्हणटात, ते संत आशिल्ले, त्यागी आशिल्ले, गरिबायेंत रावताले. सरसमान लोकां भाशेन जियेताले, तांचेच भाशेंत उलयताले, म्हूण लोकांक ते आपलेशे दिसले. पुणून संत, त्यागी, सरसमान लोकां भाशेन रावपी उलोवपी तांचे पयलींय देशांत कितलेशे जावन गेल्ले, तांचे मुस्तींतय कितलेशे आशिल्ले. गांधीं फाटल्यान गेलो तसो हांचे कोणाचेच फाटल्यान देश वचूंक नाशिल्लो. गांधींत साधुत्वा भायर आनीक कितें तरी आशिल्लें जावंक जाय, अशें म्हणचें पडलें ना?

कितें आशिल्लें? झुजा-शास्त्र सांगता, झुजांत जैत जोडप वा हार खावप हें चडशें आमच्या हातांत आशिल्ल्या शस्त्राचेर निंबून उरता. गांधीं आदल्या स्वराज्यवादी फुडाऱ्यांच्या हातांत झुजाचीं जीं शस्त्रां-अस्त्रां आशिल्लीं तसलीं, वा म्हणुंया, तांच्याकूय कितल्याश्याच प्रमाणांत चड बरीं, इंग्रजांच्या हातांत आशिल्लीं. गांधीं कडेन एक अशे तरेचें अस्त्र आशिल्लें जें इंग्रजां कडेनूय नाशिल्लें, लोकां कडेनूय नाशिल्लें. तें सादें अस्त्र नाशिल्लें. तें एक दिव्यास्त्र आशिल्लें. ताका तांणी 'सत्याग्रह' म्हूण नांव दिल्लें. दक्षीण आफ्रिकेंत एका आडांग्या सरकारा आड तांणी तें वापरून पळेल्लें आनी खंयच्याय अस्त्रा परस चड प्रभावीपणान तें परिणाम घडोवन हाडटा म्हणपाचें तांकां दिसून आयिल्लें. तें अन्याय तर पयस करताच. ते भायर, अन्याय करतल्याक आमचो इश्टूय करता म्हणपाचें तांणी पळेल्लें. हिन्दुस्तानाक हेंच अस्त्र स्वराज्य जोडून दितलें - इतलेंच न्हय, तर इंग्रजांक

तें आमचे इश्ट करून देश सोडूंक लायतलें हाची तांकां खातरी आशिल्ली. ही खातरी तांच्या उतरा उतरांतल्यान उकती जाताली. हो मनीस आपणाल्या आयुश्यांतलो खिणान खीण स्वराज्या खातीर खर्चिता म्हणपाची जाणवीक अख्ख्या देशाक जाल्ली. सत्याग्रहाचीं दोन प्रात्यक्षिकांय तांणी देशांत पावल दवरिनाफुडें लोकां मुखार दवरलीं. एक, चंपारणांतल्या सत्याग्रहाच्या रुपान; दुसरें, खेडा जिल्ल्यांतल्या सत्याग्रहाच्या रुपान. ते उपरांतूच इण्डियन नॅशनल काँग्रेस आपशींच तांच्या हातांत गेल्या.

काँग्रेस हातांत घेना फुडें तांणी तिच्यांत एक व्हडलो बदल घडोवन हाडलो. वर्सांतल्यान नातलांचे सुटयेंत दोन चार दिसां खातीर एकठांय येवन कांय थाराव पास करून घेवपी हे संस्थेक तांणी स्वराज्या खातीर पुराय वेळ दिवपी सैनिकांचे एके झुजारी संस्थेचें रूप दिलें. थाराव हाडून आनी तांचेर भाशणां करून न्हय, तर दीस रात ल्हान-व्हड चळवळी चलोवनूच स्वराज्य लागीं हाडूंक येतलें म्हणपाचें तांणी देशभक्तांक पटोवन दिलें. जें कितें थरता तें दाखय लिपय करी नासतना उकतेपणान करपाचें, भंयभाडो सोडून करपाचें, हड्डें मुखार काडून करपाचें, आनी, ते खातीर जें सोंसचें पडटा तें खुशालभरीत जावन सोंसपाचें हे तरेची तेजस्वितायेची एक देख तांणी देशाक दिल्ली. म्हत्वाचें म्हळ्यार, किरकोळांतल्या किरकोळ मनशांत लेगीत आपणाच्यान स्वराज्या खातीर कितेंय करूंक जाता म्हणपाचो आत्मविस्वास तांणी जागयलो. देखून लाखांनी लोक तांचे फाटल्यान गेलो. ते सांगतात तें करपाक लागलो. जो कोण तांचे म्हऱ्यांत पावला ताका तांणी सारको वळखून घेतला, ताका जिवाभावाच्या नात्यान आपणा कडेन बांदून घेतला आनी ताच्यांतल्यो न्हिदिल्ल्यो शक्ती जागोवन ताका व्हडलीं व्हडलीं कामां करपाक मुखार काडला. 'येदें व्हडलें काम म्हज्यान जावचें ना' अशें कोणेंय म्हळां त्या वेळार, 'जातलें, हांव सांगतां तुका, तुज्यान जातलें म्हूण' अशें सांगून ताका धीर दिला. आनी ताचे कडल्यान तो वावर करुनूय घेतला.

हाकाच लागून जें स्वराज्य आमकां पांचशीं वर्सां उपरांत मेळपाचें आशिल्लें तें ते चारशीं सत्तर वर्सां लागीं हाडूंक पावले. कोणें एकल्यान 'इतिहासाक आपणाक जाय ते तरेचें रूप दिवपी मनीस' म्हूण गांधींचें वर्णन केल्लें तें खरें म्हणपाचें सगळ्यांक मान्य करचें पडलां.

नवो इतिहास घडोवपा खातीर गांधींनी तीन व्हडल्यो चळवळी देशांत चलयल्यो. १९२०-१९२२तली एक, असहकाराची. १९३०-१९३२तली दुसरी. मिठाच्या सत्याग्रहाची. १९४०-१९४२तली तिसरी, 'डू ऑर डाय' ह्या नांवान चलिल्ली. दर एके चळवळी मुखार तांणी एक ध्येय दवरलां, म्हणुंया, एक मोख दवरल्या. पुणून हे मोखी परस चड झुजा कडेन तांणी लक्ष दिलां. खंयचेय चळवळींत मोख निमित्या खातीर

दवरचीच पडटा. पुणून झूज हेंच चळवळिचें म्हत्वाचें आंग आसता. म्हूण गांधी मोखी परस चड झुजा कडेन लक्ष दिताले. गांधींनी लोकांक चरख्यार सूत काडात म्हूण सांगलें, खादी वापरात म्हूण सांगलें, स्वदेशी माल घेयात म्हूण सांगलें. च्या सोडात, साकर सोडात, प्रार्थना करात, उपास करात म्हूण सांगलें. वयले वयल्यान पळेल्यार हे 'निरुपद्रवी' वावर दिसताले. 'असल्या वावरांनी कितें जावपाचें आसा' अशें विचारपी कांय बुदवंतूय तांचे मुस्तींत आशिल्ले. पुणून असल्याच वावरांनी तांणी लोकांक 'तयार' केल्यात. तांगेल्या सगळ्या चळवळिंनी होच लोक लाखांचे संख्येन पडिल्लो. ताणें पुलिसांचो मार खाला, बंदखण भोगल्या. कांय जाणांनी तर जिवूय होगडायला. स्वराज्य जोडपा खातीर देश तांणी हेच वाटेन 'तयार' केला.

स्वराज्य हाडपाक सगळ्यांचो हातभार लागला. १८५७तल्या बंडांत पडिल्ल्यांचोय लागला. दादाभाई नवरोजी, फिरोजशाह मेहता, गोपाळ कृष्ण गोखले सारकेल्यांचोय लागला. टिळक, आगरकर हांचोय लागला. सावरकर, अरविंद, बारीन्द्र, भगतसिंग, सुखदेव, चंद्रशेखर आझाद हांचोय लागला. सुभाषबाबूंचोय लागला. पुणून क्रान्तिकारी विचारवंत जाका 'मास पार्टिसिपेशन' म्हणटात ताचो, म्हळ्यार, जांणी मार खालो, बंदखणी भोगल्यो, जीव होगडायलो तांचो सगळ्यांत चड लागला.

गांधी ह्या लोकांचें एक प्रतीक. स्वराज्याचे चळवळींतलें गांधींचें नांव पुसून उडयात, लाखांनी लोक जे स्वराज्या खातीर झुजले तांकां पुसून उडयल्ले वरी जातलें.

हालिंच्या इतिहासांत संवसारांत तीन व्हडल्यो क्रांत्यो घडून आयल्यो. पयली, फ्रान्सांतली स्वातंत्र्याची राज्यक्रांती. दुसरी, लेनिनान घडोवन हाडिल्ली रशियेंतली (समानतायेची) बोल्शेवीक क्रान्ती. आनी तिसरी, माओन घडोवन हाडिल्ली चीनांतली साम्यवादी क्रान्ती. तिनूय क्रान्त्यो सत्या हातांत घेवपाच्या उद्देशान जाल्ल्यो. तिनूय क्रान्त्यो मूठभर क्रान्तिकारी लोकांनी घडोवन हाडिल्ल्यो. लाखांनी लोकांचें हात-बोट लागिल्ली संवसारांतली पयलीच क्रान्ती ती गांधींच्या दळवयपणा खाला चलिल्ली सत्याग्रहाची क्रान्ती. गांधींच्या सत्याग्रहाक लागुनूच आमी स्वराज्य तीस वर्सां भितर जोडूंक पावल्यात. सत्याग्रहाक लागुनूच इंग्रज आमचे इश्ट जावन देश सोडून गेल्यात.

स्वराज्य फुके सवाय मेळूंक ना आमकां. खूब व्हडलें मोल दिलां तेन्नाच तें मेळ्ळां.

पंदरा ऑगस्ट उदेवचो म्हूण जाणें आपणाल्या जिविताचो खिणान खीण खर्चिलो तो त्या दिसा खंय आशिल्लो, कितें करतालो? जंय अख्खें जग खोशयेन आनी उल्हासान नाचतालें ते दिल्लींत तो नाशिल्लो. कलकत्त्याक आशिल्लो. बेलियाघाट नांवाचे एके

झोंपडपट्टेंत 'हैदर मेन्शन' नांवाच्या एका बुरश्या घरांत रावन हिन्दू-मुसलमानांनी एकामेकांक दिल्ले घाय पुसतालो.

प्यारेलालजींचें 'द लास्ट फेज' घेवन बशिल्लों. गांधींच्या मनांत त्या पंदरा ऑगस्टाक जीं ल्हारां उसळून आयिल्लीं तांचीं वर्णनां प्यारेलालांनी ह्या पुस्तकांत केल्यांत. मन गळगळून येता तीं वाचतकूच.

सकाळींफुडेंच राजाजी तांकां मेळपाक येतात. राजाजी तांगेले खूब लागशिल्ले एक सांगाती. ते भायर, एक सल्लागार. बंगालचे गवर्नर म्हूण ते कलकत्त्याक आसात. तांकां पळोवन गांधी म्हणटात, 'म्हज्या दोळ्यां मुखारूच हिन्दुस्तान एक वेगळें रूप घेवपाक लागलां... ह्या नव्या हिन्दुस्तानांत म्हाका खंयच सुवात ना अशेंशें कितें म्हाका हालिंसाराक दिसपाक लागलां...'

गांधींच्या सभावांत एके तरेचें चिडचिडेपण आयिल्ल्याची नोंद प्यारेलालजींनी घेतल्या, जें तांणी केन्नाच तांच्यांत पळोवंक नाशिल्लें. 'सोंसूं नज जालां म्हाका आतां हें जिवीत... देव म्हाका कित्याक घेवन वचना, समजना' असलीं उतरां तांच्या तोंडांतल्यान मदीं मदीं फुट्टात. एका आश्रमी सांगात्याक ते बरयतात, 'म्हजे भोंवतणीं उजो पेटला... तो म्हजो लासून गोबोर करिना हाका देवाची कृपा म्हणप काय अवकृपा, समजना...'

१९४६तूच आपणाले सांगाती आपणा पसून पयस वचपाक लागल्यात म्हणपाची जाणवीक तांकां जावपाक लागिल्ली. हिन्दुस्तानी लोकांच्या हातांत हिन्दुस्तान दिवन वचपाचो बेत इंग्रजांनी केल्लो. हिन्दुस्तानी लोकांच्या हातांत म्हळ्यार कोणाच्या हातांत होच एक प्रस्न सोडोवपाचो उरिल्लो. तो सोडोवपाक इंग्लंडान तीन मुत्सद्द्यांचें एक पथक हिन्दुस्तानांत धाडिल्लें. तिगूय मंत्री आशिल्ले. सगळ्यां कडेन उलोवणीं करून - आनी सुमार चारशीं पांचशीं फुडाऱ्यांच्यो मुलाखती घेवन - ह्या पथकान हिन्दुस्तानाचें विभाजन जावंक दिनासतना काँग्रेस आनी मुस्लीम लीग ह्या दोनूय म्हत्वाच्या पंगडांक संतोस दीत असली एक येवजण आंखून काडिल्ली. देशाचे तीन वांटे करचे, एकांत उत्तर-उदेंत वाटार घेवचो, दुसऱ्यांत उत्तर-अस्तंत घेवचो (दोनूय मुसलमानी वाटार) आनी तिसऱ्यांत उरिल्लो सगळो भौसंख्य हिन्दू वाटार आसपावन घेवचो; संरक्षण, येरादारी, विदेश वेव्हार असलीं तीन चार खातीं केन्द्रा कडेन दिवन उरिल्लो भितरलो कारभार चलोवपाची तिनूय विभागांक स्वायत्तताय (ऑटॉनमी) दिवची आनी तिनांचोय एक 'महासंघ' करचो, अशी ही येवजण आशिल्ली. काँग्रेस आनी मुस्लीम लीग दोनूय पंगडांनी ती मानून घेतली जाल्यार 'मदल्या काळाचें' एक सरकार घडोवचें आनी ताचे कडेन देश दिवन नवी घटना तयार करपा खातीर एक घटना समिती रोखडीच वेंचून

काडची अशें थारायल्लें. काँग्रेस कार्यकारिणींत हे येवजणेचेर भासाभास सुरू जाल्ली. अजून तिणें कसलोच निर्णय घेवंक नाशिल्लो. ते पयलींच मौलाना आझादांनी आपणाक ही येवजण मान्य आसा अशें सांगून ह्या मुत्सद्द्यांक एक चीट बरोवन धाडली. गांधींक ही खबर ह्या मुत्सद्द्यांनीच सांगली तेन्ना तांकां आकांताचो धसको बसलो. 'अब्बा! मौलानांनी आपणाल्या सांगात्यांक कांय सांगी नासतना चीट बरयली?' गांधींनी मनांत म्हळें आनी चीट मागून घेवन तांणी मौलानांक आपोवंक धाडले.

'क्या आपने कॅबिनेट मिशन को कोई चिठ्ठी लिखी है?' गांधींनी मौलानांक विचारलें.

'नहीं तो!'

'आपने कोई चिठ्ठी नहीं लिखी?'

'नहीं.'

गांधींचें मन खंतीन भरून आयलें. 'मौलाना साहब, आप झूठ बोल रहे हैं', तांणी म्हळें, आनी चीट तांकां दाखोवन विचारलें, 'यह चिठ्ठी किसकी है? आपकी नहीं है क्या?'

मौलाना त्या वेळार काँग्रेसचे अध्यक्ष आशिल्ले. तांचो अध्यक्षपदाचो 'टर्म' सोंपतालो. पुणून इंग्रजां कडेन देशाच्या फुडाराची भासाभास चलिल्ली आसतना अध्यक्ष बदलप समा जावचें ना, मौलानांक आनीक एक टर्म दिल्लो बरो, अशें जायत्या जाणांचें मत्त जाल्लें. पुणून मौलानां वयलो गांधींचो विस्वास उडून गेल्लो. तांणी मौलानांक म्हळें, 'आपने बिना किसी को बताये यह चिठ्ठी लिखकर देश को और काँग्रेस को धोखा दिया है... आप दुबारा काँग्रेस के अध्यक्ष कैसे चुनकर आते हैं, मैं देख लूँगा...'

गांधींची आनी मौलानांची आयुष्यांतली ही निमाणी भेट म्हणूंक जाय. ना म्हळ्यार, गांधींच्या निमाण्या उपासाच्या निमाण्या दिसा तांकां मोसंबिचो रोस दिवपाक मौलानांक निरुपायान बिर्ला हावजांत वचचें पडिल्लें. सांगाती घेवन गेल्ले. हो एक आडवाद सोडीत जाल्यार मौलाना, ते उपरांत, गांधींक मेळपाक केन्नाच वचूंक नात. गांधींनीय तांकां केन्ना मेळपाक आपोवंक नात. स्वराज्य मेळचे पयलींच दोगांयचे संबंद तुटिल्ले.

मौलानांनी आपणाले 'इण्डिया विन्स फ्रीडम' आप-जिणेंत ह्या प्रसंगा संबंदान एक उतर काडूंक ना. 'आपणाक दुसरो टर्म मेळचो अशें खूब जाणांक दिसतालें, पूण काँग्रेसीन दुसऱ्या कोणाक अध्यक्ष करचो अशें थारायल्लें पळोवन आपणें जवाहरलालांचें नांव अध्यक्षपदा खातीर सुचयलें' इतलेंच बरयल्लें मेळटा. प्यारेलालजींनी 'द लास्ट फेझीं'त मौलानांचें नांव घेनासतना ही खबर सांगल्या. फकत सुधीर घोषांनी आपणाल्या 'गांधीज एमिसरी' ह्या पुस्तकांत ती नांवा सयत विस्तारान दिल्या.

जवाहरलालूय ह्याच दिसांनी गांधीं पसून पयस गेल्यात. पुणून, जवाहरलालां संबंदान एक गजाल पयलींच स्पस्ट केल्ली बरी. ते गांधींचे 'शिष्य' केन्नाच नाशिल्ले. फकत तांगेले 'सांगाती' आशिल्ले. ते खादी घालताले 'स्वराज्याची वर्दी' म्हूण. खादी फाटलो विचार तांणी केन्नाच मानून घेवंक नाशिल्लो. गांवांक स्वावलंबी करून गांव वयर काडूंक जाय म्हणपी गांधींची अर्थनितूय ते मानी नाशिल्ले. 'गांव म्हळ्यार बुद्‌दिचे नदरेन फाटसार वाटार... फाटसार वाटारांत कसलीच उदरगत जायना' अशें जवाहरलालांचें प्रामाणीक मत्त आशिल्लें. गांधीवाद नांवाची जी एक नदर - अ व्यू ऑफ लायफ - ते मुस्तींत वयर सरिल्ली, तिचे पसून जवाहरलाल कितलेशेच मैल पयस राविल्ले. आफूड-भश्ट ना करपाच्या वावरांत तांणी केन्नाच वांटो घेवंक ना. वेगळ्या वेगळ्या धर्मांच्या लोकांक एकठांय हाडून तांचें एक धर्म-कुटूंब तयार करपाच्या वावराक तांणी केन्ना म्हत्वूच दिवंक ना. धर्म, जाती बी समाजाचीं कुसकीं आंगां, शिक्षणाचो प्रसार जातकूच, व्हडले व्हडले कारखाने सुरू जावन लोक शारांनी येवन रावतकूच, लोकांचो 'स्टँडर्ड ऑफ लिविंग' वाडटकूच आपशीं गळून पडटलीं ह्या मत्ताचे ते आशिल्ले. गांधींचो प्रभाव थोडो भोव दिश्टी पडटा तो तांच्या व्यक्तित्वाचेर. विचारांचेर न्हय. पुणून ते गांधींक दसून राविल्ले एकाच कारणाक लागून. तांकां हिन्दुस्तान जाता तितले बेगीन स्वतंत्र जाल्लें जाय आशिल्लें. आनी तें स्वतंत्र करपाची, एका सप्तका भितर अख्खो देश पेटोवन दाखोवपाची, लाखांनी लोकांक त्यागाक आनी बलिदानाक प्रेरणा दिवपाची एक सामान्यां भायली तांक गांधींत सोडून देशांत कोणाक ना, आपणांत तरी ना, हें तांणी पळेल्लें. म्हूण ते गांधीं सरीं राविल्ले.

पुणून आतां स्वातंत्र्य दारां खटखटावपाक लागिल्लें. गांधींची आतां तांकां गरजूय उरूंक नाशिल्ली. ते भायर, गांधींची तांकां आतां आडखळूय जावपाक लागिल्ली. कॉंग्रेस विसर्जीत करून तिचें 'लोक सेवा संघां'त रुपांतर करूंक जाय, स्वराज्याच्या मार्गांत मुस्लीम लीग आडखळ हाडटा जाल्यार मुहम्मद अली जिनांच्या हातांत सत्या दिवन उडोवंक जाय' असलें कितें कितें गांधी उलोवपाक लागिल्ले तें तांकां उस्तऱ्यां गेल्लें. जाल्लें अशें -

१६ मे १९४६चे कॅबिनेट मिशनाचे येवजणेक कॉंग्रेसीन मान्यताय दिल्ली तशी मुस्लीम लीगेनूय दिल्ली. वायस्रॉय दोनूय पंगडांचें 'मदल्या काळाचें' सरकार घडोवपाक मुखार सरले तेन्ना सरकारांत मुसलमान मंत्री कोण आसचे हें मुस्लीम लीग थारायतली, कॉंग्रेसींतल्या मौलाना आझादां सारक्या घरभेदी, गळेकापे, घातकी, गद्दार मुसलमानांचे पंगतीक मुस्लीम लीग बसची ना, असलो हट जिना घेवन बसले. वायस्रॉयांक सामकें नाका-पुरो जालें. कितें करचें समजना जालें. अखेरेक बेजार येवन तांणी जवाहरलालांक

सरकार घडोवपाक सांगलें.

जिनांचें पित्त खवळ्ळें. तांणी कॅबिनेट मिशनाचे येवजणेक दिल्लो तेंको काडून घेतलो. घटना-समितिचेर बहिश्कार घालो आनी 'डायरेक्ट ऍक्शना'ची धमकी दिवन ते 'रस्त्यार आयले'. परिणाम - इतिहासांत केन्नाच घडून येवंक नाशिल्ले येदे व्हडले दंगे देशांत सुरू जाले. हिन्दू-मुसलमान दोनूय एकामेकांच्या जिवार उठले.

नियतीन आपणाली अग्नि-परिक्षा सुरू केल्या काय कितें, अशें गांधींक दिसपाक लागलें. नियतिचें हें आह्वान झेलून ते एका प्रांतांतल्यान दुसऱ्या प्रांतांत हिंसेचो उजो पालयत भोंवपाक लागले. एके कडलो उजो पालवतासर दुसरे कडेन पेट घेतालो. तो पालयतासर तिसरे कडेन पेट्टालो. 'हिन्दूंक आनी मुसलमानांक एकठांय रावंक येवंक जाय, ना जाल्यार देशाची फाळणी चुकोवंक येवपाची ना, ती चुकोवपा खातीर कोणेंच कोणाच्या भंयान आपणालीं घरां-दारां सोडून दुसरे कडेन वचूंक फावना. जे जंय रावतात - रावीत आयल्यात - थंयच रावन तांणी संकश्टांक तोंड दिवंक जाय', हे तरेची धाडसाची, पराक्रमाची, धिटायेची देख ते लोकांक दीत रावले. एके कडल्या मुसलमानांनी हिन्दूंक मारचे, हाचो सूड दुसरे कडल्या हिन्दूंनी मुसलमानांक मारून घेवचो, ही वाट देशाक अखंड दवरपाची न्हय, देशाचें विभाजन घडोवन हाडपाचे दिकेन व्हरपी अचूक वाट ही, हे वाटेन निखालूस चलूंक जायना म्हणपाचें ते लोकांक समजायत राविल्ले.

फाळणी चुकोवपाचो तांचे कडेन होच एक उपाय आशिल्लो.

तांकां भंय एकेच गजालिचो आशिल्लो -

चल्लां तें हिंसेचें तांडव पळोवन आपणाले सांगाती (जवाहरलाल, वल्लभभाई बी) सट्ट करून निर्शेत आनी निर्शेवन देशाची फाळणी करपाक तयार जातीत म्हणपाचो. पाकिस्तान दिलेंना जाल्यार मुस्लीम लीग कोणाक सस्थ बसूंक दिवची ना म्हणपाचें मत्त तांगेल्या कांय सांगात्यां मदीं मूळ धरूंक लागिल्लें तांणी पळेल्लें. केदेंय मोल दिवचें पडूं, विभाजन जावंक दिवंक जायना अशें म्हणून 'पाकिस्तान नहीं बन सकता, पाकिस्तान बना तो वह मेरी लाश पर बनेगा' अशें ते सांगपाक लागिल्ले. पुणून परिस्थिती हाता भायर गेल्ली. ती पळोवन सगळ्यांत चड काचाबूल जाले वायस्रॉय लॉर्ड वॅवेल. ते कित्याय कितें करपाक लागले. तांणी इतलो गोंदळ केलो की इंग्लंडच्या प्रधानमंत्र्यांचेर तांकां आपोवन व्हरपाचो प्रसंग आयलो. आनी तांचे सुवातेर लॉर्ड माउंटबॅटनांक नवे वायॅसरॉय म्हूण धाडून दिले.

पाकिस्तान दिवचें पडल्यार पाकिस्तानूय दिवन, पुणून सत्या लोकांच्या हातांत दिवन वचपाचो नित्शयूच करून माउंटबॅटन आयिल्ले. जागच्या जाग्यार निर्णय घेवपी

आनी सडसडीत पावलां उखलपी एक कर्तुत्वी मनीस म्हूण तांची नामनाय आशिल्ली. आनी तशें करपाचो अधिकारूय ते घेवन आयिल्ले. दिल्लींत पावल दवरिनाफुडें रोखडेच ते सत्या लोकांच्या हातांत दिवपाच्या कामाक लागले. परिस्थिती समजून घेवपाचो यत्न करता आसतनाच पाकिस्तान दिले बगर उपाय उरूंक ना ह्या निर्णयार ते पावले. तांणी वल्लभभाई आनी जवाहरलाल दोगांकूय सगळ्यांत पयलीं आपणाल्या जाळांत गुठलावन घेतले. दोगांकूय अंतरीम सरकारांत मुस्लीम लीगेचो खूब कोडू अणभव आयिल्लो. दोगूय तिचेर उबगल्ले. पाकिस्तान जाल्यार पाकिस्तान दिवन, पुणून जिनांक जाय तेदें न्हय, आमी दितले तेदेंच दिवन उडोवचें आनी 'एक कटकट सासणाची ना करची' ह्या मत्तार दोगूय पाविल्ले. दोगूय आपणा वटेन आसात म्हणपाचें कळनाफुडें माउंटबॅटनांनी जिनांक पाकिस्तान दिवपाचें उतर दिलें. पुणून जिनांक जाय आशिल्लें तें न्हय, जिना जाका 'खांपायल्लें आनी वायटी लागून बरगेल्लें' म्हणटाले तें पाकिस्तान, पंजाब आनी बंगाल हांचे दोन कुडके केल्लें. जिना ह्या पाकिस्ताना आड एक एक मुद्दो माउंटबॅटनां मुखार दवरपाक लागले तेन्ना माउंटबॅटनांनी तांकां थंड उतरांनी सांगलें, 'तुमगेले हे सगळे मुद्दे देशाचे कुडके करपा आड लेगीत वापरूं येतात, खबर आसा मू तुमकां?... मेळटा तांतूंत धादोशी जायात.' जिनांनी सगळेंच हातांतलें सुट्टाशें पळोवन 'अर्धं त्यजति पंडितः' ह्या न्यायान मेळटा तें मट्ट केलें.

आतां फकत गांधींक आपणा वटेन ओडपाचो प्रस्न माउंटबॅटनां मुखार उरिल्लो. तांकां आपले करून घेतले बगर विभाजनाचो बेत तडीक वचपाची आस्तूच नाशिल्ली. गांधी बिहारांत भोंवताले. दंग्यांत दुखाविल्ल्या लोकांचे घाय पुसपाच्या कामांत गुल्ल आशिल्ले. तांकां तेलेग्राम धाडून 'तुमकां मेळपाची इत्सा आशिल्ली' म्हूण कळीत केलें. गांधी रोखडेच येवन मेळ्ळे. पयलेच बसकेंत माउंटबॅटनांनी तांकां म्हळें, 'कॉंग्रेस आनी लीग हांकां मात्तूय पडना. अंतरीम सरकारांत लॉर्ड वॅवेलांनी दोनूय पंगडांक एकठांय हाडले खरे, पुणून दोनूय एकामेकांचे आतां पांय ओडपाक लागल्यात. अशे तरेन सरकार कशें चलतलें?'

'तें सारकें चलपाचेंच ना', गांधींनी म्हळें. 'ते परस तुमी सरकारूच बरखास्त करात आनी नवें सरकार घडोवपाक जिनांक पाचारात ...' आपूण उलयतां तो एका राजपुरुषा कडेन, एका स्टेट्समना कडेन हें कळपाक माउंटबॅटनाक मात्तूय कळाव लागलो ना. हेवटेनच्यो तेवटेनच्यो खबरी करून जातकूच थोड्या वेळान माउंटबॅटनांनी ल्हवूच हिन्दू-मुसलमानांचो प्रस्न सोडोवपाची आपणाली (जिनांक खंडीत पाकिस्तान दिवपाची) येवजण तांचे मुखार दवरली.

'च्ये, च्ये, च्ये... पाकिस्तान दिवन हो प्रस्न कसोच सुटपाचो ना... परतो, अदीक

घुस्पतलो' अशी प्रतिक्रिया उकतावन गांधींनी म्हळें, 'तुमची येवजण काँग्रेस कशीच मानून घेवपाची ना...'

माउंटबॅटनांनी मुमुरख्यांनी हांसून म्हळें, 'तुमकां घडये खबर नासतली, काँग्रेसीन ही येवजण मान्य केल्या. काँग्रेस आयज तुमचे फाटल्यान ना, म्हजे फाटल्यान आसा...'

गांधी शिटकावले. माउंटबॅटन म्हणटाले तें खरें आशिल्लें. काँग्रेस गांधींक सोडून माउंटबॅटनां फाटल्यान गेल्ली. कित्याक, माउंटबॅटन तिच्या हातांत सत्या दिवपाक मुखार सरिल्ले. गांधीं कडेन बंदखणिचे तापत्रय सोडून तांकां दिवपा सारकें कितेंच नाशिल्लें. आनी बंदखणीक हे सगळे उबगल्ले. सगळे जाणटे जाल्ले.

काँग्रेस वर्कींग कमिटिचे बसकेंत गांधींनी शीण काडून आपणाल्या इतल्या वर्सांच्या ह्या सांगात्यांक म्हळें, 'तुमी म्हाका विचारी-सांगी नासतना येदो व्हडलो हो निर्णय घेतलो हें सारकें केलें ना. जावं, अजुनूय कळाव जावंक ना... गांधी विभाजनाक तयार नात म्हूण वायस्रॉयांक वचून सांगात, तांचे आड आमकां वचूंक येवपाचें ना म्हूण सांगात... तुमची वाट सोंपी जातली...' तांणी आनीक एक सांगलें, 'हो प्रस्न तुमकां सोडोवंक येवंक ना. तुमी तो म्हज्या हातांत दियात... हांव सोडोवपाचो यत्न करतां.' इतलें सांगून 'हाचेर कोणाक कितें सांगपाचें आसा व्हय?' असो तांणी वांगड्यांक प्रस्न केलो. कोण कांय उलयना तें पळोवन तांणी म्हळें, 'हांव एक सुचोवणी करतां... तुमी फाळणेचें उतर दिल्लें आसत जाल्यार काँग्रेस आनी मुस्लीम लीग दोनूय पंगडांनी मेळून ती करची, इंग्रजांक मदीं पडूंक दिवचे न्हय... तांचो आधार घेवचे नात असो निर्णय घेयात.'

इतलें सांगून ते फट्ट करून उठले. 'म्हाका दिसता तें हांवें तुमचे मुखार पोटतिडकीन दवरलां. तुमी विचार करचो... ना जाल्यार, म्हाका सोडून दिवचो.'

गांधी अशे अवचीत वचपाक उठ्ठले अशें कोणाकूच दिसूंक नाशिल्लें. म्हूण, तांकां उठून उबे राविल्ले पळोवन सगळे काचाबूल जाले. अध्यक्षांनी वांगड्यांक विचारलें, 'बापू वॉक-आउट करून वतात. कितें करपाचें? तांकां वचूंक दिवपाचे?' कितें करचें, कोणाकूच कांय खबर नाशिल्लें.

ही खबर सांगून प्यारेलाल आपणाल्या पुस्तकांत बरयतात -

त्या काळांत पयस आशिल्ल्या कोणा कडेन भासाभास करपाक दिल्लींत कोणाक वेळ मेळनाशिल्लो हें खरें. सगळें दिल्लींतले दिल्लींत आनी रोखड्या रोखडें थारावचें पडटालें. माउंटबॅटन हो अधिकार घेवन आयिल्ले... पुणून गांधींक विचारले बगर, सांगले बगर काँग्रेसच्या फुडाऱ्यांनी आतां मेरेन खंयचोच म्हत्वाचो निर्णय केन्नाच घेवंक नाशिल्लो, हेंवूय तितलेंच खरें. देशाचे फाळणे सारको म्हत्वाचो निर्णय घेवपा वेळार

हांकां कोणाक गांधींचो उगडास जालो ना, तांची बुद्द घेवपाची गरजूय भासली ना ही 'बरोवन दवरपा सारकी गजाल' म्हणपाचें विसरूंक फावना.

प्यारेलाल आनीक एक गजाल सांगतात -

त्या दिसा बापू जड अंतस्कर्णान घरा परतल्यात. खाटेर पडून एकले एकलेच आपणा लागीं उलोवपाक लागल्यात. 'हांव आयज एकलों पडलां. म्हातारपणान तोतेलां अशें जवाहरलाल आनी सरदार दोगूय मानपाक लागल्यात... हांचीं पावलां चुकिचे दिकेन पडटात म्हणपाचें म्हाका स्पस्ट बरें दिश्टी पडटा... फाळणेचें मोल दिवन जोडिल्ले स्वतंत्रतायेचो फुडार काळखान गुपाट भरिल्लो आसतलो, हे विशीं म्हाका इल्लोय दुबाव ना... काय, हांवूच काळखांत पडलां? कशेंय आसूं, ह्या जाण्टेल्याक विभाजनाच्या निर्णयाचे मनस्ताप जाल्ले, ताचो ह्या निर्णयांत मात पसून हात नाशिल्लो, अखेर मेरेन तो फाळणे आड आशिल्लो म्हणपाचें फुडल्या पिळग्यांनी लक्षांत धरचें...'

गांधी अशे आयुष्यांत केन्नाच एकले बडबडूंक नाशिल्ले.

गांधी 'वॉक आउट' करून भायर सरिल्ले ते बसकेंत खान अब्दुल गफार खानूय आशिल्ले. 'आमकां तुमी कोलसुण्यांच्या तोंडांत उडयले' अशें म्हणून ते रडपाक लागले. गांधींनी तांकां समजायत सांगलें, 'आमी दोगूय अहिंसेचे पुजारी... निर्शेनासतना आमी वाट काडूंक जाय... वाट मेळटली, म्हाका खातरी आसा. तुमी पाकिस्तानांत रावपाचें, हांवें हांगा हिन्दुस्तानांत रावपाचें. जी अहिंसा आमकां स्वातंत्र्या मेरेन घेवन आयली ती आमकां मुखावयली वाटूय दाखयतली, विस्वास दवरात...'

गांधी एकटे पडिल्ले. खंतीय जाल्ले. पुणून निर्शेवंक नाशिल्ले. 'वाट मेळटली... हांव वाट सोदतलों' हे श्रद्धेन ते काम करीत रावले.

ह्याच अदमासाक तांणी हिन्दुस्तानी प्रचार सभेची बसका आपयली. राष्ट्रभास 'हिन्दी'च आसतली अशें तांचें म्हणणें आशिल्लें. पुणून खंयची हिन्दी? अमृतसर पसून पटण्या मेरेन सरसमान हिन्दू मुसलमानांचे जिबेर घोळटा ती... देवनागरींत बरयल्यार हिन्दी आनी फारसी-अरबी लिपींत बरयल्यार उर्दू जाता ती अशें ते म्हणटाले. हे राष्ट्र भाशेक तांणी 'हिन्दुस्तानी' नांव दिल्लें. हिन्दी आनी उर्दू हिन्दुस्तानीचीं दोन साहित्यीक रुपां - अडेचीं, बनावटी - अशें तांचें मत्त आशिल्लें. दुर्दैवान हिन्दी उर्दूचो प्रस्न हिन्दू मुसलमानांच्या प्रस्ना कडेन घुस्पल्लो उरिल्ल्यान राष्ट्रभाशेच्या प्रस्नाचो घोळ जाल्लो. बाळासाहेब खेर हिन्दुस्तानी प्रचार सभेचे एक वांगडी. बसका सुरू जायनाफुडें तांणी म्हळें, 'ना ना म्हणटा आसतना पाकिस्तान जालें, पाकिस्तानान उर्दूक आपणाली राष्ट्रभास मानली. 'हिन्दुस्तानी'चो आग्रो घेवन बसपांत आतां कितें अर्थ उरला? आमी देवनागरी लिपींतली हिन्दीच आमची राष्ट्रभास आसतली अशें म्हणुंया...'

आयकून गांधींक खुब्ब वायट दिसलें. 'क्यों? देश के टुकडे हुए तो क्या दिल के भी टुकडे हो गये? पाकिस्तान बना तो क्या हुआ? मेरे लिए तो कश्मीर से कन्याकुमारी तक देश एक है... एक देश में दो हुकूमतें चलती हैं...' आनी आपूण हिन्दुस्तानीच घेवन बसतलों अशें तांणी म्हळें.

तांच्या म्हणण्याचो अर्थ एकूच जातालो -

फाळणी आमचेर परिस्थितीन लादल्या. काळजान तिका आमी मान्यताय दिवंक जायना. 'एक देश में दो हुकूमतें चलती हैं' अशें मानून सगळ्यांनी चलूंक जाय. गुपाट काळखांत उजवाडाचें हें एक ल्हान-शें कीर्ण आशिल्लें. ह्याच उजवाडान ते फुडली वाट चलपाचे आशिल्ले. पाकिस्तानांतल्यान जे हिन्दू निर्वासीत जावन हांगा आयल्यात आनी हांगासल्ले मुसलमान पाकिस्तानांत गेल्यात तांकां आपणाल्या गांवांनी आनी घरांनी परते व्हरून वसयले बगर ते सस्थ बसपाचे नाशिल्ले.

जवाहरलालांचे जिवा-भावाचे इश्ट दोग. एक, मौलाना आझाद. दुसरे, कृष्ण मेनन. दोगांयनी तांकां फुलां माळपाचें काम आयुष्यभर केलां. आनी जवाहरलालांनी आपखोशयेन फुलां माळुनूय घेतल्यांत. जवाहरलाल खुशामतीक सोंपेपणान बळी पडटाले. दोगांयनी तांकां 'गांधींचें अवतारकार्य सोंपलां... देशाक तूं दितलो तेंच रूप आतां मेळटलें. तूं लेनिना परसूय व्हड' म्हणपाचें पटोवन दिल्लें. (जवाहरलालांचें संपूर्ण वाङ्मय उजवाडा आयलां. तांतुंतल्यो तांगेल्यो 'डायऱ्यो' वाचून पळोवच्यो. म्हणटकूच हें म्हणणें खरें दिसतलें.) म्हूण, इंग्रजां कडेन भासाभास चलताली त्या निर्णायक वेळार गांधींक तांणी ल्हवूच कुशीक उडयल्ले. तरी आसतना, अडचणीं वेळार ते मदीं मदीं गांधीं सरीं वचून बसताले. तांगेली बुद्द घेताले. गांधीं कडेन तांणी तोडून घेवंक नाशिल्लें. वल्लभभाईंनी तांकां मेळपाचें सोडून दिल्लें. 'ते फकत हवेंतच उडटात. आनी फकत आदर्शाच्योच खबरी सांगतात' अशें म्हणून ते गांधीं पसून पयस गेल्ले. हाकाय एक कारण जाल्लें -

वल्लभभाईंक आपूण स्वतंत्र भारताचो पयलो प्रधानमंत्री जावचो अशें दिसतालें. 'लोकप्रियतेचे नदरेन आपूण आनी जवाहरलाल सारके. पिरायेन आपूण जवाहरलालां परस बारा वर्सांनी व्हड. भारतीय परंपरे प्रमाण प्रधानमंत्रीपदार बसपाचो पयलो हक आपलो' अशें तांचें म्हणणें आशिल्लें. प्रधानमंत्रीपद तांकां 'भोगपा खातीर' जाय आशिल्लें असो हाचो अर्थ न्हय. वल्लभभाई इतले ल्हान केन्नाच नाशिल्ले. पुणून तांगेलें एक मत्त आशिल्लें. ते म्हणटाले, 'देशांत खुब्ब दुर्गूण भरल्यात. ते हुमटावन काडपाचो वावर सगळ्यांत पयलीं कोणेंय तरी हातांत घेवंक जाय. कोण घेतलो?

जवाहरलाल? हाका वायट दिसतलें, तो दुखावतलो अशें म्हणून ते सगळ्यां कडेन नावुकपणान चलतले. अप्रिय निर्णय केन्नाच घेवचे नात आनी कडकसाणेन कितेंच करचे नात... तांच्या सभावांतूच हीं आंगां नात. आपणा हातांत प्रधानमंत्रीपद आयलें जाल्यार आपूण थोड्याच वर्सां भितर सगळें जाग्यार हाडून दाखयतलों अशें वल्लभभाईंक दिसतालें. वल्लभभाईंत ही तांक आशिल्ली. सगळ्यांनी ती पळेल्ली. आपणालें वजन खर्चून गांधींनी आपणाक प्रधानमंत्रीपद मेळोवन दिवचें अशें तांकां दिसतालें. पुणून, गांधींनी उरफाटें, स्वतंत्र हिन्दुस्तानान आतां आंतरराष्ट्रीय मळार पावल दवरलां, आंतरराष्ट्रीय राजकर्ण आमचे कोणाय परस जवाहरलालांक बरें समजता अशें म्हणून जवाहरलालांक तेंको दिलो. आपणाचेर जाल्लो हो 'अन्याय' वल्लभभाई केन्नाच विसरले नात. तांणी गांधींक मनांतले लेगीत पुसून उडयल्ले. आचार्य कृपालानींनी एक खबर बरोवन दवरल्या, गांधींक वल्लभभाईं कडेन खंयच्या तरी म्हत्वाच्या एका प्रस्नाचेर उलोवपाचें आसता. ते प्यारेलालांक तांकां फोन करूंक सांगतात. प्यारेलाल फोन करतात. तांकां जाप मेळटा, 'आज आनी फाल्यां तांकां वेळ मेळचो ना... ते खूब कामांत आसात...'

वल्लभभाई बिर्लांक मेळपाक बिर्ला भवनांत येताले. पुणून गांधींक मेळनासतना भायले भायर वताले. इतले गांधीं पसून ते पयस गेल्ले.

गांधीं आड देशांत एक मोड उठिल्लें. 'भंयान कोणेंच आपणालें घर-दार सोडून भायर खंयच वचूंक जायना... जो जंय रावन आयला ताणें थंयच रावन आगळिकांक बहादुरीन तोंड दिवंक जाय' ह्या गांधींच्या म्हणण्याचो विपर्यास करून कांय जाण गांधी 'दिल्लींतल्यान पळून गेल्ल्या मुसलमानांक परते हाडात, तांकां तांचीं दुकानां, घरां परतीं दियात' अशें म्हणटात आनी पाकिस्तानांतल्यान पळून आयिल्ल्या हिन्दूंक 'तुमी पाकिस्तानांत परते वचात' अशें सांगतात असो प्रचार सुरू केलो. निर्वासितांचेर ताचो खूब परिणाम जावपाक लागलो. 'गांधींक जितेच मारूंक जाय' अशें खूबश्या निर्वासितांच्या तोंडांतल्यान भायर सरपाक लागलें. गांधींक 'संरक्षण' दिवपाचें काम घर-मंत्री ह्या नात्यान वल्लभभाईंचें आशिल्लें. नथुराम गोडसे गांधींची हत्या करपाक दिल्लीक गेला ही खबर मोरारजीभाईंक सांगपाक पुण्यांतलो केतकर नांवाचो एकलो मनीस मुम्बय गेल्लो. मोरारजी वल्लभभाईंचे एक शिष्य. तांणी आपणाल्या एका पुलीस अधिकाऱ्याक आपोवन केतकरान सांगिल्ली खबर सांगली. पूण हाचे भायर कसलेंच पावल उखल्लें ना. गांधींक संरक्षण दिवपाचें काम जांणी करूंक जाय आशिल्लें तांणी तें केलें ना. हाचे वयल्यान खूब जाणांक ते मुस्तींत प्रस्न पडिल्लो, गांधींची हत्या 'जाली' काय 'जावंक दिली'? जयप्रकाश नारायणांनी तर 'हत्या जावंक दिली' असो उकतेपणीं वल्लभभाईंचेर आरोपूय

केल्लो.

गांधींची हत्या जाल्या त्या दिसा दनपारच्या चारांक वल्लभभाई तांकां मेळपाक आयल्यात. 'मेळूंक येयात ना जाल्यार हांव आयुष्यांत तुमचें तोंड लेगीत पळोवचों ना' असो 'अल्टिमेटम्' धाडून दिल्लो म्हूण ते आयिल्ले. देशाची फाळणी जाल्ली. लाखांनी लोक मेल्ले. तितलेच घर-दार वचून रस्त्यार पडिल्ले. असले हे परिस्थितींत भारत सरकार तरी घटमूट आसूंक जाय आशिल्लें. तें घटमूट नाशिल्लें. जवाहरलाल आनी वल्लभभाई दोगांय मजगतीं मोट्यांतले मोटे मतभेद सुरू जाल्ले. दोगांयनी एकठांय येवन एकचारान काम करूंक जाय अशें अख्ख्या देशाक दिसतालें. फकत वल्लभभाई आनी जवाहरलाल हांकांच दिसनाशिल्लें. म्हूण गांधींक मदीं पडचें पडिल्लें. तांणी वल्लभभाईंक आपोवन 'एक तर एकचारान काम करात, ना जाल्यार हांव जवाहरलालांक सरकार सोडून भायर येवंक लायतां, तुमी देश चलयात' अशें सांगलें. गांधींचो हो एके तरेचो 'अल्टिमेटम्'च आशिल्लो. वल्लभभाईंक ताचो अर्थ बेस बरो कळिल्लो.

वल्लभभाई घरा पावचे पयलींच गांधींची हत्या जाल्ली.

पंदरा ऑगस्टाक म्हजें मन खंतीन कित्याक भरून येता हें सोदपाक बसतां. देशाची फाळणी कोणें केली हाचो सोद घेवंक लागतां. आनी दोन निर्णयांर पावतां -

एक, फाळणेक गांधी सोडून सगळ्यांचो हातभार लागला. आनी -

दुसरो, इतिहास फ़कत व्हड मनीस घडयतात म्हणटात तें खरें न्हय. खूब फावटीं ल्हानांतले ल्हान मनीस कुड्डेपणान तो घडयतात. ताका वेगळीच एक दिका दिवन उडयतात.

जाग, ऑगस्ट १९९६, ऑगस्ट १९९८

११.

# पुतळे - एक अणभव

कित्याक लागून सांगूंक नकळ, पुतळे पळेले (कोणाचेय जावं मागीर ते) म्हणटकूच म्हजें मन खंतीन भरून येता. मनीस गेले उपरांत ताच्यो अश्यो भोयो जावंक जायनाशिल्ल्यो, अशें दिसता.

मुम्बयंत महानगरपालिकेचे बिल्डिंगे मुखार सर फिरोजशाह मेहतांचो एक पुतळो आसा. भव्य म्हणूं येता हे तरेचो. सर फिरोजशाह एका काळावयलें मुम्बयंतलें माडा परस ऊंच अशें एक व्यक्तिमत्व. तांगेलें राजकर्ण 'मवाळ' आशिल्लें, पुणून व्यक्तित्व 'जहाल'. जहाल पंगडांतले व्हडले व्हडले फुडारी तांचे मुखार अदबीन उबे रावताले. येदो धेंक आशिल्लो तांगेलो ते मुस्तींत लोकांचेर. ते भायर पडले तेन्ना मुम्बयच्या रासवळ जिवितांत एके तरेचें रितेपण आयिल्ले वरी सगळ्यांक दिसलें. सगळ्यांनी मेळून 'तांचो उगडास सासणाचो उरचो' म्हूण तांगेलो एक पुतळो उबो केलो.

केन्नाय ते वटेन पावतां तेन्ना मुखावयले पासयेर उबो रावन ह्या पुतळ्या कडेन पळेतां आनी म्हजे म्हाकाच विचारतां, मुम्बयच्या जिवितांत जें रितेपण दिसून आयिल्लें तें कितलेंशें भरून काडलें जातलें ह्या पुतळ्यान? कितल्या जाणांक आयज ताचें नांव खबर आसा? सद्दां हजारांनी - हजारांनीच कित्याक, लाखांनी लोक ह्या पुतळ्या म्हऱ्यांतल्यान येतात वेतात. एकल्याची तरी नदर ताचेर पडटा व्हय? हो कोणाचो पुतळो असो एकलो तरी कोणाक विचारता व्हय? सर फिरोजशाह काळाचे व्हांवतेंत खंय व्हांवन गेले, कळना. कोणाकूच तांचो उगडास उरूंक ना.

पुतळे मनशाचो उगडास दवरतात म्हणटात तो एक भ्रम. फिरोजशाहचो उगडास इतिहासाचो एकाद दुकलो विद्यार्थी काडटा जातलो; तांचो पुतळो नाशिल्लो जाल्यारूय तो काडटलो आशिल्लो.

थंयच्यान हॉर्नबी रोडा वयल्यान नीट मुखार वचचें. फाउंटन काडून जातकूच बॉम्बे युनिव्हर्सिटिची बिल्डींग लागतली. ताचे मुखार एक चौक लागतलो. थंय घोड्यार बशिल्ल्या एका मनशाचो एक भव्य पुतळो दिश्टी पडटलो. 'जाचेर केन्ना दीस अस्तम नाशिल्लो' त्या ब्रिटिश साम्राज्याचो हो एक सम्राट. सातवो ऍडवर्ड. तागेलो पुतळो हो.

इंग्रजांनी तो कित्या खातीर हांगा उबो केल्लो, खबर ना. मुम्बयकारांचेर ताचो धेंक बसोवपा खातीर घडये आसूं येता. जेन्ना जेन्ना टॅक्सींतल्यान ते वटेन गेलां तेन्ना तेन्ना हांवें ड्रायवराक विचारलां, 'भैया, यह कौन है?' आनी ड्रायवरान म्हाका सदांच 'मालूम नहीं साब! लेकिन इसे हम काला घोडा कहते हैं' अशी जाप दिल्या. फाटल्या तीस पस्तीस वर्सांत शें-दोनशें खेपे तरी हांव तेवटेनच्यान गेलां आनी तितलेय फावटीं हांवें टॅक्सी ड्रायवराक हो प्रस्न केला आनी ताणें 'इसे हम काला घोडा कहते हैं' हीच एक जाप चुकनासतना दिल्या. येदो व्हडलो हो सम्राट मुम्बयच्या टॅक्सी ड्रायवरांचे तकलेंत फकत 'काला घोडा' म्हूण उरला!

क्रॉफर्ड मार्केटा कडेन एका पारशाचो पुतळो आसा. कोण तरी व्हड मनीस आसूंक जाय. पुणून लोक ताका 'उभा पारसी' ह्याच नांवान वळखतात!

मुम्बयंत चौपाटेर लोकमान्यांचो एक पुतळो आसा. सुंदर आनी पूर्णाकृती. लोकमान्य म्हळ्यार राष्ट्रवादी भारताचें एक दैवत. मुम्बयंतूच ते भायर पडले. मळब कोंसळून पडचें अशेंशें कितें तांगेल्या मर्णान पुराय राष्ट्रवादी देशाक दिसलें. मुम्बयंत केदोय व्हडलो मनीस मरूं, ताका चंदनवाडींत व्हरून पावोवप मुम्बयकारांची चाल. लोकमान्यां कडेन पावतकूच तांणी ही चाल मोडली आनी तांगेले निमाणे संस्कार तांणी चौपाटेर केले. तेच सुवातेर तांणी तांगेलो एक पूर्णाकृती पुतळो उबो केलो. सांगपाची गरज ना, 'फुडल्या पिळग्यांक तांगेलो उगडास येवचो' हे खातीर. चाळीस पंचेचाळीस वर्सां पयलीं हांव मुम्बयंत पावलां त्या वेळार हो पुतळो पयसल्यान लेगीत दिश्टी पडटालो. पयसल्यान लेगीत कोणाचेंय लक्ष ओडटालो. आयज? झोंपांनी लिपला. सोदचो पडटा. कोणाचीच नदर ताचेर पडना. आनी भेळपुरी खावंक थंय खेट करून राविल्ल्या मुम्बयकारांच्या भुरग्यांक हो कोण म्हूण विचारपाचीय केन्ना बारीकसाण जायना.

लोकमान्यांची जे मुम्बयंत ही गत्त थंय महादेव गोविंद रानडे आनी गोपाळ कृष्ण गोखले सारकेल्यांची कितें जातली, अदमासूच केल्लो बरो. फाउंटनच्यान चर्चगेट स्टेशनार वता आसतना वाटेर हे दोगूय आंग चोरून उबे राविल्ले दिश्टी पडटात. भोंवतणच्या झोंपांनी तेवूय बाबडे लिपल्यात. जांचे मुखार कोणाक विडी सिगरेट ओडपाचो धीर जालो ना, तांच्याच दोळ्यां मुखार थंयच, रातच्या आठ णवांच्या अदमासाक, मुम्बयंतलीं वया वयलीं भुरगीं, देवा देवा, नाका जाल्ले चाळे करतात. ते पळेतकूच रानडे गोखल्यांची काकुळट दिसता आनी आंग शिरशिरून येता. कोणाकूच तांची मुरवत आसा शी दिसना.

मेल्ल्या गेल्ल्यांचे पुतळे उबे करून आमी तांचो उगडास सदांकाळ दवरतले अशें मानप जितलें पिशेपणाचें, तितलेंच, वा, म्हणुंया, ताचेकूय चड, उबे आशिल्ले पुतळे हालोवन आमी तांचो उगडास पुसून उडयतले अशें मानप पिशेपणाचें.

पोरण्या गोंयां कामोइशाचो एक पुतळो आशिल्लो. शिल्पकलेचे नदरेनूय बऱ्यांतलो बरो. सुंदर. पुणून कामोइश 'साम्राज्यवादी' कवी आशिल्लो, तो गोंयचे भुंयेर सोबना असो एक सोद आमचे मदल्या कांय अर्दकुट्या 'देशप्रेमी' लोकांक लागलो आनी तांणी तो हालयलो. कोणाक तरी ते दुखोवंक सोदताले. कोण दुखावले, कोणाक खबर! पुणून रवीन्द्र केळेकार एकलो दुखावल्लो इतलें जाणां. ताका संवसारांतल्या सगळ्या कविंचो गोंयचे भुंयेर अवमान जाता अशें दिशिल्लें. ताणें चार पांच 'स्वगतां' बरोवन कामोइश कोण आशिल्लो तें स्वातंत्र्य सैनिकांक समजावन सांगपाचो यत्न केलो. पुणून तागेलें आयकता कोण? स्वातंत्र्य सैनीक आयकतात तांचे मुखार सत्येचें हाड उडयतात तांचें, चिंतूंक लायतात तांचें न्हय. पुणून नियती नांवाची एक शक्त संवसारांत काम करता. ती केन्ना केन्ना आमच्या दुश्कृत्यांचो सुडूय घेता. पुतळो हालोवन ज्या कामोइशाचो स्वातंत्र्य सैनिकांनी अपमान केल्लो त्याच कामोइशाच्या थड्याचेर, कांय वर्सां उपरांत, ह्या 'इण्डिया दॅट इझ भारत' देशाच्या राष्ट्रपतीन पुर्तुगालाक वचून पुष्पचक्र ओंपलें. खरें म्हळ्यार, राष्ट्रपतिचो हांणी राजिनामो मागपाचो, ना जाल्यार मांडवींत जीव तरी दिवपाचो. दों भितरलें एक कितेंय पुतळो हालयतल्या स्वातंत्र्य वीरांनी करपाचें.

चीनांत एका काळार बुद्धाचे पुतळे वचत थंय दिश्टी पडटाले. खंयच्यानूय खंयूय पळे, दिश्टी पडटात, नदरेंत भरतात असले आकांताचे व्हडले. महाकाय. सुमार देड दोन हजार वर्सां चीनाचेर बुद्धाचो शेक उरिल्लो. एक दीस माओचो शेक सुरू जालो आनी ताणें सगळ्यांत पयलीं बुद्धाचे पुतळे हालोवपाचो वावर हातांत घेतलो. सगळे पुतळे हालयले आनी वेगळ्या वेगळ्या म्युझियमांनी व्हरून दवरले. बुद्ध प्रस्थापितांचो. लोकांक नेणारपणांत दवरपी चिनी राजघराण्यांचो देव, अशें माओचें बुद्धा विशिंचें मत्त. ताणें चीनांतलें बुद्धाचें नांव-निशाण लेगीत पुसून उडयलें. बुद्धाचीं पुस्तकांय लोकांच्या हातांतलीं काडून घेवन आरमारिंनी बंद करून दवरलीं. पुणून चिनी लोक आमचे सारके. मुर्ती पुजपी. पुजे खातीर तांकां ही न्हय जाल्यार आनीक कोणाली तरी मूर्त जाय. नित्यपाठाक बुद्धाचो न्हय जाल्यार आनीक कोणाचो तरी ग्रंथ जाय. चिनी साम्यवादी पंगडान लोकांची ही आत्मीक भूक भागोवपा खातीर एक नवी कार्यावळ हातांत घेतली. तांणी माओचेच एका परस एक व्हड पुतळे वचत थंय उबे केले. माओच्या पुस्तकांतलीं कांय अवतरणां वेंचून एक 'रॅड बुक' तयार केलें आनी तें एकान एक चिनी मनशाच्या हातांत पावतें केलें.

चीनाचे भोंवडेर गेल्लों. पेचिंगांतल्या पिपल्स हॉला मुखावयलो एक सोडीत जाल्यार पुराय देशांत म्हाका माओचो पुतळो दुसरे कडेन खंयच दिश्टी पडलो ना. विचारल्यार, 'आतां तेवूय आमी म्युझियमांत बुद्धाच्या पुतळ्यां म्हऱ्यांत व्हरून उबे

केल्यात' अशी जाप मेळ्ळी. हांवें 'रॅड बुक' मागलें. चिनी भाशेंत लेगीत तें मेळ्ळें ना. माओचो उगडास साप पुसून उडोवपाचो नव्या चीनान पण केल्लो.

रशियेनूय हेच उपद्व्याप केल्यात. एका काळार स्टॅलीन रशियेचो ब्रह्मदेव आशिल्लो. सगळे कडेन ताची नदर वताली. संवसारांतले सगळे साम्यवादी ताचें नांव घेनाफुडें थरथरताले. स्टॅलीन मेलो आनी ताचेच तालमींत वाडिल्लो क्रुश्चेव सत्येर आयलो. ताणें स्टॅलीनाक रशियेच्या जिवितांतलो हुमटावन मुळा सयत भायर उडयलो. रशियेंत ते उपरांत लोकांनी स्टॅलीनाचें नांव लेगीत घेवपाचें बंद केलें. थंय ताचो पुतळो सोड, सादो फोटो लेगीत खंयच दिश्टी पडना. ताणें हजारांनी पानांचें साहित्य बरयल्लें. रशियेंत ताचें एकूय पान मेळना. तें कित्याक, साम्यवादी रशियेच्या इतिहासांत ताचें नांव लेगीत आयज वाचूंक मेळना. आयच्या रशियन तरणाट्याक आपणाल्या देशांत स्टॅलीन म्हूण कोण जावन गेल्लो हाची खबर लेगीत आसची ना, इतलो ताका ना करून उडयला.

रशियेंतलो साम्यवादूय आतां ना जाला. लेनिना सारकेल्याचो पुतळो लेगीत जिणें मोडून उडयला थंय मार्क्स, एंगल्स हांचीं नांवां उरतलीं तरी काय कितें, दुबाव आसा.

एक मजेची गजाल सांगूंक जाय -

माओचें 'रॅड बूक' जें म्हाका चीनांत खंयच मेळूंक नाशिल्लें ताचें हिन्दी भाशांतर म्हाका आमच्या ह्या गोंयांत बांदोड्या नांवाच्या एका ल्हानशा गांवांत एका इश्टागेर मेळ्ळें. हाचो अर्थ कितें जालो? चीनांतलें तें ना जालें तरूय संवसारांतलें ना जावंक ना. चीना भायर एक व्हडलो संवसार पातळ्ळा. तसो रशिये भायरूय पातळ्ळा. चीनांत आनी रशियेंत जें कितें आयज पुसून उडोवपाचें काम चल्लां तें चीन रशिये भायल्या संवसारांत खंय-न्हय-खंय उरलां. इतिहास पुसून उडोवंक येना.

छत्रपती शिवाजी, आंबेडकर आनी गांधींचे पुतळे आमी ह्या देशांत कितलेशेच कडेन उबे केल्यात. वचत थंय केल्यात. इतल्या पुतळ्यांची इल्लीय गरज नाशिल्ली. तें कित्याक, गांधींच्या एकाय पुतळ्याची गरज नाशिल्ली. मेले उपरांत लोक जांकां विसरतले म्हणपाची खातरी आसता तांचेच पुतळे जाय जाल्यार उबे करपाचे. जो प्रेरणेच्या रुपान मेले उपरांतूय जिवो उरला तो सदांकाळ जिवो उरतलो अशेंच धरून चलूंक जाय. गांधी बुद्ध जीझसच्या पांवड्याचो एक युगपुरूस. तो ना जावपाचो ना. ताचो एकूय पुतळो ह्या देशांत नाका. फाल्यां कोणाची कसली राजवट देशांत येत, सांगूं येना. तिणें ते काडून उडोवचे पयलीं आमीच सगळे पुतळे हालोवंक जाय. तेवूय आमी, ताच्या परम भक्तांनी.

# १२.

# दिल्लीक घरघर लागला

चार वर्सां जालीं, दिल्लीक पावूंक ना. सात मिटिंगो चुकयल्यो. आठवी ह्या हयन्यांत जावपाची आशिल्ली. हांवें चीट बरोवन पावचों ना म्हूण कळयलें, आनी चेटींत हेंवूय जोडलें, 'हांव मिटिंगांनी पावना... कमिटिचेर बेश्टो जागो कित्याक आडावन दसूं?... म्हजे बदला तुमी दुसऱ्या कोणाक घेयात आनी म्हाका मेकळो करात.'

पोस्टांत घालचे पयलीं चीट गोदूबायन पळेली. आनी विचारलें, 'दिल्ली कडले संबंद तोडले?'

म्हळें, 'दीसभर पर्जळ्ळेल्या सुर्याक अस्तमतना पळोवचो न्हय अशें शास्त्रांत सांगलां... फाटल्या कितल्याश्या शतमानां पसून दिल्ली ह्या देशाची राजधानी म्हूण व्हडपण जोडून आयिल्ली... तिका आतां घरघर लागला... म्हाका तिचो अस्त पळोवपाचो ना...'

पयलेच फावट दिल्लींत पावल दवरलां त्या वेळार आयज जें म्हजें जग हांवें थंय उबें केलां तें नाशिल्लें. एका इश्टागेर राविल्लों. ते मुस्तींतल्या हेर हिन्दू गोंयकारां भाशेन तोवूय आपणाक महाराष्ट्रीय मानतालो आनी दिल्लींतल्या महाराष्ट्रीय समाजांत बरोच भरसल्लो. ताचे बरोबर हांवूय भरसलों. दसऱ्याची परब आयिल्ली. काका गाडगीळांनी दिल्लींतल्या सगळ्या महाराष्ट्रीयांक ह्या निमित्त्यान आपणागेर आपयल्ले. शें देडशें लोक आयिल्ले. हांवूय गेल्लों. दोगांचेर म्हजी नदर थिरावल्ली. एक, डॉ. आंबेडकरांचेर. दुसरी, शंकरराव देवांचेर. गाडगीळांनी सगळ्यांक येवकार दिवन ल्हानशेंच पुणून एक सुंदर उलोवप केलें आनी आंबेडकरांक उलोवपाक सांगलें. आंबेडकरांनी हातांनी खुणावन आपणाक उलोवपाचें ना म्हळें. रोखडेच शंकरराव देव उलोवपाक लागले. तांणी म्हळें, 'दिल्लींत णव साम्राज्यांचीं थडगीं शिंपडिल्लीं पळोवंक मेळटात. एके तरेची मसंड ही. मसंडेंत स्वतंत्र हिन्दुस्तानाची राजधानी आसची न्हय अशें म्हाका खूब फावटीं दिसलें. स्वतंत्र हिन्दुस्तानाची राजधानी म्हज्या महाराष्ट्रांत व्हरची अशेंय मनांत आयलें. पुणून

(शंकरराव हांगा थोडो वेळ थांबले आनी गंभीर जावन म्हणपाक लागले) आयची दिल्ली खंयच्याच एका घराण्याची राजधानी उरूंक ना. ती प्रजाधानी जाल्या. कितल्याश्या शतमानां उपरांत देशांतल्या सरसमान लोकांच्या हातांत सत्या आयल्या. देशांतलो जण एकलो मतदार आयज देशाचो राजा जाला. दिल्लीच्या इतिहासाक आनी दिल्ली वांगडा पुराय देशाच्या इतिहासाक एक नवी देख दिवपाची संद आयज आमकां सगळ्यांक मेळ्ळ्या. देश व्हड करपाचो नित्शय करून आमी आतां वावरूंक लागुंया. आमचो फाटलो इतिहास कितलोय उजळ आसूं, फुडार ताचेकूय चड उजळ करपाचो आयज आमी सोपूत घेवया...'

शंकरराव दिसताले गिड्डे कशे. त्या दिसा म्हाका ते गरगर करून वाडून मळबाक तेंकिल्ले वरी दिसले.

कितली सुंदर दिसताली दिल्ली ते मुस्तींत! सारकी आंखणी करून पुराय शार बांदून काडिल्लें. शारा मदेकांत कॉनॉट सर्कसचो सुर्या सारको वांटकुळो एक वाटार आनी सुर्याच्या किरणां भाशेन थंयच्यान चोंय दिकांनी फुटपी कितलेशे रस्ते. रस्त्यांच्या दोनूय वशिंनी ल्हान ल्हान सुंदर बंगले. दर एक बंगलो एक खेरीत व्यक्तिमत्व आशिल्लो. बंगल्या फाटल्यान आनी फुडल्यान एक एक सुंदर बाग. आड्या कडेन ऊंच रुखांची आनी भितर लॉना वांगडा सुंदर फुलांच्या झाडांची. रस्त्या वेल्यान लोक येताले वताले. पुणून कोणूच कोणाक बखान्यो मारून मुखार वचऽनाशिल्ले. हवाय 'खुशनुमा'. ओलसाण नाशिल्ली. सुकी. नाक चोंदना, खांक येना, अशी, दिल्लींतलो गीम हरशीं गोंयकारांक सोंसना, तशे शिंयाचेय दीस सोंसनात. पुणून म्हाका हे दोनूय रुतू आवडटाले.

उपरांत दिल्लीक कितले खेपो पावलों, कोंत आनी हिशोब ना. सुरवेचीं धा पंदरा वर्सां दिल्ली पयले खेपे पळेल्ली तशीच उरिल्ली. लोक म्हणटाले, दिल्ली पयलिंची उरूंक ना. बदल्ल्या, इल्ली इल्ली करून पंजाबी जायत चल्ल्या. म्हाका फरक कळनाशिल्लो. पंजाबी म्हाका आवडटात. 'खुशमिजाज' लोक हो आमच्या देशांतलो. नाचतलो धुंद जावन. जेवतलो पोट भरून. सभाव 'मार भिसक्यार' म्हूण बेपर्वायेन जियेवपाचो. स्वराज्य आयलें. देशाचे दोन कुडके जाले. तेन्ना पंजाबाचेय दोन कुडके जाले. पंजाबांतलो बऱ्यांतलो बरो वाटार पाकिस्तानांत गेलो. तो गेल्लो पळोवन धुंद जावन नाचपी हो लोक धुंद जावन मुसलमानांची कत्तल करपाक लागलो. ताचो तोलूच सुटलो. दिल्लीन दोनूय तरांचे पंजाबी पळेल्यात. दोनूय तरांच्या पंजाब्यांक तिणें आपल्या गोपांत घेतल्यात. आदले आनी उपरांत आयिल्ले पंजाबी आयज पुराय दिल्ली व्यापून

रावपाक लागल्यात. आदली, मुसलमानी संस्कारांत वाडिल्ली दिल्ली पळोवन आयिल्ल्यांक आयची पंजाबी दिल्ली पळोवन वायट दिसूं, 'दिल्ली पयलिंची उरूंक ना' अशें तांणी म्हणूं, दिल्लीची सोबा इल्लीय भंगूंक ना.

जवाहरलाल आसासर दिल्लीची 'शान' उरिल्ली. उपरांत इल्लें इल्लें करून दिल्लीचें रूप म्हज्या दोळ्यां मुखारूच बदलत गेलें. ल्हान ल्हान सुंदर बंगल्यांचे सुवातेर मळबाक तेंकपी व्हडल्यो व्हडल्यो बिल्डिंगो एक एक करून उब्यो जायत गेल्यो. रस्त्या वयली खेटूय वाडत गेली. लोक एकामेकांक बखान्यो मारून मुखार वचपाक लागले. दिल्लीचीं 'हिन्दुस्तानी' आनी 'पंजाबी' दोनूय रुपां ना जालीं आनी एक नवें धेडगुजरी रूप घेवन ती वाडत रावली. हिन्दुस्तानी, पंजाबी बी देशी भासो कानार पडपाच्यो बंद जाल्यो. फकत हेंगाडी इंग्लीशूच (हिंग्लीशूच) कानार पडत रावली. एका फुडले एक गिड्डे लोक सत्येच्या कदेला भोंवतणी आनाळ्यो गुनाळ्यो काडपाक लागले. आनी केन्ना सपनांत लेगीत चिंतूंक नाशिल्लें तें घडून आयिल्लें पळोवपाक मेळ्ळें – स्वतंत्र हिन्दुस्तानाचे हे प्रजाधानींत एका घराण्याची राजवट सुरू जाल्ली पळोवंक मेळ्ळी. तिवूय जवाहरलालां सारकेल्या डॅमोक्रॅटांतल्या डॅमोक्रॅट मनशाच्या घराण्याची. 'ह्या घराण्याचे लोक न्हय जाल्यार देशाचो राजकारभार सांबाळूंक पावतीत अशे कोण आसात देशांत' अशें आमच्या सगळ्यांत पोरण्या पक्षाचे – काँग्रेसचेच – फुडारी एकामेकांक विचारपाक लागले. रुपयाचें मोल देंवत रावलें तशें तशें देशाचेंय देंवत गेलें. पुराय राष्ट्राचेंच मोल देंवलें. जांचे पसून सत्येर आशिल्ल्यांक भंय दिसूं येता वा लाव जावं येता तांचींच कामां दिल्लींत जातात – आनीक कोण्णाचीं न्हय – अशें लोक म्हणपाक लागले. कसले देड दमडेचे लोक सत्येच्या कदेलार येवन बसले! इन्दिराजीन म्हाका घरांत सात्र मार म्हूण सांगिल्ली जाल्यारूय हांव ती उमेदीन मारतलों आशिल्लों अशें हड्डें फुडें काडून मोट्या अभिमानान सांगपी एकलो ह्या देशाचो घरमंत्री जाल्लो पळेलो. उपरांत, राष्ट्रपतीपदारूय वचून बशिल्लो पळेलो. आनी *'मूरख मूरख राजा कीन्हो, पंडित फिरत भिखारी'* हे संत-वाणयेक भक्तिभावान पाळो दिवन दिल्लींतले व्हडले व्हडले पत्रकार, साहित्यकार, कलाकार, स्वातंत्र्यसैनीक ताचे मुखार सत्येचें एकाद-दुकलें हाड मेळटलें हे आशेन लाळ घोंटीत उबे राविल्लेय पळेले.

आनी दिल्लींत आतां पावल दवरप ना अशें थारावन हांव मेकळो जालों.

तरी आसतना, एक दोन फावट वचचें पडलें म्हूण वचून आयलों. पयलीं वतालों तेन्ना धा धा, पंदरा पंदरा दीस रावतालों. आतां चारूच दीस रावन परतुपाक लागलों. पयलीं पोरण्या नव्या बुकस्टॉलांर वचून नवें कितें आयलां तें पळेतालों. आतां पुस्तकांचें

मोल म्हजे तांकी भायर गेलां म्हूण पुस्तकां फकत पळोवन परतलों. एक दोग जिवाभावाचे इश्ट सोडून कोणाक मेळूंक गेलों ना.

इतलो मनीसघाणो हांव आयुश्यांत केन्ना जावंक नाशिल्लों.

निमाणे खेपे गेलां तेन्ना खांक घेवन परतलां. परतले उपरांतूय पंदरा वीस दीस खांक वचच ना हें पळोवन बेजार जालां. सगळे म्हणटाले, 'तूं सिगरेटी ओडटा. म्हूण तुका खांक येता.' पुणून क्रिकेट खेळपाक आयिल्ल्या ऑस्ट्रेलियेच्या पंगडान 'आमी दिल्लींत क्रिकेट खेळपाचे नात... दिल्ली सारकें दुशीत शार संवसारांत ना' अशें म्हळ्ळें वाचलें तेन्ना म्हजे खांकेचें मूळ खंय आसा तें कळ्ळें.

म्हणटासर विश्व बँकेचो एक अहवाल हातांत पडलो. 'विखाळ हवेक लागून वर्सान वर्स सुमार साडे सात हजार लोक दिल्लींत मरतात' म्हणपाचें तांतूंत वाचूंक मेळ्ळें. वर्साक साडे सात हजार म्हळ्यार दिसाक वीस वा एकवीस जाण... 'हांवूय ह्या विसां-एकविसांत केन्नाय येवं येतां' अशें दिसलें आनी हड्डें धडधडपाक लागलें.

कोण करता दिल्लीची हवा विखाळ? कारखाने? ते दिल्लींतले हालोवं येतीत. पुणून मोटारी, बसी, ट्रक, टँकर जें विक्ख हवेंत ओंकतात तांकां कशे आळाबंदा हाडूं येतले? डँग्यू जोरान तीनशीं लोक मेल्ले पळोवन केदो बोवाळ केलो खबरेपत्रांनी! दिल्लींतल्यो मोटारी, बसी, ट्रक, टँकर जें विक्ख हवेंत सोडटात ताका लागून सद्दां वीस-एकवीस जाण मरतात हाचेर कोण एक उतर लेगीत बरयना. 'तेरी भी चूप, मेरी भी चूप.' कित्या खातीर? काळजाचें जावन कोण मेलो, दम्यान कोण मेलो जाल्यार तो मेलो म्हूण छापून येता. विखाळ हवेक लागून कोण मेलो हें मात कोण सांगिना. दिल्लींत शाळेंत शिकतल्या भुरग्यांचो एक 'सर्वे' पळेलो. धा हजार भुरग्यां मजगतीं सव्या वांट्या इतलीं भुरगीं दम्याची पिडा जाल्लीं म्हणपाचें कळ्ळें.

मोटारी, बसी, ट्रक, टँकर एक वेळ बंद करूं येतीत. स्कूटरी आनी रिक्षा कश्यो बंद करपाच्यो? दिल्लींतले सगळ्यांत चड लोक ह्याच वाहनांचो वापर करतात. आनी दिल्लींत हवा सगळ्यांत चड विखाळ हींच वाहनां करतात.

आयचे दिल्लींत पयलिंचे दिल्लीचो हजारावो वांटो लेगीत उरूंक ना. आयचे दिल्लीक घरघर लागला. ह्या घरघराची सगळ्यांत चड जाणवीक दिल्लींतले राजकर्णी पळोवन जाता. इतले गिड्डे राजकर्णी दिल्लीन आपणाल्या पांच हजार वर्सांच्या आयुश्यांत

केन्नाच पळोवंक नात जातले. दिल्लीन दुश्ट राजकर्णी पळेल्ले, धूर्त पळेल्ले. कारस्थानी पळेल्ले, पाताळयंत्री पळेल्ले. बेंतेकाप – निर्वीर्य – राजकर्णी केन्नाच पळोवंक नाशिल्ले. ते आतां पळोवपाचें तिच्या नशिबांत आयलां. संजय गांधी कोण आशिल्लो ? देशाचो प्रधानमंत्री ? राष्ट्रपती ? राष्ट्रपिता ? ताचें थडगें शांतिवनांत कित्याक ? शान्तिवन कितें, नेहरू घराण्याची मसंड ? तें स्वतंत्र हिन्दुस्तानाच्या पयल्या दिग्गज प्रधानमंत्र्याचें स्मारक जाल्यार संजय गांधीक थंय सुवात मेळूंक जायना. इन्दिराजीकूय मेळूंक फावना. राजीव गांधीकूय ना. पुणून दिल्लींतले राजकर्णी केन्नाच हो प्रस्न लोकसभेंत हाडिनात. विरोधी पंगडांतले लेगीत. तें कित्याक, राष्ट्रपती आनी प्रधानमंत्री संजय गांधीच्या थडग्याचेर पुष्पचक्र ओंपपा खातीर वतात तेन्ना 'कोण तो देशाचो ?' अशें कोण तांकां विचारी ना.

दिल्लींत णव साम्राज्याचीं थडगीं आशिल्लीं. आतां धाव्या, घराण्याच्या थडग्यांची भर पडल्या. नेहरू घराण्यांतल्या लोकांचीं थडगीं आतां थंय उबीं जायत रावल्यांत.

दिल्लीक घरघर लागला. ती मरपा कडेन पावल्या.

दिल्लीक वचपाची उमेदूच आतां येना.

जाग, ऑगस्ट २०००

## १३.

# राष्ट्रपती भवनांत

'मोगल गार्डन' तीन खेपे पळेल्लें. 'राष्ट्रपती भवन' फकत भायल्यानूच पळोवन संतोस मानिल्लो. फाटीं यशपाल जैन म्हाका भितर घेवन गेले. तांगेल्या एका पुस्तकाचें 'विमोचन' राष्ट्रपतीं हस्तुकीं जावपाचें आशिल्लें. थंय एक पोरणो इश्ट मेळ्ळो. गांधी संग्रहालयांत काम करतालों त्या वेळार वळख जाल्ली. उपरांत आमच्यो वाटो बदल्ल्यो. हांव गोंयांत आयलों, तो सरकारी कर्मचारी जालो. बढत्यो घेत घेत तो राष्ट्रपतीच्या 'स्टाफा'र कोणसो म्हूण काम करपाक लागलो. पुस्तक विमोचनाचो सुवाळो सोंपतकूच तो म्हाका आपणागेर घेवन गेलो. गाडयेंत हांवें ताका म्हळें, 'अशोक हॉल फकत टी.वी.रूच पळेल्लो. आयज भितर वचून पळोवंक मेळ्ळो.'

'च्यॅ... तो अशोक हॉल नाशिल्लो! अशोक हॉलांत पुस्तक-विमोचनाचे सुवाळे जायनात. फकत मंत्रीमंडळाच्या सोपूत-सुवाळ्याक, विदेशी राजदूत आपणालें वळख-पत्र राष्ट्रपतींक दिवंक येतात त्या वेळार वा कोणूय विदेशी पावणो राष्ट्रपतींक मेळूंक येता त्या वेळार ताचो उपेग जाता... हो दुसरो हॉल आशिल्लो...'

'वयले झुंबर, वणटी वयलीं चित्रां बी पळोवन म्हाका तो अशोक हॉलसो दिसलो.' हांवें म्हळें.

'खूब जाणांचो तसो अपसमज जाता...'

आमी कितल्या-श्या वर्सांनी मेळिल्ले. म्हूण, मेकळेपणान उलोवपाक लागिल्ले. म्हळें, 'जावं, राष्ट्रपती भवन भितल्ल्यान पळोवंक मेळ्ळें हाची खोस भोगली... पुणून, खरें सांगूं? म्हाका थंय हांव गांवढळ कसो दिसपाक लागलों... राजेनबाबू हे वास्तूंत कशे रावले जातले, देव जाणा!'

'नीलम संजीव रेड्डींकूय पयलीं पयलीं घुसमटिल्ले वरी दिसपाक लागिल्लें... म्हाका एक ल्हानसो बंगलो दियात... ही वास्तू म्हाका नाका, अशें ते म्हणपाक लागिल्ले. मागीर तांकां ह्या भपक्याची संवंय जाली. आपूण एक ल्हानसो बंगलो आपणाक दियात म्हणटालों हें लेगीत ते विसरले. राजेनबाबूंचेंय अशेंच जाल्लें आसूंक जाय...' ताणें म्हळें.

'कितल्या वर्सां पसून तूं हांगा काम करता?' हांवें विचारलें.

'डॉ. राधाकृष्णन राष्ट्रपती जाल्यात तेन्ना सावन... त्या काळांत राष्ट्रपती भवनाची शान' आगळी वेगळीच आशिल्ली. राधाकृष्णन विद्वान. तांचे खाटेर, खाटे भोंवतणी पुस्तकांच पुस्तकां आसतालीं. सद्दां नव्या नव्या पुस्तकांच्या सांगातांत ते रावताले... फिलॉसॉफर किंग' कशे खऱ्यांनीच सोबताले. संवसारभरचे व्हड व्हड विद्वान तांकां मेळपाक येताले. तांकां लागून राष्ट्रपती भवनाची सोबा वाडिल्ली... तांचीं भाशणां तेच तयार करताले... कोणें बरोवन दिल्लें भाशण तांणी केन्ना वाचूंक ना... केन्ना केन्ना extempore बेस बरे उलयताले... ही शान डॉ. झाकिर हुसेनां मेरेन चल्ली... उपरांत ती जी गेली ती परती पळोवंक मेळ्ळी ना. इन्दिराजीन रुपयाचें अवमूल्यन केलें ते बराबर देशांतल्या सगळ्या मोलांचें अवमूल्यन जालें. राष्ट्रपतीपदाचेंय जालें. इमर्जन्सिच्या काळांत इन्दिराजीन मध्यान रातचे राष्ट्रपती फकरूद्दीन अली अहमदांक न्हिदेंतले उठोवन आपणाल्या 'फतव्या'चेर तांची सय घेतली त्या दिसा सावन राष्ट्रपतीपदाचें मोल साप्प ना जालें...

'पुणून राष्ट्रपतीपदाचें मोल उणें जाल्लें आसलें तरूय ताच्या भपक्यांत वा चकचकांत लकलकांत मात पसून उणें पडूंक ना. व्हायसरॉय हे वास्तूंत रावतालो त्या वेळार जो भपको आशिल्लो तोच आयजूय चलत आसा. ह्या चकचकांत कितेंच उणें पडूंक पावचें न्हय म्हूण सरकार वर्सांतल्यान सुमार वीस कोटी रुपये खर्च करता... सुमार दोन हजार सरकारी कर्मचारी (येंप्रेगाद) हांगा काम करतात (म्हळ्यार, कितेंच करिनात). राष्ट्रपतीक 'राखपा' खातीर सेक्युरिटिचे सुमार तीनशीं मनीस दीस रात हांगा वावुरतात. ते भायर, चाळीस लश्करी 'चौकीदार', देडशां वयर 'अंगरक्षक'... तीनशीं माळी आनी 'मिसलेनियस (= फुटकळ, फालतू) स्टाफ' सुमार साडे तीनशीं जाणांचो आसा.

सुमार सात्तीस सालां (ड्रॉइंग रुम्स) आनी एक व्हड 'बँक्वे हॉल' आसा... अशोक हॉला भाशेन ह्याय हॉलांत तुका व्हडले व्हडले झुंबर पळोवंक मेळटले. वणटींचेर संवसारांतल्या व्हडल्या व्हडल्या चित्रकारांचीं 'ओरिजिनल' चित्रां हुमकळायिल्लीं दिश्टी पडटलीं... पांचशीं पांचशीं लोक पावतीत येदीं दोन थिएटरांय राष्ट्रपती भवनांत आसात.

'लाँड्रींत सदां आठ एक हजार कपडे धुवपाक वतात.

'बँक्वे हॉलांत 'खानसामा', 'बटलर' बी मेळून साडे तीनशीं मनीस काम करतात. एका एका दरवट्या मुखार दोग दोग जाण उबे आसतात. तांकां 'हुजूरिया' म्हणटात. तांचें काम दरवटो उकतो करप, दरवटो धांपप आनी कोण येता वता ताका कमर बागोवन सलाम करप.

'तीनशें चाळीस व्हड कुडी आसात. एक गोल्फ कोर्ट, पांच टॅनिस कोर्ट. ऍटँडंट

दोनशीं. सात्र मारपी देडशें.

गॅरेजींत पंदरा गाडयो. एक रोल्सरॉयस्, एक मर्सेडिस बॅन्झ (स दारांची), एव शेवरले, एक कॅडिलॅक (देशी गाडी एकूय ना). मर्सेडिस बॅन्झचो उपेग वर्सांतल्या फकत एकूच खेपे जाता... गणतंत्र दिसा.

'गाडयां भायर पोलंडच्यान हाडिल्ले घोडे एक डझन आसात. तांचें काम राष्ट्रपतीची 'बग्गी' ओडपाचें. हांचे भायर वेगळ्या वेगळ्या जातिंचे एकशें तीस घोडे आसात...'

हें सगळें आयकता आसतना म्हाका मदीं मदीं प्रस्न पडपाक लागलो, ही वर्णन आमच्या देशाच्या राष्ट्रपती भवनाची काय अमेरिकेंतल्या राष्ट्रपती भवनाची (व्हायट हावजाची) ? अमेरिका संवसारांतलो गिरेस्तांतलो गिरेस्त एक देश. थंयच्या राष्ट्रपतीचे धेंक लोकांचेर उरपा खातीर सरकारान सुमारा भायर खर्च केलो जाल्यार, समजूं येता. पुणून ज्या देशांत शंबरांतल्या पन्नास जाणांक जेवपाक एक वेळचें लेगीत अन्न मेळना, शंबरांतल्या पन्नास बायलांक कूड धांपपा खातीर सारकें लुगट मेळना, थंयच्या राष्ट्रपतीचो धेंक लोकांचेर दवरपा खातीर सरकारान वर्सांतल्यान वीस कोटी रुपये खर्च करचो ?

पुर्तुगाल साम्राज्यवादी देस आशिल्लो त्या वेळार राष्ट्रपतीक रावपा खातीर सरकारान एक राष्ट्रपती भवन बांदिल्लें. कार्मोना, क्रावैरु लॉपिश सारकेले ह्याच भवनांत रावन गेल्यात. पुर्तुगालान साम्राज्यवादांतल्यान आपणाली सुटका करून घेतली ते उपरांत, मारियु सुआरिश पुर्तुगालाचो राष्ट्रपती जालो. तो खंयच्याय विदेशी पावण्याक येवकार दिवपा खातीर वा विदेशी राजदुतांचीं वळखपत्रां घेवपा खातीर – फकत इतलेच खातीर – राष्ट्रपती भवनांत गेला. रावला आपणालेच मालकेच्या, कसलोच चकचक झगझग नाशिल्ल्या बंगल्यांत. भारताच्या राष्ट्रपतीनूय असल्याच एका साद्या बंगल्यांत रावं येतालें. रावंक जाय आशिल्लें. देश गरीब म्हूण न्हय. बुद्ध गांधीचो हो देश म्हुण्णूय न्हय. सभ्य आनी संस्कारी देशाक असलो गांवढळ भपको सोबना म्हूण रावंक जाय आशिल्लें. इंग्रजांचे मुस्तींत व्हायस्रॉय हे वास्तूंत रावतालो तेन्ना व्हायस्रॉयाक उपचारीक, सोबेचें पद नाशिल्लें. पुराय देशाच्या राजकारभाराचेर ताका बारीक नदर दवरची पडटाली. राष्ट्रपतीचेर आयज असली कसलीच जापसालदारकी ना. तेन्ना राष्ट्रपतीन व्हायस्रॉया भाशेन रावप देशाचे मानमर्यादेक सोबना.

एक खरें, दिल्लीक वचून जो रावता, तो थोड्याच दिसां भितर 'शहेनशाह' वा 'लॉर्ड' जाले बगर रावना.

देशान ह्या धव्या हतयांचो भार तकले वयलो जाता तितले बेगीन देंवोवंक जाय.

जाग, नव्हेंबर २०००

# १४.

# विश्वसुंदरी

पणजे मांडवी हॉटेला मुखार एकल्याची वाट पळेत उबो राविल्लों. येतां म्हूण सांगिल्लें, अर्द वरा वयर जाल्लें, येवंक नाशिल्लो. भौन भौन हांव हाताचे घडयाळी कडेन पळेतालों.

इतल्यांत फूटपाथा वयल्यान एकली चली येताली तिचेर नदर पडली. कॉंग्रेसच्या ऑफिसा कडेन पाविल्ली. वीस बावीस वर्सांचे पिरायेची. म्हजे वळखिची. ऐश्वर्या राय भाशेन चलत येताली. म्हऱ्यांत पावतकूच हांवें तिका म्हळें, 'जण एकल्यान आपणाले निजाचे चालीन चलचें... ही चाल तुका अडेची दिसता. ऐश्वर्या रायचो प्रभाव पडला काय कितें तुजेर ?'

मुमुरख्यांनी हांसली आनी म्हणपाक लागली, 'ऐश्वर्या राय म्हजे पिरायेच्या चलयांची हिरोईन जाल्या... तिचे सारकें जावचें अशें आमकां चडश्या सगळ्या चलयांक दिसता...'

'दिसलें म्हूण... तुमी ऐश्वर्या राय थोडींच जावपाचीं आसात... म्हाका विचारशीत जाल्यार तूं ऐश्वर्या राय परस सुंदर. तूं तूंच राव. तुका ऐश्वर्या राय कित्याक जावंक जाय ?'

इतल्यांत जाची वाट पळेत उबो राविल्लों तो इश्ट आयलो. आमी दोगूय मांडवींत गेले. हांवें इश्टाक म्हळें, 'कोणा कोणाच्या नादाक लागतात हालिंसराच्यो ह्यो चलयो !... ही ऐश्वर्या राय जावंक सोदता !...'

ताणें कपलार हात मारलो आनी म्हळें, 'आमगेलें सुषमा सुश्मिता सेन जावंक पळेतालें...'

थोड्या दिसांनी मुम्बय पावलों. नवीं पुस्तकां सोदीत सोदीत चौपाटे वयल्या 'भारतीय विद्या भवना'च्या स्टॉलार पावलों. थंय एकलो इश्ट मेळ्ळो. हालिंसराक भौराष्ट्रीय कंपन्यां आड खूब उलयता बरयता. बाबुलनाथाक रावता. म्हाका आपणाल्या फ्लॅटार घेवन गेलो. हांवें ताका विचारलें, 'विश्वसुंदरींच्यो सर्ती कोण घडोवन हाडटात ?'

'तुका खबर ना ? 'मिस् युनिव्हर्स'ची सर्त युनिलिव्हर नांवाची एक कंपनी घडोवन हाडटा तर 'मिस् वर्ल्ड'ची रॅवलॉन, प्रॉक्टर ऍण्ड गॅम्बल आनी जॉन्सन ऍण्ड जॉन्सन कंपन्यो घडोवन हाडटात...'

'ऐश्वर्या राय आनी सुश्मिता सेन पयल्योच भारतीय चलयो विश्वसुंदऱ्यो जाल्यात ?'

'च्यॅ च्यॅ... कांय वर्सां पयलीं रिता फारीय नांवाची तुमच्या गोंयची एक चली जाल्ली. खंयच्या वर्सा जाणा ? इन्दिरा गांधीन रुपयाचें तेत्तीस प्रतिशत अवमूल्यन केल्लें त्या वर्सा... विश्व बँकेच्या जाळांत त्याच वर्सा हिन्दुस्तान घुसपल्लें... उपरांत, इन्दिराजी देशाचे अर्थवेवस्थेक राष्ट्रीयकरणाचे दिकेन घेवन गेली... आंतरराष्ट्रीय मुद्रा कोशा कडल्यान रिणूय काडपाचें तिणें बंद केलें... परिणामीं, उपरांतच्या काळांत कितलींशीं वर्सां एक लेगीत भारतीय चली विश्वसुंदरी जावंक पावली ना... ७०च्या दसकांत वेनेझुएलान आपल्या देसाचीं दारां भौराष्ट्रीय कंपन्यांक उकतीं केलीं. ते उपरांतच्या बावीस चोवीस वर्सांत मिस् युनिव्हर्स, मिस् वर्ल्ड, मिस् फोटोजेनिक पदव्यो वेनेझुएलांतल्या सुमार तीस चलयांक मेळ्ळ्यो... सोवियेट रशियेचें विघटन जातकूच एक रशियन चली विश्वसुंदरी जाल्ली. ९२/९३च्या अदमासाक जामायकान दारां उकतीं केलीं. तेन्ना लिसाहाना नांवाचे एके जामायकी चलयेक ही पदवी मेळिल्ली. दक्षिण आफ्रिकेन दारां उकतीं करिना फुडें बास्तसान नांवाची एकली दक्षिण आफ्रिकी चली हे सर्तींत दुसऱ्या नंबरार आयली... क्रोएशिया रशियेचो एक वाटार आशिल्लो. रशिये पसून फुटलो. ताका विकास घडोवन हाडपाचो आशिल्लो. भौराष्ट्रीय कंपन्यांक ताचीं आमंत्रणां गेलीं. एकली क्रोएशियन चली विश्वसुंदरी जाली... आंतरराष्ट्रीय मुद्रा कोशाचे आनी विश्वबँकेचे सांगणेन ह्यो चलयो विश्वसुंदऱ्यो जावंक पावतात. आतां भारतान उदारीकरण, संवसारीकरण सुरू केलां. आतां भारतांतल्यो कितल्योश्यो चलयो विश्वसुंदऱ्यो जातल्यो, नांव जोडटल्यो... संवसारभर गाजतल्यो...'

ताचे जिबेर इतलेंय हें पाठ आशिल्ले वरी पळोवन म्हाका अजाप जालें.

ताणें मुखार म्हळें, 'युनिलिव्हर, रॅवलॉन, प्रॉक्टर ऍण्ड गॅम्बल, जॉन्सन ऍण्ड जॉन्सन ह्यो कंपन्यो शॅम्पू, नेल पॉलिश, पावडर, शाबू, सेंट्स, क्रिमां बी तरांतरांचीं 'सौंदर्य प्रसाधनां' तयार करतात. तांकां बाजार नाका ? म्हूण त्यो विश्वसुंदऱ्यो वेंचून काडटात. आपणालो माल खपोवपा खातीर ह्या चलयांचो जायरातिंनी उपेग करतात. आनी हो माल त्यो घेतात म्हणपाचें कळटकूच देशांतल्यो बाकिच्योय चलयो तो घेवपाक लागतात. हें अर्थकारण ह्या सर्तिचें... भारता येदी बाजारपेठ सगळी तांच्या हातांत येवंक जाय. कोटिंनी अब्जांनी रुपयांची तांकां जोड जावंक जाय... ना जाल्यार भारतीय चलयो विश्वसुंदऱ्यो जावपाच्यो नात.

'आनीक एक गजाल लक्षांत दवरपा सारकी – ह्या चलयांनी कशें चलचें, कशें हांसचें, कशें उलोवचें सगळें ह्योच कंपन्यो तांकां शिकयतात. वर्सभर तांकां कंपन्यांचे सांगणेन चलचें पडटा. सुश्मिता सेनाचो उपेग क्लोझ-अप टूथपेस्टा खातीर जाता. तिका

बबूल वा वज्रदंतीचे जायरातींत पळेल्या व्हय तुवें केन्ना ? बबूल आनी वज्रदंती भौराष्ट्रीय कंपन्यो न्हय. देशी कंपन्यो ह्यो. भौराष्ट्रीय कंपन्यां इतलो खर्च करपाची तांक तांच्यांत ना... भौराष्ट्रीय कंपन्यो सुमारा भायर खर्च करतात आनी शंबर वांट्यांनी चड नफो जोडटात... चलयो बाबड्यो आपलें नांव जाता, फोटे खबरांपत्रांनी छापून येतात म्हूण कंपन्यो सांगतात तें करतात. आपणालें शोषण जाता म्हणपाचें बाबड्यांक कळऽ लेगीत ना. हजारांनी डॉलर्स मेळटात, तितल्यार खोश्शी जातात. वियेतनामच्या झुजांत पडिल्ल्या अमेरिकन सैनिकांचें मन रिझोवपा खातीर, ते मुस्तींत, तुमचे रिता फारीय विश्वसुंदरेक वियेतनामांत धाडिल्ली हांणी... ह्यो चलयो विश्वसुंदऱ्यो म्हूण गाजपाक लागतकूच गिरेस्तांचे कितलेशे चले तांचे कडेन लग्न जावपाक आंवडेतात... पुणून ह्या चलयांक कंपन्यो लग्न जावंक दिनात. वर्सभर तरी दिनात. वर्सभर तांकां कितेंच करूंक मेळना. कसलीच मेकळीक मेळना. लग्न जाल्ली चली आपणाले कुडिचें प्रदर्शन मांडपाक सपसप तयार जायना. लग्न जावंक नाशिल्ली खंयच्याय एँगलान कुडिचें प्रदर्शन करपाक अनमनना. १९५२ वर्सा इन्द्रायणी रहमान 'भारत सुंदरी' सर्तींत वेंचून आयिल्ली. तिणें स्वीमिंग-सुटांत प्रदर्शन करिना म्हळें. परिणाम ? तिका फुडले सर्तींतल्यान अचळय कडेक काडली...'

म्हाका हें सगळें नवें. ज्या खबरांपत्रांनी म्हाका भौराष्ट्रीय कंपन्यो ह्या देशांत आमकां लुटपा खातीर, नागोवपा खातीर आयल्यात म्हूण सांगपाचें तीं 'ह्यो कंपन्यो आमच्या तरणाट्यांक नोकऱ्यो-चाकऱ्यो दिवपा खातीर आयल्यात' म्हूण सांगतात. 'हांव अमेरिकेचे आनी कॅनडाचे भोंवडेर गेल्लों. थंयच्या गोंयकारांनी म्हाका Du Pont is a good company म्हूण सांगलें', अशें आमच्या एका उद्देगमंत्र्यान म्हाका सांगिल्लें. 'तुका वाचपाक वेळ आसा व्हय ? हांव दितां तुका द्यूपाँची सगळी जाणकारी', हांवें ताका सांगलें. 'दी' म्हूण ताणें म्हाका म्हळें ना. जाणा जावन घेवपाची ताका इत्साच नाशिल्ली. ताकाच बाबड्याक कित्याक दुशण दिवं ? मंत्री जातकूच गोंयांत सगळे विद्वान जातात. शाणे जातात. आनी सगळ्यांक शापातां सांगपाक लागतात (जाणकारांक लेगीत). आनी आमचीं खबरांपत्रां हीं शापातां छापून हाडटात. 'तुमकां कांय कळना' म्हूण कोणूच तांकां सांगिना.

सुंदर फकत सुंदर आसलें म्हूण उपकारना. तें पवित्रूय आसूंक जाय. मोना लिसाच्या मुमुरख्या हांशांत कितलें सौंदर्य भरलां ! तिचे कुडी कडेन कोणाचें लक्ष वता व्हय ? आमच्या देशांत अजंठ्याक, वेरूळाक, खजुराहोक, कोणारकाक मूर्तिशिल्पांतल्यान बायलांची सुंदरकाय उकताडाक आयल्या. ती केन्ना कोणाक उणाक पांवड्याची, असभ्य,

vulgar दिसल्या व्हय ? सुंदरकाय म्हळ्यारूच पवित्रताय. पुणून सुंदरकाय जेन्ना सर्तीत देंवता तेन्ना ती 'हळशीक' जाता. कोंकणींतलें हें उतर संस्कृत 'अश्लिल' उतरा वयल्यान आयलां म्हणटात. अश्लिल म्हळ्यार पोजडें – obscene. भौराष्ट्रीय कंपन्यो आमची रुचीय (टेस्टूय) आतां इबाडूंक लागल्यात. विश्वसुंदऱ्यांच्या सर्तीं आड, खरें म्हळ्यार, बायलांनी तिडकीन उसळूंक जाय आशिल्लें.

एक उगडास जालो –

हिन्दुस्तान निकतेंच स्वतंत्र जाल्लें. जवाहरलाल प्रधानमंत्री जाल्ले. नान्सी द स्काफा नांवाची दक्षिण अमेरिकेंतली एक विश्वसुंदरी मुम्बयंत पावली. ताजांत रावली. 'ब्लित्झां'त मासिलों द आल्मैद काम करतालो. म्हजो एक इश्ट मुम्बयंतलो. हांव ब्लित्झांत ताका मेळपाक गेल्लों. तो खंय तरी वचूंक भायर सरिल्लो पळेलो. म्हाका पळेनाफुडें म्हणपाक लागलो, 'येता ? ताजांत एकली विश्वसुंदरी आयल्या. दक्षिण अमेरिकी देशांतली एकली. तिची मुलाखत घेवंक वतां.'

बावीस तेवीस वर्सांचे पिरायेचो हांव. विश्वसुंदरेक पळोवपाक येना म्हणटलों ? मोटे उमेदीन गेलों. अठरा वीस वर्सांचे पिरायेची आसूंक जाय ती. आंगलोट सुंदर. पुणून तिणें जो ड्रेस आनी मेक-अप् केल्लो तो पळोवन 'ही नागडीच अदीक सुंदर दिसतली आशिल्ली' अशें म्हाका (ते पिरायेर लेगीत) दिसलें. तो ड्रेस आनी मेक-अप म्हज्यान पळोवं नज जालो. सामको vulgar दिसलो. ती स्पॅनिश भाशेंत उलयताली. आपणाली भास मासिलों समजता हें पळोवन ती फुलून आयिल्ली. मासिलोंक आनी म्हाका पुर्तुगेज येताली. म्हूण स्पॅनिश समजताली. मासिलोंन तिका खूब प्रस्न केले. तांचो आनी तिच्या जापांचो आयज उगडास जायना. पुणून एका प्रस्नाची तिची जाप घट मतींत उरल्या. मासिलोंन तिका विचारलें, 'संबसारांतल्या राज-पुरसां मदीं तुका सगळ्यांत चड देखणे कोण दिसले ?'

'इराणचो शाह आनी पुर्तुगालचो सालाझार.' तिणें जाप दिली.

'नेहरू ?'

'आर्रोगान्ति' – घमेंडी, तिणें जाप दिली. 'आतां मेरेन कोणाचीय मुलाखत हांवें मागल्या तेन्ना चोवीस वरां वयर वाट पळोवची पडूंक ना. आठ दीस जाले, नेहरू म्हाका मुलाखत दिना...'

'नेहरू कोणाकूय मेळटा... आयज वेळ नासलो जाल्यार फाल्यां यो म्हणटा. ना जाल्यार परां तरी वेळ दिताच दिता... आनी तूं तर एक विश्वसुंदरी... तुका तिश्टत दवरचो ना...' मासिलोंन म्हळें.

'जायत... म्हाका अजून तो मेळूंक ना.'

म्हाका त्या वेळार नेहरूचे चलणुकेचें कुवाडें सुटूंक नाशिल्लें. आयज विश्वसुंदऱ्यो कोण मुखार काडटात तें कळ्ळें तेन्ना सुटलें. स्वतंत्र भारतांत भौराष्ट्रीय कंपन्यो रिगूंक सोदताल्यो. तरेतरेच्यो ट्रिकी करताल्यो. नान्सी द स्काफाक असलेच एके कंपनीन नेहरूक मेळून यो म्हूण सांगिल्लें आसूंक जाय... नेहरू हांकां सारके वळखताले... ते बदले नात.

ना जाल्यार आयज? आमचे आयचे राष्ट्रपती आनी प्रधानमंत्री खंयच्याय विश्वसुंदऱ्यांक भेटी दितात. दूरदर्शना वयल्यान ह्या भेटिंचें पोझ दिवन प्रदर्शनूय करतात. खंय आशिल्ले आमी, आयज खंय पावल्यात!

जाग, जानेवारी २०००

## १५.

# भगतसिंग सपनांत

आयज बाथरुमांत हांवें लायफ्बॉय शाबू पळेलो. कितलींशीं वर्सां जालीं, हमाम वापरीत आयलां. लक्स, पामोलीव्ह सारके शाबू केन्ना वापरले नात, अशें न्हय. पुणून हमामाची संवंय जाल्या. हमाम लावन न्हातकूच न्हाल्लेवरी दिसता.

मनीस संवंयेचोय गुलाम जाता.

मनांत दुबाव आयलो, घरकान्नीक म्हजी 'पसीने की बदबू' आयली काय कितें ? तिका विचारलें. ती म्हणपाक लागली, 'दीसभर बसून आसता. पसीना खंयच्यान येतलो ?'

'मागीर, लायफ्बॉयसो बाथरुमांत हाडून दवरला ?'

तिणें टी.वी. वयले जायरातिच्या सुरांत जाप दिली, 'लायफ्बॉय है जहाँ, तंदुरुस्ती है वहाँ.'

म्हळें, 'तंदुरुस्ती खातीर कुडीक व्यायाम जावंक जाय. चुरचुरीत बरी भूक लागूंक जाय. पुश्टीक अन्न मेळूंक जाय. शाबू लावन कोण तंदुरुस्त जायना.'

लायफ्बॉय शाबू करता तीच कंपनी दुसरे कांय शाबू तयार करता. तांची जी पूड उरता तिचो लायफ्बॉय करता आनी खूब जायरात करून तो खपयता. जायरातूय कसली ? एकलो लायफ्बॉय लावन न्हाता आनी फुटबॉल खेळपाक वता. आनी गोल मारून येता. जसो कितें लायफ्बॉयाक लागुनूच तो गोल मारूंक पावलो. लोक पिशे. ते लायफ्बॉय घेतात आनी कंपनीक कोट्ट्यांनी रुपयांचो लाव करून दितात. मुर्खांचो देश. दुसरे कसले दिवे लायंतलो ?

वीस पंचवीस वर्सांचे पिरायेचो जायसर काजू पानान वा आंब्या पानान दांत घांसले. वर्ध्याक पावलों तेन्ना बाभळिचें 'दांतण' मेळ्ळें.ताणें घांसपाक लागलों. मुम्बय आयलों तेन्ना माकडछाप पावडर वापरली. ते म्हणसर संवसार खूब मुखार गेल्लो. हांवूच फाटसार कित्याक रावतलों ? म्हूण टूथ-पेस्ट टूथ-ब्रशान दांत घांसपाक लागलों.

एक इश्ट आयिल्लो. ताणें पळेलें, हांव ब्रशाक कोलगेट लावन दांत घांसतां. 'तूं अजून कोलगेट वापरता ? शी. वज्रदंती वापर...' ताणें म्हळें.

'कोलगेटीन कसलो पोटलो खाला आमचो ?' हांवें विचारलें.

'तुका खबर ना ? कोलगेटींत गोरवांच्या हाडांची पूड आसता.'

हांवें म्हळें, 'शी, ह्या पांवड्यार देंवन टिका करूंक जायना मनशान...'

ताणें म्हळें, 'म्हजे पदरचें हांव सांगिना... पार्लामॅन्टांत हाचेर खूब चर्चा जाल्या. देशांत साडेतीन हजार कत्तलखाने आसात. तांतूंत सद्दां लाखांनी गोरवां मारतात. मास अरब देशांनी धाडून आमी परकी चलन जोडटात. हाडांचें सारें करपी कांय कारखाने देशांत आसात. ते हाडां घेवन वतात. उरता तांतलो बरोचसो वांटो कोलगेट कंपनी घेता. तांची पूड करून हें पेस्ट तयार करता. तोंडांत जो फेंस येता तो सिंथेटिक कॉस्मॅटिक्साचो, जें 'निरमा' सारकेल्या वॉशिंग पावडरांत वापरतात... आमी अक्कल घाण दवरल्या. म्हूण आमी येवजी-बिवजी कांय नात... कोलगेट कंपनी बंद करात म्हूण पार्लामॅन्टांत बोवाळ जाल्लो... मागीर, कोणें कोणाचीं तोंडां शिंवलीं, कोणाक खबर. 'सांस की बदबू' सरकाराक आयली जातली आनी ताणें कोलगेटच्या 'सुरक्षा चक्रां'त रावपाचें थारायलें जातलें... 'सांस की बदबू' जाय तितलें उदक पियेले नात जाल्यार येता वा विटामीन 'सी' आंगांत नासत जाल्यार येता. कोलगेटीन ती ना करूंक येना...'

ताणें आनीक एक खबर सांगली. 'हालिंसाराक आमी कोडू लिंबांचीं 'दांतणां' भायर धाडूंक लागल्यात, खबर आसा तुका ? सुमार चाळीस वर्सां तरांतरांचे ब्रश आनी पेस्टां वापरले उपरांत एक दीस अमेरिकेक कोडू लिंबाच्या 'दांतणां' सारकें बऱ्यांतलें बरें 'पेस्ट कम् ब्रश' दुसरें ना म्हणपाचो सोद लागलो. अमेरिकेची हवा थंड म्हूण थंय कोडू लिंबू जायना. म्हूण हांगासरलीं 'दांतणां' ती व्हरपाक लागली. विज्ञानिकांनी कोडू लिंबाचे तरांतरांचे प्रयोग केले. ताचे पसून कॅन्सराचें वखद करूं येता, एड्साचोय उपाय करूं येता अशें कितें कितें सोदून काडलें. कोडू लिंबू एक खूब उपकारा पडपी रूख म्हणपाची जाणवीक जायनाफुडें अमेरिकेचे एके व्हड कंपनीन ताचें 'पेटंट' घेतलें. ताचेर आपणालो खाशेलो हक लागू केलो. आमी गॅट कराराचेर सय केल्या. आतां कोडू लिंबाचें झाड तुमच्या दारांत आसलें जाल्यार ताचेर तुमचो न्हय, ते कंपनिचो हक आसतलो. आमच्या सरकारानूच तो तिका दिला. कंपनी अब्जांनी रुपयांचो लाव करून घेतली... आमकां हे लोक नागयतात, लुट्टात म्हणपाचेंय आमकां कोणाक कळना...!'

म्हाका दिसांतल्यान पांच स खेपे च्या लागता. कितलींशीं वर्सां जालीं, 'मुडीस' पालो आमी हाडटालीं. म्हाका 'मुडीस'चो वाज आयलो. म्हाड्डोळा कांय पसऱ्यांचेर लिप्टन, ब्रुकबाँड असल्या कांय ब्रँडांचो पालो पळेलो. तांतलो खंयचोय एक ब्रँड हाडूंक लाय म्हूण घरकान्नीक सांगलें. भुरग्यांनी एक हाडलो. शंबर रुपया किलो मोलाचो.

एक दीस कांय आंकडे हातांत पडले. पोरूं वर्साच खंय हे कंपनीन सत्तर कोटी किलो च्याचो पालो विकलो. दार्जिलिंग, आसाम सारक्या वाटारांनी हो पालो जाता. चोवीस रुपये किलो दरेन ही कंपनी तो घेता आनी तरांतरांच्या 'बॉक्सां'नी पॅक करून शंबर रुपयांनी किलो दरेन विकता. म्हळ्यार, एका किलो फाटल्यान ती सांसश्ट रुपयांचो नफो काडटा. हांव हिशोब लावंक बसलों. सत्तर कोटी, सांसश्टान गुणले. चार हजार सशें वीस कोटी रुपया जाले. गोंय राज्याचें वर्सुकी बजेट तरी इतलें आसतलें काय कितें, खबर ना. खंयच्या राज्याचें आसतलें, देव जाणा! हे रुपया देशांत नव्यो रेल्वे लायनी बसोवपाक खर्चिल्ले जाल्यार खंय चार साडे चार हजार किलोमिटर लांब लायनी घालूंक येतल्यो आशिल्ल्यो. देशांतले सगळे मार्ग ह्या लायनींक जोडूंक येतले आशिल्ले.

च्याच घेवप ना अशें थारायलें. तुळशी पानांचो कसाय सुरू केलो. पुणून च्याची तान कसायान कशी भागतली? बँ म्हणून परती च्या सुरू केली.

दार्जिलिंग, आसामांतल्या वेपाऱ्यांक च्या निर्यात करूंक येवचो नाशिल्लो व्हय? पॅकिंग देशी लोकांक करूंक येवचें नाशिल्लें? परकी चलन ते जोडून हाडचे नाशिल्ले? पुणून फाटल्या दोनशीं तीनशीं वर्सां सावन आमी 'फॉरेन' गजालिंचे गुलाम – सॉरी, भक्त जाल्यात. (गुलामां खातीर आमच्या अध्यात्मान आमकां भक्त हें एक सुंदर उतर दिलां.) आमकां फॉरेन माल आवडटा, फॉरेन कंपन्यो आवडटात, फॉरेन एक्स्चेंज आवडटा. (एक दीस प्रधानमंत्रीय फॉरेनूच जाय अशें आमी म्हणपाक लागले जाल्यार कोणाक अजाप जावंक जायना.) हाका लागून आमचो माल फॉरेन कंपन्यांक विकले बगर, तांणी तो भायर धाडून खूब नफो जोडले बगर आनी हो नफोय सगळो तांणी भायर धाडून दिले बगर आमच्या देशाची उदरगत जावपाचीच ना, हे तरेचें एक 'नवें आर्थीक धोरण' आमी विकसावन काडलां!

कोणूय म्हाका मेळपाक येता तेन्ना नातरां खातीर बिस्कुत्यो, चॉकलेटी बी घेवन येता. (म्हाका संवंयूच ना दुसऱ्यांगेर वतना असलें कितेंय घेवन वचपाची.) पयर एकलो कॅडबरी चॉकलेट घेवन आयिल्लो. मनांत म्हळें, जांणी दूद केन्ना पळेलें ना असलीं – अश्वत्थाम्या सारकीं – लाखांनी भुरगीं ह्या देशांत आसात. तांच्यांतलीं अर्दीं दूद मेळूंक नाशिल्ल्यान मरतात. आनी जांचें पोट भरून गळो नळो एक जाला असल्या गिरेस्तांच्या वा नवगिरेस्तांच्या (नोवो रीशांच्या) भुरग्यां खातीर ह्यो कंपन्यो ज्यो चॉकलेटी तयार करतात तांकां कितलें लिटर दूद लागता जातलें? चॉकलेटी करपी चौदा कंपन्यो खंय भायल्यान हांगा आयल्यात. दर एकलेक दिसाक उणें पुरें तीन हजार लिटर दूद लागता. म्हळ्यार, चार लाख वीस हजार लिटर दूद ह्यो चौदा कंपन्योच दर दिसाक गिळटात.

चार लाख वीस हजारांक वर्साच्या तीनशें पांसश्ठ दिसांनी गुणचे. कितें जाप येतली? (म्हाका मेजूंक येना. म्हजो कॅल्क्युलेटर मोडला.) इतलें दूद गिरेस्त-नवगिरेस्तांच्या भुरग्यांच्या चॉकलेटीं खातीर खर्च करप? सोबता आमकां?

देशांत 'प्लॅनिंग' कित्याचेंच जायना. जाता तें गिरेस्त-नवगिरेस्तां खातिरच जाता. देशांत उत्पादन कांयच जायना म्हणटात तेंय खरें न्हय. खूब जाता. पुणून तें सगळें आमी भायर धाडून दितात. संवसाराचे फाटीर सात कांय आठ बकासूर देश आसात. तेच आमचें अंयशीं प्रतिशत उत्पादन 'फस्त' करून उडयतात. आमी उत्पादन तांचेच खातीर करतात. देशांतल्या लोकांचें कोणाक पडलां? तांकां 'फॅमिली प्लॅनिंग' करात म्हूण सांगलें, दळडिरे करीच नात. भोगात कर्माचीं फळां!

फाटीं दो. पुंडलीक गायतोंडे गोंयांत आयिल्ले. आमचे एक व्हड सुटके झुजारी ते. पुणून ताचेय परस व्हड 'मनीस'! तांकां मेळपाक काणकोणां गेल्लों. त्याच दिसा तांकां मेळपाक एकलो सुटके झुजारी आयिल्लो. एका काळा वयलो धश्ट-पुश्ट हो मनीस बारीक किडकिडीत जाल्लो पळोवन दोतोरान ताका विचारलें, 'कितें जालां रे तुका?' ताणें हें जालां तें जालां करून पिरपीर सुरू केली (खंयच्च्याय दुयेंती भाशेन) आनी म्हळें, 'एक बरेंऽ वखद दी म्हाका, दोतोर. तुजो हातगूण बरो...'

'वखद? गोंयांत कोणाक कसल्याच वखदाची गरज ना... बांगडे खा, आंबे खा...' दोतोरान ताका म्हळें.

बावडो ओगी पडलो. आनी थोडो वेळ बसून गेलो.

तो वतकूच हांवें दोतोराक म्हळें, 'एका काळार आंब्याक लोक फळांचो राजा म्हणटाले. आयज तो राजांचें फळ जाला, खबर आसा, दोतोर? हांवें १९६२-६३ मेरेनच्या काळांत तीन रुपयांक शंबर मानकुराद आंबे घेतल्यात. पयर आमची सून डझनभर आंबे घेवन आयली. पस्तीस रुपया डझन. सुरवाते-सुरवातेक पस्तीस रुपयांक एक ह्या मोलान बाजारांत मानकुराद आंबो विकतात आनी येदें हें मोल दिवन आंबे घेवपी लोक गोंयांत आसात... आनी बांगडो कसो जाला, खबर आसा? एका काळार आण्याक बारा बांगडे मेळटाले, आनी रुपयाक ते मुस्तींत सोळा आणे आसताले. रुपयाक एकशें ब्याण्णव बांगडे मेळटाले. आयज दोन रुपयांक तिनूच बांगडे मेळटात. फाल्यां तीन रुपयान एक मेळपाक लागलो जाल्यार म्हाका अजाप जावपाचें ना. सुंगटांचो वांटो चार आण्यांक मेळटालो. आतां वीस रुपया दिवचे पडटात... तुमचे मुस्तींतलें गोंय आयज उरूंक ना दोतोर... खंयचे खंय पावलां.'

आंबो मेळचो ना, पुणून 'मँगो फ्रुटी'? खंयच्च्याय गाड्यार मेळटली. कितले तरी

जातिंचीं थंड पिवणां आयल्यांत. नांवां कसलींय आसूं तांचीं. बाटलेंत आसता तें फकत उदक. थोडो रंग, थोडें साकारीन. आनी थोडें बी.वी.ओ. (म्हळ्यार कितें तें खबर ना, पुणून ताका लागून कॅन्सर जाता म्हणटात तें आयकलां.) धा रुपये दिवन जी बाटली आमी घेतात तांतल्या पिवणाचें खरें मोल फकत एक रुपया आसता. म्हळ्यार, दर एके बाटले फाटल्यान कंपन्यो पांच पांच, सात सात रुपये नफो काडटात. फाटीं लोकसभेंत एके कंपनी आड बोवाळ जाल्लो. वर्सान वर्स खंय ही कंपनी दोनशें अंयशीं लाख बाटल्यो विकता आनी एक हजार कोटी रुपयांचें परकी चलन आपणाल्या मायदेसांत धाडून दिता.

नशीब म्हळ्यार, ह्यो कंपन्यो आमचेंच उदक आमकां बाटल्यांनी घालून विकपाक लागल्यात आनी आमी तें विकतें घेवन पियेवपाक लागल्यात. 'बिसलरी' नांवाची एक कंपनी गंगेचें 'शुद्ध' उदक आमकां विकून लाखांनी रुपया जोडटा! उदक आमचें. घेवपीय आमी. नफो मात बिसलरी कंपनीक...

इंग्रज एकूच 'इस्ट इण्डिया कंपनी' घेवन आयिल्ले हिन्दुस्तानांत. आनी हे एकेच कंपनीन पुराय देश लुटून तो दोनशीं वर्सां मेरेन इंग्रजांच्या शेकातळा दवरिल्लो. आयज इस्ट इण्डिया कंपनी परस हजार वांट्यांनी व्हड सुमार साडे तीन-चार हजार भायल्यो कंपन्यो आमी आपोवन हाडल्यात. आनी सैमान अब्जांनी वर्सां लावन जें निर्माण करून आमकां दिल्लें तें सगळें आमी तांकां विकून उडयलां. जमनी (फुके सवाय) विकून उडयल्यो. जमनी पोटांत आशिल्ली लोखण, मँगनीझ सारकी खनीज संपतूय विकून उडयली. मध्य प्रदेशांत रायपुरा लागसार भांगराची एक खण मेळिल्ली. विकून उडयली. वज्रांची एक मेळिल्ली. विकून उडयली. कावेरीचें तेल (पेट्रोल) विकून उडयलें. तें कित्याक, सात हजार किलोमिटर लांब दर्यावेळ विकून उडयली. आमी एक तर सगळेंच विकून उडयलां वा विकपाक काडलां.

केन्ना केन्ना म्हाका म्हजेच तकलेचो दुबाव येता. म्हजीच तकली वांकडी चलता काय कितें, अशें दिसता. काँग्रेसीन देश विकलो अशें म्हणून हांव काँग्रेसिच्या नांवान बोटां मोडटालों. आतां पळेतां, सगळे तेच दिकेन पावलां घालीत मुखार वचूंक लागल्यात. मनोहर जोशी शिवसेनेच्या हिन्दुत्ववादी संस्कारांत वाडिल्ले. लालू प्रसाद जयप्रकाशांच्या समाजवादी संस्कारांत ल्हानाचे व्हड जाल्ले. देवेगौडांची वाड खंयच्या संस्कारांत जाल्या, खबर ना. पुणून ते जनता दलाचे म्हणटात. ज्योती बसू कट्टर मार्क्सवादी. वेगळ्या वेगळ्या राज्यांचे हे भाग्य विधाते भायर वचून 'येयात, आमच्या देशांत येवन उद्देग सुरू करात... तुमकां सगळ्या तरांच्यो सवलती मेळटल्यो' अशें सांगून व्हडल्या व्हडल्या

कंपन्यांक आमंत्रणां दिवन आयल्यात. गुजरालांनी तर आपणाले अर्थमंत्री चिदंबरमांक भायर धाडून 'पळेयात, दुसऱ्या कंपन्यांनी आमच्या देशांत येवन कितलो नफो केलो तो… तुमीय करून घेयात… इंग्रज फकत दोनशीं वर्सां उरले… तुमी 'यावश्चंद्र दिवाकरौ' रावात' अशें सगळ्यांक सांगून धाडलें! भाजपान तरी कसले दिवे लायल्यात? तेच… भाजपाचें 'स्वदेशी' लेगीत आतां 'जय जगतां'त मोडपाक लागलां.

हांच्यांत हो बरो काय तो बरो हें कशें थारावपाचें आमी?

इतली तिडक मारता की केन्ना केन्ना सगळें तोडचें, फोडचें, मोडचें-शें दिसता. एक मशीन गन घेवन पार्लामॅन्टांत वचचें आनी सगळ्यांक ठा ठा करून मारून उडोवचे-शें दिसता. (आनी गांधीवादी हांव एक, विसरूं नाकात.)

लायफ्‌बॉय शाबू बाथरुमांत पळेला त्या दिसा इतलेंय हें तकलेंत घोळ्ळां. ते रातचो बारा मेरेन कुसोच परतीत रावलों. थंड उदकान न्हातलों म्हूण बारांक बाथरुमांत गेलों. पळेत जाल्यार, नळाक उदकूच ना… तिडकीन तांबयो काडून बालदेर आपटिलो आनी भायर आयलों. न्हिदेची एक गुळी घेवन हांतुळणार पडलों. धा मिनटांत न्हीद आयली. सुस्त बरी न्हीद पडिल्ली. फांतोडेर पांचांक एक सपन पळेलें. फडऽफडऽ करून एक हॅलिकॉप्टर-शें आयलां आनी आमच्या घरा मुखावेल्या जायां मळ्यांत शें देंवलां. पळोवंक भायर आयलों. हॅलिकॉप्टरांतल्यान एकलो तरणे पिरायेचो देखणो सरदारजी देंवला. 'म्हाका वळखलो ना?' तो म्हाका विचारता.

'तोंड वळखिचें-शें दिसता… नांवाची याद जायना…' हांव ताका जाप दितां.

'हांव सरदार भगतसिंग', तो आपणाली वळख करून दिता.

'कोण भगतसिंग?… तो?…'

'हय, तोच, एसेंब्लिचेर बॉम्ब मोखून मारिल्लो तो आनी गोळाक हुमकळावन जाका इंग्रजांनी मारून उडयल्लो तो… चल, यो म्हजे बरोबर… लेख बीख बरोवन कांय जावपाचें ना. सगळें मोडून तोडून उडोवंक जाय.' अशें म्हणून तो म्हाका ओडून हॅलिकॉप्टरांत व्हरता. भितर आठ धा बॉम्ब आसात.

'हें कितें?' हांव ताका विचारतां.

'बॉम्ब', तो जाप दिता. 'एक दिल्लीचेर उडोवंक जाय, एक मुम्बयचेर, एक कलकत्त्याचेर, एक मद्रासाचेर. देश सगळो ना करूंक जाय. ते भायर, एक बनारसांतल्या विश्वेश्वराच्या देवळाचेर, एक जगन्नाथपुरींतल्या देवळाचेर, एक अमृतसरच्या सुवर्ण मंदिराचेर, एक दिल्लींतले जामा मशिदिचेर आनी एक तुमचे गोंयचे सां फ्रांस्काचे इगर्जेचेर… धर्म सगळे काबार करूंक जाय.'

'हांव येना तुजे बरोबर', हांव ताका म्हणटां.

'येना ?... येवचेंच पडटलें तुका... तुका ओडून व्हरतलों हांव... चोरांनो, भारत स्वतंत्र जावचो म्हूण लाखांनी लोक बंदखणींत गेले, हजारांनी मेले, हजारांनी गोळाक हुमकळ्ळे... ते कितें, देश तुमकां विकूंक मेळचो म्हूण ? नव्या साम्राज्यवाद्यांक आपोवन हाडपाचे आशिल्ले जाल्यार इंग्रजांक कित्याक धांवडावन घाले ? आसूं दी आशिल्ले तांकां... तुमच्या एकाय फुडाऱ्यांत दम ना... समाजवादी कितेंय करतले अशें दिशिल्लें... दळभद्रे मोर्चे काडटात. सॅक्युलरिझमाच्या नांवान ते जातवादाक - कास्टिझमाक पोसवण दीत रावल्यात... ढढ्ढाचार्य खंयचे कडले... चल, ना करून उडोवंया सगळ्यांक...'

'ना... हांव येना तुजे बरोबर' अशें म्हणून हांव मोठ्यान एक किळांच मारतां.

किळांच तोंडांतल्यान फुटली जातली. टॉर्च पेटोवन घरकान्नीन विचारलें, 'कितें जालें ? सपन पडलें ?'

'आं... हय... सपन पडलें...' हांवें जाप दिली. हांव भियेल्लों. तिणें दिवो पेटयलो. मुखावयल्या मेजार गांधींचो फोटो आशिल्लो. हांव ताचे कडेन पळेत रावलों. अवचीत गांधी उलोवपाक लागले, 'म्हजो मनशाच्या मनीसपणाचेर आनी सत्याग्रहाच्या तत्त्वाचेर भावार्त नाशिल्लो जाल्यार हांव भगतसिंगा बरोबरच उठून वतलों आशिल्लों... हांव निर्शेवंक ना... पुणून निर्शेवपा सारकीच परिस्थिती आयच्या तुमच्या फुडाऱ्यांनी करून दवरल्या... भगतसिंगाक दुशण दिवंक येवचें ना. तो म्हणटा तें खरें, लेख-बीख बरोवन कांय जावपाचें ना. देश पेटोवंक जाय...'

मागीर म्हजो दोळोच लागलो ना.

जाग, मार्च २०००

## १६.

# यादींतलें पुस्तक

काळ बदलला तसो हांवूय बदललां. म्हज्यो रुचीय बदलल्यात. चाळीस पन्नास वर्सां पयलीं जीं पुस्तकां मोटे रुचीन वाचिल्लीं तांतल्या कांय पुस्तकांक तर आयज हात लेगीत लायन दिसना. कांय, सामकींच पोरणीं जाल्यांत.

पुणून जीं कांय पुस्तकां म्हाका आयजूय नवीं ताल्ल दिसतात, म्हूण आयजूय जीं हांव मोटे रुचीन वाचतां, तांचे मजगतीं स्तेफान त्स्वैगाच्या पुस्तकांचो आसपाव म्हाका करचोच पडटलो. म्हजे कडेन ताचीं बत्तीस पुस्तकां आसात. पुर्तुगेज भाशेंत अणकारून आयिल्लीं - कथा, दीर्घकथा, नवलकथा, निबंध, उगडास - साहित्याच्या वेगळ्या वेगळ्या 'फॉर्मां'तलीं. नाटक एकूच आसा - जेरेमीयश्. पुणून त्स्वैगाची नामना जाल्या ती मारी आंतोनियेत, जुझे फुशे, फेर्नांव द मागाल्यांयश् सारकेल्या ताणें बरयल्ल्या जिवितांक लागून. वेगळ्या वेगळ्या मळां वयलीं आगळीं वेगळीं व्यक्तित्वां हीं. तॉलस्तॉय, दॉस्तॉयव्हस्की, स्थँदाल, बाल्झाक सारकेल्या साहित्यकारांच्या, तेच भाशेन, फ्रॉयड, नित्शे सारकेल्या विचारवंतांच्या जिवितांची आनी तांगेल्या वावराची वळख करून दिवपीय कांय पुस्तकां ताणें बरयल्यांत. सगळीं रुचीक.

Ontem (The World of Yesterday) ही तागेली आत्मकथा.

आत्मकथेंत सामान्यतायेन मनीस आपणाक तिचें मुखेल पात्र मानता आनी आपणें केल्ल्या, पळेल्ल्या, अणभविल्ल्या गजालिंच्योच खबरी सांगता. त्स्वैगाचे आत्मकथेंत त्स्वैग दिश्टी पडना. दिश्टी पडटा तो फकत ताचो काळ - वा म्हणुंया, ताचे पिळगेचो काळ. आनी, खंयच्याय म्हायतीपटांत जसो देखाव्यां फाटल्यानसून 'कॉमेन्टेटरा'चो आवाज आयकूंक येता तसो हे आत्मकथेंत त्स्वैगाचो फकत आवाजूच आमकां आयकूंक येता. देखाव काळाचे. विवरणूच त्स्वैगाचें. काळूय कसलो - भोंवतणचो संवसार सकल वयर करून उडोवपी एका फुडल्या एक घडणुकांनी, प्रलयांनी, मोडांनी, संकश्टांनी, अनर्थांनी उपाट भरिल्लो. आदल्या धा पिळग्यांनी पळेलो ना असलो, ताचे एकेच पिळगेच्या वांट्याक आयिल्लो.

त्स्वैग मुदलांत ऑस्ट्रियेचो. जर्मन भाशीक. पुणून तो आपणाक ऑस्ट्रियेचे, जर्मन

भाशेचे वा असले कसलेच शिमेंत बंदिस्त करून दवरिना. तो आपणाक 'येवरोपेव' मानता. आत्मकथेच्या पोटमथळ्यांत हे 'एका येवरोपेवाचे उगडास' म्हूण मुजरत सांगता. येवरोप सगळें एक, ताची संस्कृताय एक, ताची अस्मिताय एक. भासो कितल्योय घोळूं, सगळ्यो 'येवरोपेव' भासो; बरोवपी सगळे आपापले भाशेंतल्यान बरोवपी 'येवरोपेव लेखक' अशें मना पसून मानता. आनी संकुचीत राष्ट्रवादान उब्यो केल्ल्यो वणट्यो उंपून येवरोप सगळें 'एक जावंक जाय' अशें म्हणटा. पुणून, तो राजकी नदरेन ऑस्ट्रियेचो नागरीक, भाशेचे नदरेन जर्मन भाशीक आनी रगतान ज्यू, हीं ताका जल्मा वांगडा दशिल्लीं आंगांच ताका ताचे भुंयेंतलो मुळा थावन हुमटावन पयस एका वॅक्युमांत - एके पोकळ सुवातेंत भिरकावन मारपाक ताच्या काळाक पुरो जातात. कर्तुत्वाचे ऐन पिरायेर तो पाळां मुळां नाशिल्लो जावन एक 'उपरो' मनीस जावन पडटा. ऑस्ट्रियेचो उरना, जर्मन भाशेचो उरना, येवरोपेवूय उरना. खंयूय पावूं, थंय परकीच उरता. चडसोच जाल्यार पावणो म्हूण रावता. 'कोणाचोच' जावंक पावना. तसो, 'खंयचोच' जावंक पावना. हे आत्मकथेंत तो आपणाल्या काळाच्यो खबरी सांगूंक बसला. पुणून खंयच्या काळाच्यो, हें खासा ताकाच सारकें सांगूंक येना. 'पयल्या म्हा-झुजा आदल्या काळाच्यो, काय दुसऱ्या म्हा-झुजा आदल्या?' कित्याक, दोनूय वेगळे काळ हे. भूंय मळबा परसूय व्हडलें अंतर आशिल्ले. दोन वेगळीं युगां कशे जाल्ले. ताचो जल्म १८८१तलो. तेत्तीस वर्सां उपरांत येवरोपांत पयलें म्हा-झूज सुरू जालें. चार वर्सां तें चल्लें. ह्या चार वर्सांत झुजान येवरोपेव संवसार इतलो सकल वयर करून उडयलो की उपरांतच्या काळांत तो झुजा आदल्या काळांतल्यो खबरी सांगपाक बसता तेन्ना 'कितेंऽ... अशें चलतालें येवरोपांत ते मुस्तींत?' अशें लोक ताका विचारतात. 'म्हज्या जिवितांत ज्यो गजाली काल पयर घडिल्ल्यो त्यो हांकां प्राग्-इतिहासीक काळांतल्यो कश्यो जावन पडल्यो? काळ इतल्या वेगान धांवलो?' तो आपणाकूच अजापान विचारता. आत्मकथेंत ताणें ह्या काळांतल्यो कितल्योश्यो 'विचित्र' गजाली सांगल्यात -

तागेले एके आतेक लग्न करून दिल्ली. दुसऱ्याच दिसा ती घरसून पळून कुळारा आयली. 'कितें जालें, बाय? परतीशी कित्याक आयली?' म्हूण विचारल्यार तिणें कितें सांगचें? 'कसल्या मनशा कडेन तुमी म्हाका लग्न केली? बरो न्हय मनीस तो... पोजडो. रातीं म्हज्या आंगा वयली मुस्तायकी देंवोवपाचो यत्न करतालो !' इतलें निष्पाप आशिल्लें जग हें. लोक सुशेगाद जियेत आयिल्ले, तांचे आवय बापूय जियेताले, आजे पणजे जियेत आयिल्ले तेच भाशेन. जल्माक आयिल्ल्याच गांवांत आनी जल्माक आयिल्ल्याच घरांत. झुजान हें जिवीत मातये भरवण केलें.

वियेनांत त्स्वैगाचें तरणेपण गेलां. वियेना म्हळ्यार येवरोपांतलें संस्कृतायेचें एक

व्हड केन्द्र. येवरोपभरच्या साहित्यकारांचें, चित्रकारांचें, संगीतकारांचें एक तीर्थस्थळ. व्हडले व्हडले साहित्यकार, चित्रकार, संगीतकार ह्या शारांत रावताले. तांचे मजगतच्या खूबशा जाणां लागसार त्स्वैग पाविल्लो. तांच्या संबंदान तो बरयता तें वाचतकूच ताच्या भाग्याचो मत्सर दिसपाक लागता. साहित्यकार ह्या रुपांतली ताची साधना ह्याच शारांत सुरू जाल्ली. कितलीं पुस्तकां वाचचीं ताणें साधनेच्या ह्या काळांत ! ताणें वाचूंक ना असलें तेन्नाचे येवरोपाचे बरपावळींत एकूय पुस्तक मेळचें ना. आपणाली शैली केळोवपाक ताणें कितले अणकार करचे ! एकूय अणकार ताणें छापूंक ना. आपणाले 'साधनेचें एक आंग' म्हुण्णूच ताणें ते केल्ले. एक 'रियाज' म्हूण केल्ले. छापपा खातीर करूंक नाशिल्ले. त्स्वैगाची शैली दिश्ट लागपा सारकी. एक उतर हेवटेनचें तेवटेन करूंक मेळचें ना. एक उतर 'गरज नाशिल्लें' मेळचें ना. ताणें बरयल्लें वाक्य दुसरे तरेन बरोवंकूय येवपाचें ना. इतली निर्दोश, सरळ, सोंपी, प्रांजळ शैली तागेली.

तो म्हणटा, येवरोपाच्या नकशार ऑस्ट्रिया सोदपाचो यत्न करूं नाकात. कित्याक, तिचें नांव निशाण लेगीत काळान पुसून उडयलां. आनी वियेना? जर्मनी नांवाच्या एका देशाच्या शारां मजगतचें तें एक किरकोळ शार जावन पडलां. ताची 'शानू'च ना जावन गेल्या. 'झुजांच्यो खबरी आमी फकत इतिहासांत वाचताले. आनी आयच्या काळांत खंयूय तीं जालीं जाल्यार तीं पयस खंय तरी जातालीं. तिंवूय ल्हानश्या किजिलांच्या रुपांतलीं. तांच्यो खबरी आमी खबरेपत्रांतल्यान वाचताले. झूज येवन आमचें दार खटखटायतलें आनी घरदार सोडून जीव मुठींत धरून पळून वचपाचो प्रसंग आमचेर हाडटलें म्हणपाचें सपनांत लेगीत आमी केन्ना चिंतूंक नाशिल्लें.'

अवचीत एक दीस ऑस्ट्रियेच्या राजाची हत्या जाता. आनी आरे आरे म्हणटासर येवरोपांत गाज घडघडाट, कलकलाट, अच्छेव सुरू जाता. १९१४तलो जून सोंपपा कडेन पावला. आनी -

पयलें म्हा-झूज सुरू जाता.

आनी सगळ्यांचो आवरो उडटा. जीव मुठींत घेवन लोक पळपाक लागतात. पळून खंय वतात, कोणाक खबर ना. वाट फुट्टा ते वटेन सगळे पळत सुट्टात. कोणाच्या घरांचेर बॉम्ब पडल्यात. घरां मातये भरवण जाल्यांत. कोण वाटेर फातराक आपटून पडल्यात. तांकां हात दिवन उबे करपीय लागसार कोण ना. कोणाचो एकलोच एक पूत मेला. कोणाचो ऐन तरणे पिरायेर घोव गेला. जाणट्यांक बडये भायर दुसरो आधार ना. पयशांच्या मोलाक घसरण लागल्या. ह्या 'मोल नाशिल्ल्या' पयशान कितेंच विकतें मेळना. बँकांनी दिवाळें फुकलां आनी सगळ्यांचें आयुष्यभरचें 'सेवींग' साप्प बुडलां. खंय सांथिच्यो पिडा सुरू जाल्यात्त. एक आनी दोन न्हय, हजार तरांचीं अरिश्टां युरोपांतल्या

लोकांचेर कोंसळ्ळ्यांत. त्स्वैगाचे आत्मकथेंतलीं २८० पानां असल्याच खबरांनी भरल्यांत.

२८१ सावन ५४६ मेरेनचीं पानां वेगळ्याच एका युगाच्यो खबरी सुरू करतात. २८० मेरेनच्या पानांत आयिल्लें यूग आनी आतां सुरू जाल्लें नवें यूग हांकां जोडपी सांकवूच नात. आशिल्ले. झुजान मोडून उडयल्यात. ताका खाड फुटिल्लें आनी आतां खाड पिकपा कडेन पाविल्लें ह्या मदल्या काळांत ताणें ज्ञान-विज्ञानाच्या मळार येवरोप खंय आशिल्लें खंय पाविल्लें पळेल्लें ! विमानांचो सोद ह्याच काळान लायला आनी ह्या सोदान पयस पयसले देश एका एका दिसाच्या अंतरार हाडून दवरिल्ले ताणें पळेल्ले. फोन आयलो आनी मनीस ह्या तोंकार सावन धर्तरेच्या दुसऱ्या तोंकार आशिल्ल्या मनशा कडेन त्याच खिणाक उलोवपाक लागिल्लो पळेलो. रेडियो आयलो आनी तारवटी दोन दोन, तीन तीन सप्तकांच्या प्रवासांत तारवारूच संवसाराच्या खंयच्याय रेडियो स्टेशना वयल्यो खबरो वा संगिताच्यो कार्यावळी आयकूंक पाविल्ले पळेले. ज्यो पिडा दोतोरांनी 'असाध्य' मानिल्ल्यो तांचेर रामबाण वखदां आयिल्लीं पळेलीं. अंतराळाचो थाव घेवपाक मनीस भायर सरलो आनी दुर्बिणिच्या आधारान ब्रह्मांड सगळें भोंवन पळोवपाक लागिल्लो पळेलो. सगळ्यांत म्हत्वाचें म्हळ्यार, मनीस खासा आपणाक सारको वळखुपाक लागिल्लो पळेलो. जो ज्ञान-विज्ञानाच्या मळार येदो दिग्‌विजय करूंक पाविल्लो तोच अकस्मात गडगडून सकल कसो पडलो? फासीवाद, नाझीवाद, साम्यवाद, राष्ट्रवाद सारकेल्या मनीसघाण्या वादां वयलीं निर्बुद्द लोकांचीं उलोवपां आयकून हुर्रर फुर्रर कसो जावपाक लागलो? ताची येदी व्हडली अवनत कशी जाली? ह्या सगळ्या गडगडाटा मुखार मनीसपणान दिमी कशी मोडली? त्स्वैग ह्या प्रस्नांच्यो जापो सोदता आनी त्यो सोदता आसतना कितलेशे नवे प्रस्न आमचे मुखार दवरता.

एक दीस अकस्मात जर्मनींत हिटलर सत्येर येता. आनी सकाळच्या ब्रेकफास्टाक हरवें तांतीं फोडून ताळ्यांत उडोवन मनशान तें अचळय गिळचें तसो हिटलर ऑस्ट्रिया अख्खिची अख्खी गिळटा. हिटलर ज्यूंचो हाडवैरी. आनी त्स्वैग रगतान ज्यू. पयलें म्हा-झूज सोंपले उपरांत त्स्वैग वियेनांत येवन थीर जावपाचो बेत करता थंय आसा, ताचेर नवें संकश्ट येवन कोंसळटा. ताका ऑस्ट्रिया सोडून पर्थून पळून वचचें पडटा. ताच्या पुस्तकांनी ताका जर्मनींत लाखांनी वाचपी मेळोवन दिल्ले. तितलेच इश्ट जोडून दिल्ले. तेच जर्मनींत लोक उचांबळीत जावन ताच्या पुस्तकांच्यो होळयो पेटयतात त्यो ताका पळोवच्यो पडटात. उपाय ना जावन तो इंग्लंडाक वता.

इंग्लंडांत तो आसतनाच एक दीस हिटलर पोलंडाचेर घुरी घालून गेल्ल्याची खबर ताच्या कानार पडटा. आनी 'हिटलराचें आतां अती जालें' अशें मानून इंग्लंड हिटलरा

आड झूज सुरू करता. त्स्वैग हिटलरा आड आसलो, हिटलरानूच ताका ऑस्ट्रिया सोडून वचपाक लायिल्लो. तरूय कायद्यान तो जर्मन नागरीक. आनी जर्मन नागरीक कायद्यान इंग्लंडाचो 'दुस्मान' थरिल्लो. त्स्वैगाक इंग्लंडूय सोडून वचचें पडटा.

आनी त्स्वैगाची आत्मकथा हांगा सोंपता.

झुजांक लागून पयशांचें मोल देंवल्लें तें देंविल्लेंच. मनीसपणाचें मोल तर साप देंविल्लें. देशभक्तीक मोलूच उरूंक नाशिल्लें. एक प्रसंग ताणें आत्मकथेंत दिला -

ऑस्ट्रियेचीं एका शेजारी देशा कडेन किजिलां सुरू जाल्लीं. खंयच्या खिणाक आनी खंयचे दिकेन हो देश ऑस्ट्रियेचेर घुरी घालीत, सांगूं येना आशिल्लें. ऑस्ट्रिया ते मुस्तींत एक 'मॉनार्की' आशिल्ली - म्हळ्यार, राजाचें राज्य थंय चलतालें. राजान आपल्या मंत्रीमंडळाची एक बसका घेतली. आनी खंयच्यान घुरी आयली जाल्यार ती परतून कशी लावची हे विशिंची एक येवजण मंत्रीमंडळाक तयार करूंक सांगली. येवजण तयार जाली. गुपीत रुपाची येवजण ही. पुणून कांय दिसांनी ती कोणें तरी दुस्माना कडेन पावयल्या (विकल्या) म्हणपाची खबर राजाच्या कानार पावली. कोण विकतलो? वयल्या पांवड्या वयलोच कोण आसूंक जाय. कॉरॉनॅल रेडलाच्या हातांत देशाच्या संरक्षणाची दायकी दिल्ली. राजाच्या विस्वासांतलो मनीस. ताकाच ह्या मनशाक सोदून काडपाचें काम राजान दिलें. पुणून संवसारांतले सगळे राजा दुबावी सभावाचे आसतात तसो ऑस्ट्रियेचोय आशिल्लो. एका खात्या कडेन एक काम दिल्लें आसलें तरूय हें खातें तें सारकें करता काय ना हें पळोवपाक ताचेर नदर दवरपाचें काम दुसऱ्या खंयच्या गुपीत खात्या कडेन दिवपाची एक चाल सगळ्या राज्यांनी चलताली. हे चालीक धरून राजान रॅडलाच्या खात्याचेर नदर दवरपाचें काम गुपीत कामां करपी एके खाजगी संस्थेक दिलें. हे संस्थेन सगळ्यांत पयलीं भायल्यान येतल्यो चिटी सेन्सोर करच्यो म्हूण ऑस्ट्रियेंतल्या सगळ्या टपाल कचेऱ्यांच्या पोस्ट मास्टरांक सांगलें. कांय दीस अशेच गेले. सेन्सोराच्या हाताक कांय लागलें ना. एक दीस वियेनांतल्या जनरल पोस्ट ऑफिसांत एका अनवळखी मनशाच्या नांवान एक लाखाटो आयलो. लाखाट्याचेर नामो 'पोस्ट मास्टर जनरल, वियेना' असो दिल्लो. आनी भितर 'हार्ड करन्सींत'ल्यो खुबश्यो नोटो आशिल्ल्यो. पोस्ट मास्टरान ही खबर रोखडीच गुपीत काम करपी संस्थेक कळयली आनी हे संस्थेन त्याच दिसा लाखाटो व्हरूंक कोण येता हें पळोवपाक एका मनशाक थंय बसयलो. कितलेशे दीस कोण आयलो ना. एक दीस आयलो त्याच वेळार जिस्त हो मनीस तानेक भायर गेल्लो! पोस्ट मास्टर थोडो वेळ घुटमळ्ळो. मागीर, निरुपाय जावन ताणें आयिल्ल्या मनशाक लाखाटो दिलो. लाखाटो घेवन तो गेला इतल्यांत तानेक गेल्लो मनीस भितर सरलो. 'सभाग्या, इतले दीस तूं हांगा बसून रावलो आनी आयजूच

सो जिस्त कसो भायर गेलो? लाखाटो घेवन एकलो निकतोच गेला.'

'कोण आशिल्लो?'

'हांव वळखना...'

'कित्यांत बसून गेला?'

'स्टँडा वयली भाड्याची एक घोड्या गाडी घेवन गेला.'

घोड्या गाडयांचो स्टँड बगलेकूच पोस्ट ऑफिसा भायरूच आशिल्लो. आनी गाडयो सोदूंक येतल्यांक त्यो हाडून दिवपाचें काम करपी बारा चौदा वर्सांचे पिरायेचे कांय भुरगे थंय घुटमळटाले. गुपीत पोलीस स्टँडा सरीं येता सो पळोवन 'गाडी जाय' काय म्हूण विचारपाक एकलो भुरगो धांवन आयलो.

'निकतोच एकलो पोस्ट ऑफिसांतल्यान येवन एक गाडी घेवन गेला... कोणाचे गाडयेन तो गेला, खबर आसा?'

अमक्याची म्हूण ताणें गाडयेच्या कोचवानाचें नांव सांगलें.

'खंयचे दिकेन गेला?'

'हे दिकेन', ताणें दिका दाखयली.

पोलिसान दुसरी एक गाडी घेतली आनी हे दिकेन अमक्याची गाडी गेल्या ती जंय थांबल्या थंय व्हर म्हळें.

गाडी ते दिकेन चलपाक लागली. वाटेर एके कडेन ती गाडी परतल्ली दिश्टी पडली. हाणें आपणाली गाडी थांबोवन ते गाडयेच्या कोचवानाक विचारलें, 'तूं जाका पोस्ट ऑफिसांतल्यान घेवन गेल्लो ताका तुवें खंय व्हरून पावयला?'

ताणें एका हॉटेलाचें नांव सांगलें.

'म्हाकाय थंयच व्हरून पावय' अशें म्हूण तो हे गाडयेंत सिटार बसला मात, ताच्या कुल्याक कितें तरी लागलें. कितें म्हूण पळेत जाल्यार, एक चाकू आशिल्लो. आनी ताचेर चाकवाच्या धनयाचें नांव आशिल्लें. हाणें नांव वाचलें. आनी 'कितेंऽ कोरोनेल रेडल लाखाटो घेवन गेला? जाच्या हातांत ऑस्ट्रियेच्या संरक्षणाची दायकी दिल्या तोच खासा?' ताका आकांताचो धसको बसलो. ताणें हॉटेलार वचून रेडल खंयच्या रुमांत आसा तें पळेलें आनी रोखडेंच राजाक कळीत केलें. राजान खिणाचोय कळाव लायनासतना हॉटेलाक चोंय दिकांनी पोलिसांचो वेढो घालो. आनी हाका सांगलें, 'चाकू व्हरून रेडलाक दी.' हाणें रेडलाच्या दाराची बॅल वाजयली. खासा रेडलानूच दार उकतें केलें. चाकू दाखोवन विचारलें, 'हो चाकू तुमचो?'

रेडलाक कळपाचें कळ्ळें. ताणें दार धांपून भितरल्यान कडी घाली. वरा भरयान दरबारांतल्यान एकलो आयलो आनी 'राजान तुमकां ही भेट धाडल्या' अशें म्हणून

रेडलाच्या हातांत एक भरिल्लें रिवोल्वर दिलें.

रातच्या बारांक रेडल आत्महत्या करून मेलो.

त्स्वैग इंग्लंड सोडपाचो बेत करता हांगा मेरेनची खबर ताचे आत्मकथेंत आयल्या. फुडली खबर दुसऱ्यांनी सांगल्या -

तो इंग्लंडच्यान पयस ब्राझिलाक वता. तो थंय पावला ताचे पयलीं ताचीं पुस्तकां थंय पाविल्लीं आसतात. तीं ताका हजारांनी इश्ट जोडून दितात. सगळे ताका वयर वयर करतात. पुस्तकांचे रॉयल्टिचे पयशेय भरपूर मेळटात. कोणूच ताका कितेंच उणें पडूंक दिनात. पुणून कितलोय जाल्यार, देश अनवळखी. भासूय परकी. आनी पिरायूय साठ वर्सांची. जिवीत नव्यान सुरू करतलो म्हळ्यार हे पिरायेर तें जमपा सारकें नाशिल्लें. काळीज ल्हव करपाक कितेंय बरयतलो म्हळ्यार जर्मन भाशेचें जग ताचे पसून पयस गेल्लें. तो आपणालें जगूच होगडावन बशिल्लो. देश होगडावन बशिल्लो. भास होगडावन बशिल्लो. ज्या येवरोपाचेर ताणें प्राणा परस चड मोग केल्लो तें येवरोपूय आतां आत्महत्या करून ना जावपाचे वाटेर पाविल्लें. एकोडेपण पयस करपा खातीर ताणें ही आत्मकथा बरयल्ली. आधाराक कितेंच नासतना. फकत उगडासांचेर पातयेवन. कोण छापतलो, कोण वाचतलो हें खबर नासतना. बरोवन जातकूच ताका दिसलें, येवरोपा वांगडा आपणेंय आपल्या जिविताचो आतां अंत हाडिल्लो बरो.

आनी ताणें आत्महत्या केली.

The World of Yesterday विश्वसाहित्यांतली बऱ्यांतली बरी एक आत्मकथा. जर्मन भाशेंतले ग्योतेचे The Truth and the Poetry आत्मकथेचेच परंपरेंतली. एक फावट वाचतकूच केन्ना कोण विसरचो ना हे तरेची.

जाग, डिसेंबर २००१

## १७.

# सुटयो कित्याक जाय?

गांधी जयंतीची सुटी केन्द्र सरकारान दिल्या. देखून राज्य सरकाराक ती काडून उडोवंक मेळची ना म्हणपाचें कळनाफुडें मनोहरबाब पर्रीकारांनी ती काडून उडोवपाचो आपणालो बेत शाणेपणान फाटीं घेतलो म्हूण आयकूंक मेळ्ळां. पुणून आपूण ती काडून उडोवंक सोदतां अशें तांणी म्हळ्ळें तेन्ना खूब जाणांचीं तोंडां वांकडीं जाल्लीं, तीं कित्या खातीर? गांधीं विशीं तांच्या मनांत भक्तिभाव वसता म्हूण व्हय? च्ये, 'काय बरी एक सुटी मेळटाली तीय हांणी काडून उडयली' हेच एके खंतीक लागून.

सप्तकांतली आयतारची एक सुटी आपल्या हक्काची अशें ते मानीत आयल्यात. कांय कडेन शेनवार आयतार दोनूय दीस सुटी मेळटा. वर्साक बावन शेनवार, बावन आयतार. ते भायर, तांकां वर्सांतल्यान अठरा 'पब्लिक' सुटयो मेळटात - सणां परबांच्यो, हाच्या ताच्या जयंत्यांच्यो वा मरणाच्या उगडासांच्यो. तीस दीस खाशेल्या हक्काच्यो - प्रिविलेज्ड - सुटयो. न्हिदतलो जाल्यार न्हिदूंक मेळचें, खंयूय भोंवन येतलो जाल्यार वचून येवंक मेळचें हे खातीर. तीस दिसांची 'सीक लीव' - 'सीक' पडूंक जाय अशें ना. पुणून पडपाचो तांचो हक कायद्यान मान्य केला. आनी आठ काय बारा 'कॅज्युअल' - सट्ट करून गरज पडल्यार घेवपाच्यो. एकूण मेळून तांकां वर्सांतल्यान एकशें चौऱ्याण्णव सुटयो मेळटात. एकशें चौऱ्याण्णव दीस म्हळ्यार साडे स म्हयने. हाचो अर्थ, वर्सांतल्यान ते फकत साडे पांच म्हयने काम करतात असो जाता. आनी -

पगार मात बाराय म्हयन्यांचो घेतात !

असले जांवंय देशाक मेळटकूच देश भरभरीत 'वयर' कित्याक सरचो ना? 'वयर सरिल्लो' खंयचोच देश इतल्यो सुटयो घेना.

सैमांत कोणूच सुटी घेना. कोण खिणाचो लेगीत विसव घेना. सूर्य घेना, चन्द्र घेना, धर्तरी घेना. धर्तरे वयले जीव - किडी मुयो, सोरोप जिवाणीं, सावदां गोरवां, सुकणीं शेवणीं, पाखे पिसोळीं, बिरमुटो जळारां, नुसतीं, कोण्ण घेनात. सगळे जीव दिसूयभर कामांत आसतात. रोयणी, घोंटेर बांदतात वा बिळां काडटात. ना जाल्यार घोली सोदतात. पिलांक जल्म दितात. तांकां ल्हानाचीं व्हड करतात. तांची दुस्माना पसून जतनाय घेतात

आनी सैमान तांचे खातीर जें निर्माण केलां (सगळ्यां खातीर सैम दिसपट्टें कितें-न्हय कितें गरजेचें निर्माण करीत आयलां) तें पुंजावपाच्या कामांत गुल्ल उरतात.

'श्रान्त' जातात तेन्नाच जीव 'विश्रान्ती' घेतात. पुणून ही विश्रान्ती उठपा-बसपा, चलपा-भोंवपा, जेवपा-खावपा, स्वास-उस्वास घेवपा आनी न्हिदपा सारकें तांच्या जिविताचें एक आंग आसता. मनशां मजगतचे जे आपूण आपलो वेवसाय सोदून चलयतात ते - सॅल्फ ऍम्प्लॉयड् लोकूय सुटयो घेनात. शेट, मेस्त, कुंभार घेना. कवी, लेखक, चितारपी, गावपी, वाजोवपी, शिल्पकार, वास्तु-शिल्पकार कोणूच घेनात. चोविसूय वरां ते कामांत आसतात. जेवपाक बशिल्ले आसूं, न्हावपाक गेल्ले आसूं, बायल भुरग्यां वांगडा खबरी करतात आसूं, पुरो जावन आड पडिल्ले आसूं - तांच्या मनांत कामाची घोंकणी एका सारकी चलत राविल्ली आसता. घोंकणेक लेगीत तांगेल्या क्रियाशील कामाचें एक आंग म्हणूंक जाय. तांकां केन्ना आपणाल्या कामाची उबगण येना, केन्ना ताचो वाज येना. तांचें आवडिचें हें काम म्हूण. आवडिच्या कामांतूच मनशाक धादोसकाय भोगता. आनी ही धादोसकायूच ताच्या सगळ्या आंगांचो - कुडिचो, मनाचो, काळजाचो सारको संतुलीत विकास घडोवन हाडटा.

आवडिच्या कामाक कांय शास्त्रीय नांवां आसात - सर्जनाचें काम, आपशकमी काम, 'क्रियेटीव' काम. मनीस तें जीव ओतून करता.

फकत नोकरी करपीच मनीस सुटयो सोदता. कित्याक? जीं कामां तो करता तीं ताचे आवडिचीं न्हय म्हूण. तीं ताका धादोसकाय दिनात, तीं उबगण, वाज हाडटात म्हूण. फकत पयशे जोडप हीच ह्या कामांची मोख आसता म्हूण. पोटा खातीर तीं ताका 'करचीं पडटात'.

मनशाक पयशे जाय. पुणून पयशां भायर आनीक जें जाय तें नोकरी ताका दिना.

खरेपणानशीं मनशाक ताचे आवडिचींच कामां करूंक मेळूंक जाय आशिल्लीं. 'आदर्श' समाज असो आसूंक जाय की तांतूंत कोणाक वेठी वावर करचो पडूंक जायना. पोट भरपा खातीर ज्या समाजांत लोकांक वेठी वावर करचो पडटा तो समाज रद्दड. मोडून उडोवपा सारको. ताचे सुवातेर सगळ्यांचे सृजनतायेक मेकळीक आनी फुरसत दिवपी नवो समाज रचूंक जाय.

सर्जक कामांतल्यान मनशाक पयशेय मेळटात. ना अशें न्हय. पुणून तें कामाचें फळ म्हूण मेळटात. पयशे जोडप ह्या कामाचो उद्देश नासता, ताची प्रेरणाय नासता. उद्देश आनी प्रेरणा आपणाक उकतावप, धादोसकाय भोगप, भितरलो आनंद जोडप हीच फकत आसता.

एक दीस मनशाक वाफेचे शक्तिचो सोद लागलो. हे शक्तिचो ताणें आपणाल्या

उत्पादनाच्या कामांत उपेग करून घेवचो अशें थारायलें आनी ताच्या हातांत यंत्रां आयलीं. जीं कामां करपाक ताचो पुराय दीस खर्चतालो तीं कामां आतां यंत्रां वरा भितर करून दिवपाक लागलीं. हें पळोवन सृजनशील फुडाराचीं सपनां पळोवपी ध्येयवादी खुशालभरीत जाले. ते म्हणपाक लागले, आतां आमकां अशे तरेचो समाज बांदून काडूंक मेळटलो की जातूंत उत्पादनाचीं चडांत चड कामां यंत्रां करतलीं आनी लोकांचो जो वेळ वांचतलो ताचो उपेग तरांतरांच्या कलांचो विकास करपाक तांकां करूंक मेळटलो. तांचे सृजनतायेक फुरसत मेळूंक पावतली.

पुणून हांचो अदमास खंय तरी चुकलो.

यंत्रां येतकूच उत्पादनाचीं चडांत चड कामां यंत्रांच करपाक लागलीं खरीं. उत्पादनूय खूब जावपाक लागलें खरें. पुणून लोकांक तरांतरांच्यो कला वाडोवपा खातीर जो 'वेळ' मेळटलो म्हणटाले तोच कोणें तरी चोरून व्हेलो. 'हायजॅक' केलो.

परिणाम - यंत्रांच्या उद्देगांक लागून जें अर्थतंत्र उबें जालें तांतूंत घुसपल्ल्या कोणाकूच आतां 'वेळ मेळना'. पुस्तकां वाचपाक वेळ ना. संगीत आयकुपाक वेळ ना. तोक्योक पावले जाल्यार क्योतो पळोवन येवपाक वेळ ना. बायल भुरग्यां वांगडा हांसपाक उलोवपाक वेळ ना. जेवपाक लेगीत वेळ ना. यंत्रांनी संवसारीक सूख दिवपाक तरेकवार वस्तू - कम्फर्टस् - दिल्यो, लोकांक भायल्यान गिरेस्त केले. पुणून भितरल्यान सगळ्यांक दळडिरेच करून दवरले. यंत्रांनी आमकां यंत्रांचेंच एक चाक मानलें, आनी आमी फकत 'मनी मेकिंग मशिनां' जावन पडले.

अशें कित्याक लागून जालें?

यंत्रां केदीं आसचीं हें मनीस थारावंक पावलो ना. तांच्या आकारांक आनी उत्पादन-क्षमतेक - प्रॉडक्टिविटीक - शीम घालूंक ताका आयली ना. आरे आरे म्हणटासर ताच्या दोळ्यां मुखार व्हडलीं व्हडलीं राक्षसां सारकीं यंत्रां उबीं जालीं. पुराणांतले बाष्पसेन, विद्युतसेन भायर सरून उत्पादनाचीं कामां करपाक लागले. 'काम दी, ना जाल्यार खातां' अशें ते मनशाक सांगपाक लागले. तांकां काम दिवपाक कच्चो माल - रॉ मटेरियल - जाय आशिल्लो. जंय तो मेळटा त्या देशांचेर मनशाक शेक चलोवचो पडूंक लागलो. इतलेंच न्हय तर यंत्रां जें उत्पादन करतात तें खपोवपाक वेगळ्यो वेगळ्यो बाजारपेठोय ताका ताब्यांत घेवच्यो पडूंक लागल्यो. हांतुतल्यान साम्राज्यवाद जल्माक आयलो.

साम्राज्यवादान दोन संवसारीक म्हा-झुजां घडोवन हाडलीं. आनी कोट्यांनी लोकांक गुन्यांव नासतना मारून उडयले.

दुसरें संवसारीक झूज सोंपलें ताचे वांगडा साम्राज्यवादाचेय दीस सोंपले. पुणून, म्हणटात न्हय, मनशाच्या रगताची रूच लागिल्लो वाग दुसऱ्या खंयच्याच जनावराच्या

ःगता कडेन हुंगून लेगीत पळेना, तशें-शें कितें साम्राज्यवादी देशांचें जालें. वसणुकां बगर तांकां जियेवंकूच मेळना जालें. तांणी युक्ती करून 'संवसारीकरण', 'उदारीकरण', 'मेकळो वेपार' असल्या नव्या नव्या नांवांनी नवो वसणुकवाद आतां उबो केला आनी आमी 'तिसऱ्या संवसारांतले' अबरगत, न्हिदसुरे लोक तांच्या जाळांत घुसपून पडल्यात! आमच्या नशिबांतलो वेठी वावर चुकोवंक आमकां आयलो ना. आमी आतां तो नव्या नांवान करपाक लागल्यात. नांवां वेगळीं आसूं, वावर वेठिचोच.

खरेपणानशीं, आदल्या वसणुकवादांतल्यान आपणाली सोडवणूक करून घेतिल्ल्या देशांनी 'स्वतंत्र' जायनाफुडें लोकांचे सर्जकतेक - तांगेल्या आपशकमी कर्तुत्वाक - मेकळीक दिता असली नवे तरेची एक अर्थवेवस्था उबी करूंक जाय आशिल्ली. तीच लोकांच्या कुडिच्या, मनाच्या आनी काळजाच्या विकासाक पोसवण दितली आशिल्ली. तीच तांकां धादोसभरीत करतली आशिल्ली. तीच तांगेलें दळ्दीर ना करतली आशिल्ली. तांची भितरली जीण गिरेस्त करतली आशिल्ली आनी तांचे हस्तुकीं जें निर्माण जातलें आशिल्लें तें संवसाराचे सुंदरकायेंत भर घालपीच थरतलें आशिल्लें. हे अर्थवेवस्थेंत यंत्रां आसतलींच आशिल्लीं. पुणून तीं मनशा सुवादीन उरतलीं आशिल्लीं - मनीस तांचे सुवादीन जावचो नाशिल्लो. आमच्या पाड्या नशिबान अशें जावंक पावलें ना.

जे मेरेन ल्हान ल्हान यंत्रां चडांत चड लोकांच्या हातांत दिवन उत्पादन चलचें ना ते मेरेन चडांत चड उत्पादन विद्युतसेन बाष्पसेना कडल्यान करून घेवपी अशे अर्थवेवस्थेंत कोणाक आपणाले आवडिचीं कामां मेळपाचीं नात. पोट भरपा खातीर वेठी वावर करप कोणाच्याच नशिबांतलें चुकपाचें ना. वेठी वावर करून कोणाक संतोस मेळपाचो ना. मनीस असलो वावर करून उबगतलो, वाजेतलो आनी चडांत चड सुटयो मागीत रावतलो.

आयचे अर्थवेवस्थेंत सृजनशील समाज जल्माक येवपाची आस्तूच उरूंक ना.

जाग, फेब्रुवारी २००२

## १८.

# दोन मिनटां मौन आगर्ां पुरो आमकां

१९४५ त जपानांतल्या हिरोशिमा शाराचेर अमेरिकेन एॅटम बॉम्ब उडयलो. आनी स वर्सां सावन चलत आयिल्लें भयांक्रूत दुसरें म्हा-झूज एका खिणांत बंद उडयलें. पुणून, तेच वांगडा, हिरोशिमा शाराचो लासून गोबोर केलो. शारांतलो एकान एक मनीस हुलपून मेलो. इतलेंच न्हय, तर शारा भोंवतणच्या तीस चाळीस चौरस मैलांच्या वाटारांतलो लोक सदांकाळा खातीर अपंगूळ जावन पडलो. कोणाच्यो काती भाजल्यो, कोणाचे दोळे गेले, कोणाक आनीक कितें जालें - मरनासतना यमकोंडांतल्यो यातना सगळे भोगपाक लागले.

ते उपरांत, 'एॅटम बॉम्ब नाकात, ते निर्माणूच करूं नाकात, ते मनीसजातूच ना नपश्चात करून उडयतले' अशें म्हणपी 'नो मोर हिरोशिमा' नांवाची एक चळवळ संवसारांत सुरू जाली. आनी ती नेटान चलत रावली.

आनी, तरी आसतना, संवसारांत एॅटम बॉम्ब निर्माण जायत रावले. व्हडल्या शक्तिशाली देशांत तर ते तयार जायत रावलेच, हिन्दुस्तान आनी पाकिस्ताना सारकेल्या दुबळ्या देशांनीय एॅटम बॉम्ब निर्माण केले. आतां केन्ना कोणाची तकली फिरत, सांगूं येना. आनी केन्ना धर्तरी ना जायत, कोण नेणा.

एॅटम-बॉम्बांची तरसाद पुराय मनीस-कुळयेचे तकलेर आयजूय हुमकळत रावल्या.

कांय जाण म्हणपाक लागले, एॅटम बॉम्ब नाकात, बरें आसा. पुणून एॅटॉमिक शक्तिचो उपेग फकत बॉम्बूच निर्माण करपा खातीर जावं येता, अशें कोण म्हणटा? वीज निर्मुपा खातिरूय तो करूं येता. पयस पयसल्या गांवांनी आमच्यांनी वीज पावोवं येता. फाल्यां धर्तरिच्या पोटांतलें पेट्रोल सोंपतलें तेन्ना पेट्रोला बगर गाडयो चलोवपाकूय ती उपकारा पडूं येता. उज्यान घर हुलपूं येता म्हूण कोण उजोच नाका म्हणटा व्हय? उज्यान अन्नूय शिजोवं येता. खंयचेय शक्तिचो वायट उपेग जावं येता, तसो बरोय करूं येता. मनीस-जातिच्या बऱ्या खातीर आमी एॅटॉमिक शक्तिचो उपेग करूंक जाय.

जवाहरलाल ह्या मत्ताचे आशिल्ले. ते एॅटॉमिक शक्तिचो 'पीसफूल पर्पझा' खातीर उपेग करपाक भायर सरले आनी तांणी मुम्बय लागसार ट्रॉम्बेंत एक एॅटॉमिक रिएॅक्टर उबो केलो. उपरांत संवसारभरचे देश असल्या रिएॅक्टरां फाटल्यान धांवले.

सोविएट़ रशियेंतल्या युक्रेन वाटारांतले (आयज युक्रेन एक स्वतंत्र देश जाला)

र्नोबिल नांवाचे एके सुवातेर चार रिऍक्टरांचें एक अणुपथक उबें जाल्लें. पंदरा वर्सां यलीं, १९८६त, ह्या चारां मजगतचो एक रिऍक्टर अकस्मात फुटलो. आकांताचो फोट जावन तो अठ्ठावीसशें - दोन हजार आठशें - डिग्री सेल्शियस मेरेनचो उजो नोंकपाक लागलो. ताचें विक्ख फ्रान्स आनी इंग्लंडा मेरेन पातळ्ळें. वाटे वयलीं सगळीं तां, भाटां, रानां, तळीं विखोळ जालीं. अन्न-धान्य, शाक-भाजी, फळ-फळावळ, दू-तांतयां, मास सगळें लोकांक ना करून उडोवचें पडलें. येवरोपांतल्या सगळ्या देशांक रथरो सुटलो. फुटूंक नात ते चेर्नोबिलचे तीन रिऍक्टरूय आतां बंद उडयात म्हूण सगळे श मोटमोट्यान आड्डुपाक लागले.

चेर्नोबिला लागसार प्रिप्यात नांवाचें एक ल्हानशें शार आशिल्लें. पंचेचाळीस हजार लोकवसतिचें. तीन वरां भितर सगळ्यांक थंयचे हालोवचे पडले. घरदार बी सगळें सोडून बाबडे जीव मुठींत घेवन पळ्ळे. हजारभर बसिंनी तांकां पयस व्हरून पावयले. इतलेंच न्हय, तर चेर्नोबिला भोंवतणचो सुमार तीनशें चौरस मैलांचो वाटारूय रिकामो करचो पडलो. फुटिल्ल्या रिऍक्टराचो उजो पालोवपाक तेरा दीस लागले. पांच हजार टन शिमीट, रेंव, शिशें, माती वयल्यान हॅलिकॉप्टरांतल्यान उडयली तेन्नाच उजो थांबलो. हो उजो पालोवपा खातीर जे जीव संकश्टांत घालून दीस रात वावुरिल्ले तांतले तीन वांट्याचे लोक मेले. जे वांचून उरले ते हिरोशिमाच्या तीस चाळीस चौरस मैलांच्या वाटारांतल्या लोकां भाशेन सदांकाळा खातीर अपंगूळ जावन मरनासतना यमकोंडाच्यो यातना भोगूंक लागल्यात.

वीज निर्मणेच्या 'पीसफूल पर्पझा' खातीर केल्लो ऍटॉमिक शक्तिचो उपेगूय आंगलट येवं येता म्हणपाचें चेर्नोबिलान दाखोवन दिले उपरांत 'ऍटम बॉम्ब तर नाकाच, ऍटॉमिक रिऍक्टरूय नाकात' अशें येवरोपांतले विचारवंत मोट्या मोट्यान आड्डुपाक लागले. चेर्नोबिलांतले उरिल्ले तीन रिऍक्टर बंद करचे म्हूण येवरोपभर तांणी बोवाळ घालो. धुमशेणां कांडलीं. पुणून बेबद्याचो उन्माद ताचे तकलेंतलो सोंपेपणान देंवना तसो 'विकासा'च्या पिशान बेबदे जाल्ल्यांचो - आनी तांचे वांगडा तांगेल्या भाड्यान घेतिल्ल्या 'विज्ञानिकां'चो उन्माद देंवना - तांणी कानार केंस काडले. आनी फुटिल्लो रिऍक्टर पुरयले उपरांत - ते मेरेन बंद दवरिल्ले - तिनूय रिऍक्टर परते सुरू केले. अखेरेक येवरोपभरच्या जागरूक लोकांनी भूंय मळब एक केलें. उपरांतूच पोरूं डिसेंबरांत तांणी ते सासणाचे बंद केले...

लक्षांत दवरपा सारकी एक म्हत्वाची गजाल -

रिऍक्टर सुरू करप सोंपें. पुणून तांचें काम सोंपतकूच तांचें कितें करप ह्या प्रस्नाची जाप विज्ञानाक अजून दिवंक येवंक ना. रिऍक्टरांचें आयुश्य चडांत चड चाळीस वर्सांचें,

उपरांत ते कित्याक उपकारनात. तांकां वाऱ्यारूय उडोवंक येनात. कित्याक, तांचें भितरलें आंग किरणोत्सर्गांनी उपाट भरिल्लें उरता. आनी तें हजारांनी वर्सां तशेंच तिगून उरता. ह्या आंगाची केन्ना कोणाक कसली बादा जायत, सांगूं येना. म्हूण, दोन उपाय घेवंक जाय अशें विज्ञानीक सांगतात. एक - रिऍक्टरां भितरलें आंग खरवडून तें लोखणाच्या घट्ट पायपांनी भरून, जमनींत वा दर्यांत सुमार पांच हजार फूट भितर पुरूंक जाय. भितरलें आंग खरवडून काडपूय ल्हाना समानांतलें काम न्हय. शेंकड्यांनी लोकांक पांच सात वर्सां, खाशेले भेस दिवन - तोंडार मास्कां-बिस्कां घालून कामाक लावचे पडटात.

ना जाल्यार, तांची 'राखण' करूंक जाय. शिमिटान आनी लोखणान तांच्यो घट्ट बऱ्यो कबरी (थडीं) बांदून आनी थंय दीस रात पारो करपाक कोणाक न्हय कोणाक हजारांनी वर्सां बसोवन. 'कबरी' बांदल्यो आनी तांची राखण करपाक कोणाक दवरले नात जाल्यार, कांय वर्सां उपरांत कितें जातलें सांगूं येता? सिंधांतल्या एका दोंगरार विटांच्यो राशीच राशी पडिल्ल्यो पळोवन जॉन मार्शलाक प्रस्न पडिल्लो, 'ह्यो विटो हांगा कोणें हाडून उडयल्यो?' आनी पोरणावळशास्त्राचे कुदळीन ताणें तो दोंगर खणून काडलो. पोंदा ताका मेळ्ळें पुरवल्लें एक व्हडलें शार - मोहन-जो-दडो. तशें, कांय वर्सांनी ह्या कबरीं भितर कितें आसा म्हूण पळोवपा खातीर कोणेंय त्यो उस्तून काडल्यो जाल्यार कबरींतल्यान एक व्हडलो भस्मासूर भायर सरतलो आनी तो पुराय मनीसजातूच खावन उडयतलो.

आयज संवसारभरचे शाणे लोक अणू-उर्जे फाटल्यान पिश्यां भाशेन धांवूं नाकात म्हूण सांगतात ते हे खातीर. अमेरिकेन १९७४ उपरांत एक लेगीत अणू-भट्टी उबी करूंक ना. १९८० उपरांतच्या काळांत येवरोपांतल्याय एकाय देशान अणू-भट्टी वयर सरूंक दिवंक ना. आमचे फुडारी फुडाराचें कांयच येवजिनात. केद्या संकश्टांत ते आमकां धुकलून उडयतात हाचो तांकां इल्लोय अदमास ना.

आमच्या शेजरा कारवारांत, कैगाक असलीच एक अणू-भट्टी कर्णाटक सरकारान उबी केल्या. फाल्यां तिचें बरें-वायट कितेंय जालें जाल्यार कारवारूच न्हय, तर पुराय सिंधुदुर्ग आनी गोंय तशेंच पुराय उत्तर दक्षीण कॅनरा लासून ना जावपाचो भंय आसा. कोंकणी मनीस उरलोच जाल्यार कोचीक उरत.

मागीर खंयूय सभा संमेलनां जावं, कोंकणी मनशाच्या आत्म्याक शांती मेळूं म्हूण मागून दोन मिनटां उबे रावन लोक आमकां आर्गां ओंपतले. फकत एक दोन वर्सां. मागीर सगळे विसरतले. जांकां भोंवतणचें कांयच लागना तांच्या नशिबांत दुसरें कितें आसतलें?

जाग, आगस्ट २००१

१९.

# आर्विल्ली संस्कृताय ना जावपाचे वाटेर

संव्रसारांत आगळ्यो वेगळ्यो कितल्योश्यो संस्कृतायो जल्माक आयल्यात, तश्यो तरतरून वयरूय सरल्यात. ज्या देशांनी त्यो जल्माक आयिल्ल्यो ते देश - सुमेरिया, इजिप्त, बाबिलोनिया, असीरिया, पर्शिया, ग्रीस, रोम, भुंयगोलार आयजूय पळोवंक मेळटात. पुणून थंय जल्माक आयिल्ल्यो संस्कृतायो लेगीत आयज खंयच पळोवंक मेळनात. अशें कित्याक जावचें? संस्कृतायो कित्याक लागून जल्माक येतात, कित्याक लागून तरतरून वयर सरतात आनी कित्याक लागून त्यो ना जातात? 'भायल्यान कोण येवन त्यो ना करिनात, भितल्ल्या विसंगतींक लागुनूच त्यो बरगेतात आनी एक दीस ना जावन वतात' इतलेंच सांगलें म्हूण भागना. हाचेकूय अदीक खोलायेंत देंवून येवजूंक जाय.

डॉ. लोहियांनी आपणाल्या इतिहास चक्र (Wheels of History) पुस्तकांत ह्या प्रस्नाची एक आगळी वेगळी जाप दिल्या. ते म्हणटात - 'एक एक संस्कृताय एका एका खंयच्या तरी आंगान सगळ्यांत बरी, सगळ्यांत अप्रूप (excellent) जावपाचो यत्न करता तेन्ना तिची वाड एक-आंगी जाता. हें एक-आंगीपणूच तिची अवनत घडोवन हाडटा. स्पार्टा पडलें, कित्याक, तें शिस्तीक घट दसून रावलें. व्यक्ति-स्वातंत्र्याची ताणें साप उवेखणी केली. ऍथेन्स पडलें. कित्याक, तें व्यक्ति-स्वातंत्र्याकूच चड म्हत्व दिवंक लागलें, शिस्ती कडेन ताणें मातूय लक्ष दिलें ना. रोम पडलें. कित्याक, तें साम्राज्य उबारणेच्या वावरांतूच घुसपून रावलें. उत्पादक श्रमाक ताणें म्हत्व दिलें ना. संस्कृताय जेन्ना एकाच खंयच्याय आंगाक धरून वाडूंक पळेता तेन्ना दुसऱ्या आंगां कडेन ती घाळ उरता आनी अंतीं पडटा. संस्कृतायेन जिविताच्या सगळ्या आंगांचो सारको विचार करूंक जाय आनी तांचो संतुलीत विकास घडोवन हाडपाचो वावर करूंक जाय. जाल्यारूच ती तिगूंक पावता.'

इतलें सांगून लोहिया म्हणटात -

'आर्विल्ली येवरोपी संस्कृताय यांत्रीक फिशालकायेंत अप्रूप जावपाच्या - 'टॅक्निकल पर्फेक्शनांत ऍक्सलंट' जावपाच्या - हावेसान कुड्डी जावन इतल्या वेगान धांवपाक

लागल्या की जिविताच्या ऐन म्हत्वाच्या एका आंगा कडेन - मनीसपणाच्या आंगा कडेन - तिचें सापूच दुर्लक्ष जालां. तिचेय दीस आतां सोंपपा कडेन पावल्यात...'

पुर्विल्ल्यो सुमेरिया, इजिप्त, बाबिलोनिया बी संस्कृतायो ना जाल्यो; पुणून तेच मुस्तींतल्यो दोन संस्कृतायो - हिन्दू आनी चिनी - अजून तिगून उरल्यात. इतलेंच न्हय तर अखंडपणान आपणाली मुखावेली वाट कातरीत रावल्यात. त्यो कित्याक लागून उरूंक पावल्यात? तांणी जिविताच्या सगळ्या आंगां कडेन सारकेंच लक्ष दिलें म्हूण? काय काळाक धरून त्यो सदां बदलत रावल्यो म्हूण? हिन्दू संस्कृताय आयज ऋग्वेदाच्या काळांत उरूंक ना. खूब बदल्ल्या. पुणून ऋग्वेदाचें दायज आपलें म्हूण मोट्या अभिमानान सांगपी आनी ऋग्वेद तोंडपाठ करपी 'ऋग्वेदी' आयजूय ह्या देशांत शेंकड्यांनी मेळटात. वेदांतल्या 'गायत्री' मंत्राचो नित्य नेमान जप करपी लाखांनी हिन्दू आयजूय देशांत आसात. तेच भाशेन, कोन्फूत्सू आनी लाओत्सेचे आमी वंशज म्हूण अभिमानान सांगपी चिनी आयजूय चिनांत पळोवंक मेळटात. हें भाग्य सुमेरिया, बाबिलोनिया, इजिप्त, ग्रीस बी देशांनी जल्माक आयिल्ल्या संस्कृतायांच्या वांट्याक येवंक पावलें ना.

आपूण एकाच आंगान वाडची ना म्हणपाची जतनाय संस्कृतायांनी घेवंक जाय आनी काळाक धरून बदलत रावंक जाय, इतलोच बोध इतिहास आमकां दिता. आर्विल्ले येवरोपी संस्कृतायेन हो बोध घेतला अशें दिसना.

आर्विल्ली येवरोपी संस्कृताय जल्माक आयली ती उद्योगीक क्रान्ती - इंडस्ट्रियल रेव्होल्यूशन - उपरांत. ते आदीं ती वेपारी - कमर्शियल - संस्कृताय आशिल्ली. ह्याय रुपांत ती गरीब-दुबळ्यांचें रगत लुंचताली. दुबळ्या देशांचेर आगळिको करून तांचेर आपणालो शेक चलयताली. तांकां नाडटाली. पुणून उद्योगीक क्रान्ती उपरांत तिणें जें रूप घेतलें तें सामकेंच उरफाट्या काळजाचें म्हणचें पडटा. सैमाचेर शेक चलोवपाक ती मुखार सरली आनी सैमाची संतुळाच तिणें इबाडून उडयली. उदक, भूंय, वारो हीं सैमाचीं महादानां. तींच तिणें विखाळ करून उडयलीं. कितलेशे जीव तांतयां-पिलां सयत ना नपश्चात करून उडयले. हवेंत कार्बन डायॉक्सायड सोडूंक लागली आनी 'ओझोन'च्या थराक तिणें व्हडले व्हडले भोकनोळ घाले. रुतु-चक्राची गती खंडीत केली. रानांचीं रानां मारून भूंयक्षरण वाडयलें. न्हंयांचे तडीर कारखाने घाले आनी तांचें उदक विखाळ करून उडयलें. न्हंयांचें हें उदक दर्याक वचून मेळ्ळें आनी दर्यांतलीं नुसतीं मरपाक लागलीं.

आनी हो सगळो अच्छेव थोडो म्हूण काय कितें, तिकाच खबर, मनशांक मारपाचीं एका फुडलीं एक भयांक्रूत हत्यारां (शस्त्रां) निर्माण करून संवसारांत झुजांय घडोवन हाडपाक लागली. पुराय विसावें शतमान झुजांचें शतमान आशिल्लें. ह्या शतमानांत

खंयच्याच वाटारांत कोणूच सस्ततायेन जियेवंक पावूंक ना. कोट्यांनी लोकांक ह्या शतमानान झुजांत मारून उडयल्यात. तांचो कांयच गुन्यांव नासतना. झुजांत मारून उडयल्यात तांचे परस पंचवीस वांट्यांनी चड लोकांचेर घरदार सोडून वाऱ्यार पडपाचो प्रसंग हाडला. तांचो कसलोच गुन्यांव नासतना.

हिका 'संस्कृताय' म्हणपाची?

संवसारांतले सगळे ल्हान-व्हड देश आपणाल्या 'संरक्षणा' खातीर शस्त्रां निर्माण करतात. कित्याक, केन्ना कोण देशाचेर घुरी घालून येत, सांगूंक येना, ह्या भयान ते सदांच जियेत आयल्यात. राष्ट्रवादाचेंच हें एक आंग म्हणूंक जाय. पुणून केन्ना खंयच्याय देशान शस्त्रां निर्माण करून तीं दुसऱ्या देशांक मोटार-गाडयो, टी.वी. सॅट, फ्रीज बी विकतात तशीं विकल्यांत व्हय? आर्विल्ले यांत्रीक संस्कृतायेचे तेंगशेर पाविल्ले अमेरिका, इंग्लंड, फ्रांस, जर्मनी, रशिया सारके देश शस्त्रां फकत 'विकपा खातीर' निर्माण करूंक लागल्यात. झुजाचे बुन्यादीरूच ही संस्कृताय उबी रावल्या म्हणूंक जाय. झुजां ना जालीं जाल्यार ही संस्कृताय तिगून उरपाची ना, कोंसळून पडटली. म्हूण, हे संस्कृतायेक आत्र्या-पयऱ्यान संवसाराचे फाटीर खंय-न्हय-खंय झुजां घडोवन हाडचींच पडटात. आनी वेपारांत जसो 'ग्रँड सेल' करून वेपारी आपणालो माल विकून सोंपयतात तसो शस्त्रांचो 'ग्रँड सेल' पांच पांच, धा धा वर्सांनी खंय-न्हय-खंय झूज पेटोवन तांकां करचोच पडटा. इराका आड फाटीं अमेरिकेन चलयल्लें झूज शस्त्रांच्या असल्याच 'ग्रँड सेला'च्या रुपाचें आशिल्लें. झूज चलतालें तें टी.वी.र सी.एन्.एन्. चॅनल दाखयतालो. आनी वांगडाच खंयच्या शस्त्राची तांक केदी, ताचें मोल कितें हेंवूय सांगतालो. अमेरिकेन ते मुस्तींत निर्माण केल्लीं सगळीं शस्त्रां - झूज चलतालें त्या काळांत आनी झुजा उपरांत रोखडींच - खपोवन सोंपयल्लीं.

अमेरिका रोखडींच नव्या 'ब्रँडां'चीं शस्त्रां निर्माण करपाक लागली. आखाती झुजा वेळार विकिल्लीं तीं आतां 'पोरणीं' जाल्लीं. 'उपकारा पडनात' असलीं जावन पडिल्लीं. गाडयो घेवन भोंवतात तांकां खबर आसतली, जी गाडी तांणी अंयशींच्या दसकांत घेतिल्ली ती णव्वदाच्या दसकांत पोरणी जाल्ली. तिचे स्पॅर पार्ट लेगीत बाजारांत मेळनाशिल्ले. तांकां आपणाल्यो पोरण्यो गाडयो कावलाक काडच्यो पडिल्ल्यो. तशीं आखाती झुजांत जांणी शस्त्रां घेतिल्लीं तांकां हीं शस्त्रां आतां पोरणीं दिसपाक लागिल्लीं. तांकां नवीं शस्त्रां खपोवपा खातीर अमेरिकेन अफघानिस्तानांत तालिबान राजवटी आड झूज सुरू केलें. अमेरिकेचो हो शस्त्रांचो नवो 'ग्रँड सेल' आशिल्लो. अफघानिस्तानांतलें झूज चलता आसतना सी.एन्.एनान झुजांत वापरिल्ल्या शस्त्रांची जायरात केली. अमेरिकेचे

संरक्षण मंत्री डॉनल्ड रुम्सफेल्ड ओमानाक आनी तायवानाक वचून नवीं शस्त्रां विकून आयले. एकल्या ओमानाकूच तांणी एक अब्ज आनी बारा कोटी डॉलर्स मोलाचीं शस्त्रां विकलीं (पँटागॉनाचेच आंकडे हे). आतां अफघानिस्तानांतलें झूज सोंपलां. आतां ह्या झुजांत वापरिल्ल्या शस्त्रांचो वेपार सुरू जातलो. तीं खपलीं म्हणटकूच अमेरिका 'नव्या ब्रँडां'चीं नवीं शस्त्रां निर्माण करपाच्या वावराक लागतली. इराका आडच्या झुजांत अमेरिकेक सद्दाम हुसेन निमित्त्याक मेळिल्लो. अफघानिस्तानांतल्या झुजांत ओसामा बिन लादेन मेळ्ळो. पांच धा वर्सां भितर दुसरे कडेन खंय तरी तिका झूज पेटोवचेंच पडटलें (खंय तरी तें पेट्टलेंच पेट्टलें) तेन्नाय असलोच कोण सद्दाम वा ओसामा अमेरिकेक उबो करचो पडटलो.

एक गजाल विसरूंक फावना - जितलो व्हड 'मिलिटरी इण्डस्ट्रियल कॉम्प्लॅक्स' तेदी व्हड देशाची अर्थवेवस्था ह्या तत्वाचे बुन्यादीर शस्त्रां निर्माण करून तीं विकपी देशांनी आपणालें अर्थतंत्र उबें केलां. धोंगां पोंगाचे गांवगरे भाशेंत सांगचें जाल्यार, आपणाल्या लोकांचो 'स्टँडर्ड ऑफ लीविंग' वयर काडपा खातीर तांकां भरपूर जोड जाता असल्यो नोकऱ्यो दिवंक मेळ्ळूंक जाय. असल्यो नोकऱ्यो दिवपाची तांक फकत शस्त्रांचें उत्पादन करपी अर्थवेवस्थेंतूच आसा म्हूण हे देश शस्त्रांचें उत्पादन करपी उद्देग चलयतात. हें अर्थतंत्र केन्ना संवसारांत सवस्तकाय नंदूंक दितलें व्हय? तें फकत आत्र्या पयऱ्यान खंय-न्हय-खंय झुजांच पेटयत रावतलें.

असलें अर्थतंत्र चलोवपी संस्कृताय कशी तिगूंक पावतली?

स्टॅलिनाच्या मरणा उपरांत निकिता ख्रुश्चेवाच्या हातांत रशियेची सत्या गेल्या तेन्ना ताणें अमेरिके मुखार एक सुचोवणी दवरिल्ली. ताणें म्हळ्ळें, 'आमी तुमकां, तुमी आमकां भियेतात. म्हूण एकामेकां पसून आपापली राखण करपा खातीर आमी शस्त्रांचें उत्पादन करीत आसात. आनी लक्षांत दवरपाची गजाल म्हळ्यार, आमचे कडेन एका फुडलीं एक शस्त्रां आसून लेगीत आमी तीं एकामेकां आड वापरूंकय भियेतात. म्हूण निःशस्त्रीकरणा विशिंचीं उलोवणीं करपाक आमी मदीं मदीं एकामेकांक मेळटात. हाचे बदला आमी हे मुखार अशें करुंया - शस्त्रांचें उत्पादन करीत रावुंया आनी वर्सान वर्स नातला दिसा तीं व्हरून दर्यांत बुडोवया.'

ख्रुश्चेवाक अमेरिका त्या वेळार हांशिल्ली. पुणून ताणें म्हळ्ळें तें शें-प्रतिशत सत आशिल्लें. ताणें जें म्हळ्ळें ताचो अर्थ असो जातालो, 'आयची आमची अर्थवेवस्ता अखेरेक आमकां झुजांच करूंक लायतली. आमकां झुजां जाल्लीं नाका आसत जाल्यार आयची अर्थवेवस्था मोडून तिचे सुवातेर दुसरी एक अर्थवेवस्था - मनीसपणाक पोसवण

दिवपी - आमकां रचून काडची पडटली. व्हडले व्हडले राक्षसी आकाराचे उद्देग आमकां बंद करचे पडटले. आनी चडांत चड लोक करूंक पावतले तसले ल्हान ल्हान यंत्रांचे उद्देग चलोवचे पडटले. असलें अर्थतंत्र उबें करपाचें आमकां काळीज ना. म्हणटकूच, शस्त्रांय निर्माण करीत रावुंया आनी वर्सान वर्स तीं बुडयतूय रावुंया. हाचे पेल्यान आतां उपाय उरूंक ना... शस्त्रां बुडोवपाचीं नासत जाल्यार तीं आमकां कोणाक-न्हय-कोणाक विकचीं पडटलीं. कोण घेतलो? इंग्लंड घेवपाचें ना, फ्रांस घेवपाचें ना, जर्मनी घेवपाची ना. घेतले फकत भारत, पाकिस्तान, ओमान, तायवान सारकेले अबरगत आनी निर्बुद्द देश. आमी तांकांय शस्त्रां विकतले आनी तांच्या दुस्मानांकूय विकतले. तांकां मागीर 'शू' करून एकामेकांचेर सोडटले.

दुसरें म्हाझूज सोंपलां ते उपरांतच्या पांच दसकांच्या काळांत जीं शंबरां वयर झुजां जालीं - जातूंत साडे सात कोटी लोक गरज नासतना मेले - तीं, हे भाशेन, ह्या व्हड देशांनी घडोवन हाडिल्लीं.

असली ही आर्विल्ली टॅक्निकल येवरोपी संस्कृताय कित्याक म्हूण तिगून उरतली? कारणूच ना. तिचे भितरली विसंगतीच तिका भितरल्यान पोखरीत रावतली आनी बरगेवन एक दीस 'भुस्स' करून तिका कोंसळावनूय उडयतली.

येवरोपी संस्कृताय कोंसळपाचे वाटेर आसा. तिका वांचोवपाचो एकूच उपाय आशिल्लो -

मरून पडिल्ली अलिप्त राष्ट्र चळवळ परती जिवी करप आनी वांगडी राष्ट्रांक 'आमी एकामेकां आड झुजचे नात... झुजचें पडलें जाल्यार आमीच आमच्या देशांत शस्त्रां निर्माण करतले आनी तीं घेवन झुजतले. पुणून, अमेरिका, फ्रांस, इंग्लंड, जर्मनी, रशिया कोणाच कडल्यान एक सादें पिस्तोल लेगीत विकतें घेवन झुजचे नात' असो सोपूत घेवंक लावन.

आमच्याच देशान ह्या कामाक मुखार सरूंक जाय आशिल्लें. पुणून... येदें काळीज आशिल्लें नेतृत्व आयज देशांत दिश्टीच पडना.

जाग, फेब्रुवारी २००२

२०.

# सॉक्रतिश

मोटवी मूर्त. धोंदयें पोट. फुगिल्ले गाल. फेंचें नाक. बाबरे ओंठ. खाड कश्याय कशें वाडलां. केंसांक धंग ना. तांकां फणी केन्ना लागूंक ना. ते कपलार आयल्यात. तांतूंत वयर ताळवेर खरड पडलां. सॉक्रतिशाच्या ह्या रुपांत युनानी कितेंच ना.युनान देशांत सगळेंच पार्थिनोनच्या शिल्पां भाशेन प्रमाणशीर आनी शिरवंत. थंय इतलो विद्रूप मनीस जल्माक कसो येवचो असो प्रस्न पडटा. पुणून खीणभरूच. दुसऱ्याच खिणाक हाच्यांत आगळें वेगळें कितेंय तरी आसा म्हणपाचें लक्षांत येता आनी लोक आपशींच ताचे वशीन ओडून वतात. आपूण कोण न्हय म्हणपाचें तो जाणा. आपूण कितेंच नकळ म्हणपाचेंय जाणा. हे जाणविकायेक लागून ताच्यांत सुमारा भायली नमळाय आयल्या. हे नमळायेक लागून वयर सरिल्लें ताचें सादेपण सगळ्यांच्या दोळ्यांत भरता. मनीस सादो भोळो सरळ निष्कपट आसूंक जाय अशें पळेतल्याक दिसता. तो कोणाकूय पळेता तेन्ना हो दुसऱ्याच्या दुःखान कळवळपी, दयेन भरिल्लो मनीस आसूंक जाय अशें दिसता. उलयता तेन्ना ओंठांतल्यान म्होंव झिरपता. काळीज मोगान उपाट भरून ओतता. हांसोय ताचो चवथिचो चंद्र कसो, झेलून घेवपा सारको. आनी मागीर, हाचे सारको कोणूच ना अशें ताचे सरीं पाविल्ल्या जण एकल्याक दिसपाक लागता.

अजाप न्हय. ताच्या व्यक्तित्वांत रानाची सुंदरकाय भरल्या. रानाचे सुंदरकायेंत सदांच सैमाचो प्राण व्हांवत आयला.

रुपा सारको सॉक्रतिशाचो भेस. आंगार चुरिल्लो एक लांब कुतांव. होच कुतांव घालून तो काल भोंवतालो. आयजूय तोच. पयरूय तोच. मदीं मदीं केन्ना धुयता. पुणून ताची घडी केन्ना करिना. पांयांक केन्ना जोतें घालिना. जोत्याक लागून मनशाचो धर्तरी कडलो संबंद तुट्टा म्हूण काय? आसूं येता. सत्तर वर्सांच्या आयुष्यांत सॉक्रतिशान धर्तरी कडलो आपणालो संबंद केन्ना तुटूंक दिवंक ना. धर्तरी आवय सगळ्या जिवांची अशें म्हणटा. आपूण आनी धर्तरी हांचे मदीं तो कसलेंच अंतर येवंक दिना. सदांच पांय जमनीर थीर दवरून तो अनवाणयांच भोंवता.

ताणें सदां फांतोडेर उठचें. कालचोच कुतांव आंगार चडोवन भायर सरचें. चलत चलत बाजारांत वचचें. केन्ना देवळा कडेन, केन्ना खंयच्याय पेडार, केन्ना उकत्या मळार,

जाल्यार केन्ना खंयच्याय एका इश्टागेर वचून बसचें. खंयूय वचूं, तो दिश्टी पडनाफुडें शारांतले सगळे वया वयले बुदवंत हुशार भुरगे ताचे भोंवतणीं एकठांय जाताले. मागीर, वरांचीं वरां तो तांचे कडेन उलयत बसतालो.

चार चवगां सारको, बुद्दीन किरकोळ, जेवन खावन सुखी रावपा पेल्यान जाका कित्यांतूच रूच ना, असलोय एकलो सोक्रतिशा सरीं येता आनी सोक्रतिश ताका जेवन खावन सुखी रावप म्हळ्यार जियेवप न्हय, मनीस हेर जिवां सारको प्राकृत जीव न्हय, जिविताचो अर्थ कितें तो समजून घेतले बगर जियेवपांत अर्थ ना म्हणपाचें समजावन सांगता आनी ताका तें इल्लें इल्लें करून कळपाक लागता. दुसरो एकलो भुरगो येता. ताका सुंदर म्हळ्यार कितें, प्रस्न पडला. अजून मेरेन ताका ह्या प्रस्नाची जाप खंयच, कोणाच कडल्यान मेळूंक ना आनी सोक्रतिश ताका तूं सुंदर कित्याक म्हणटा असो प्रस्न करून - प्रस्नार प्रस्न विचारून - तो जाका सुंदर मानता तें सुंदर न्हय हें ताचेच कडल्यान वदोवन घेता. मोव मोव, गुळगुळीत गुबगुबीत म्हळ्यार सुंदर न्हय, मनशाच्या भायल्या रुपाक पळोवन ताका सुंदर लेखूंक येना, भायलें रूप मास आनी स्नायू दाखयता, पुणून मास आनी स्नायू ज्या सांगाड्याचेर आसतात तो हाडांचो आसता आनी तो भितर आसता. हे हाडावळीकूच म्हत्व आसा हें भुरग्याक पट्टा. एकल्याक राजकर्ण सोडून कितेंच येवजना. लोक सुखी कशे जातले, राजवट बदलून काय मान्यतायो बदलून, ह्या एका प्रस्नान ताची न्हीद खळ्ळ्या. तो सोक्रतिशा कडल्यान कितेंय मेळटलें हे आशेन येता. आनी सदांचो ताचोच जावन रावता.

सॉक्रतिशाच्या सांगातांत सगळ्यांक आपापणाल्या प्रस्नांच्यो जापो मेळटात. सगळ्यां मुखार व्हडले व्हडले प्रस्न आसात - जे आयज सुमार अडेज हजार वर्सां उपरांत लेगीत आमचे मुखार उबे आसात. ह्या प्रस्नांच्यो जापो ते सोदतात. आनी सॉक्रतिश तांकां जापो कश्यो सोदच्यो तें सांगता. जापो सोदपाक तांकां फकत आधार दिता. सॉक्रतिश उलयता तेन्ना केन्ना केन्ना तो तांकां देवदुता सारको दिसता, केन्ना केन्ना देवा सारको. आनी व्हडल्या व्हडल्यांचीं तो फकांडां मारपाक लागता तेन्ना 'आरेच्या.. हो आमचे सारकोच मरे!... आमचो जिवाभावाचो इश्ट' अशें ते म्हणपाक लागतात. जण एकल्या कडेन तो इतल्या आपलेपणान वागता की जण एकल्याक मनांतल्या मनांत 'सॉक्रतिश चडांत चड माया म्हजीच करता' अशें दिसपाक लागता.

आवय सारकें काळीज ताचें. सगळ्या भुरग्यांचेर उपाट मोग करुनूय आनिकूय मोग करपाची तांक आशिल्लें.

शिकोवपाची सॉक्रतिशाची रीत ताचीच खाशेली आशिल्ली. तो आपुणूय कितेंच

मोन्यांनी मानून घेना, दुसऱ्यांकूय मोन्यांनी कितेंच मानून घेवंक दिना. जीं जीं तत्त्वां, जीं जीं मत्तां लोकांनी मोन्यांनी मानून घेतल्यांत, तांकां आह्वानां दिता. तांच्या खरेपणाविशीं दुबाव घेता. कोणेंय, धरुंया, ताका म्हळें, 'अमकें करप बरें, तमकें बरें न्हय', जाल्यार सॉक्रतिश हांसतलो आनी ताका विचारतलो, 'एक सांग रे भावा, तूं बरें कित्याक म्हणटा? बरें तें बरें कित्या वयल्यान? बरें लागता तें बरें, काय बऱ्याक पडटा तें बरें? बरें तें बरें म्हूण कोणें आनी कशें थारावपाचें?'

मागीर सांगतलो, 'जाणटेल्यांनी सांगलां म्हूण बरें तें बरें आसतलें अशें म्हणूं येना. पुर्वापार चलत आयलां म्हुण्णूय बरें तें बरें आसतलें अशेंय धरूं येना. सगळें नियाळून पळोवंक जाय. घांसून पुसून काडूंक जाय. जोखूंक जाय. तर्जूंक जाय. ते बगर घेवंक जायना.'

तो एक जाणा, राजवटी बदलून मनीस सुखी जायना. मनीस सुखी जावपाक खासा मनीस बदलूंक जाय. ताचे विचार बदलूंक जाय, ताच्यो मान्यतायो बदलूंक जाय. मनशां मनशां मजगतचो वेव्हार सदां मान्यतायांचेर निंबून चलत आयला. मान्यतायोच तांगेलें खरेलें बळगें; तांगेली खरेली प्रेरणा. मान्यतायांक लागुनूच मनीस व्हडलीं व्हडलीं पिशेपणांय करीत आयला. मान्यतायांक लागून तो खंयच्याय व्हडल्या ध्येयाक आपणालो जीव ओंपूंक पावला, हुतात्मो जावंक पावला आनी मान्यतायांक लागुनूच दुसऱ्यांचो जीवय घेवंक पावला, खुनीय जाला. मान्यतायो खऱ्यो आसूं येतात, लटक्योय आसूं येतात. बऱ्यो आसूं येतात, वायटूय आसूं येतात. Life without inquiry is not worth living. सॉक्रतिशाचे पुराय शिकवणेचो सार ह्या एका वाक्यांत आयला. आप-तर्जणे बगर जिविताक अर्थूच ना. मनीस मू आमी? मागीर, आमकां सारकें येवजूंक येवंक जाय. सारकें येवजप म्हळ्यार तिडक आनी ओड कडेक सारून, आवड-नावड कुशीक दवरून, कोडू-गोड अणभवां पेल्यान वचून येवजप. खोलायेंत देंवन येवजप. आमच्यो सगळ्यो इत्सा केन्ना भागूंक पावनात. ह्यो भागूंक पावूंक नाशिल्ल्यो इत्सा 'तत्त्वां'चीं वा 'मत्तां'चीं रुपडीं घालून आमचे मुखार उब्यो रावतात आनी मागीर 'हेंच खरें' अशें आमी मानपाक लागतात. देखून जें कितें आमी मानतात तें बरें वा खरें आसतलें, अशें मानूंक जायना. सतारेंतल्यान कसलो राग उठचो हें सतारेचेर निंबून आसता व्हय? काय तें सतार वाजयतल्याच्या काळजांतल्या रागाचेर निंबून उरता? सतार वाजयतल्याच्या काळजांत संवादी संगीत आसत जाल्यार ताच्या हातांतले सतारेंतल्यान तसलेंच संगीत उठतलें. तश्यो मनशाच्यो मान्यतायो खऱ्यो आनी बऱ्यो आसल्यो जाल्यारूच ताचे वेव्हारूय खरे बरे आनी शाणेपणाचे जातले. देखून मनशान सगळ्यांत पयल्यो आपणाल्यो मान्यतायो नियाळून पळोवंक जाय. सगळ्यो घांसून पुसून निवळ करून तर्जून पळोवंक जाय. मोन्यांनी

कितेंच मानून घेवंक फावना.

ते खातीर मनशान खासा आपणाक पयलीं सारको वळखून घेवंक जाय. आपणाकूच कसाक लावंक जाय. आपूण मानतां तें कित्या खातीर मानतां, कितें मेळटा म्हूण मानतां हें ताणें सगळ्यांत पयलीं सोदून काडूंक जाय.

सॉक्रतिश आयुष्यभर होच वावर करीत आयला. वचत ताची आनी मेळत ताची तो कसवटणी करीत रावला. ताका तर्जीत आयला. लोक मानतात तें सगळें तो आडवें उबें चिरीत रावला. कितेंय नवें शिकपा सारकें मेळटा जाल्यार तो गिन्यानी लोकां कडेन वता. तांकां मेळटा. आरते परते प्रस्न विचारता. उतरांची अर्थावणी सारकी करूंक लायता. बारीक बारीक कीस काडटा. आनी आपणा वांगडा तांकांय खोलायेंत घेवन वता.

एक दीस तो एका सेनापतीक मेळूंक वता. सेनापती आपणाल्या पुताक सैन्यांत धाडूंक सोदता. सॉक्रतिशाक तो विचारता, 'तुका कितें दिसता?'

सॉक्रतिश म्हणटा, 'कोणाय जाणकाराक विचारिल्लें बरें न्हय?'

'हय.'

'म्हणटकूच सांग, हो जाणकार खंयच्या विशयाचो आसचो पडलो?'

'झुजा-कलेचो.'

'पुणून, ते पयलीं दुसरो एक प्रस्न आमचे आमकांच विचारिल्लो बरो न्हय? धर, दोळ्यांचो एक दोतोर आसा. तो पयलीं कित्याचो विचार करतलो? दोळ्यांचो काय वखदाचो?'

'दोळ्यांचो.'

'दोळ्यांचो दोतोर दोळ्यांचो विचार पयलीं करतलो. वखदाचो न्हय. घोड्याक लगाम घालूंक सोदपी मनीस पयलीं घोड्याचो विचार करतलो. लगामाचो न्हय. हय मू?'

'हय.'

'म्हणटकूच, भुरग्याक कितेंय शिकोवंक धाडचे पयलीं आमी भुरग्याचो सारको विचार करूंक जाय, अशें दिसना तुका? दोळ्यांचो दोतोर दोळ्यांक कितें बऱ्याक पडटलें हें चिंतता. घोड्याचो मास्तर घोड्याक कितें बऱ्याक पडटलें हें चिंतता. मागीर, भुरग्याक कितें बऱ्याक पडटलें हें आमी चिंतूं नाका?'

'हय... खरें तुजें.'

'आतां पळे, सैन्यांत वतलो भुरगो काळजान धीट आसूंक जाय. हय मू?'

'हय.'

'मागीर, धिटाय कित्याक म्हणची हें आमी पयलीं जाणा जावन घेवचें पडलें.'

'हय.'

'मागीर सांग, तूं धिटायेची व्याख्या कशी करता?'

'मुखार संकश्ट येवन उबें रावलें जाल्यारूय पळून वचप ना, ह्या गुणाक धिटाय म्हणटात.' सेनापती जाप दिता.

'बरें आसा.' सॉक्रतिश म्हणटा. 'तुजी ही व्याख्या जमनीर उबो आशिल्ल्याक लागू जाता. घोड्यार बशिल्ल्याक जाता व्हय? संकश्ट पळेनाफुडें घोडो धांवपाक लागतलो. हाचे वयल्यान घोड्यार बशिल्ल्या मनशाक भित्रो म्हणूं येत व्हय? ते भायर, धिटायेच्यो वेगळ्यो वेगळ्यो तरा आसात. खवळ्ळेल्या दर्यांत व्हडें ताणटल्याची धिटाय एके तरेची. गरिबायेंत दीस काडटल्याची दुसरे तरेची. पिडेन हांतुळणार पडिल्ल्याची तिसरे तरेची. कांय जाण संकश्टांक भियेनात. पुणून लाव-लुकसानेचो हिशोब करून लुकसानेक भियेतात. येसा-अपेसा वेळार अपेसाक भियेतात. प्रलोभना मुखार साष्टांग नमस्कार घालतात. म्हणटकूच, धिटायेची व्याख्या कशी करपाची?'

'सोंसपाची तांक म्हळ्यार धिटाय.' सेनापती जाप दिता.

'पुणून ही तांक कुड्डी आसूं येना?'

'आसूं येता.'

'म्हणटकूच सोंसपाची तांक ही खरी धिटाय न्हय म्हणची पडली.'

'हय, धिटाये वांगडा शाणेपण जाय.'

'म्हणटकूच, शाणेपण म्हळ्यार कितें तें पयलीं पळोवचें पडलें ना?'

हे भाशेन, सॉक्रतिशाचे संवाद चलत रावतात आनी ल्हवू ल्हवू शाणेपण म्हळ्यार कितें, धिटाय म्हळ्यार कितें हें ताचे सरीं बसून उलयतल्याकूय समजूंक लागता.

सॉक्रतिश जल्माक आयिल्लो युनान देशांतल्या आथेन्स नगरांत. थंयच तो ल्हानाचो व्हड जाल्लो. आथेन्स नगराचें हें भांगरा यूग आशिल्लें. व्हडले व्हडले कवी, नाटककार, शिल्पीक थंय जियेताले. आनी म्हत्वाचें म्हळ्यार, आथेन्साचो राजकारभार लोकशायेच्या तत्त्वांक धरून चलतालो. राजाचें राज्य थंय चलनाशिल्लें. भौसाचें चलतालें. सगळ्यांक सारके हक आशिल्ले. सगळ्यांक सारकोच न्याय मेळटालो. फकत आपणाल्या बऱ्या-भल्याचें कोणूच चिंती नाशिल्लो. चार चौगांच्याच बऱ्या-भल्याचें चिंततालो. कसलोय प्रस्न आसूं, लोक उकती आनी मेकळी भासाभास करून निर्णय घेताले. ही एकामेकांच्या पांयांक धरून सकयल ओडपी भासाभास नासताली. सगळ्यांचें बरें भलें करपी, सगळ्यांक वयर व्हरपी आसताली.

पॅरिक्लिस आथेन्साचो नगराध्यक्ष. भाग्य-विधातो. ताका हे लोकशायेचो मोट्टो

अभिमान. सॉक्रतिश आथेन्स सोडून भायर खंयच वचना. ताका भायल्यान जायतीं आमंत्रणां येतात. जायते जाण आमच्या नगराक भेट दिवन वच म्हणटात. 'एक भोंवडी मारून कित्याक येना?' इश्टूय ताका विचारतात. 'कित्याक? कसली गरज आसा?' तो विचारता. 'हांगा आसा तसलेच लोक भायर आसात. हांगासल्ल्या लोकांच्या प्रस्नां सारकेच तांचे प्रस्न आसतले. आमी तेच प्रस्न हांगा सोडयतात... भायल्या लोकांनी हांगा येवचें. आमी आमचे प्रस्न कशे सोडयतात तें पळोवचें. आमचे कडल्यान शिकपा सारकें कितेंय मेळ्ळें जाल्यार शिकचें. आमी भायर वचपाची गरज ना.' तो म्हणटा.

ताणें एक मुळावो प्रस्न हातांत घेतला.

जाल्लें कितें, पॅरिक्लिस आथेन्साचो नगराध्यक्ष आसतना पर्शियेन युनान देशाचेर घुरी घाली. युनानी लोकांनी जिवार उदार जावन ती परतून लायली. पुणून ह्या झुजाचे समाजाचेर वायट परिणाम जावपाचे जालेच. ते पॅरिक्लिसाक चुकोवंक आयले नात.

सुखांत लोळपी समाज हो. सुखी समाज शाणो आसतलोच, अशें म्हणूं येना. तेजिश्ट आसतलो अशेंय म्हणूं येना. सुखाक लागुनूच समाज केन्ना केन्ना धील जाता, दुबळो आनी भुसभुशीत जाता. मात्सो धसको लागनाफुडें घसायंच करून कोंसळून पडटा. आथेन्सूय पर्शियेचे घुरये उपरांत घसायंच करून सकयल पडिल्लें. परिणाम - समाज विस्कळीत जालो. नितिचे नदरेन धील जालो. ताची घडी विसकटली. काल पयर मेरेन जे एकामेकांक सांबाळून, आधार दिवन, सन्मथान चलताले तेच लोक कुड्डे जावन आतां एकामेकां कडेन झगडूंक लागले. सत्ये खातीर एकामेकांचे पांय ओडपाक लागले. स्वाभिमान विसरले. देशाक विसरले. दुस्मानांक लेगीत भेदी जावन सुवार्थ सादपाक लागले. हाका लागून प्रामाणीक आनी सत्यवादी लोक कुशीक पडले. लोक तांकां लेखीच नात जाले. उरफाटे, लोकांक ते दुस्मान कशे दिसपाक लागले. लोक शाणेपणाक भित्रेपण मानपाक लागले. आथेन्साचो हो अध:पात पळोवन सॉक्रतिश खूब खंती जाल्लो. 'आथेन्साचो असो अध:पात कित्याक जावचो? अमृत सोदून काडिल्ल्या आमच्या हातांत अवचीत विक्खाचो पेलो कसो पावचो?' सॉक्रतिश ह्या प्रस्नांचो सोद घेवपाक लागलो. आथेन्सांतली पोरणी नीत भंगिल्ली. नवी नीत अजून कोणें घडोवंक नाशिल्ली. समाज पर्थून घटमूट कसो करचो हो प्रस्न सगळ्यां मुखार उबो राविल्लो. जाणटे लोक आदलीच नीत पर्थून हाडुंया म्हणटाले. 'आदलें सगळें व्हांवन गेलें. तें परतें येवपाचें ना. परतें हाडपांत अर्थूय ना. कित्याक, ताची बुन्याद भुसभुशीत आशिल्ली. आमी नवीच नीत घडोवया' अशें सॉक्रतिश म्हणपाक लागलो. 'नवी नीत पोरण्या लोकांकूय मानूंक जाय. नव्या लोकांकूय पटूंक जाय. पोरणी नीत पुण्याचो लाव आनी पातकाचो भंय ह्या दोन तत्त्वांचेर उबी आशिल्ली. खरेली नीत पुण्य-पातका पेल्यान गेल्ली आसूंक जाय. विवेक

तिची बुन्याद आसूंक जाय.

विवेकाचेर भर दिवन सॉक्रतिश उलोवपाक लागलो.

आमचे कडेन नवी नीत आसा अशें सांगपी आथेन्सांत ते मुस्तींत दोन तरांचे लोक आशिल्ले. एक, सोफिस्ट. दुसरे, विज्ञानीक. सोफिस्ट म्हळ्यार बुदवंत. ज्ञानी. जंगम विद्यापिठां जाल्ले वरी एका नगरांतल्यान दुसऱ्या नगरांत ते भोंवत रावताले आनी लोकांक शिकयताले. केन्ना 'होमर'चें काव्य तर केन्ना आनीक कोणाचें. बदलाक दक्षिणाय घेताले. सॉक्रतिश तांचे मजगतच्या सगल्या नांवाजत्या सोफिस्टांक वचून मेळटा. वरांचीं वरां तांचे कडेन वाद घालता. तांचे कडल्यान नवें कितेंय मेळटा जाल्यार पळेता. पुणून ताका कांयच मेळना. 'ना', तो म्हणटा. 'हे उलयतात, पुणून हे खंय वचूंक सोदतात हें तांकांच सारकें खबर ना. हे लापीट म्हूण लोक हांच्या जाळांत घुसपतात. खरेपणानशीं, हांचे कडेन सांगपा सारकें कितेंच ना. नवी नीत तर नाच ना. हांणी नितिच्या प्रस्नाचेर सारकें येवजूंक लेगीत ना. 'होमर'चें काव्य नवी नीत कसली घडयतलें? नवे नेम आनी पोरण्यो चाली एकाच वांगडा चलपाच्यो नात. नव्या नेमांक नवो दिश्टावो जाय. नव्या दिश्टाव्यांतल्यान आयिल्ल्यो नव्यो मान्यतायो जाय. मागीर, चालीय नव्यो सुरू जातल्यो. हांचे कडेन नवो दिश्टावोच ना. हे समाजाक नवी वाट कशे दाखोवंक पावतले? नवी देख कशे दिवंक पावतले?' सॉक्रतिश ह्या ज्ञानी लोकांचो, सोफिस्टांचो नाद सोडटा आनी विज्ञानिकां सरीं वता. थंयूय ताच्या पदरांत निर्शेणीच पडटा. तो म्हणटा, सूर्य देव काय उज्याचो गुळो हो विज्ञानिकांचो प्रस्न घेवन म्हाका कितें करपाचें आसा? आसत तो देव वा उज्या गुळो. ताचे वयल्यान जिवीत कशें आनी कित्याक जियेवचें हें थारावं येता व्हय? थारावंक आयिल्लें जाल्यार ह्या प्रस्नाचेर येवजूं येतालें. संवसार कसो जालो, केन्ना जालो, कोणें केलो, कित्याक केलो ह्या प्रस्नांची जापूय मनशान कशें जियेवचें, खंयच्या उद्देशान जियेवचें, खंयच्या नेमांक धरून जियेवचें, हे नेम खंयच्या तत्त्वांक धरून घडोवचे तें सांगिना. होच प्रस्न म्हत्वाचो. तो कसो सोडोवचो हाची जाप विज्ञानिकां कडल्यान ताका मेळ्ळी ना. सॉक्रतिश ज्ञानी आनी विज्ञानी दोगांयचो नाद सोडून दिता आनी आपुणूच जापो सोदपाक लागता.

लोक विचारतात, 'म्हणटकूच, नवी नीत कशी घडोवया, म्हणटा तूं?'

'सारकें कशें येवजुचें हें लोकांक शिकोवन.' सॉक्रतिश अनमन नासतना जाप दिता. 'जो सारकें येवजिता ताका बरें वायट हांचे मदलो फरक कळटा. आनी जाका हो फरक कळटा तो वायटाचे सावळेक लेगीत केन्ना वचचो ना. मनीस वायट करण्यो करता हाचें कारण एकूच. ताका त्यो वायट म्हूण खबर ना', तो म्हणटा.

लोकांक चिंतूंक लावप हें तो आपणालें मिशन मानता.

न्यायालयान एकल्याक ख्यास्त फर्मायल्या. न्यायालयांत पांच सात न्यायाधिशांचो एक पंगड बसला. सॉक्रतिश तांकां विचारता, 'ख्यास्त फर्मायली म्हूण हो निवळटलो व्हय?'

न्यायाधीश ताका विचारतात, 'तुजें म्हणणें कितें, ताका ख्यास्त फावना? ताणें येदी वायट करणी केल्या की ताका ख्यास्त जावंकूच जाय.'

'जाणा जावन कोणूच वायट करणी करचो ना.' सॉक्रतिश वाद घालता.

'आपणालें करचो ना, दुसऱ्यांचें करतलो.'

'ना... येवजून करून करचो ना.' सॉक्रतिश जाप दिता.

'वायट जावचें अशें येवजून करतलो.'

'ना. मनीस अज्ञानान वायट करणी करता. खबर नासून करता. दुसऱ्यांचें वायट करून आपणालें बरें जायना म्हणपाचें मनशाक कळत जाल्यार तो दुसऱ्यांचें केन्नाच वायट करचो ना.' सॉक्रतिश म्हणटा.

'म्हणटकूच कितें करपाचें?'

'ताका समजावन सांगपाचें. एक खेपे सांगून समजलें ना जाल्यार धा खेपो समजावन सांगपाचें... ख्यास्त निखालूस करप ना. ख्यास्तीन मनीस निवळटा म्हणटात तें खरें न्हय.' सॉक्रतिश सांगता.

'समजावन सांगप' हेंच व्हडांतलें व्हड एक साधन मनशाक बदलपाचें हो भावार्थ सॉक्रतिशाचो.

सॉक्रतिशाक आडखळ जाता ती आथेन्सांतले राजवटिची. लोकशायेच्या नांवान थंय भुरावळिचें राज्य चल्लां. राज्य करतल्यांक लोक सोर्ती घालून वेंचून काडटात. कोणाक कितें येता, कितें येना, कोणूच पळेना. कोणाक कितें फावता, कितें फावना हेंवूय कोण पळेना. सॉक्रतिश म्हणटा, 'भुरावळीक केन्ना राज्य करूंक आयलां व्हय? राज्य करपाचें काम थंडसाणेन जे येवजूंक जाणात तांचें. हुर्रफुर्र जातल्यांचें न्हय. भुरावळ पिशी. रोखडीच हुर्रफुर्र जावपी. तिडकीन कुड्डी जावन मनीसपणा भायले अन्यायूय करपी. पिश्या मनशा परस पिशी भुरावळ घातकी. तिडकीन उसळपी. कितेंय करपी. मागीर, तिडक न्हिवतकूच पच्छाताप करपी.'

सॉक्रतिश विचारता, शाणेपणाक जी लेखिना ती कसली लोकशाय? जो गुणां परस संख्येक लेखता तो कसलो समाज? णव्याणवद अर्दकुटे एकठांय आयले म्हूण एकलो शाणो तो शाणो न्हय जाता व्हय? संख्याबळांत शाणेपण भरलां हो समजूच अर्दकुट्या लोकांचो. लोकांक जे फकत खुबळावंक जाणात वा जे फकत तांची खुशामत करूंक

जाणात, तांकां शाणे लेखप हाचे सारकीं अर्दकुटेपणां दुसरीं आसात व्हय? जांकां सारकें चिंतूंक येना, बरें वायट तर्जूंक येना, जे फकत लोकांची खुशामत करूंक वा तांकां खुबळावंक जाणात तांच्या हातांत सत्या दितकूच समाजांत नीत खंयच्यान येतली?'

मागीर तो पोटतिडकीन म्हणटा, एका मनशाची हुकुमशाय वायट. एका वर्गाची हुकुमशाय तिच्याकूय पाश्ट. संख्याबळाची हुकुमशाय जाल्यार पाश्टांतली पाश्ट.

सॉक्रतिश फकत इतलेंच सांगून ओगी राविना. तो संख्याबळाचे हुकुमशायेचीं फकांडां मारपाक लागता. आथेन्सांत त्या वेळार आरिस्तोफॅनिस नांवाचो एक नाटककार आशिल्लो. तोवूय संख्याबळाचे हुकुमशायेचीं फकांडां मारतालो. एका नाटकांत तो एका किरकोळ मनशाक नगराध्यक्ष करता. ताच्या हातांत सत्या दिता. तो काचाबूल जाता. म्हणटा, 'म्हाका फकत निशाणी करूंक येता. दुसरें कांयच येना. म्हाका नगराध्यक्ष करून तुमकां किते मेळटलें?' आरिस्तोफॅनिस नाटकांतल्या दुसऱ्या एका पात्राच्या तोंडांतल्यान ताका जाप दिता, 'तुका निशाणी करूंक येता? शी शी शी. घात जालो. आथेन्सांत आतां नगराध्यक्ष जावपाक मनीस शिकिल्लो आसून उपकारना, शाणो आसून कोंता येना... अन्नाडीच मनीस जाय. चडांत चड अन्नाडी तोच व्हडांतलो व्हड फुडारी जावपाच्या पांवड्याचो अशें आमी आतां मानपाक लागल्यात.'

पुणून आरिस्तोफॅनिसाचीं फकांडां लोकांक दुखयनात. सॉक्रतिशाचीं वर्मार बसतात. लोक दुखवतात. तो लोकांक विचारता, 'तुमचें जोतें तुटलें जाल्यार तुमी तें कोणा कडल्यान लावन घेतले?'

'चामारा कडल्यान.' लोक जाप दितात.

'चामारा कडल्यान कित्याक? वैजा कडल्यान कित्याक न्हय?'

'चामाराक जोतें लावंक येता म्हूण. तें वैजाचें काम न्हय.' लोक जाप दितात.

'बरें, तुमच्या जिवाक बरें ना जालें जाल्यार तुमी वखदाक कोणा कडेन वतले?' तो विचारता.

'वैजा कडेन.' लोक जाप दितात.

'वैजा कडेन शे? वकील नात तुमच्या गांवांत?'

'आसात. वखद दिवपाचें काम वकिलांचें न्हय. वैजाचें काम तें.' लोक जाप दितात.

असले एकार एक प्रस्न करून तो लोकां कडल्यान जापो काडून घेता आनी जापो आयकून मागीर खळखळून हांसून म्हणटा, 'जोतें लावन घेवचें जालें जाल्यार तुमी चामारा सरीं वतले. जिवाक बरें दिसलेंना जाल्यार वखदाक वैजागेर वतले. सांकव मोडलो जाल्यार गंवड्याक आपयत्तले आनी व्हड्यांत बसून न्हंय उंपची जाल्यार तुमी व्हडें ताणूंक येता ताच्याच व्हड्यांत बसतले... आनी, राज्य मात काडून कोणाच्याय हातांत दितले?'

मागीर, गंभीर जावन तो म्हणटा, 'जांकां राज्य करूंक येता असल्यांच्याच हातांत आमी राज्य दितले अशें तुमी म्हणिनात. कित्याक खबर आसा? आयज जांच्या हातांत राज्य गेलां ते दुखवतले म्हूण. तांकां तुमी भियेतात... एक घट बरें मतींत दवरात, खरें उलोवपाक तुमी भियेतले ते मेरेन तुमीय नीतवंत जावचे नात, समाजूय जावंक पावचो ना. आथेन्स ना जावन वतलें.'

जाणटेले म्हणटात, 'हो फकत मोडुंकूच जाणा.'

सॉक्रतिश तांकां जाप दिता, 'नवें कितेंय जल्माक घालचें आसता तेन्ना नश्टें, पाडें, कुसकें सगळें मोडचेंच पडटा.'

कांय जाण तिडटात आनी म्हणटात, हाचे कडेन जापो नात. हो फकत प्रस्नूच विचारूंक जाणा.'

सॉक्रतिश म्हणटा, 'म्हजे कडेन फकत प्रस्नूच आसात. जापो हांव तुमचे कडेन सोदतां.'

सॉक्रतिशाची आवय बांयटेर काडपी वैजीण आशिल्ली. बापूय शिल्पीक आशिल्लो. सॉक्रतिशान मुमुरख्यांनी हांसून केन्ना केन्ना म्हणचें, 'हांवें म्हज्या आवय-बापायच्या धंद्यांक नवें रूप दिलां. तुमचे तकलेंतल्यान तुमचे विचार भायर काडपाक हांव तुमकां आधार दितां आनी तुमच्या सभावाचीं धोंगां पोंगां काडून तुमकां नवे मनीस करतां.'

एक दीस सॉक्रतिश नीट पॅरिक्लिसागेर वता. लोकशायेचो मोट्टो पाखो घेवपी हो आथेन्साचो नगराध्यक्ष. सॉक्रतिश पॅरिक्लिसाक विचारता, 'एक सांग, तूं सैनिकांच्या हातांत शस्त्रां दिता तेन्ना तांकां पयलीं कितें शिकयता?'

'तीं कशीं वापरचीं तें.'

'इतलेंच?'

'तीं कशीं सांबाळचीं तेंय...'

'उपरांत?'

'दुस्मानांक भियेवंक जायना म्हणपाचें.'

'दुस्मानाक कसो वळखुंचो हें शिकयता व्हय?'

'तें सगळ्यांत पयलीं शिकयतां.' पॅरिक्लिस जाप दिता.

'ना...' सॉक्रतिश म्हणटा. 'आपले इश्ट कोण आनी दुस्मान कोण ते कशे वळखुचे हें तुमी सैनिकांकूय केन्ना शिकयनात, लोकांकूय शिकयनात. पयलींय शिकयनात, मागिरूय शिकयनात. तुमचे खरे दुस्मान खासा तुमीच हें तुमी लोकांक केन्नाच सांगिनात. उरफाटें, तुमी व्हडले, तुमी शाणे, तुमी म्हणटात तेंच बरें, तेंच खरें, अशें सांगून तुमी तांची वाट

लायतात. तांकां खरें सांगल्यार ते दुखवतले, तुमचेर तिडटले ह्या भंयान तुमी तांची खुशामत करतात... खुशामतीन लोक वयर सरनात. परते, ताळतंत्र सोडटात. ताळतंत्र सोडिल्ले लोक फुडार घडोवंक पावनात. पियेवन तर्र जाल्ले बेबदे खळयेंत पडले बगर रावतीत व्हय? अती लाडान भुरगीं इबाडटात, तशे तुमच्या राज्यांत लोक इबाडल्यात.'

पॅरिक्लिस म्हणटा, 'तूं लोकां आड म्हूण आयकल्लें... खरें तर तें...'

सॉक्रतिश म्हणटा, 'म्हजो लोकांचेर तुजे इतलोच मोग. हांव विरोध करतां तो तांचो न्हय. तांचे 'शाही'चो करतां. लोकांची 'शाही' बांदून बांदून लांब-रुंद रस्ते बांदीत. बरीं बरीं बंदरां बांदीत... व्हडल्यो व्हडल्यो इमारती बांदीत. ती नवो मनीस घडयत व्हय? मनशाक 'बरो' करीत व्हय? बरें फूल खंयचें तुमी जाणात. बरो घोडो खंयचो हेंवूय जाणात. बरो मनीस कोणाक म्हणचो हें तुमी जाणात व्हय? बरो मनीस कोणाक म्हणचो हें तुमकां खबर नासत जाल्यार तुमचे ते रस्ते, त्यो इमारती, तीं बंदरां कित्याक उपकारचीं नात. मनशाचें बरेपण तो न्हेसता त्या भेसा वयल्यान, तो रावता त्या घरा वयल्यान थारावंक येना. ताच्या रुपाचेर, ताचे मोटसाणिचेर, ताचे उंचायेचेर ताचें बरेपण निम्बून आसना. बरें कितें, वायट कितें हांतलो फरक जाका कळटा, तो बरो मनीस. लोकांचे 'शाही'क हो फरक करूंक येना...'

सॉक्रतिश खरें उलोवपाक कोणाक भियेना. शाण्या मनशान राजकर्णा पसून पयस रावंक जायना, पुणून सत्याय आपणा हातांत घेवपाचे फस्तीक पडूंक जायना अशें तो मानीत आयला. सत्येच्या राजकर्णाचे सर्तींत पडना तोच तटस्थ आनी तेजस्वी उरूंक पावता अशें म्हणीत रावलां. आयुष्यभर तो राजकी मळार रावनूच वावुरता. पुणून सत्येच्या आसनार केन्ना बसना.

एक दीस ताका न्यायाधीश जावचें पडिल्लें. तो एकलो नाशिल्लो. आनीक चौग जाण ताच्या सांगाताक आशिल्ले. जाल्लें कितें, दर्यांत एक मोड आयिल्लें आनी तांतूंत कांय जाण बुडून मेल्ले. तांकां वांचोवंक कोण पावलो ना आनी ते व्हांवन गेल्ल्यान तांच्यो निमाण्यो क्रियाय रिती प्रमाण जावंक पावल्यो नात. तांकां आतां स्वर्ग मेळचो ना, अशें म्हणून लोक खुबले आनी सेनापतीक जापसालदार धरून तांणी ताका न्यायालया मुखार उबो केलो.

न्यायसभा भरल्या. लोक खेट करून थंय रावला. मोड कशें आयलें, प्रेतां सोदप कित्याक लागून कठीण जालें हें सेनापती न्यायसभेक सांगता. लोक आयकून घेवंक तयार नात. 'हाका मरणाची ख्यास्त फर्मायात' अशें लोक मागतात. सेनापती म्हणटा, 'तशें जाल्यार, जण एकल्याची मनसुबी वेगळी वेगळी करची. म्हणटकूच कोणाची जापसालदारकी कितें आशिल्ली आनी कोण खंय चुकलो तें सारकें बरें कळून येतलें.'

सॉक्रतिश म्हणटा, 'हो म्हणटा तें बरोबर आसा. तें कायदयाक धरून जातलें.'

लोक उसळटात. 'कायदो कोणें केला? आमीच. आमीच ताचें मरण मागतात.'

सॉक्रतिश म्हणटा, 'म्हज्यान कायदया आड वचूं नज.'

लोक बोवाळ करपाक लागतात. मोट्या मोट्यान किळांच्यो मारतात. सॉक्रतिश मात पसून हालना. 'हांव हांगा न्याय दिवपाक आयलां. तुमी सगळे खुबले म्हूण हांव न्याय सोडपाचों ना', तो म्हणटा. तरी आसतना भुरावळ 'ताका मरणाची ख्यास्त जावंकूच जाय' अशें म्हणून आड्डता. सॉक्रतिश भुरावळी मुखार तकली बागयना. तो म्हणटा, 'तुमकां न्याय नाका आसत जाल्यार हांव हांगा राविना. तुमी मागतात तें चूक. साप चूक' अशें म्हणटा आनी न्यायालय सोडून वता.

तो सत्ताधिशां आड उबो रावंक जाणा तसो लोकां आडूय उबो रावंक जाणा. सत्या मुखार तो कोणाक लेखिना.

आथेन्सांतलो लोक जातकूच कलावंत. सौंदर्याक पुजपी. सॉक्रतिश म्हणटा, जिवितांत सत्याक आसा तेदीच सुवात सौंदर्याकूय आसा. तितलीच शिवाक - बऱ्याकूय - आसा. सुंदरकायेक सत्याचो आनी बऱ्याचो आधार आसुंकूच जाय. धर्तरेचे फाटीर सैमाचे सुंदरकायेचो खेळ चलूंक पावला ताचें कारण धर्तरी भितरल्यान घट हेंच. खऱ्याची आनी बऱ्याची पुजा म्हळ्यार सद्‌गुणांची पुजा. सद्‌गुणांच्या आधारान जो सुंदरकायेक पुजता तोच तेजिश्ट आनी न्यायी जावंक पावता. कोणूय ताका मेळूं, तो ताका विचारता, 'बाबा रे, दुडू जोडपा खातीर तूं जितल्यो काडाओडी काडटा तितल्यो गिन्यान जोडपा खातीर काडटा मू? सुखी जावपा खातीर तूं जितलो आंवडेता तितलो शाणो जावपा खातीर आंवडेता मू?' लोकांची सद्‌गुणां विशिंची उवेखणी पळोवन तो म्हणटा, 'बाबांनो, जाका तुमी लेखतात ताका मोल ना. आनी, जाका मोल आसा ताका तुमी लेखिनात. जिवितांत सगळ्यांत चड मोल आसा तें सद्‌गुणांक. दुडवांक न्हय. दुडवांची मनशाक गरज आसूं. पुणून दुडवांनी कितेंय करूं येता, कितेंय मेळोवं येता म्हणटात तें खरें न्हय. दुडू केन्ना भित्र्या मनशाक धीट करूंक पावना तसो धीट मनशाक भित्रोय करूंक पावना. दुडवांनी ज्ञान मेळना. मोग मेळना. आरोग्य मेळना. आयुष्य मेळना. सद्‌गुण तर मेळच नात. सद्‌गुणान मात मान-भौमान, सूख सगळें मेळूं येता. दुडूय मेळूं येता.'

तो एक जाणा, मनशाच्या मुठी येदया काळजांत एक ल्हानशी सुवात आसा. अणू परसूय ल्हान. काळीज चिरून पळेल्यार लेगीत दिश्टी पडची ना असली. थंयच आकांताची शक्ती आशिल्लो एक डायनामो आसा. पुराय संवसारा आड, कोणाचोच आधार नासतना एकलो उबो रावपाचें बळगें तोच दिता. संवसारांतलीं आयजवेरचीं सगळीं कर्तुत्वां, सगळे

पराक्रम, सगळ्यो सिद्धी ह्या डायनामोक लागून जावंक पावल्यात. मनशाचें सगळ्यांत व्हड बळ तें हें. होच ताचो खरो आधार. हो आधार जाणें जोडला तो भंय वळखना. दुसऱ्या सुवादीन केन्ना जायना. दीन, कृपण, काकुळटेणो जावंकूच पावना. जाणें हो आधार जोडूंक ना तोच परतंत्र जाता. तोच दुसऱ्यांक भियेता. तोच दुःखां, संकश्टां, अरिश्टां दिश्टी पडनाफुडें थतरवितर जाता. हो डायनामो तुमच्यांत आसा. तोच सोदून काडात. कसवटणेच्या प्रसंगार तोच तुमकां धीर आनी आधार दितलो. कुडिच्या सुखांत तुमी घुसपून उरले जाल्यार तुमकां तुमच्यांतल्या ह्या बळग्याची वळखूच केन्ना जावंक पावपाची ना.

सॉक्रतिश आरोग्यान घटमूट. वत, वारो, पावस, कित्याचीच ताणें पर्वा केली ना. पेलियोनेशियनच्या झुजांत ताणें आल्केबियडसाचो जीव वाटायल्लो. आपणालो जीव संकश्टांत घालून. शूर म्हुण्णूय ताणें नामना जोडिल्ली. आपणाल्या पोरसांत तो मानाया भाशेन वावर करतालो. उतार पिरायेर लेगीत. मागीर ताका चरचरीत बरी भूक लागताली. ऑलिव्ह तेल लायिल्ली भाकरी, इल्लेंशें म्होंव आनी सवायांत सवाय मेळटा ती भाजी इतलेंच ताचें जेवण. जे रुचीन तो हें जेवण जेवतालो तितले रुचीन मिश्र देशाचो फाराओ लेगीत पक्वान्नांचें जेवण केन्ना जेवंक ना जातलो, अशें लोक म्हणटाले. न्हेसपाक थोडें लुगट आनी जेवपाक पुश्टीक अन्न मनशाक मेळचें. तितल्यान तो सुखी जावंक जाय, अशें तो म्हणटालो. हाचे पेल्यान मनशान आपणाल्यो गरजो वाडोवच्योच न्हय, वाडयल्यो जाल्यार त्यो मनशा सुवादीन उरच्यो नात, मनीस तांचे सुवादीन जातलो. उण्यांत उण्यो गरजो आशिल्लो मनिसूच चडांत चड सुखी आसता, अशें ताचें म्हणणें आशिल्लें.

पुणून सॉक्रतिशाच्यो ह्यो उण्यांत उण्यो गरजो लेगीत केन्ना सारक्यो भागूंक पावल्यो नात. जाच्या जिविताक एकाद्रें 'मिशन' येवन दसता ताका चार चौगां भाशेन जियेवंकूच मेळना. आथेन्सांतल्या लोकांक चिंतूंक लावन शाणे करपाचें ताचें मिशन ताका सस्थ बसूंक दिना. परिणामीं, खूब त्रासांचें आनी कश्टांचें जिवीत ताच्या वांट्याक येता. सॉक्रतिशाक हाची केन्ना केन्ना खंत जाता. तो मनांतल्या मनांत शिणटा. 'हांव आथेन्साची बऱ्यांतली बरी सेवा करतां आनी एकलोय सभागी 'हाचें कशें चल्लां' म्हूण केन्ना वासपूस कशी घेना? ऑलिम्पिकाच्यो सर्ती जिखपी खेळगड्यांच्या जेवपा खावपाच्यो रावपाच्यो तजविजो तुमी करतात. त्या खेळपी भुरग्यां परस म्हजें मोल उणें? हांव तुमच्या सत्वाचो, आत्म्याचो हुस्को घेवन बसलां. म्हजीय थोडी भोव तजवीज तुमी करपाची', अशें तो म्हणटा. पुणून मनांतल्या मनांत. भायर हें तो एका उतरान लेगीत कोणाक सांगिना. मागीर, आपुणूच आपणाक समजावन सांगता, हांव जें करतां तें म्हाका कोणें कर म्हूण सांगूंक ना.

हांवूच म्हाका जाय म्हूण करीत आयलां. केले बगर रावं नज म्हूण करीत आयलां. म्हजे खोशये खातीर करीत आयलां... देव पळोवन घेतलो म्हजें. तोच काडटलो म्हजो हुसको. ताचें वजें हांव म्हज्या माथ्यार कित्याक घेवं?

तरणेपणाच्या हुंबऱ्यार पावल दवरलां त्याच वेळार ताणें सोपूत घेतिल्लो - 'हांव जल्माक आयलां त्या वेळार जंय म्हजी मायभूंय आशिल्ली, ताच्याकूय वयल्या पांवड्यार तिका पावयतलों आनी मरतलों' म्हणपाचो. हो सोपूत ताका सगळे उतळताप सोंसपाची तांक दिता.

एक दीस सॉक्रतिश आथेन्सांतल्या बाजारांत पावता. ताची नदर थंय पसऱ्यांनी दाळिल्ल्या तरेकवार मालाचेर पडटा. ताच्या तोंडांतल्यान उतरां फुट्टात, 'अब्बा! जाची म्हाका इल्लीय गरज भासना इतलो माल बाजारांत मेळटा व्हय?'

ताची गरिबाय येदी गिरेस्त आशिल्ली !

हे गरिबायेचे सगळ्यांत चड त्रास जातात ते ताचे घरकान्नीक - झांतिप्पेक. बावडी हेर बायलां सारकी एक बायल. रात्री वयल्या तपल्याचो वा तव्या वयले भाकरेचो हुस्को काडपी. तिका घोवाची केन्ना केन्ना तिडक मारची. तिणें केन्ना केन्ना ताचे कडेन वादूय घालचो. सॉक्रतिशान ओग्गी रावन आयकून घेवचें. तो जाप दिना तें पळोवन तिणें मागीर तापचें. ती तापली म्हणटकूच सॉक्रतिशान भायल्या सोप्यार मोन्यांनी वचून बसचें. लोकांक अजाप जावचें. तांणी म्हणचें, 'आथेन्सांतल्या व्हडल्या व्हडल्यांक चीप् बसोवपी हो मनीस हांगा घरकान्नी मुखार कसो पळे, चीप् पडटा.' 'तिचो गुन्यांव ना', सॉक्रतिशान म्हणचें. 'सॉक्रतिशा कडेन सगळ्या प्रस्नांचेर उपाय आसात. फकत झांतिप्पेक सुखांत दवरपाचो उपाय ताचे कडेन ना.'

एक खेपे ती ताप ताप तापली. तो भायर सोप्यार वचून बसलो. झांतिप्पेक कितें करचें, समजना जालें. मोरयेंत म्हेळ्या उदकान भरिल्ली बालदी आशिल्ली. हाडली आनी ताच्या माथ्यार रकयली. शेजारी पळेतालो. सॉक्रतिश हांसलो. म्हणपाक लागलो, 'केदो वेळ गडगडटालें... पावस पडुंकूच जाय आशिल्लो...'

म्हऱ्यांत ताचो एक विद्यार्थी बशिल्लो. सॉक्रतिशान ताका विचारलें, 'लग्न जालां, पुता, तुजें?'

'ना.'

'जावन पळे. बरी बायल मेळ्ळी जाल्यार सुखांत जियेतलो. हिचे सारकी मेळ्ळी जाल्यार म्हजे सारको तत्त्वज्ञानी जातलो.'

असल्या प्रसंगार लेगीत ताका विनोद येवजतालो.

सॉक्रतिशाचो घात मारता ती देल्फीची देवता. एक खेपे तिका कोणें विचारलें, 'आथेन्सांतलो सगळ्यांत शाणो कोण?'

'सॉक्रतिश...' तिणें जाप दिली.

सॉक्रतिशाच्या कानार ही खबर पावली तेन्ना ताका अजापांचो धसको बसलो. 'अब्बा ! देवता अशें म्हणटा? पळोवचें पडलें.'

आनी देवता खरें उलयता काय फट हें पडठाळून पळोवपाक तो भायर सरलो.

ही परिक्षा ताका खूब म्हारग पडली.

तो सगळ्यांत पयलीं आनितोसागेर गेलो. आनितोस आथेन्सांतलो एक व्हड फुडारी. लोक ताका बुदवंत लेखताले. तोय आपणाक बुदवंत लेखी. सॉक्रतिश ताका आडवे-तिडवे प्रस्न करपाक लागलो आनी निमाणें हो आपणाक शाणो लेखता, पूण हो शाणो न्हय, ह्या निर्णयार पावलो. इतल्यान सोंपलें ना. ताणें आनितोसाक 'तूं शाणो न्हय' हें दाखोवनूय दिलें.

आथेन्सांतल्या दुसऱ्याय फुडाऱ्यांची तो अशीच परिक्षा घेवपाक लागलो.

मागीर कविंचेर हात घालो. फुडाऱ्यां भाशेन आथेन्सांतल्या कविंचीय शाणे म्हूण नामना. 'जें रवीक दिसना तें कवींक दिसता' असो लोकांचोय समज आनी खासा कविंचोय समज. सॉक्रतिश तांचीय परिक्षा घेवपाक लागलो. आनी 'अवसर येतकूच मनीस उलयता तशे हे उलयतात. ते जें उलयतात ताचो अर्थ खासा तांकांच सारको खबर नासता' ह्या निर्णयार पावलो.

हे भाशेन तो वचत ताका उजरावन काडपाक लागलो आनी निमाणें म्हणपाक लागलो, 'कांय जाण कांय गजाली जाणांत. तितले पुरते ते शाणे. पुणून ते कांय गजाली जाणांत म्हूण बाकिच्योय गजाली आपणाक समजतात अशें धरतात. थंयच ते शेणटात.'

'म्हणटकूच, देल्फीचे देवतेन म्हाका शाणो कित्याक म्हळो तर?' तो आपणाकूच विचारता आनी आपणाकूच जाप दिता, 'बाकिचे जें नकळत तें नकळ म्हूण नकळत. हांव जें नकळं तें नकळं म्हूण जाणां. बाकिच्यांत आनी म्हज्यांत फरक आसा तो हो...'

आथेन्सांतले सरकारी पंगडांतले लोक सॉक्रतिशाचेर पयलींच तिडकल्ले. एक, लोक जें आयजवेर पवित्र मानीत आयल्यात ताचीं हो फकांडां मारता म्हूण. दोन, पोरणें सगळें कुसकें, नश्टें, पाडें अशें म्हणटा म्हूण आनी तें मोडटा म्हूण. आनी तीन, लोकमताची तो मातूय पर्वा करिना म्हूण. तांतूंत ताचे 'कोण शाणो आनी कोण न्हय' हे परिक्षेची भर पडली.

परिणामीं, ताणें कितलेशेच दुस्मान जोडले.

तातूंत आथेन्सांतल्या भुरग्यांनी भर घाली. ते सॉक्रतिशाचेर भाळिल्ले. जो

समाजांतल्या व्हडल्या-व्हडल्यांक उगडे नागडे करून लजयता तो वया वयल्या भुरग्यांक मानवलो ना जाल्यार ते वया वयले भुरगेच न्हय जातीत. आथेन्सांतल्या भुरग्यांक ताणें पिशें लायिल्लें. ताची नामना आथेन्सा भायरूय पातळ्ळी. पयस पयसल्यान कांय हुशार भुरगे ताचे म्हऱ्यांत येवन रावपाक आनी शिकपाक लागले. कांय भुरगे सॉक्रतिशा भाशेन बेपर्वायेन चलपाक लागले. 'हाका सुको सोडलो जाल्यार हो भुरग्यांची वाट लायतलो, सगळ्यांक पाखंडी करतलो, हाका जाग्यार हाडचो पडलो' अशें म्हालगड्यांक दिसपाक लागलें.

जिस्त ह्या वेळार आथेन्सांतल्या शिकिल्ल्या लोकांक भुरावळिचे सत्ये आड बंड करपाचें येवजलें. सॉक्रतिशाच्या दुर्दैवान बंडाचें फुडारीपण ख्रिशेसा कडेन आशिल्लें. ख्रिसेश सॉक्रतिशाचे प्रभावळींतलो. सॉक्रतिशाचो ह्या बंडा कडेन कसलोच संबंद नाशिल्लो. परतो, तो बंडा आड आशिल्लो. ख्रिशेसा कडेन ताणें ह्या संबंदान वादूय घाल्लो. सरकाराक हें खबर आशिल्लें. तरी आसतना सरकाराक दिसलें, बंडा कडेन ताचो कसलोच संबंद नासलो म्हूण कितें जालें? 'लोकशायेंत सरकाराक लोकांची खुशामत करचीच पडटा, ताका लागून तज्ञांक जाय तसलें न्हय, तर अज्ञांक जाय तसलेंच राज्य चलता', असले विचार पातळावन ताणें हरशींच जो उजो लायला तो पुरो ना? तो सगळ्यांचीं फकांडां मारता हें कितें थोडें जालें? लोक ताका लेखतात, मानतात. बरे बरे भुरगे ताचे फाटल्यान भोंवतात. तेय आमचीं फकांडां मारतात... हें सगळें सोंसूं येता? ख्रिशेसाचें बंड अजून सुरू जावंक नाशिल्लें. ताचे आदींच सरकाराक विरोधी तोंडां बंद करूंक जायशें दिसलें. 'तोंडां बंद करूंक जाय जाल्यार हाचेंच सगळ्यांत पयलीं करूंक जाय. कित्याक, तेंच सगळ्यांत चड व्हांवता' अशें सरकाराक दिसलें.

हांतूंत आनितोसाच्या पुतान तेल ओतलें. बापायचो एकलोच पूत हो. सॉक्रतिशाच्या नादाक लागून ताणें बापायचो धंदो सोडून दिल्लो. राजकारभारांतूय वांटो घेवचो ना असो नित्शय केल्लो. इतलेंच न्हय, तर बापायच्या तोंडार ताचीं फकांडांय मारपाक लागिल्लो.

'सॉक्रतिशाचें अती जालें.' आनितोसाक दिसलें. ताका कशी बुद्द शिकोवची हाचेर तो उपाय सोदूंक लागलो.

सॉक्रतिशान रुढी मोडपाक सुरवात केल्ली तेन्नाच्यान आनितोस हुसक्यांत पडिल्लो. सरकारी लोकांचो एक नेम म्हळ्यार, ते विरोधी लोकांचो विरोध पयलीं तांचीं फकांडां मारून सुरू करतात. आनितोसाचो एक इश्ट आरिश्तोफेनिस, नाटककार. ताका आनितोसान कांय वर्सां पयलीं मुखार काडिल्लो आनी ताणें आनितोसाचे सांगणेन 'कुपां' नांवाचें एक नाटक बरयल्लें. सॉक्रतिशाच्यो भगलो मारून. ह्या नाटकांत आरिस्तोफेनिस सॉक्रतिशाच्या वर्गांक 'येवजूंक शिकोवपी पसरो' म्हणटा. आनी येवजप म्हळ्यार कितें?

तर 'खरें तें फट आनी फट तें खरें करून दाखोवपी कला' म्हणटा.

नाटकांतलो एकलो आपल्या बापायक येतिश्ट लडो घालता. 'पापया, तूं हें कितें करता? आरे, तूं बापायक मरे मारता', कोण एकलो ताका विचारता.

'म्हाका सॉक्रतिशान शिकयलां तशें हांव करतां', तो जाप दिता.

'सॉक्रतिशान तुका कितें, बापायक मार घालचो म्हूण शिकयलां?'

'ना... पुणून कोणा कडल्यान कितेंय घेतलें जाल्यार तें ताचें ताका फारीक करूंक जाय अशें शिकयलां...' तो सांगता आनी म्हणटा, 'भुरगेपणांत हांवें बापाय कडल्यान खूब मार घेतिल्लो... आतां हांव तो ताका फारीक करतां.'

सॉक्रतिश असल्या फकांडांची पर्वा करिना. तो जाणा, जो लोकांक शाणे करपाक मुखार सरला, ताका रुढीवादी लोकांचीं फकांडां, उवेख, विरोध सगळें सोंसुनूच फुडें सरचें पडटलें. आयुश्यभर तो हें सगळें सोंशीत आयला. ताका हाची खंत ना.

पुणून आथेन्सांतले सत्ताधीश इतल्यान ओगी राविनात. तरण्या भुरग्यां वयलो सॉक्रतिशाचो प्रभाव जसो जसो वाडत वता तशे तशे ते ताची शिकवण मोडून तोडून विद्रूप करून लोकां मुखार दवरूंक लागतात. सॉक्रतिशा आड ते नाका नाका जाल्ल्यो फटी पातळावपाक लागतात. लोकांक सॉक्रतिशाची तिडक मारची हे तरेचो प्रचार करून ते लोकांक खुबळावंक लागतात. सॉक्रतिशा कडेन सगळ्या गजालिंचेर उपाय आसात. पूण लोकांक मुजरत खुबळावपी आनितोस, मेलेतोस सारकेल्यांक कितें करचें, ताका समजना. तांच्या प्रचारा आड झुजप सावळे आड झुजपा इतलेंच कठीण अशें ताका दिसपाक लागता. सॉक्रतिशाक खंत भोगता. पूण तो आपणालो वावर सोडिना. आपूण करतां तें लोकांच्या बऱ्या खातिरूच करतां हाची भितल्ल्यान ताका खातरी आसता. परिणामाची ताका पर्वा ना. मरणाक तो मात पसून भियेना.

सॉक्रतिश सत्तर वरसांचे उतार पिरायेचो जाला.

अवचीत एक दीस आथेन्सांतले कुलीन स्पार्टांचो आधार घेवन भुरावळिचे सत्ये आड बंड करतात. बंडाचें नेतृत्व ख्रिशेसा कडेन आसा. आनितोसाक इतलेंच पुरो जाता. तो सॉक्रतिशाचो हात ह्या बंडांत आसा अशें थारायता.

बंड मोडटा. कांय दिसांनी जैताच्या उन्मादांत फुडारी सॉक्रतिशाक आथेन्साचे न्यायसभे मुखार उबो करतात. 'हो देवधर्म ना म्हणटा... खऱ्याचें फट आनी फटिचें खरें करून भुरग्यांक कित्याय कितें शिकयता आनी तांची वाट लायता... तांकां पाखंडी करता...' हे तरेचे ताचेर आरोप घालतात. आरोप घालपी किरकोळ कोण नाशिल्ले. एक आनितोस आशिल्लो. दुसरो, मेलेतोस. तिसरो, लायकोन. तिगूय आथेन्सांतले व्हड मनीस.

भुरावळ कुड्डी आसता. ती कुड्डेपणान हुर्र फुर्र जावन उसळटा आनी केन्ना केन्ना

लोकांचेर व्हडांतले व्हड अन्याय करता हें जें सॉक्रतिश आतां मेरेन सांगीत आयिल्लो तें कितलें खरें तें आतां दिसूंक लागता.

सॉक्रतिशाच्या तेजस्वी जिविताचो कळस हो.

न्यायसभा जमल्या. गुन्यांवकारांच्या पांजऱ्यांत सॉक्रतिश उबो आसा. ताका पळेनाफुडें आथेन्सांतलो मोटव्यांतलो मोटवो हो मनीस सगळ्यां परस ऊंच धिप्पाड कसो दिसता. विद्रुपांतलो विद्रूप हो मनीस पार्थिनोनच्या सुंदरांतल्या सुंदर शिल्पा परसूय सुंदर देखणो दिसपाक लागता. सॉक्रतिश आपणालो बचाव आपुणूच करता. 'म्हाका फट कांय उलोवपाचें ना, खरें तेंच सांगपाचें आसा, सत्य उगड्या नागड्या रुपांतूच न्यायसभे मुखार दवरपाचें आसा' अशें म्हणटा आनी तो उलोवपाक लागता. तागेलें हें उलोवप प्लेटोच्या Dialoguesत Apology ह्या नांवान आयलां. संवसारांतल्या खुबूच म्हत्वाच्या उलोवपां मदलें एक हें. तो हें उलोवप करता तेन्ना गुन्यांवकाराच्या पांजऱ्यांत कोण उबो आसा, सॉक्रतिश काय आथेन्सांतलो लोक, असो प्रस्न पडटा. सत्तर वर्सांचे उतार पिरायेर लेगीत सॉक्रतिशाचे बुद्‌दिची धार कितली खर आनी तीख आशिल्ली ती दिश्टी पडटा. ताच्या शिलाची आनी शैलिची उजळ कूस हांगा स्पश्ट जाता. तो आरोप करतल्या मेलेतोसाक विचारता, 'हांव भुरग्यांची वाट लायतां अशें तूं म्हणटा. एक सांग, भुरगे शाणे जावचे अशें तुका दिसना?'

'दिसता...' मेलेतोस जाप दिता.

'तांकां शाणे कोण करता?'

'कायदे...'

'हांवें कोण म्हूण विचारलां. कितें म्हूण विचारूंक ना...'

'भुरग्यांक शाणे न्यायाधीश करतात.'

'म्हळ्यार, हांगा जे न्यायसभेंत बसल्यात ते भुरग्यांक शाणे करतात?'

'हय...'

'सगळेच काय तांच्यांतले कांय?'

'सगळेच.'

'बरें आसा... आतां सांग, इतलेय हे जे लोक एकठांय जमल्यात तांकां हें काम येवचें ना?'

'तांकांय येतलें.'

'म्हळ्यार, भुरग्यांक शाणे करपाचें काम सगळेच करतात. एकलो हांवूच तांकां वांकडे वाटेन व्हरतां अशें तुका म्हणपाचें आसा?'

'हय...'

'बरें, आतां सांग, घोड्यांक तालीम दिवपाचें काम कोण करतात? जे तालीम दिवंक जाणात तेच, हय मू? तालीम दिवंक जाणा जाल्ले समाजांत थोडेच जाण आसतात. हय मू? हे थोडेच जाण तालीम दितात, काय बाकिचे सगळे जे तालीम दिवंक नकळत ते दितात? म्हाका लागू केला तो नेम घोड्यांक तालीम दितल्यांक लागू केलो जाल्यार तालीम दितले लोक घोड्यांची वाट लायतात अशें म्हणचें पडटलें?'

'ना...'

'म्हाका सांग, जाणा जावन कोणूय दुसऱ्यांची वाट लायता?'

'तूं जाणा जावन भुरग्यांची वाट लायता...'

'अशें कशें जातलें? जाणा जावन कोणूच दुसऱ्यांची वाट लायना. खबर नासतना लायता. हांव खबर नासतना लायतां आसन जाल्यार म्हाका समजावन सांगप ही तुमची लागणूक नाशिल्ली? न्यायसभेंत म्हाका उबो करपाची कसली गरज आशिल्ली?'

मागीर तो न्यायसभेक सांगता, 'धरुंया, तुमी म्हाका ख्यास्त फर्मायली, जाल्यार ती मेलेतोसाचे आरोप खरे थरले म्हूण फर्मायली अशें जावचें ना. कुड्डेपणान फर्मायली अशें जातलें. कुड्डेपणान आयजवेर खूब जाणांचें लुकसान केलां, देशाचें सगळ्यांत चड केलां.'

सॉक्रतिश मरणाक भियेना. मरणा कडेन ताल धरुनूच तो जियेत आयिल्लो. मरणाचें मोल दिले बगर आयजवेर खंयच्याच वावराक खोलाय येवंक ना हें तो जाणा आशिल्लो. तो म्हणटा, 'जिवितांत अशे प्रसंग येतात की जेन्ना तत्त्वा खातीर, ध्येया खातीर, सत्या खातीर, अब्रू खातीर मनशाक मरणाक वेंग मारची पडटा. लाचार जावन जीव वाटावचो काय जिवार उदार जावन अब्रू वाटावची, असो प्रस्न मनशा मुखार उबो रावता तेन्ना तत्त्वनिष्ठ मनीस मरणूच वेंचून काडटा.' सॉक्रतिश मरणाक वेंग मारपाचे तयारेनूच जसो कितें हांगा उबो रावला. तो म्हणटा, 'हांव तुमकां हांगा सत्य तेंच सांगतलों, सदां उलयत आयलां तसोच हांगा उलयतलों. म्हजी आतां उतार पिराय जाल्या. तांतूंत गुन्यांवकाराच्या पांजऱ्यांत उबो रावपाचो पयलोच प्रसंग हो म्हज्या जिवितांतलो. हांगाची रीत म्हाका खबर ना. आगळीं उणीं उतरां तोंडांतल्यान भायर सरलीं जाल्यार तीं लावन घेवचीं न्हय.' ही प्रस्तावना करून तो सत्ताधीश कित्याक आनी केन्ना पसून आपणा आड गेल्यात ताचो इतिहास सांगता. आपणें कोणाची कशी परिक्षा घेतली आनी हे परिक्षेक लागून कोण कशे दुखावले हें सांगून तो म्हणटा, 'हांव म्हाका गुन्यांवकारी मानीच ना. उरफाटें, म्हाका लागून ह्या आथेन्स नगराची सोबा वाडल्या अशें मानतां. म्हाका मारलो जाल्यार तुमी तुमचेंच लुकसान करून घेतले. म्हजे सारको तुमकां दुसरो कोण मेळपाचो

ना.' (आनी, इतलीं वर्सां मनांत भितरूच दवरिल्लें आयज उकतें करून सांगता) 'खरें म्हळ्यार, हांव जितो आसांसर म्हज्या जेवणा-खाणाची तजवीज तुमी करूंक जाय आशिल्ली. ऑलिम्पिकच्या खेळगड्यांची तुमी करतात... म्हजी केन्ना केलिना. ह्या खेळगड्यां परस म्हजें मोल उणें न्हय. आथेन्साक म्हजी खूब गरज आसा...'

उपरांत सांगता -

'धरात, तुमी म्हाका निर्दोश म्हूण सोडून दिलो आनी म्हाका सांगलें, 'हें पळे सॉक्रतिश, हे खेपे आमी तुका सोडटात. पूण एके अटीर : हे मुखार तूं तत्त्वगिन्यानाची विकसावणी खंयच करचो ना...' जाल्यार हांव म्हणटलों, 'भावांनो, देव तुमचें बरें करूं. खूब उपकार जाले तुमचे म्हजेर. हांव तुमचो सेवक. पुणून तुमचे परसूय व्हडलो म्हजो दुसरो एक धनी आसा : देव. तुमचे परसूय अदीक हांव ताका मानतां. जे मेरेन कुडींत प्राण आसतलो, जे मेरेन तकली जाग्यार आसतली, ते मेरेन हांव जे-जे कोण म्हाका मेळटात तांकां प्रस्न विचारले बगर रावचों ना : 'बाबांनो, सत्य, शाणपण आनी खासा आपणाली वळख म्हळ्यार कितें हें जाणा जावन घेवपा बदला तुमी दुडवांच्या आनी नामनेच्या फाटल्यान धांवतात हाची तुमकां लज दिसना?' अशें हांव तांकां विचारतलों. तांकां जाग हाडटलों. तुमी म्हाका धरात, मारात वा सोडून दियात. पूण लक्षांत दवरात: हांव म्हजे वाटे वयलो मात लेगीत कडेक सरपाचों ना. एक आनी दोन खेपो न्हय, शंबर खेपो मरचें पडलें जाल्यारूय हांव म्हजो वावर सोडपाचों ना.'

न्यायसभेक तिडक मारता. न्यायसभा घडयल्याच पयलीं भुरावळीन. आनी भुरावळीक जाय आसता खुशामत. तुमीच बरे, तुमीच शाणे हे तरेची तुस्त. तिगेलें अन्न हें. सॉक्रतिश तिगेल्या ह्या अन्नाक विक्ख मानता. तो तिची खुशामत करिना. तो जाणा, लोकां मुखार धीटपणान सत्य मांडपाची निमाणी संद ताका मेळ्ळ्या. तो ही संद सोडिना. परिणामां कडेन पळे नासतना तो आपणाल्या अणभवांचें पुराय अर्क न्यायसभे मुखार दवरता.

न्यायसभेची एक चाल आशिल्ली. जाका ख्यास्त जाता ताचीं बायल-भुरगीं न्यायसभेंत येवन रडलीं जाल्यार ख्यास्त उणी करपाची. सॉक्रतिशाक बायल आसा. भुरगीं आसात. पुणून तो तांकां न्यायसभेंत येवंक दिना. तो न्यायसभेक सांगता, 'तुमी हांगा बसल्यात ते न्याय दिवपा खातीर. काकुळट करपा खातीर न्हय, उपकार करपा खातीर न्हय.'

न्यायसभा ताका सांगता, 'तुका मरणाची ख्यास्त जावंची अशें लोकांनी मागलां. पूण तुज्यान जाय जाल्यार, दंड फारीक करून सुटूं येता.' सॉक्रतिशाचे शिष्य दंड फारीक करपाक फुडें सरतात. सॉक्रतिश म्हणटा, 'म्हजे कडेन पयशे नात, हांव कांयच जोडिना.

पुणून... ह्या भुरग्यांक जाय जाल्यार म्हाका दंड करून सोडात. पुणून हांव तांकां एका 'मिना' वयर दंड फारीक करूंक दिवचों ना.' एक 'मिना' म्हळ्यार एक पयसो.

न्यायसभा हाका सोडोवंक पळेता. आनी हो जसो कितें तिचेर उपकार केल्ले भाशेन उलयता !

तिडकीन न्यायसभा ताका मरणाचीच ख्यास्त फर्मायता! सॉक्रतिश ख्यास्त मानून घेता आनी न्यायाधिशांक म्हणटा, 'तुमकां कितें दिसता, हांव ना जातकूच तुमी सुट्टले म्हूण? तुमकां कोण विचारचो ना, तुमच्या करण्यांचो हिशोब कोण घेवचो ना म्हूण? तशें जाल्यार तुमी भ्रमांत आसात अशें म्हणचें पडटलें. नवे लोक मुखार येतले. आनी म्हजेय परस चड खरसाणेन तुमच्या करण्यांचो हिशोब घेतले... म्हाका तुमी दिलां तें निखटें मर्ण. एक तर तें सुस्त न्हिदे सारकें आसूंक जाय वा तुमी म्हणटात तशें तें स्थलांतर आसूंक जाय. तें स्थलांतर आसत जाल्यार हांव हांगच्यान स्वर्गार वतलों. ऑर्फियस, हेझियोड, होमर, एझाक्सा सारके व्हडले व्हडले लोक म्हाका थंय मेळटले. तांच्यांतलो कोण शाणो, कोण न्हय हें पळोवपाचें काम हांव थंयूय करतलों. म्हज्या कामांत खंड पडपाचो ना.'

सॉक्रतिशाचे कितलेशेच बरे मागते थंय आशिल्ले. ते विचारतात, 'कितें केलें तुवें हें सॉक्रतिश, मरपाच्याच बेतान तूं हांगा आयिल्लो?'

'सत्तर वर्सांचे पिरायेचो हांव... आयज न्हय जाल्यार फाल्यां मरतलोंच आशिल्लों.'

'हाचो अर्थ, तुवें मर्ण ओडून घेवपाचो नित्शय केल्लो?'

'मरणाक भियेवंचो ना असो नित्शय करून आयिल्लों.' तो थंडसाणेन जाप दिता आनी ल्हवूच विचारता, 'वांचून उरप म्हत्वाचें काय सारकें जियेवप म्हत्वाचें?'

'सारकें जियेवप.'

'हय मू? मागीर सांगात, सत्तर वर्सांचे उतार पिरायेर एक-दोन वर्सां अदीक वांचून उरचों म्हूण हांव सूतभर सकयल देंविल्लों जाल्यार, म्हाका तें सोबतलें आशिल्लें?'

सॉक्रतिश आपल्या आदर्शा पसून सूतभर लेगीत देंवंक तयार ना. ताच्यान दंड फारीक करून सुटूं येतालें. तशें, आपूण आथेन्स सोडून दुसरे कडेन वतां अशें सांगुनूय सुटूं येतालें. न्यायाधिशांनी ताका ही मेकळीक दिल्ली. सॉक्रतिशान आथेन्स सोडून स्पार्टाक वचचें म्हूण तागेल्या इश्टांनी यत्नूय केल्ले. ताका धरला त्या वेळारूय आनी ताका मरणाची ख्यास्त जाल्या त्या वेळारूय. पुणून तो 'जीव वांचोवपाक कितेंय करपी' मनीस नाशिल्लो. आथेन्साच्या कायद्यांक तो सदांच पाळो दीत आयिल्लो. ते कायदे घडयल्ले त्या वेळार ताणें तांचो विरोध केल्लो जाल्यार गजाल वेगळी म्हणूं येताली.

ताणें विरोध करूंक नाशिल्लो. त्याच कायदयांक पाळो दिवन तो आथेन्सांत आपलें पुराय जिवीत जियेल्लो. आयज त्याच कायदयांक धरून ताका ख्यास्त जाल्ली पळोवन तो आथेन्स सोडून स्पार्टाक गेलो जाल्यार, स्पार्टाचे लोक कितें म्हणटले? हो थंयचे कायदे मोडून आयिल्लो, हांगाच्या कायदयांक पाळो कितें दितलो, अशें म्हणचे नात? तो जी तत्त्वचर्चा करता ती आयकुपाची सोडून लोक हीच चर्चा अदीक करतले आशिल्ले. धरुंया, दंड फारीक करून तो सुटिल्लो जाल्यार, 'हाचो ख्रिशेसाच्या बंडांत हात आसा' अशें आनितोस म्हणटा तें खरें म्हणपाचें सिद्ध जावचें नाशिल्लें? सॉक्रतिश आपणाल्या चारित्र्याक मात लेगीत खत लागूंक दिना. तो मात लेगीत सकयल देंवना. तो बंदखणींत वता. बंदखणींतूय ताका मेळपाक येतात तांचे कडेन तो जल्म आनी मर्ण, आत्मो आनी पुनर्जल्म असल्या विशयांचेर चर्चा करता. खंयचे कडेन कांयच घडूंक नाशिल्ले भाशेन! शान्त चित्तान !

तागेल्या शिष्यांक दिसता, आथेन्सांतले भुरावळीन सॉक्रतिशाक मरणाची ख्यास्त फर्मायल्या खरी, पुणून ती तिडकीन फर्मायल्या. फाल्यां तिडक न्हिवतकूच तिका पच्छाताप जातलो. जावचो ना हाचें खरेपण खंय आसा? भुरावळीन हाचे पयलींय असल्यो ख्यास्ती कांय जाणांक फर्मायल्ल्यो आनी मागीर पच्छातापान ख्यास्त फर्मायतल्यांकूच ख्यास्ती केल्ल्यो. तशें हे खेपे जावचें ना कित्यावेल्यान? तशेंच घडटलें अशें तांकां दिसता. भुरावळीक एक दीस सॉक्रतिशाक मारिल्ल्याचो पच्छाताप जातलो, त्या वेळार तिणें आमकां (सॉक्रतिशाच्या विद्‌यार्थ्यांक) येवन म्हळें, 'आमी एक कुड्डे जाल्ले. तुमी कित्याक ताका दुसरे कडेन पळोवन व्हेलो ना?' जाल्यार, आमी जाप कितें दितले? अशें येवजून सॉक्रतिशाचे विद्‌यार्थी ताका बंदखणींतल्यान पळोवन व्हरपाची तजवीज करतात.

पुणून सॉक्रतिश पळून वचपाक तयार जावं नाका? तो विचारता, 'पळून वचप म्हाका सोबता? तुका जाय जाल्यार आथेन्स सोडून दुसरे कडेन वच अशें न्यायसभेनूच म्हाका सांगिल्लें आनी हांवें ना म्हळ्ळें. आतां, ख्यास्त जाली म्हूण भियेवन हांव पळून वचूं? ना... म्हजेर आथेन्सांतल्या लोकांनी अन्याय करूंक ना... कायदयांनी म्हजेर अन्याय केला. ह्या कायदयांक हांव आयुष्यभर पाळो दीत आयलां. आतां कायदो मोडप म्हाका सोबपाचें ना !'

तो पळून वचना. जितले जागरुकतायेन तो जियेल्लो तितलेच जागरुकतायेन तो मरणाक वेंग मारता. एकल्या विद्‌यार्थ्यान प्रेतार घालपा खातीर एक नवी सुंदर शाल हाडिल्ली. सॉक्रतिश ती पयस करता आनी आपणाली पोरणीच शाल विद्‌यार्थ्याच्या हातांत दिवन म्हणटा, 'आयुष्यभर हेच शालीन सांगात दिल्लो. आतां निमाण्या खिणाक तिचो सांगात सोडून दिवं? आसूं दी तीच म्हजे कुडीर !'

तीनसांज जाल्या. जेलर आतां थोड्याच वेळान विक्खाचें कॉप ताच्या हातांत हाडून दिवपाचो आसा. म्हऱ्यांत ताचें विद्यार्थी बसल्यात. सॉक्रतिश उठ्ठा. म्हणटा, 'विक्ख घेवचे पयलीं न्हावन घेतिल्लें बरें. घरच्या लोकांक कुडीक न्हाणोवपाचे त्रास नाकात...'

'तुजे निमाणे संस्कार कशे करचे अशें तुका दिसता?' क्रिटो विचारता.

'तुमकां जाय तशे करात. पुणून एक विसरूं नाका. तुमी म्हजे कुडिकूच पुरूंक पावतले... म्हाका न्हय...' तो मुमुरख्यांनी हांसून जाप दिता. आनी क्रिटोक घेवन न्हावपाक मान्न्यांत वता. थोड्या वेळान भायर येता आनी विद्यार्थ्यां सरीं उलोवपाक म्हूण बसता.

इतल्यांत विक्खाचें कॉप हातांत घेवन जेलर येता. जेलरान हाचे पयलीं खूब जाणांक कॉप दिल्लें. पुणून सॉक्रतिशाक दिता आसतना ताचे दोळे ओले जातात. सॉक्रतिश कॉप घेता आनी उदक पियेल्ले वरी घटघट करून विक्ख पियेता. म्हऱ्यांत बशिल्ल्या विद्यार्थ्यांचो बांद फुट्टा. ते भळऽभळऽ करून रडपाक लागतात. सॉक्रतिश तांकां म्हणटा, 'झांतिप्पी रडटली म्हूण तिका हांवें घरा धाडून दिल्ली. आनी सभाग्यांनो, तुमी रडटात? मरतल्याक थंडसाणेन मरूंक दिवंक जाय.' विद्यार्थी दोळे पुसतात. सॉक्रतिश उठ्ठा. विक्ख घेतकूच थोडो वेळ चलूंक जाय म्हूण ताका जेलरान सांगिल्लें. ते प्रमाण तो थोडो वेळ चलता. मागीर ताचे पांय जड जातात. तो येता. जमनीक फाट तेंकोवन आड पडटा. इल्लें इल्लें करून विक्ख आंगांत चडटा. क्रिटो म्हऱ्यांत आशिल्लो. ताका सांगता, 'क्रिटो, म्हजें एक काम कर. हांव एक्स्लेपियाक एक कोंबो देणो आसां. तो ताका विसरनासतना दी आं... ताच्या रिणांतल्यान म्हाका मेकळो कर.' 'हुस्को करूं नाका', क्रिटो म्हणटा आनी विचारता, 'आनीक कितें सांगपाचें उरलां?' जाप येना. एक मिनीट, दोन मिनटां... ताचो प्राण उडून वता. एकलो ताचे कुडिचेर शाल ओडटा,आनी क्रिटो ताचे दोळे आनी तोंड धांपता.

प्लेटो म्हणटा, Such was the end of the wisest, the justest and the best of all men. - सगळ्यांत न्यायी आनी सगळ्यांत बऱ्या मनशाचो हे भाशेन अंत जालो.

सॉक्रतिशाच्या बरे मागत्यांनी ताचे निमाणे संस्कार केले. आनितोसाक आपणालो पूत सॉक्रतिशाच्या सांगाताक लागून हाता भायर गेलो अशें दिसतालें. तो बेब्दो जालो आनी अखेरेक काबार जालो. सॉक्रतिश ज्या गुणांक धरून चलात म्हूण लोकांक सांगतालो

तांची आथेन्सान उवेखणीच केली, तेंवूय एक दीस अधोगतीक पावून ॲलेक्झांडराचे भकीक पडलें.

पुणून सॉक्रतिश ना जावंक ना. राजवटी बदलून मनीस बदलना, मनीस बदल्लो जाल्यार राजवट बदलता, मनीस बदलपाक ताच्यो मान्यतायो बदलूंक जाय. मान्यतायो बदलपाक पूर्वापार चलत आयलां तें सगळें नियाळून पळोवंक जाय, तर्जून पळोवंक जाय, परिक्षावन घेवंक जाय, मोन्यांनी मानून घेवंक जायना, अशें म्हणपी उकत्या मनाचे लोक संवसारांत जंय जंय मुखार येतात थंय थंय सॉक्रतिश आपणालो अमृत-कुंभ घेवन आयज लेगीत उबो आसता.

सॉक्रतिशा सारके मरपा खातीर जल्माक येनात.

'हांव कित्या खातीर बरयतां?' ह्या प्रस्नाची जाप सोदतना रवीन्द्रबाब बरयतात, '...दोन प्रेरणा म्हज्यांत काम करतात. एक सृजनाची. दुसरी, एके तरेचे लागणुकेची... सृजनाचे, नवें कितें जल्मा घालपाचे, उर्बेन बरयतां... आनी... म्हजे भाशेंतलें दैन्य जाता तितलें पयस करपा खातीर, तिची बुन्याद घट करपा खातीर (बरयतां).' हे दोट्टी प्रेरणेन फाटलीं पांच दसकां रवीन्द्रबाब एका सारके कोंकणी सरस्पतिची सेवा करीत आसात. तांगेलो निजाचो फॉर्म निबंध. ते सांगतात, 'कवी जसो आपणाक 'कविता येता' म्हणटा तसो निबंध म्हाका 'येता'. येतना तो आपलें रुपूय घेवन येता. मुडूय घेवन येता. बरोवंक बसना फुडें तो आपलें एक-एक आंग उकतें करीत वता. आनी आपणाक म्हजे कडल्यान बरोवन घेता.' रवीन्द्रबाबांच्या निबंधांनी उकती जावपी तांगेली खाशेली जिणे-दिश्ट वाचप्याक अचळय विचार करूंक लायता. तशीच, इतल्या वर्सांच्या साहित्य-रियाजांतल्यान वयर सरिल्ली तांगेली सादी सोंपी प्रांजळ शैली ताका आगळो वेगळो साहित्य-अणभव दिता. आप-उकतावणेच्या वीस बरपांच्या ह्या झेल्यांत हाची गवाय मेळटलीच.